# अनुक्रम

# प्रस्तावना

आयज आमच्या देशांत सुमार चाळीस ते पन्नास लाख कोंकणी भाशी आसात. संपूर्ण गोंय राज्य, उत्तर-अस्तेंत कर्नाटक, दक्षिण - अस्तेंत महाराष्ट्र, उत्तर केरळ आनी अरबी सागराचे देगे वयल्या मध्य भागांत कोंकणी लोकांची वस्ती आसा.

भारतीय भासांचे पंगतीक बसपाचो अधिकृत मान कोंकणीक 1975 वर्सा लाभलो. कारण त्या वर्सा केंद्रीय साहित्य अकादेमीन तिका देशांतली एक सर्जनशील भास म्हण मान्यताय दिली. ते उपरांत 1987 वर्सा ती गोंय राज्याची राजभास जाली आनी 1992 वर्सा तिचो भारतीय संविधानाच्या आठव्या परिशिश्टांत आस्पाव जालो. फाटल्या वीस वर्सांच्या काळांत राष्ट्रीय थराचेर येवपी हे भाशेचो पूर्व इतिहास दुखेस्त आसलो तरी कोंकणी मनशाचे जिद्दीची आनी भाशीक ज्वलंत निष्ठेची ती एक देख आसा.

कोंकणी भाशेचो जल्म धाव्या शेंकड्याच्या सुमाराक जालो अशें चडशे विद्वान मानतात. पूण सुमार पांचशें वर्सांच्या काळांत कोंकणी भास लोकांचे जिबेरूच घोळत उरली अशें मानचें पडटा, कारण त्या काळा वयले लिखीत परंपरेची गवाय मेळना. फकत बाराव्या शेंकड्यांत श्रवण बेळगोळ हांगासर गोमटेश्वराचे भव्य मुर्तीच्या पांयांकडेन कोरांथिल्लीं कोंकणी उतरां हो लिखीत कोंकणीचो पयलो नमुनो अशें मानतात. तेराव्या वा चौदाव्या शेंकड्यांतलो कोंकणी बरपावळीचो एक नमुनो म्हणून संत नामदेवाचे गळवण गितांतलें एक कडवें दाखोवं येता. कृष्णदास शामा हांणी रचिल्ल्यो महाभारतांतल्यो काणयो ह्यो पंदराव्या शेंकड्यांतल्यो आसूंक जाय. देशांतल्या आधुनिक भासां मदलें तें पयलें गद्य जावन आसा.

1510 वर्सा पुर्तुगेजांनी गोंयांत प्रवेश मेळयलो. 1940 च्या अदमासाक परदेशी मिशनऱ्यां वरवीं धर्मांतराक आरंभ जालो. ख्रिस्ती धर्माची शिकवण लोकांक दिवपाक मिशनऱ्यांनी कोंकणी भास शिकून घेतली. तांणी कोंकणी भाशेचीं व्याकरणां, कोश आनी धर्मीक साहित्य रचलें.

1556 वर्सा गोंयांत छापखानो आयलो. फादर थॉमस स्टिफन्स हांचें 'द्रौत्रीन क्रिश्तां' हें कोंकणी पुस्तक 1622 वर्सा छापून आयलें. देशी भासांतलें हें पयलें पुस्तक. उपरांत 1640 वर्सा त्याच बरोवप्याचें 'आर्ति द लिंग्व कानारीं' हें कोंकणी व्याकरणाचें पुस्तक उजवाडा आयलें. देशी भासांतलें हें पयलें व्याकरण.

कोंकणी भाशेच्या अभ्यासाचीं साधनां निर्माण करपाचो आनी लिखीत परंपरेचो

आरंभ करपाचो असो हो कोंकणीच्या इतिहासांतलो बुन्यादीचो वावर. पूण तो फकत शंबर वर्सांच चल्लो. कारण गोंयांत 1560 वर्सा इंक्विझिशनाची स्थापना जाली. धर्मांतर केल्ल्या मनशांनी आपणाल्या आदल्या धर्मांत पर्थून वचचें न्हय, हे खातीर ही संस्था वावुरताली. तिणें जे नेम केल्ले, तातूंत कोंकणी भाशेच्या वापराचेर निर्बंध घाल्ले. सुमार दोन शेंकडे कोंकणीचे लिखीत परंपरेंत खंड पडलो. मदीं ज्योकीं इलियादोर कुञ्य रिव्हार ह्या गोंयच्या मुख्य सचिवान 'कोंकणी भाशेविशीं इतिहासीक निबंद' ह्या नांवाचो एक प्रबंध पुर्तुगेज भाशेंत बरयलो आनी मो. सेबाश्तियांव रुदोल्फ दाल्गाद हांणी कोंकणी-पुर्तुगेज आनी पुर्तुगेज-कोंकणी शब्दकोश रचले; पूण कोंकणीची अधोगती थांबली ना.

कोंकणी भास फाटीं उरपाक कोंकणी समाजाचो इतिहासूय कारण जावन आसा. पंदराव्या शेंकड्या मेरेन गोंयचेर गोंया भायल्या राजांचोच शेक चल्लो. तांणी दर एकल्यान आपआपले भाशेंतल्यान राजकारभार चलयलो. कोंकणीक राजाश्रय मेळ्ळोच ना. हातूंत भर म्हणून कोंकणी समाज फाफसलो आनी कोंकणीची विदर्णा जाली.

1294 वर्सा अल्लाउद्दीन खिलजीन गोंयचेर आगळीक केली, तेन्ना कांय कुटुंबां गोंय सोडून पयस कोचीक पावलीं. धर्मांतर आनी इंक्विझिशनाचे भिरांतीन कांय कुटुंबां महाराष्ट्र आनी कर्नाटकांत गेलीं. दुकळ आनी मराठ्यांच्यो आगळिको हाकाय लागून कांय लोक गोंय सोडून हेर कडेन गेले. ह्या लोकांनी त्या त्या वाठारांतली भास शिकून घेतली आनी त्या भासांच्या लिपींतल्यान आपणाली कोंकणी भास सांबाळ्ळी. पूण तांगेलीं आदलीं कांय वर्सां परप्रांतांत थीर जावपाकूच सरलीं. भाशेच्या संबंदान कसलोच वावर जावपाक पावलो ना. आनी उप्रांत ल्हवू ल्हवू लिपींच्यो वणटी जावन कोंकणी मनशाचो एकामेका कडलो संपर्कूच तुटलो. ह्या सगळ्या परिणामांतल्यान कोंकणी भास जिवी उरली; पूण ती तिचेच बरोबरच्या भयण भासां परस फाटीं उरली.

सोळाव्या शेंकड्यांत जरी कोंकणीच्या अभ्यासाचो आरंभ जालो आनी धर्मीक साहित्याची रचना जाली, तरी त्या वावरा फाटली खरी प्रेरणा भाशीक वा संस्कृतीक नासली, तर धर्मीक आसली. ख्रिस्तीधर्म प्रसाराचें साधन म्हण ती सेवा जाल्ली. संस्कृतीक उत्त्थानाचें आंग म्हण कोंकणीचे उदरगतीचें खरें पर्व, अठराव्या शतमानाचे अखरेक सुरू जालें.

1877 वर्सा शणै गोंयबाब ऊर्फ वामन रघुनाथ शणै वर्दे वालावलीकार हांचो जल्म जालो. तांणी फुडें कोंकणी विशीं विचारीक चळवळ सुरू केली. ते चळवळीक उपरांत समाजीक आंदोलनाचें रूप आयलें आनी तें कोंकणी भाशी समाजांत पातळत गेलें. विसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत शणै गोंयबाबांनी भासशास्त्र, व्याकरण, इतिहास ह्या विशयांचेर बरयलें. तेच बरोबर कोंकणीची साहित्यीक तांक सिद्ध करपा खातीर ललित साहित्याची रचना केली.

1930 च्या अदमासाक युरोपियन शॉर्ट स्टोरी आनी भारतीय काणी हांचो संगम जावन लघुकथेचो जल्म जालो. युरोपियन शॉर्ट स्टोरीची प्रेरणा हेर भारतीय भासांक

इंग्लीशींतल्यान लाभली, जाल्यार कोंकणी भाशेक ती इंग्लीशी बरोबर पुर्तुगेज आनी फ्रेंच भाशेंतल्यान लाभली.

सुमार सत्तर वर्सां आदीं शणै गोंयबाब हांणी बरयिल्ली 'म्हजी बा खंय गेली' ही काणी, कथेचें मुखामळ घेवन 'नवें गोंय' मासिकांतल्यान जल्माक आयली. पूर्ण तंत्राचे नदरेन तिका आधुनिक कथा अशें म्हणपाक जावचें ना. अशाच स्वरुपाच्यो कांय काणयो शणै गोंयबाबांनी रचल्यो आनी कोंकणींत कथेची प्रेरणा जागयली.

1935 वर्सा 'ओंवळां' हो जयवंत कुलकर्णी हांणी संपादीत केल्लो 14 कथाकारांच्या कथांचो एक म्हत्त्वपूर्ण असो संग्रह उजवाडा आयलो. ह्या कथांनी गोंय, कारवार, मंगळूर वाठाराचें प्रादेशीकपण आशिल्लें. अणभवाचे कसवटेर त्यो कथा उजव्यो थारिल्ल्यो. सांगपाचें म्हळ्यार ह्याच काळार हिंदी भाशेंत प्रेमचंद, कथालेखनाच्या शिखराचेर पाविल्ले आनी हिंदी भाशेंतल्यान पांच कथाकारांच्या कथांचें एक संकलन 'अंगारे' ह्या नांवान प्रसिद्ध जाल्लें. कोंकणी कथा हेर प्रगत भासांतल्या कथेच्या प्रवासांत आदीं सावन समांतर आशिल्ली म्हणपाचें दिसून येता.

1950 वर्सा चंद्रकांत केणी हांणी संपादीत केल्लो 'भुंयचाफीं' हो सुपुल्लो प्रातिनिधीक कथासंग्रह उजवाडा आयलो. कोंकणी कथेचो प्रवाह अदीक स्पश्ट करपी ह्या कथा संग्रहांतल्यो कथा, तंत्राचे नदरेन पश्चिमी कथेच्या प्रभावांतल्यो आसल्यो. 1935 ते 1961 मेरेन म्हळ्यार गोंयची सुटका जाय मेरेन 'नवें गोंय', 'साद', 'प्रजेचो आवाज', 'मीर्ग', 'साळीक', 'विद्या', ह्या नेमाळ्यांनी कोंकणी कथांक खूब उत्तेजन दिलें. सुमार शंबरां वयर कथा ह्या काळांत उजवाडा आयल्यो. त्या काळा वयले सातत्यान बरोवपी कथाकार म्हण चंद्रकांत केणी, अ. ना. म्हांबरो, गुरुनाथ केळेकार, मुकुंद केळेकार, फेलीसियु कार्दोज, एवाग्रियु जॉर्ज हांच्या नांवांचो मुजरत उल्लेख करूं येता. गोंय स्वातंत्र्या उपरांतूय जांची कथा साधना चालू उरली अशे हातुंतले दोन कथाकार म्हळ्यार चंद्रकांत केणी आनी अ. ना. म्हांबरो. 1961 वर्सा गोंयाक स्वातंत्र्य लाभलें. बरोवप्यांक अभिव्यक्तीचीं दारां उक्तीं जालीं. कोंकणी साहित्य सगळ्या आंगांनी आनी विविध प्रकारांनी फुलपाक लागलें. कोंकणी कथेकूच चंवर आयलो. आदल्या कथाराकांच्या पावलार पावल दवरून कांय नवे कथाकार रुजू जाले. 1964 वर्सा चंद्रकांत केणी हांगेलो कथा संग्रह 'धर्तरी अजून जियेताली' प्रसिद्ध जालो आनी कोंकणी कथा 'आधुनिक' जाल्या म्हणपाचें सिद्ध जालें. त्या काळार 'राष्ट्रमत', 'नवें गोंय', 'परमळ', 'पुनव', ह्या साहित्यीक नेमाळ्यांनी आधुनिक कथेची ही जाणीव आनी संवेदना चत्रायेन जपिल्ली दिश्टी पडटा.

गोंय स्वातंत्र्या उपरांतचें पयलें दशक म्हणजे 1970-80 हो काळ कोंकणी कथेच्या वैभवाचो काळ म्हणपाक जाय. ह्या काळांत नवे जाणिवेचे, नवे संवेदनेचे कथाकार तयार जाले. दामोदर मावजो, मीना काकोडकार आनी शीला नायक हीं तीन नांवां मुखेलपणान घेवपाक जाय. ह्याच दशकांत पुंडलीक नारायण नायक हांणी कथा लेखनाक आरंभ केलो. आनी फकत कोंकणी कथेनूच न्हय, तर सगळ्या कोंकणी साहित्यान कूस परतिली.

गोंयच्या स्वातंत्र्या उपरांत कांय म्हत्त्वाचे अशे प्रातिनिधीक कथासंग्रह उजवाडा आयल्यात. अ. ना. म्हांबरो हांणी संपादीत केल्लो बारा कथाकारांच्या कथांचो संग्रह 'प्रसादफूल' (1971) नांवान प्रसिद्ध जालो. तांणीच संपादीत केल्लो 'स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा' हो 37 कथाकारांच्या कथांचो आनीक एक संग्रह. केंद्रीय साहित्य अकादेमी खातीर चंद्रकांत केणी हांणी संपादीत केल्लो 'कोंकणी कथा' (1985) हो 25 कथाकारांच्या कथांचो संग्रह. ते शिवाय कोंकणी कथांच्या अणकारांचे दोन प्रातिनिधीक कथासंग्रह खूब म्हत्त्वाचे आसात. 'भारतीय शिखर कथा कोश' वेळेरेंत 'कोंकणी कहानियाँ' (1992) हो सत्तावीस कथाकारांच्या कोंकणी कथांचो संग्रह हिंदींत उजवाडा आयला आनी ताचें संपादन नामनेचे हिंदी कथाकार कमलेश्वर हांणी केला. कोंकणी कथांचो असोच एक संग्रह मल्याळम भाशेंत 'कोंकणी कथाकळ' (1993) ह्या नांवान उजवाडा आयला. तातूंत चवदा कथाकारांच्या कथांचो आस्पाव केला आनी तो पय्यनूर रमेश पै हांणी संपादीत केला. ते भायर कर्नाटक राज्यांतल्या आठ कथाकारांचो 'कोंकणी कथाष्टक' (1978) आनी आठ कथाकारांचो 'काणयांघोंस' (1979) संग्रह प्रकाशीत जाल्यात. केरळ राज्यांतल्या पंदरा कथाकारांचो 'कथा 83, 84, 85' (1986) हो संग्रह उजवाडा आयला.

ते सगळे प्रातिनिधीक संग्रह आनी कथाकारांचे स्वताचे स्वतंत्र संग्रह वाचल्यार कोंकणी कथेच्या समग्र विश्वाची कल्पना येता. कोंकणी कथा फकत संख्येनूच वाडली ना, तर ती गुणानय वाडल्या. विशय आनी आशयान ती समृद्ध जाल्या. 'प्रादेशिकता' हें तिचें एक वैशिश्ट्य थारलांच; ते भायर तिका विशयांची विविधताय आसा. 'कोंकणी', 'जाग', 'कोंकणी टायम्स', 'वांगडी', 'कोंकणीचें कुळार', 'चित्रंगी', 'कुळागर', 'राष्ट्रमत', 'सौंगडी', 'कोंकण भारती', 'जैत', 'कोंकणी जनता', 'राखणो', 'पंचकादायी', 'दिवटी' आदि नेमाळयांनी कोंकणी कथा प्राधान्य क्रमान उजवाडा आयल्या. कोंकणी कथेच्या यशाचें बरेंचशें श्रेय ह्या नेमाळ्यांक फावता.

ह्याच कथा-विश्वांतल्यो पंचवीस कथा हांगासर वेंचून काडल्यात. चंद्रकांत केणी हांगेली 'फातरा पोंदची आंकरी', ही कथा हांगासर घेतल्या. गोंयच्या स्वातंत्र्या उपरांत स्वातंत्र्य सैनिकांच्या जिवितांत आयिल्ली निराशा आनी तांच्या वांट्याक आयिल्ली अवहेलना हे कथेंत मांडल्या. पूण कथेच्या शेवटाक जगपा खातीर सुचयिल्ली प्रेरणा ही जीवनमुल्याचे नदरेन म्हत्त्वपूर्ण आसा. तांगेल्या 'धर्तरी जियेताली', 'हिप्पी चली', 'व्हंकलपावणी', 'ओलीं पांखां', आनी 'अबुद्ध मोग' ह्यो गाजिल्ल्यो अश्यो कथा आसात. चंद्रकांत केणी हांकां आर्विल्ले कोंकणी कथेचो बुन्यादी रचनाकार म्हण पाचारू येता. मोजक्या प्रसंगांतल्यान आनी मोजक्या पात्रांच्या रेखाटनांतल्यान सादिल्लो लघुकथेचो एकलक्षी परिणाम, तंत्रशुद्धता हया वैशिश्टयांनी परिपूर्ण अश्यो कथा तांणी फाटल्या चाळीस वर्सांत अखंडीतपणान आनी सातत्यान कोंकणीक दिल्यो.

अ. ना. म्हांबरो हांगेली 'विठूली चावी सांडली' ही पारंपारीक रूढ कथे परस वेगळी अशी गाजिल्ली कथा. 'गवेत उक्तें जायना' हीय तांगेली वेगळे अशे जातकुळयेची कथा.

दर कथे फाटल्यान तंत्राचे नवे नवे प्रयोग करपी प्रयोगशील कथाकार म्हण कोंकणी साहित्यांत तांणी नांव जोडलां. प्रस्थापीत कोंकणी कथे परस तांची कथा वेगळी, कांयशी absured. मार्मिक भाशाशैली हो तांगेले कथेचो आनीक एक गूण.

अच्युत तोटेकार हांगेली 'प्रेमनगरचो पावणो' ही कथा गोंयांतले देवदासी पद्दतीचेर आटापल्या. ही परंपरा गोंयांत खूब आदीं सावन चलत आयिल्ली. सामाजिक जाणिवेंतल्यान तिचें उच्चाटन जालें. ते परंपरेंतले नाजूक भावबंद हे कथेंत मोट्या संयमान टिपून घेतल्यात. तांगेली 'मूज गडगडली' हीय एक सुंदर अशी कथा आसा. थळावेंपण, प्रादेशिकता हें कोंकणी कथेचें एक म्हत्त्वाचें वैशिश्ट्य थारलां आनी ताचो आरंभ तांचे कथेपसून जाता. कोंकणी साहित्यांत अंत्रुज म्हालांतल्या लेखकांचो प्रभाव मोट्या प्रमाणांत आसा आनी तोटेकारांक अंत्रुजी जिविताचो वर्णनकार म्हणून पाचारतात.

शांताराम हेदो हांणी पिरायेच्या मानान कोंकणी कथा लेखनाक खूब उसरां आरंभ केलो. पूण ज्यो अवघ्योच कथा तांणी बरयल्यो, त्यो आगळयो-वेगळयो आनी वैशिश्टयपूर्ण आसात. 'घरपुरुस' कथेंत तांणी गोंयचें स्वातंत्र्या आदलें परकी पुर्तुगेज राजवटीतलें त्या काळाचें सामाजिक परिस्थितीचें यथार्थ चित्रण केलां. परकी पुर्तुगेज सत्ताधिशां आड झुजपा खातीर हांगासल्ले क्षत्रीयवंशी राणे गोंयच्या धनीक लोकां कडल्यान म्हळ्यार भाटकारां कडल्यान संपत्ती पुंजायताले (ही एके तरेची 'मुलुखगिरी' हेर प्रांतांनीय त्या त्या काळचे राजे करताले म्हणपाचे दाखले इतिहासांत मेळटात). हेदो हांगेली कथा अशा जायत्या इतिहासीक स्वरुपाच्या गजालींची दखल घेता. शणै गोंयबाबांचे लेखन शैलीचो तांचेर प्रभाव जाल्लो दिश्टी पडटा.

दामोदर मावजो हांगेली 'आंगवण' ही एक गाजिल्ली कथा. हे कथेचें हिंदींतल्यान टेलिफिल्म जावन दूरदर्शनच्या राष्ट्रीय प्रसारणांत प्रसारीत जालां. गोंयांत भारतीय संस्कृती बरोबर अस्तंती संस्कृतायेचें अस्तित्व आसा. हे संस्कृतीचीं कांय खाशेलेपणां आसात. तीं समाजजिणेंत आनी व्यक्तींनी आस्पावल्यांत. ताचें चित्रण जायत्या कोंकणी कथाकारांनी केलां; पूण सगळ्यांत प्रभावीपणान तें दामोदर मावजो हांणी आपल्या कथांनी केलां. 'आंगवण', 'तेरेजालो घोव' ह्यो कथा ताच्यो उत्तम देखी आसात. तांगेल्यो 'मरण येना म्हूण', 'कोंयसावालीं गोरवां', 'मॅट्रीकेचो रिजल्ट' ह्यो कथा खूब गाजल्यात. 'कार्मेलीन' नांवाचे तांगेले कादंबरीची खूब चर्चा जाल्या. तांणी दीर्घकथा, नवलिकाय बरयल्या. पूण कथेकडचें सातत्य तुटूंक दिवंक ना. सामाजिक जाणीव तांगेल्या कथा साहित्यांत कलात्मक आनी परिणामकारक रितीन प्रगट जाता. कोंकणी कथेक नवे आयाम दिवपी ते एक प्रमुख कथाकार आसात.

कोंकणींत कविता, नाटक ह्या साहित्य प्रकारांत बायल लेखिकांचें योगदान सामकें थोडें, पूण कथेच्या मळार तें मोट्या प्रमाणांत आनी लक्ष ओडून घेवपी आसा. मीना काकोडकार आनी शीला कोळंबकार ह्या दोन कथा लेखिकांनी गोंय स्वातंत्र्या उपरांत पयल्याच दशकांत कथेंत आपलो जागो थीर केलो.

शीला कोळंबकार हांगेली 'इल्लें शीं इल्ली गर्मी' ही कथा तांगेले कथाशैलीचें दर्शन घडोवपी कथा. कलात्मक रितीन मानवी अंतरंगाचो सोद घेवपाची कळाशी तांकां सादल्या. आंतरीक गूढता हें तांगेले कथेचें एक वैशिश्टय. तांगेल्यो 'मॅगी', 'गॅर' ह्यो कथा खूब गाजल्यात.

मीना काकोडकार हांगेली 'देवतंवशीं' ही एक अप्रूप अशी कथा आसा. भुरगेपणांतल्या यादींक तांणी सूक्ष्म आनी भावनीक थराचेर केळयल्यात. तांगेल्यो 'दोंगर चंवल्ला', 'सुकण्या पिला रे' ह्यो कथा वाचप्यांचे पसंतीक उतरल्यात.

गोंयचे मध्यमवर्गी जिणेचें चित्र तांगेल्या कथांनी येता. मिश्कील शैली खातीर तांगेल्यो कथा वाचनीय जातात. हांसयतां हांसयतां करूण रसाची निर्मिती करपाचें कसब तांकां सादलां. भावनाप्रधानता आनी स्वप्नरंजकता हेय तांगेल्या कथांचे गुणविशेश.

दत्ता नायक हांगेली 'पुनवे रातीची खूण' ही कथा तांगेले कथेचें योग्य अशें प्रतिनिधित्व करता. तांगेल्यो कथा घटनाप्रधान आनी व्यक्तिरेखा प्रधान आसतात. मनीस सभावांतलीं धोंगा - पोंगा ते मार्मीक शैलीन टिपून घेतात. अर्थसूचक हालचाली, खुसखुशीत संवाद हाका लागून तांगेल्या कथांतलीं पात्रां ठसठशीत दिसतात. 'एक जाणटेलो आनी एक नेणटेलो', 'एक आशिल्लो सोंसो' आनी 'गणपत पीटर ओ टूल जालो' ह्यो तांगेल्यो कथा उल्लेखनीय आसात.

मुदलाक कवी आशिल्ल्या ओलिव्हीऱ्यु गोमिश् हांगेली 'व्हंकल' ही कथा तांगेल्या सगळ्या कथांमदली सगळ्यांत उजवी अशी कथा आसा. 'व्हंकल' कथेंतले नायिकेचें व्यक्तिचित्र तिच्या भावभावनां सयत सूक्ष्म रितीन प्रगट जालां. गोंयच्या ख्रिस्ती जीवनाचें वर्णन करपी तांगेल्यो कथा समाजांत जाल्ल्या बदलांची आनी बदलिल्ल्या जीवन मुल्यांची जाणीवपूर्वक दखल घेता.

पुंडलीक नायक हांगेली 'प्रेमजागर' ही एक प्रादेशीक कथा. प्रादेशीक कथाबीज स्विकारून संवेदनेच्या थरार ती व्यापक भौशिकपण घेता. नीज कोंकणी भाशेचें बळगें तांचे कथेंत विस्फुरीत जाता. भौसाचे जिणेच्या युगायुगांच्यो व्यथा, सुखदु:खां आनी उत्फरके तांच्या कथांचे विशय जाल्यात. कोंकणीन प्रादेशीक साहित्याचो प्रारंभ तांच्या कथांतल्यान जालो. हो प्रादेशिकतेचो प्रवाह खुबूच बळिश्ट जालो आनी 1970 च्या दसका उपरांत तो कोंकणी कथेचोच न्हय, तर एकूण कोंकणी साहित्याचो प्रमुख स्वर जालो. पुंडलीक नायक हांणी नाटककार म्हण नामना जोडल्या तरी कोंकणी कथेंत तांचें योगदान लक्षणीय आसा. तांगेली 'कासय', 'मोगाची धूव', 'जैत', 'पारज', ह्यो गाजिल्ल्यो अश्यो कथा आसात.

प्रादेशीक कथेचो प्रवाह प्रस्थापीत करपाक एन. शिवदास ह्या कथाकाराचें योगदान मोलाचें आसा. ते नदरेन तांगेल्यो 'गळसरी', 'पोसको' ह्यो कथा तांगेले प्रतिभेची तांक दाखयता. संग्रहांतली तांगेली 'ब्युटिफूल लेडी' ही कथा तांगेल्या कथा वैशिश्ट्यांनी परिपूर्ण अशी आसा. जिणेंतली वास्तवता तपशिलान आनी कलात्मक रितीन तांणी आपल्या प्रादेशीक कथांनी मांडल्या. सर्जनशिलतेक धोको दिना आसतना अंधश्रध्दा, शोषण हांचेर

प्रभावीपणान आघात करपी सामाजीक जाणिवेचो हो कथाकार.

जयमाला दणायत हांगेली 'आंगोस्तर' ही तांगेल्या हेर कथां परस वेगळी अशी कथा. समाजाची पर्वा करी नासतना एका प्रतिष्ठीत पुरुषान दवरिल्ले बायलेचो 'पत्नी' म्हण स्विकार करपाचो एक धिटायेचो विचार हे कथेंत मुखार येता.

गोंय आनी गोंया भायर स्थायीक जाल्ल्या गोंयकारांच्या मध्यमवर्गी जिणेंतल्या बारीक सारीक घटनांची नोंद तांगेल्या कथांनी घेतल्या. मोनजातीक मानवीक भावना प्रदान करून तातुंतल्यान कथा निर्मिती करपाचें आकर्शक तंत्र हें तांगेल्या लेखनाचें एक वैशिश्ट्य आसा.

जयमाला दणायत हांचे फाटोफाट मध्यमवर्गी जीण धवळून काडपी जायत्यो नव्यो कथालेखिका आसात. सुमित्रा तांबा, सुशिला टी. भट, विजया धुंगट, चित्रा कुडचडकार, रजनी भेंब्रे, शांता खांडेपारकार, हर्षल दळवी, गीता नगर्सेकार, माया खरंगटे हांचो तातूंत आस्पाव जाता.

हेमा नयाक हांगेली 'कुकमा आदार' ही तांगेल्या विचाराचें आनी लेखन वैशिश्ट्यांचें प्रतिनिधित्व करपी अशी कथा. पुरुषी संस्कृतायेच्या चेपणाखाला समाजांत बायलांचेर जो शारिरीक आनी मानसीक अत्याचार जाता, ताचें जोशपूर्ण आनी संघर्शपूर्ण चित्रण तांगेल्या कथांनी जाता. कथेच्या माध्यमांतल्यान स्त्री स्वातंत्र्याचो विचार मांडून कोंकणी साहित्यांत त्या विचाराक अधिष्ठान दिवपाचो मोलादीक वावर तांणी केला.

कोंकणींतले एक मुखेल कादंबरीकार म्हण नामनेक पाविल्लो एडवीन डिसौझा हांगेली 'दिर्वे' ही कथा म्हळ्यार तांगेले लेखन शैलीचो आदर्श असो नमुनो. ख्रिस्ती संस्कृतायेंतल्या मिथ्सांचो सुयोग्य आनी चमत्कृतीपूर्ण असो वापर तांणी कथेखातीर करून घेतला. तांगेली सोपी सुटसुटीत शैली कथेंतल्यो घटना आनी प्रसंग सुसंगत रितीन मांडून वाचप्यांची उत्कंठताय वाडयता. तांगेल्यो 'कागदाची स्त्री', 'कॅम्बेरळी' ह्यो नांवाजत्यो कथा.

गजानन जोग हे कोंकणी प्रादेशीक कथेंत आशयपूर्ण भर घाल्ले कथाकार. संग्रहांतली तांगेली 'खोल खोल तळीं' ही कथा ग्रामीण जिणेचें सूक्षीम रितीन चित्रण करपी कथा. कथेंतली विक्षिप्त पुरुशी व्याक्तिरेखा एक भयानक पूण तितलोच कलात्मक अणभव दिता. तांगेली 'रुद्र', 'मावशे भाव', 'बावीस एके बावीस' ह्यो कथा कोंकणींतल्यो वैशिश्ट्यपूर्व कलाकृती आसात. स्वताच्या भाशा-सामर्थ्यान, हो कथाकार प्रतिमा - प्रतिकांतल्यान सुचकतायेन सशक्त आशय व्यक्त करता आनी कथांतलें व्याक्तिचित्रण ठसठशीत करता. हाचे कडेन स्वतःची अशी Idiom आसा.

के. आर. वसंतमणी ह्या कथाकारान कोचीनांतल्या कोंकणी मनशाचे जिणेचेर कथालेखन केलां. 'मोडें मर्तो' ही तांगेली कथा म्हळ्यार एका आगळ्या - वेगळ्या मनशाचें व्यक्तिचित्र आसा. एका सामान्य मनशाचे व्यक्तिरेखेंत कथाकारान अत्यूच्च अशें मानवी मूल्य निर्माण केलां. बरोवप्याची समजाच्या गुणदोशांकडेन पळोवपाची स्वतःची अशी एक

नदर आसा. तांचेलागीं अणभवांची पुंजी आसा. अनुभूतींक रूप दिवपाची कला आसा. स्वतःची अशी एक शैली आसा. ते खातीर तांगेली कथा लक्ष ओडून घेता.

तोमाझिन्यु कार्दोज हांणी कोंकणी तियात्र रंगमाचयेर बरोवपी म्हण आपणालें स्थान निर्माण केलां; पूण तेच बरोबर ललित साहित्याच्या हेर प्रकारांनी लेखन केलां. हेर साहित्य प्रकारांत जे परी गोंयांतल्या ख्रिस्ती जिविताचो तांणी वापर केला, तेच पद्दतीन कथेचो प्रकारूय तांणी केळयला. 'अनीता' ही तांगेली कथा कुटुंबांतल्या नात्यांतल्या संघर्शाचेर उजवाड घालता आनी एक शेगुणी अस्तुरीचें चित्र उबें करता.

पुरोगामी विचाराचें अधिष्ठान आशिल्ल्यो तांगेल्यो कथा समाजांतली विषमता, भ्रश्टाचार हांचो खर निशेध करता आनी भावपण, मनीसपण हांचो पुरस्कार करता. उपाट आशय चित्रण, नाटकांतले सारकी ठळक व्यक्तिरेखा हीं तांगेल्या कथांचीं कांय वैशिश्ट्यां आसात.

केरळ राज्यांत स्थायीक जाल्ल्या कोंकणी मनशाचे जिणेचें चित्रण दाखोवपी गोकुळदास प्रभु हांगेली 'आराट्ट' कथा कोंकणी कथेचे विविधतेंत मोलाची भर घालता. कथाकाराची संवेदना मनशाच्या मनाचो वेध घेत घेत मनोविश्लेषणात्मक पांवड्यार येता आनी विश्वात्मक जावपाचो यत्न करता. तांगेल्यो 'लांर्शे', 'एकलेपणाची सांज' ह्यो कथा आशयसंपन्न आसात.

जॅस फेर्नांदीस हांगेली 'मूठभर माती' ही कथा गोंयच्या एका सामाजिक स्थित्यंतराची दखल घेता. स्वतःच्या कश्टांनी उबारिल्ल्या घराक आनी विकतें घेतिल्ल्या शेत-भाटाक मालकूच कसो परकी जाता, ताचें परिणामकारक चित्र हे कथेन मांडलां. गोंयांत स्वातंत्र्या उपरांत आयिल्ल्या नव्या कायद्याच्या दुरुपयोगाचेर ही कथा उजवाड घालता.

महाबळेश्वर सैल हांणी कोंकणी कथेंतलो प्रादेशिकतेचो प्रवाह बळिश्ट केलो. कारवार-माजाळी वाठारांतली ग्रामीण लोकजीण तांणी कथा साहित्यांत प्रभावीपणान उबी केल्या. कोंकणींतलो एक मुखेल कथाकार जावन आशिल्ल्या ह्या बरोवप्याची अणभवसमृध्दता आनी मनाची संवदेनक्षमता वाचप्यांचें लक्ष ओडून घेता. संग्रहांतली तांगेली 'वितराग' ही एक आशयपूर्ण कथा. तातुंतले नायिकेचें सभावचित्र रंगयतना निमाणे कडेन तिका मानवीक मूल्याची जोड दिल्या ती लक्षणीय आसा. तांगेली 'पर्थो कसो आयलो' ही कथा खूब प्रभावी थारल्या.

शशांक सीताराम हांगेली 'देवा तूं पाव' ही तांगेल्या कांय बऱ्या कथांमदली एक कथा. तांगेल्यो कथा नाजूकपणान तंत्राचीं बंधनां जोडटा आनी आशयान उपाट भरिल्ल्या अनुभुतीच्या म्हालवजार मुखार सरता. आनी हें करतना कलात्मक मुल्यां कडेन मात लेगीत तडजोड जाल्ली दिसना.

कथेच्या माध्यमांतल्यान स्त्री स्वातंत्र्याचो विचार मांडपी लेखिकां मदली जयंती नायक ही एक मुखेल अशी कथालेखिका. समाजांतल्या चिड्डल्ल्या घटकांच्या भावभावनांक वाचा फोडपाचें काम तांची कथा करता. तातूंत बायलां वयल्या अन्यायाचें चित्रण सभावीकपणान

आनी कलात्मक रितीन येता. 'सिंड्रेलाची काणी' ही तांगेली एक प्रमुख अशी रचना. 'गाराणें', 'संप', 'निमणें बंड' हयो तांगेल्यो कथा तांगेल्या कथा साहित्याचें प्रतिनिधित्व करतात.

तुकाराम शेट हांणी अवघ्योच कथा बरयल्यात; पूण कोंकणी कथा साहित्यांत त्यो वैशिश्ट्यपूर्ण आसात. ऐहिक सुखा खातीर मनशान जो विकासाचो झपाटो सुरू केला, तातूंत आंतरीक नदरेन मनीस कसो उध्वस्त जाला, ताचें संवेदनशील चित्रण तांच्या कथांनी प्रभावीपणान येता. 'कावळ्याचो स्राप' ही तांगेली अशीच एक रचना. 'टूरिस्ट' हिवूय तांगेली कथा विशयाच्या वेगळेपणा खातीर आनी कथेंतले सामाजिक जाणिवे खातीर उठून दिसता.

वसंत भगवंत सावंत हो कोंकणी कथाकारांचे नवे पिळगेंतलो एक मुखेल कथाकार. 'कलसांव' ही तांगेली वाचप्यांचे पसंतीक उतरिल्ली कथा. तातुंतल्या कलसांवा खातीर धडपडपी भुरग्याचें चित्र खूब संवेदनशील रितीन बरोवप्यान मांडलां आनी भुरग्यां वयल्या अत्याचाराची एक देख कलात्मक रितीन सादर केल्या. तांगेली 'नागपंचम' हीय कथा उल्लेखनीय आसा. कथेच्या विशयाप्रमाण वातावरण निर्मिती करपाचें कसब तांकां बरें जमता. दुर्बळ, शोशीत समाजांतले ताण-तणाव ते सामाजिक जाणिवेंतल्यान यशस्वीपणान मांडटात.

वसंत सावंता सारखेच समाजीक जाणिवेचे जायते युवा कथाकार मुखार येत आसात. तातूंत सुरेश पिळर्णकार, रामनाथ गावडे, मधुसुदन जोशी, शशिकांत पुनाजी, विठ्ठल आवदियेंकार हांच्या नांवाचो मुजरत उल्लेख करपाक जाय. तांणी कोंकणी कथेचे समृध्दतायेंत मोलाची भर घाल्या.

ज्योती कुंकळकार हे कथा लेखिकेचें अणभवविश्व आनी अभिव्यक्ती कोंकणींतल्या आदल्या आनी बरोबरच्या कथा लेखिकां परस वेगळी आसा. नदरे आड जाल्ल्या मध्यमवर्गी जिणेंतल्या अणभवांक त्यो कथारूप दितात आनी हेरां परस आपली नदर वेगळी म्हणपाचें दाखोवन दितात. प्रादेशीक वैशिश्ट्यांचो स्विकार करिनासतना तांगेल्या कथांतल्यो व्यक्तिरेखा मानवीक संवदनेच्या थरार वावुरता. तांगेली 'सावळी' ही कथा तांगेल्या कांय बऱ्या कथांमदली एक आसा. कथा वाचतना असोय एक 'सांगाती' आसूंक शकता ह्या विचारान वाचपी चक्रावता. एका साध्या विशयाक एके सुंदर कथेचें परिमाण लेखिकेन प्रदान केलां. तांगेल्यो 'प्रतिमाभंग', 'रोमां' ह्योय कथा उल्लेखनीय आसात.

कोंकणी कथाविश्व समृध्द करपाक जायत्या कथाकारांनी योगदान केलां. एका संग्रहांत सगळ्यांक आसपावन घेवप शक्य ना. पूण कांय जाणांच्या नांवांचो उल्लेख करपाकूच जाय. गोविंद मुद्रस, नारायण बोरकार, अवधूत हेगडो देसाय, अरूण शिंगबाळ, गुरुदास बांबोळकार, प्रेमानंद म्हांबरे हांणी खूब प्रमाणांत कथा बरयल्यात. तांचे फाटोफाट जे. एल. गॉयश, अशोक भोसलो, वामन टाकेकार, अभयकुमार, वेलिंगकार, विन्सी क्वाद्रुश, सुरेखा तोटेकार, ऑल्टर मिनेझीस, आदि कथाकारांनी कथालेखनांत सातत्य

राखपाचो यत्न केला. केरळांत शरदचंद्रन के. नारायण नायक हांणी उल्लेखनीय अश्यो कथा बरयल्यात.

कर्नाटकांत कोंकणी कथेक बरो वाचक आसा. ह्या वाचप्यांची भूक भागोवपा खातीर कांय कथाकार सातत्यान कथालेखन करतात. तातूंत शंबरांवयर कथा बरोवपी जे. सी. व्हियेगश 'सिरिवज' हांगेलें नांव मुखेलपणान येता. तांगेल्या कथांनी भावनांक चड स्थान आसता. स्टेन आगियेर हे लोकप्रिय कादंबरीकार; पूण तांगेल्यो कथाय वाचप्यांचे पसंतीक उतरल्यात. जेमा पडिल, जेमी बोरोकस, हेमा चार्या, हेरोल पियस आदी कथाकारांनी कथा साहित्यांत मोलाची भर घाल्या.

एका काळार तंत्रशुध्द आनी आशय संपन्न कथा बरोवन मागीर कथा लेखना कडेन आडनदर केल्ल्या कांय कथाकारांची याद जाले बगर रावना. तातूंत अनील बोरकार, उदय भेंब्रे, सुरेश काकोडकार, पुरुषोत्तम शिंगबाळ हांच्या नांवांची आवर्जून दखल घेवपाक जाय.

कोंकणींत कवी म्हण नामनेक पाविल्ल्या कांय लेखकांनी बदल म्हणून वा प्रयोग म्हणून केन्ना केन्ना कांय सुरेख कथा बरयल्यात आनी त्यो आशय आनी तंत्राचे नदरेन तितल्योच प्रभावी थारल्यात. ते कवी म्हळ्यार बाकीबाब बोरकार, मनोहरराय सरदेसाय, पांडुरंग भांगी, नागेश करमली, जे. बी. मोरायश आनी रमेश वेळुस्कार. लक्ष्मणराव सरदेसाय हे मराठी कथाकार. तांणी कोंकणींतल्यान कथालेखन केलें तें खूब उसरां; पूण तांणी निबंदा सारको तोंडावळो आशिल्ली कथा कोंकणीक भेटयली. ह्या कथांनी आपणाले निजी अणभव लालित्यपूर्ण रितीन मांडल्यात, ते वाचनीय आसात.

कोंकणी कथा आयज भारतीय कथेचें एक आंग जालां. राष्ट्रीक थराचेर हेर भासांचे पंगतीक अधिकारान आनी पूर्ण सामर्थ्यासयत बसता. केन्ना केन्ना आंतरराष्ट्रीक थराचेरय तिचो गौरव जाता.

कोंकणी कथेचें 'कोंकणी कथा' हें वेगळेपण आसाच; पूण 'कोंकणी कथा' ही तिची मर्यादा न्हय. आपणालें वेगळेपण तिगोवन दवरून ती वैश्वीक थराचेर हेर कथांकडेन आपणालें नातें जोडून गतिशील आनी प्रयोगशील रावपाक सोदता.

वळवय - फोंडें, पुंडलीक नारायण नायक
गोंय.

# फातरी पोंदची आंकरी

**—चंद्रकांत केणी**

रेशनाच्या दुकानामुखार एक लांबलचक रांग. वताचो ताप चुकोवपा खातीर हातांतली पोती वयर धरून तिची सावळी माथ्यार घेवन तो अर्द वर उबो आसा. ताचो नंबर पयल्या पन्नासांत ना. पूण रांग सोडली जाल्यार आजय उपाशीं रावचें पडटलें हाची ताका भिरांत दिसता.

ताच्या फाटल्यान आशिल्ल्या मनशान मदींच ताका हात लावन हटकिलो. ताणें फाट फिरायली. एक अनवळखी मनीस. जाणटे पिरायेचो. ताचेवरीच पोती हातांत घेवन उबो आसा.

"हांव वळखलों ना." ताणें अडेचो हांसो तोंडार फुलोवन म्हळें.

"हांव तुमकां वळखतां. तूं श्रीनिवास न्हय?"

"हय. तुमचें नांव?"

"म्हजी वळख सोड. हांव सादो पसरकार. सध्या पसऱ्यार ना व्यापार. देखून हो पळे, कीलभर भड्डया तांदळां खातीर वताच्या कडार हांगा उबो रावलां. तुजी गजाल वेगळी. तूं स्वातंत्र्य सैनिक."

"पूण हांवय तांदळां खातीरच लायनींत रावलां."

"जाणां हांव. हांव तेच खातीर चुरचुरलों. स्वातंत्र्य मेळटकच आमी वाऱ्यार पडले ते पडले. पूण तुज्या सारकिल्या स्वातंत्र्य-सैनिकाचीय ही दशा मरे?"

"तसो भेद कसो करूं येत?"

"करिनात भेद? तुका फाटीं ताम्रपत्र दिलें ना? कितल्याशाच जाणांक रेफॉर्म मेळना?"

तो ओगी रावलो.

"आतां मोनो कित्याक जालो रे? जाय आशिल्लें न्हय तुमकां स्वातंत्र्य? आमकां बेकार करून, भायल्यांक हाडून आमच्या माथ्यार मारूंक मरे?"

ह्या मनशाले तावडेंतल्यान केन्ना काय सुटल्यार पुरो जालें श्रीनिवासाक. पूण करतलो कितें? लायन सोडल्यार रेशन मेळचें ना. रेशन सोडल्यार आयज शिताचें आंदन रात्रीचेर चडचें ना. तो ओग्गी उबो रावलो.

पूण ताका चड वेळ उबो रावचें पडलें ना. पांचच मिनटां भितर रांग सोडून लोक वचूंक लागलो.

"जालें कितें?" श्रीनिवासान एकल्याक विचारलें.

"तांदूळ सोंपले."

"हेच खातीर जाय आशिल्लें न्हय स्वातंत्र्य?" येदोळच्या मनशान ताका प्रस्न केलो.

"तांदूळ फाटल्या दारान पावंक जाय थंय पावलो आसतलो." दुसऱ्यान म्हळें.

"विचारपी कोण ना?" तिसऱ्यालो प्रस्न.

"मिनिस्टराक विचार."

"पेपराक पत्र बरय."

"कांय उपेग ना." येदोळचो मनीस परतून म्हणूंक लागलो, 'तांची कात सामकी मानग्याची...'

श्रीनिवासाच्यान थंय रावं नज जालें. ताणें ताकतिकेन पावलां उबारलीं आनी तो घरा परतूंक लागलो.

वाट चलता आसतना ताका ओगीच हे सगळे आवतिकाये खातीर लोक आपणाक जापसालदार धरतात अशें दिसतालें. मागीर कोणय आपणाक पळयतना ताका दिसलो जाल्यार तो आपणाक एकाद्रो प्रस्न विचारीत अशी ताका भिरांत दिसूंक लागली. संवकळीचें एकाद्रें तोंड ताका पळोवन हांसलें जाल्यार तो मनीस आपणाक हिणायता, आपले रिकामे पोतयेक हांसता अशें ताका दिसतालें...

तो जाणा आसलो. स्वातंत्र्य म्हळ्यार समृद्धी न्हय; समृद्धी मेळपाचें तें एक साधन... जेवण-खाण आनी पैसो हांची तुळा स्वातंत्र्या कडेन करूं नज... पूण ह्या लोकांक हें कशें सांगतलो? आनी तांचो तरी गुन्यांव कितें?

दारांतच उबी आशिल्ली बायल तागेल्या हातांतली रिकामी पोती पळोवन मोन्यांनी भितर गेली. ताका राग आयलो. तीय आपणाक हिणायता अशें ताका दिसलें.

घरांत वचून तो शेंदरी पातळावन आड पडलो. भितरल्यान भायर येवन बायलेन ताका विचारलें,

"जिवाक बरें दिसना?"

"पुरो जालां."

"ह्या वताच्या तळतळाटांत अशेंच जाता. इल्लें सरबत करूं?"

"नाका."

"आजय तांदूळ मेळ्ळे नात?"

"ना. सोंपले."

"कांय नज. मुगांची उसळी करतां."

"रवी शाळेंतल्यान आयलो?"

"ना अजून. येतलो आतां."

"तो शीत मागचो ना?"

"ना. तसो ताका समज आसा."

श्रीनिवासाल्या दोळ्यांतल्यान एक दूक गळ्ळें. ताणें तें लिपयलें. बायल भितर गेली. मेजार तागेलें ताम्रपत्र आशिल्लें. कोणें शें आपलें ताम्रपत्र घाण दवरिल्ल्याची खबर फाटीं ताणें नेमाळ्यांत वाचिल्ली. खीण भर ताका दिसलें, आपूणय हेरां सारकोच. पूण हें ताम्रपत्र आपणाक हेरां पसून वेगळायता. तें भायर उडोवचें. विचारा सरशीं तो उठलो. पूण खिणा भरयांत ताचो विचार बदल्लो. तो परतून शेंदरेर न्हिदलो.

न्हिदिल्ले कडेन ताचो दोळो लागलो. ताका जाग आयली तेन्ना तागेली ल्हान चली रडटाली आनी ताची बायल ते चलयेक बोम दिताली.

"जिन्याचें उदक घेना पळे हें." तिणें म्हळें.

"दुदाचो डबो मेळना. म्हशीचें दूद घालपाची संवय करूंक जाय."

"घालून पळयलें. तें ताका पचना."

श्रीनिवास उठलो. मागीलदारांत वचून ताणें हातपांय धुले आनी रात्री कडेन वचून पाटार बसलो. बायलेन ताटांत वाडिल्ली उसळी ताणें तोंडांत घाली आनी तांबयोभर उदक गटगटीत पियेवन तो उठलो.

परतून येवन न्हिदलो. भितल्लीं कामां सोंपोवन बायल भायर आयली.

"शीला न्हिदलें?" ताणें विचारलें.

"हय."

"ताका खंयच्यान तरी दुदाचो डबो हाडूंक जाय. बाजारांत ब्लॅक मेळटा खंय."

ताणें आंग काडलें.

"रवी खंय गेला?"

"भायले वटच्यान खेळटा आसतलो."

"वासंती, हांगा लागीं यो. सांगतां."

वासंतीन दार आड केलें आनी शेंदरेच्या पोंतार ताच्या पांयां कडेन बसलें.

"हांगो यो." ताणें लागी आपयलें आनी ताचो हात आपल्या हातांत घेतलो.

"म्हज्या हड्डयार कान दवर आनी पळय भितर कितलो उज्जो धगधगता तो."

"हांव नकळ?"

"हांवें तुज्या आयुश्याची वाट लायली अशें तुका दिसना?"

वासंतीन ताच्या तोंडार हात दवरलो.

परतून श्रीनिवासाले दोळे दुकांनी भरून आयले. पूण हे फावटीं ताणें तीं लिपयलीं नात. वासंतीन आपल्या पदरान तीं पुसलीं...

श्रीनिवासाले दोळे चडच पाझल्ले. ताणें वासंतीच्या दोनय भुजांक धरून ताची तकली आपले छातयेर दवरली आनी ती थापटीत म्हळें, "तुजेर हांवें व्हड अन्याय केला वासंती. राजाली राणी जावपा इतलें सोबीत तूं. आज म्हजे गरिबीच्या जीर्ण वस्त्राक कपयो

मारपाचें तुज्या वांट्याक आयलां."

"तुमच्या रूपान म्हाका विश्वाचें धन मेळ्ळां. तुमी ओगीच कश्टी जातात."

"ना वासंती. तूं तशें म्हणटा हें तुजें व्हडपण. पूण म्हज्या सारकिल्या मनशान तत्त्वाक लागून वेव्हार सोडूंक फावना आशिल्लो."

"तुमकां खऱ्यांनीच स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेतिल्ल्याचो पश्चात्ताप जाता?"

"खरें सांगूं तुका वासंती, तसो पश्चात्ताप म्हाका केन्नाच जालो ना वा आजय जायना. उरफाटें हांव म्हज्या कर्तव्याक जागलों म्हणपाची धन्यताय हांव सदांच अणभवीत आयलां. पूण लोक उलयतात तें आयकतकच मन गुन्यांवकारावरी जाता. लोकाचोय गुन्यांव कसलो? बाजारांत कांयच मेळना... असल्या वेळार दिसता, तरनाटे पिरायेचेर हांवें चळवळींत पडचे बदला व्यापारांत लक्ष घाल्लें जाल्यार आज हातांत चार पैशे घोळपाचे!..."

"पूण पैशे हें सर्वस्व तुका?"

"न्हय, पूण तुजे सारकिली बायल, रवी सारको गुणी भुरगो आनी ल्हान शीला, हांकां पोसपाची तांक म्हज्यांत ना ही खंत मात म्हाका एक सारकी पोखरता."

"हेय दीस वतले... आतां तरी तुमकां पेन्शन येता. हे आदीं आमी कितले त्रास काडले?"

"पेन्शनाच्या दोनशें रुपयां फाटल्यान कितल्या लोकाची हाय आसत अशें म्हाका येवजता! खरें सांगतां तुका, जांणी जल्म दिलो, शिक्षण दिलें; ल्हानाचो व्हड केलो त्या आवय-बापायलो हांव एकलोच भुरगो. तांच्यो सगळ्यो उमेदी माडोवन तांकां जाणटेपणांत एकोडीं सोडून चळवळींत उडी घेतना म्हजे मन इल्लेंय कचल्लें ना. पुर्तुगेज पुलिसेक तोंड दिवंक तें केन्नाच अनमनलें ना. तांचो छळ सोसतना म्हजें काळीज केन्नाच रडलें ना. पूण आज तुजे आनी भुरग्यांचे हाल म्हज्यान पळोवं नजत. लोकांक तोंड दिवं नज!"

"लोकाक तुमी नागयल्यात तर?"

"ना. पूण तांकां दिसता, आज जें सगळें घडटा- ही म्हारगाय, हो दुकळ हें सगळें स्वातंत्र्याक लागूनच. तांणी बाबड्यांनीं स्वातंत्र्या आदीं अशें भोगलें नासत..."

"म्हणून स्वातंत्र्य वायट जाता?"

"हें तुका समजता वासंती, पूण लोकाक समजना. आनी हें स्वातंत्र्य हाडलें तें स्वातंत्र्य सैनिकांनी अशें मानून ते आज स्वातंत्र्य सैनिकांक हिणयतात."

"तुमकां हांव सांगूं, तुमी संवसाराक विसरात. लग्ना आदीं तुमी म्हज्या दोळ्यांत संवसार पळयताले. तसो परतून पळयात."

"मोगाचे, उमेदीचे दीस सोंपले. आतां वेव्हारांतल्या रुपया-पैशांनी हिशेब करचो पडटा."

"तुमकां हांगा सूख ना जाल्यार आमी गोंय सोडुंया. भायर खंयय वचून रावंया. थंय आमकां कोण वळखुचो ना."

श्रीनिवासाक ही कल्पना मानवता. तो मात्सो सुखावता. आपले दोनूय हात वासंती

भोंवतणी आंवळून घेता आनी ल्हवूच तिचे केंस चुमता.

"म्हाका कितें दिसता सांगूं?" मदींच वासंती विचारता.

सपनांत उलयिल्ले सारकिलो तो आवाज आयकून श्रीनिवास आपलें दुःख पुराय विसरता.

"कितें?"

"संवसाराच्या अंता मेरेन आमी अशींच रावचीं..."

श्रीनिवास हांसता. भायले वटेन रवीलो आवाज येता. ते सरशीं कांचवेवन वासंती उठटा आनी ताची निबर वेंग सोडोवपाचो यत्न करता.

"आयलो तर गो संवसाराचो अंत?" श्रीनिवास वेंग सदळ करीत विचारता आनी तेच अवस्थेंत वासंतीच्या गालाचें एक चुंबन घेता. वासंती लजेन तांबडें गुंज जाता आनी श्रीनिवास आपली व्यथा विसरून हांसता.

त्या दिसा श्रीनिवास कामाक वचना. दनपारचो न्हिदून उठटकच तो वासंतीक सांगता, "आयज सांजवेळां आमी पासयेक या. भायरूच जेवया."

सांजच्या वेळार पोरसांत बांयचे कडेन गेल्लो आसतना श्रीनिवास येवजिता- ही बांय, हें पोरसूं, तो म्हशींग, आंबाडो, काज, करमल.. हें सगळें आपणाक चुकतलें. दसणीचें फूल आनी रातराणयेचो परमळ हे फुडें घडये केन्नाच मेळचो ना. तो एक शेंवतें अचळय खुट्टा- वासंती खातीर. त्याच वेळार तागेली नदर ओलीं उंबळपाचे फातरीचेर वता. थंय फातरी पोंदा आशिल्ले खांचींत केन्ना एक चिंचारो पडिल्लो देव जाणा! उदकाची ओलसाण मेळिल्ल्यान तो किल्लल्लो आनी ते फातरीक सांबाळीत सांबाळीत वताच्या किर्णांत खेळूंक ताची आंकरी वयर सरताली. इतले अडचणींतल्यान जीण जगपा खातीर त्या चिंचेच्या रोप्याची धडपड पळोवन ताका अजाप दिसलें. ताच्या मनांत आयलें, तो रोपो हुमटावचो आनी वेगळ्या जाग्यार रोवचो. केदो वेळ त्या रोप्याकडेन तो पळयत आशिल्लो देव जाणा! वासंती लागीं आयलें तेन्ना तो भानार आयलो.

"तुमकां जालां कितें?" वासंतीन ताका विचारलें.

श्रीनिवासान वासंतीक तो रोपो दाखयलो. "ताची धडपड पळयतकच म्हाका म्हजीच लज दिसूंक लागल्या. एके जिणेची आसक्ती तरी पळय."

"उठात... कवी भशेन येवजीत बसल्यार तुमकां पिशें लागतलें."

"वासंती, तो रोपो हुमटावन मेकळ्या जाग्यार रोवंया."

"नाका... ताचें मूळ तुटलें जाल्यार तो दुसरे भुंयेंत मूळ घेवचो ना." वासंतीन जाप दिली.

ती जाप आयकना फुडें श्रीनिवास चकाचूर जालो. एक व्हड सत्य ताका होलमल्लें.. तो कांय एक उलयलो ना. वासंती फाटोफाट घरांत आयलो.

त्या दिसाची श्रीनिवासाली उमेद पळोवन वासंतीक अजाप दिसलें. मोगांत पडिल्लो नवो तरनाटो भुल्लुसले वरी वागता तसो तो वागलो. मदींच तो वासंतीक खेटून चलतालो,

मदींच ताचो हात आपल्या हातांत घेतालो आनी रस्त्याचेर मात्सो एकांत मेळ्ळो जाल्यार आपलो हात ताच्या भुजार दवरून ताका ल्हवूच वेंगेंत घेतालो... लग्नाक धा वर्सां जाल्लीं. पूण लग्ना आदीं लेगीत श्रीनिवास इतले मेकळेपणान वागिल्लो वासंतीन पळोवंक नाशिल्लो.

जेवन-खावन तीं घरा परतलीं तेन्ना बरीच रात जाल्ली. श्रीनिवास भायरच आंगणांत बसलो. वासंती भितर भुरग्यांक न्हिदोवंक गेलें.

मळबार सप्तर्षी कडेन पळयत पळयत श्रीनिवास येवजितालो... कालची जीण आनी फायची जीण. पयस नातूक रडटालें. पूण तो ताका अपशकून कसो दिसलो ना. रातराणयेक जाग येवंक लागिल्ली. मळबार नवीं नवीं नखेत्रां उदेवंक लागिल्लीं. पूण आज चंद्राची जाग ना.. घडये उमाशेची रात आसुंये.

"येतात मू भितर?" दारांत येवन वासंतीन म्हळें, "रात जाली."

"ना... तूंय हांगा यो, दाखयतां."

"आज काव्य बी येवजलां काय कितें?"

"तुका जाय तें म्हण. पूण म्हजें मन आतां ल्हव जालां. स्वातंत्र्य सैनिकाक दूशण दिवपी लोकांची म्हाका पर्वा ना आनी लटके गिरेस्तकायेचोय म्हाका हावेस ना..."

"गोंय सोडून वचपाचें थारायना फुडें तुमकां पांजरो सोडटल्या किरावरी खोस जाली दिसता?"

"ना वासंती. आनी हांव गोंय सोडचो ना."

"इतले बेगीन निर्णय बदल्लो?"

"तो येदोळ बदल्लेलो. चिंचेच्या रोप्या भशेन म्हजीं पाळां-मुळां हेच भुंयेंत किल्लल्यांत. तीं हुमटायलीं जाल्यार हेर कडेन तीं तग धरचीं नात. देखून समाजीक, अर्थीक आनी हेर फातरी माथ्यार आसतनाय तातुंतल्यान वाट काडटलों हांव..."

वासंती तोंड आं करून ताचे कडेन पळयत रावलें. ताका कितें सांगचें म्हणपाचें तें येवजितालें. पूण श्रीनिवासान ताका येवजूंक लेगीत दिना आसतना ओडून सकयल बसयलें.



# विठूली चावी सांडली

— अना म्हांबरो

भाऊ बांदोडकार गोंयचो मुखेलमंत्री जालो पळय, तेन्ना विठून म्हळें, हें मात् बरें जालें ना आं? विठू आपले चावये संबंदीं उलयतालो. त्याच वेळार ताची ती चावी सांडिल्ली. विठू कडेन सगल्यो मेळून चवदा चावयो आशिल्ल्यो. तांचो हिशोब असो :

1 फुडल्या दाराची

1 भायले कुडीची

3 भितल्ल्या कुडींच्यो

2 मेजाच्या गवेतांच्यो

2 कोब्नाच्या गवेतांच्यो

1 पेटेची

1 आलमारीची

2 ट्रंकांच्यो

1 तिजोरेची

पैकीं ताची आल्मारीची चावी दिसपट्टी सांडटाली. भायले कुडीची, मेजाच्या गवेतांच्यो आनी ट्रंकांच्यो चावयो आठ-पंदरा दिसांतल्यान एक फावट सांडटाल्यो आनी कोब्नाच्या गवेतांच्यो चावयो तीन म्हयन्यांतल्यान दोन फावट पूण सांडटाल्योच. सांडनासली केन्ना ती तिजोरेची चावी. तीच हे खेप सांडली.

हरशींय जाल्यार विठू म्हणटात तो एक घोवयो. मात्सो पावणेबाराच म्हळ्यार जाता. खंयचीय गजाल खंयसरूय थेयली जाल्यार ताका तिचो केन्नाच उगडास जायना. तातूंत ती चावी केदी गा? सामकी किरमोळेच्या बोटायेदी. ती सांडल्यार मेळटली कशी?

चावी सांडना बराबर विठून सगलें घर सोद सोद सोदलें. पयलीं भायली कूड सोदली. कुडींतलें मेज, मेजाचीं गवेतां सोदलीं. कदेलां सोदलीं. वणटीचे खिळे, खिळ्यांचीं पायजेलां सोदलीं. वासरी सोदली. वासरेंतलो बांक सोदलो. मागीर भितल्ल्यो तीन कुडी सोदल्यो. कोब्नाचीं गवेतां सोदलीं. आलमार सोदली. तांतली मुस्तायकी सोदली. खोमसा-काल्सांवांचीं बॉल्सां सोदलीं. रांदची कूड सोदली. तोप, तपलीं, तांबये, पेले, ताटां, वाटयो, भगुणीं, धांपण्यो, कोळमूळ, रांदनीचें वायल, कत्रेलां- सगलें सोदलें. माळयेची इस्काद

सोदली. माळी सोदली. न्हिदपाची कूड सोदली. कुडींतल्यो बाज्जो, बाज्ज्ये वयलीं कुलच्यांवां, चादरी, उशीं, फ्रोंजी- सगलें सोदलें.

सगलें सोदून जातकूच विठून बायलेक सांगलें, चावी शेणली. बायलेक वायट दिसलें. विठून सोदिल्ल्यो सगल्यो गजाली तिणें परथून सोदल्यो. विठून मागीर आवयक सांगलें, चावी शेणली. तिणें विठून आनी बायलेन सोदिल्ले सगले जागे परथून सोदले.

विठूक आवयची काकुळट आयली. आवयक विठूची काकुळट आयली. विठूचे बायलेक विठूची आनी आवयची- दोगांयची- काकुळट आयली. विठूक दोन पूत. पाटू आनी तिटू. चावी सांडली तेन्ना पाटू गायतालो आनी तिटू उडक्यो मारतालो. विठून पाटूक म्हळें, कसल्या कास्ताचे रे तुमी?

पाटून म्हळें, कितें जालें?

चावी शेणली.

हांव कितें करूं?

रड.

मागीर मेळटली?

हय.

तें तिटून आयकलें. दोगूय रडूंक बसले. विठू उसळ्ळो, आरे, गायतात कितें? पाटू आनी तिटू रडल्यार गायिल्लेवरी दिसतालें. गायल्यार रडिल्लेवरी दिसतालें. विठू उसळटकूच ते बाबडे ओगी रावले.

चावी सांडली ही खबर विठूचे बायलेन एके शेजान्नीक सांगली. तिणें दुसरेक सांगली. तिणें तिसरेक सांगली. तिणें चवथेक सांगली. तिणें पांचवेक सांगली. विठूचे आवयन तीच खबर शेंवतूले आवयक आनी शांतूले मांयक सांगली. उपरांत ती खबर शेंवतूले आवयन शेंवतूल्या बापायक, शेंवतूल्या बापायन शांतूल्या बापायक, शांतूल्या बापायन शांतूल्या मांवाक आनी शांतूल्या मांवान शांतूले आवयक सांगली. पाटू-तिटून तीच खबर तिब्लू आनी गिब्लू ह्या आपल्या आमिगांक सांगली. उपरांत हाणें, ताका, ताणें हाका, हाणें हाका आनी ताका, ताणें ताका आनी हाका अशें करतां, करतां ही खबर सगल्याक पातळ्ळी.

मागीर शिनू, काटू, दुलगो, कृश्णें, तिर्वीण, भागी, आंतोन, कुश्टा, कायतान, मारी, दामयांव, फिल्सू, रमाकांत, दुर्गे, शेंवतू, आबोलें, सौज, फेर्नांद, नायक, कुराडो, मश्णो, फोंडो सगले विठूचे खबरेक आयले. पैकीं तिर्वीण, भागी, मारी आनी आबोलें विठूचे बायलेचे खबरेक आयिल्लीं. तिका णवो म्हयनो चलतालो.

जे लोक चावयेचे खबरेक आयिल्ले तांणी ती चावी कशी सांडली काय म्हणून विठूक विचारलें. आनी विठून ती अशे अशे अशे तरेन सांडली म्हणून तांकां आमसाण तिखसाण लावन सांगलें. दर एकल्याक तो सांगतालो, काल हांव सकाळीं उठलां बरो, च्या घेतल्या बरी, जेवलां-खालां बरो, न्हालां-धुलां बरो, भायर सल्लां बरो, घरा परतलां बरो,

जेवन-खावन न्हिदलां बरो, आयज सकाळीं उठलां बरो, च्या घेतल्या बरी, न्हालां-धुलां बरो, रेडियोर बांदोडकार मुखेलमंत्री जाल्ल्याची खबर आयकल्या बरी आनी अकस्मात पळयल्यार...

विठूलो भावोजी आपले बायलेक- म्हळ्यार विठूले भयणीक घेवन विठूगेर आयला पळय, तेन्ना विठूली बायल रडटाली पोटांत दुखता म्हणून. भावोजी आनी भावोजीची बायल खबर घेवंक लागली. विठूली बायल रडतूच आसली. विठूली आवय सांगताली, हांवें विठूक तिची वेवस्थीत काळजी घे म्हणून सांगलेलें. पूण हाणें पापयान तें मनार घेतलें ना. नसतीं हुतहुतेपणां करपाची हाका संवय.

हांकां इतले बेगीन भुरगें बी नाका आसलें काय? भावोजीक प्रस्न पडलो.

पूण हिगेलें हें वायट सुरू जालें केन्ना? विठूले भयणीन आवयक विचारलें.

आगो, कितें सांगतली तुका, काल सकाळीं दोगांय उठल्यांत बरीं, जेवल्यांत बरीं, न्हाल्यां-धुल्यांत बरीं, निदल्यांत बरीं, आयज सकाळीं उठल्यांत बरीं, रेडियो लायला बरो, बांदोडकार मुखेलमंत्री जालो ही खबर आयकल्या बरी आनी इतल्यांत विठू भायर आयलो आनी म्हाका म्हणूंक लागलो, आई घात जालो. म्हज्या काळजांत धस्स जालें. हांवें कच्च करून आंग काडलें. हिका निकतो णवो म्हयनो लागला न्हय गो? किळांच मारून हांवें म्हळें, आरे पापया जालें कितें? विठू म्हणूंक लागलो, चावी शेणली. आनी त्याच वेळार हिगेलें हें...

भावोजी आनी बायल गजाल थंयच सांडून परतीं गेलीं.

दीस भर लोक येत आसले. दादले येतकूच तीच तीच खबर तेच तेच तरेन विठू तांकां सांगातलो. बायलां येतकूच तीच तीच खबर तेच तेच तरेन आवय तांकां सांगताली. मनशां कोण आयल्यांत तीं पळोवन विठूली बायल पोटांत दुखता म्हणून रडूंक बसताली.

तीनसांज जाली. विठू देवळांत गेलो. किर्तन चलतालें. हरदास गांवठी मराठींत सांगतालो, काय सांगूं म्हाराजा, हा सगला संवसार फार कुम्प्लिकाद आहे. कधीं कुणाचं काय होईल ह्याचा न्हेम नाहीं. आज कुणाची चावी सांडटे, उद्यां त्याची बायल सांडटे, परवां मुली सांडटात, येरवां तोच सांडटो... म्हणून संत तुकाराम म्हाराज म्हण्टात, झेतें झातो थेतें थूं म्हाजा सांगाथी...

विठू पिकार जालो. चावीच सांडल्यार बरी आसा.. फाल्यां हांवूच सांडल्यार?.: परां म्हजी बायल सांडल्यार? तो उठलो. देवाक पांयां पडलो. भटाक सांगणें करूंक सांगलें. भटान ताका विचारलें, सध्या नाल्ल म्हारग काय साकर?

विठून म्हळें, साकर.

ते बराबर भटान, देवा सायबा, आयज हो विठू मुद्दम तुज्या पांयाकडेन आयिल्लो आसा. ताका तागेली ती शेणिल्ली चावी बेगीन एकदां मेळोवन दी. मागीर तो साकरेचो तुळाभार करतलो, अशें आंगवणेसयत सांगणें केलें. भटान विठूक सांगलें, देव तुजें काम करतलोच. ताणें तें केलें ना जाल्यार म्हजो भाव करतलो.

भटालो भाव जोतीस सांगतालो. विठू ताका मेळ्ळो. सगली खबर आयकून घेतले उपरांत ताणें विठून प्रस्न केलो. नक्षत्र हाडलां?

कोणाचें?

चावयेचें.

ना. तें म्हजे कडेन केल्लें ना.

मागीर ती खंय पावल्या तें कशें कळप?

विठू ओग्गी.

चावी केन्ना केल्ली?

पांच वर्सां जालीं.

म्हयनो?

मार्गशीर.

तीथ?

एकादस.

दीस?

सोमार.

वेळ?

चावयेकारान म्हजे कडेन चावी हाडून सकाळीं धांक दिल्ली.

चावयेचो नाकदोळो कसो आसलो, रंगरूप कशें आसलें हाची खबर विठू कडल्यान बारीकसाणेन घेतली. आनी उपरांत जोतिशान ते चावयेचें नक्षत्र मांडलें. तें बारीक दोळे करून बारीकसाणेन पळयलें. बोटांनी कितें तरी मेजलें. मागीर अन्तराळांत नदर लायली. (मळबांतलीं नक्षत्रां पळयतालो काय तो!) आनी म्हळें, तुगेली चावी दक्षिणेची वाट चलता.

पूण तिका पांय नात. ती चलतली कशी? विठून हुतहुतेपणान ताका विचारलें.

नस्ते प्रस्न विचारूं नाका.

विचारिना. पूण म्हाका एक सांग, म्हगेली ती चावी सध्या मागिलदाराच्या पोरसांत आसा? गांवचे तारी कडेन आसा? काणकोणच्या तिट्या कडेन आसा? काय कन्याकुमारीक विवेकानंदाच्या यादस्तिका कडेन आसा?

म्हाका तुगेल्या प्रस्नाचो अर्थ समजूंक ना.

तुवें म्हगेली चावी दक्षिणेची वाट चलता म्हळें ती दक्षीण खंयची? घराची? गांवची? गोंयची? कांय भारताची?

हें सगलें हांवें तुका सांगलें जाल्यार म्हगेल्या जोतिशांत उल्लें तें कितें?

तितल्यांत देवळांतलो भट थंय प्रगट जालो आनी ताणें विठूक म्हळें, म्हजो भाव धा रूपयांक हाचे परस चड जोतीस सांगना.

विठून गाळी घालून ताका धा रूपया फारीक केले. आनी तो घरा आयलो. जेवंक बसलो. इतल्यांत भायलें दार वाजलें. एक पुलीस भितर सरलो.

तुगेली चावी शेणल्या? विठूक ताणें प्रस्न केलो.

हय, तुका कोणें सांगलें, विठून विचारलें.

तुगेल्या शेजाऱ्यांनी.

तितल्यांत तूं हांगा आयलो?

हीं कामां आमी केलीं नात जाल्यार आनीक कोण करतलो? पुलीस म्हळ्यार लोकांचे सेवेंत. तुमी आमकां कामां सांगप, आमी तीं करप.

विठू दोन मिणटां त्या पुलिसाक पळयत रावलो. हो रामराज्यांतलो पुलीस चुकून हांगा खंय पावलो काय? असो ताका प्रस्न पडलो.

बरें, ती चावी आतां म्हाका कशी मेळटली? विठून ताका विचारलें.

कम्प्लेन बरोवन दी.

कितें म्हणून?

चावी कोणें तरी चोरल्या म्हणून. तुका कोणाचो दुबाव येता जाल्यार ताचेंय नांव तातूंत घाल.

पूण म्हगेली चावी शेणल्या. ती कोणें चोरल्या जायत अशें काय म्हाका दिसना.

ती चावी शेणल्या जाल्यार ती सोदपाचें काम आमचें न्हय. ती कोणें चोरल्या आसत जाल्यार त्या चोराक सोदपाचें काम आमचें.

बरें, कम्प्लेन बरोवन दिल्यार ती मेळटली व्हय?

प्रयत्न करपाचें काम आमचें. मेळटली काय ना मेळची तें आमी कशें सांगतले? फाल्यां हांगाचो एकाद्रो मंत्री लेगीत चोरयेक गेलो जाल्यार तो आमकां मेळटलोच अशें आमच्यांनी सांगूं नज.

तो पुलीस खरो, पूण आदवोगाद कसो उलयतालो. विठून ताका ताचे भाशेंत कम्प्लेन बरोवन दिली. आनी परथून ताणें विचारलें, तुका आमची चावी शेणल्या म्हणून कोणें सांगलें? खंयच्या शेजाऱ्यान?

ती गजाल म्हत्त्वाची न्हय. शेणिल्ली चावी सोदप हें चड गरजेचें, अशें म्हणून तो पुलीस चलूंक लागलो.

इतले म्हणसर विठूक खूब पुरो जाल्लें. तो वचून हांतरुणार आड पडलो. सगलो संवसार माल्लो भिसक्यार म्हणून तो गर्द न्हिदलो.

सकाळीं उठून विठू भायल्या हुंबऱ्यार येवन येवजीत बसलो. तितल्यांत ताका रस्त्यार कोण सो दिसलो. हो सुक्राता वरी दिसतालो आनी ब्रह्मदेवा वरी उलयतालो.

विठूचेर नदर पडना बराबर ताणें म्हळें, तुगेली चावी शेणल्या खंय?

हय.

ती मेळटली.

कशी काय म्हणटां?

खंयचीय शेणिल्ली वस्त सारकी सोदली जाल्यार मेळटाच.

कशी?

चावी शेणली ही एक घडणूक म्हळ्यार घटणा जाली. खंयचेय घटणेक ती घडपा खातीर कारण लागता. ते शिवाय ती घडना. एके घटणेक एकूच कारण आसूंक जाय म्हणून ना. एका परस चडूय कारणां आसूं येतात.

म्हणटकूच?

हीं कारणां सोदूंक जाय.

मागीर चावी मेळटली?

चावी कशी शेणल्या ती समजतली.

समजून उपेग कितें?

समजतकूच ती सोदूंक बऱ्याक पडटलें.

पूण हो दोट्टी वावर कित्याक? कारणां सोदचे परस हांव चावीच सोदतां.

मेळची ना.

कित्याक काय म्हणटां?

मेळ्ळीय जाल्यार तूं म्हाका त्रासांत घालतलो.

कसो?

कारणां सोदिनासतना तुका चावी मेळ्ळी जाल्यार ती तुका कशी मेळ्ळी हाचीं कारणां म्हाका सोदचीं पडटलीं.

बरें, कारणां कशीं सोदप हें तुमीच मात्शें सांगात पळोवया.

चावी शेणली म्हळ्यार कितें जालें तें तूं आदीं म्हाका सांग पळोवया.

नकळ हांव. तुमीच सांगात.

चावी शेणली म्हळ्यार चावी आसली ती ना जाली. म्हळ्यार ती मेळना जाली. ती मेळना कित्याक हाचीं कारणां कितलींशींच आसूं येतात. देखीक :

1. तुवें चावी खंय दवरल्या हाचो तुका उगडास ना म्हणून तुका ती मेळना.

2. तुवें चावी जंय दवरल्या असो तुका उगडास जाता, थंय तुवें ती दवरूंक ना. म्हणून तुका ती मेळना.

3. तुंवें चावी खंय दवरल्या हाचो तुका उगडास आसा, पूण ती चावी थंय ना म्हणून तुका ती मेळना.

4. तुंवें चावी जंय दवरल्या थंय ती आसा, पूण त्या जाग्याचो तुका उगडास जायना म्हणून तुका ती मेळना.

5. तुंवें चावी जंय दवरिल्ली थंयची ती कोणेंय तरी काडली आनी परती थंय दवरूंक ना, म्हणून तुका ती मेळना.

6. तुंवें चावी जंय दवरिल्ली, थंयची ती कोणेंय तरी काडली आनी ताणें ती जंय दवरली ताचो ताका उगडास ना, म्हणून तुका ती मेळना.

विठूक दिसलें, मंत्री आपल्या भाशणांनी सगल्या गजालींचो घोळ घालतात, तांचो

काथो करतात तसो हो कोण सो... विठून ताका म्हळें, उरिल्लीं कारणां हांव सोदून काडटां. तुमी हांगा आनीक चड वेळ रावले जाल्यार म्हजी तकली पिकार जातली. मागीर ती पिकार कित्याक जाली हाचीं कारणां म्हाका सोदीत बसचें पडटलें.

तो कोण सो भायर सरून गेले उपरांत विठू न्हालो, धुलो आनी धा साडे-धांच्या अदमासाक पलासींत (सचिवालयांत) गेलो. मुखेलमंत्र्याच्या पी. ए. क मेळ्ळो आनी ताका ताणें सगली खबर सांगली आनी आपणाक मुखेलमंत्र्याक मेळपाचें आसा हेंय ताका सांगलें. त्या पी. ए. न विठूक सांगलें, फुडल्या देड म्हयन्यांत मुखेलमंत्र्याक इल्लोय वेळ ना, सगले ऍपॉइंटमेन्ट काल तो मुखेलमंत्री जायना बरोबर रोखडेच भरले.

आतां हांव कितें करूं? विठून ताका विचारलें.

भाऊल्या घरा वच, ताणें सांगलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं विठू भाऊल्या घरा गेलो. थंय लोकांची गर्दी आशिल्ली. पूण विठूक पळयना बराबर भाऊन ताका सगल्यांत पयलीं भितर आपयलो आनी काम कितें आसा तें विचारलें. विठून ताका चावयेची सगली खबर सांगली. पुलिसेंत केस दिल्या, पूण ते कांय व्हडलेशे कानामनार घेनात, तेंय ताका सांगलें.

म्हणटकूच तुगेली ती चावी पुलिसेक सोद म्हणून हांव सांगूं? तांकां आनीक कामधंदो ना? भाऊन ताका तापून विचारलें.

तशें न्हय म्ह... म्हजी ती मा... मात्शी म्हत्त्वाची चा...चावी, विठून भियेत-भियेत म्हळें.

पूण जावन जावन कितलो जायत रे?

कि...कितें?

ते चावयेचो प्रेस.

नकळं हांव.

भाऊ उठून भितर गेलो. (हाका राग बी आयलो काय? विठू येवजूंक लागलो.) थोड्या वेळान भायर येवन ताणें 'हे घे पैशे' म्हणून बचकोभर नोटी विठूल्या हातार दवरल्यो आनी म्हळें, नवी चावी करून घे.

विठू घरा येवन भाऊन दिल्ल्यो त्यो नोटी मेजूंक बसलो. पळयता जाल्यार, भाऊन ताका पैशे दिल्ले पळय, तातूंत ताच्यान आतां कांय न्हय करून भांगराची चावी लेगीत करून घेवं येताली.



# प्रेमनगरचो पावणो

—अच्युत तोटेकार

आज सकाळ सावन प्रेमनगरांत व्हडल्या - व्हडल्यान लाऊडस्पिकर वाजूंक लागला. प्रेमनगरांत विशेश कितेंय दबाजो आसा म्हणपाचें तें पेर्गांव. रस्त्यान चलपी एकमेकांक दोळ्यांचे खुणेन विचारतात, कसलें पेर्गांव? थोड्या वेळाभितर सगल्या गांवांत फाम जाता. प्रेमनगरांत आज गणिका समाजाचो वार्शीक सत्यनारायण.

ना म्हळ्ळें तरी आंबटशौकी तरनाट्यांकच न्हय, तर म्हाताऱ्यांक लेगीत हे सत्यनारायण पुजेचें आकर्षण. देवदर्शना वांगडाच नव्या नव्या गणिकांचे मुखडे पळोवंक मेळटात न्हय? ताका लागून सदां वचपी सोडात, तर केन्ना ते दिशेन पावल न उडोवपी लेगीत सांजेच्या वेळार प्रेमनगराक भेट दिवपाचें पवित्र कर्तव्य करतातूच!

गांवाचे एके कुशीक गणिकांचीं पंचवीस तीस घरां आसात. ताकाच प्रेमनगर म्हणटात. धा वर्सां फाटीं हे सुवातेर गांवांत मेल्लीं गोरवां हाडून उडयताले. दीस भर हांगा कुशिल्ल्या मासाची घाण. सुर्णी, कावळे आनी गिदां हांचे बगर कोणाचें दर्शन ना. अशी ही मसण भूंय. हे भुंयेचें भाग्य फळाक आयलें आनी तिका 'प्रेमनगर' हें श्रृंगारीक नांव रूढ जालें.

आज हे सुवातेर आसात त्यो गणिका पयलीं गांवांत कोणाच्या तरी आलाशिऱ्यान रावताल्यो. तरण्या रगताक हें मानलें ना. तांणी गणिकां आड बंड केलें, गांव सोडपाक भाग पाडलें; सगल्यो गणिका एक जाल्यो. गांवा भायले मसणभुंयेंत आयल्यो, साटल्या-पोटल्यांसयत. सत्यनारायण देवाचें नांव घेवन खोंपट्यो उब्यो केल्यो. संवसार मांडले.

थोड्या तेपान खोपट्यांचीं घरां जालीं. घरां मुखार रस्ते आयले. रस्त्यां फाटल्यान लायट आयली. ताचे फाटल्यान उदकाचो नळ, एक ल्हानसो थंय वाडो उबो जालो. गणिका देह भाड्याक दिवपी, जावं प्रेम विकपी बायलो. म्हणून कोणेंतरी मस्कऱ्यांनी त्या वाड्याक प्रेमनगर हें नांव दिलें.

प्रेम नगरांतल्यो गणिका एकठांय येवन ही पूजा करतात. ताचे फाटलें कारणूय हेंच. सामक्यो निराधार स्थितींत आशिल्ल्यो तेन्ना सत्यनारायण पावलो आनी ताचेच कृपेन बरे दीस आयले. फुडें ताचीच राखण आसची देखून ही सेवा.

आयचो दीस गणिकांचो देवधर्माचो पवित्र दीस. कोणा दादल्याक आफुडप लेगीत ना. कोणाक दोळो लेगीत मारप ना. मुखान फाजील उतर काडप ना. कुळशिळांतल्या

बायलां भशेन कास घालून आनी कुकमाचो आडवो पटो ओडून पुजेच्या माटवांत वावरप. पुजा सार्वजनीक आशिल्ल्यान तिचे खातीर मुद्दाम माटोव उबारतात. सगल्यांकच मेकळेपणान देवदर्शन जावचें हो हेत. पुजेची आरासूय बरी. रंगीत लायट, फोग, भजन, आरती- विचारूं नाका. खूबश्या पयशेकारांचो हे पुजेक अप्रत्यक्ष हातभार लागता न्हय? हे पुजेची वेवस्था पळोवची चंद्रामावशेन. चंद्रामावशी म्हणजे वारामुख्या. सगल्यो गणिका तिच्या अधिकारांतल्यो. तिचें उतर तें सगल्या गणिकांचें उतर.

सामके सुरवाते सावन ते आज मेरेन हे पुजेच्या यजमानपणाचो मान विठुभटाक. सगल्यो गणिका तांकां गुरुजी म्हुणून पाचारतात. तांची देवाधर्माचीं सगलींच कामां गुरुजीच करतात. प्राप्तीय भरपूर. ताका लागून गुरुजीं कडल्यान आनी कोणाचीय धांदळ जायत, पूण प्रेमनगरांत ते 'यथा वाचा तथा कृति' अशे आशिल्ले. वयल्यान लोक तांची टवाळी करताले, तरी मनोमन वळखताले, गुरुजीं सारको सादोसरळ आनी अनवाळो मनीस संवसारांत ना. आनी खरेंच, फाटलीं धा वर्सां गणिकां कडेन गुरुजी ह्या नात्या बगर तांचो कसलोच संबंद येवंक नाशिल्लो. ताका लागून देवाखालोखाल गणिकां कडल्यान गुरुजींक मान मेळटालो. गुरुजींनी पाटार बसून पुजा करपाची. गणिकांनी कुशीन बसून पळोवपाची आनी पुण्याच्यो भागिदारी जावपाचें. पुजा सोंप मेरेन हेरांक माटवांत येवप बंद.

आज सकाळीं सुर्योदया वांगडाच गुरुजींनी माटवांत हजेरी लायिल्ली. सामानाची जमवाजमव सुरू जाल्ली. चंद्रामावशी बशिल्ल्या जाग्या वयल्यान एकएकलेक सामान हाडपाक फर्मायताली.

"चंद्रामावशे, गन्ध खंय तें दिसना."

गुरुजीन म्हळें.

"आगो सुमन, तुवें गन्ध हाडूं ना गो?"

चंद्रामावशेन विचारलें.

"आगेऽ ऽ बाये, विसरलें, हाडटां हां."

सुमन.

"अशेंच तूं. हेरें म्हळ्यार भेरें करतलें!"

चंद्रामावशेन सुपारी कातरीत म्हळें.

"आनी कलशांत सवाय रुपयो."

"हो घेयात गुरुजी."

चंद्रामावशेन बोटव्यांतल्यान सवाय रुपया गुरुजी सुवादीन केलो.

"आनी हे सवाय पांच रुपया विड्यांर दवरपाक"

चंद्रामावशेन पानाक चुनो लावंक सुरवात केली.

"आनी हें पळय, शिऱ्याचें खंय पावलां?"

"गुरुजी, तुमी काळजी करूं नाकात. तें काम मिलना कडेन सोंपयलां: आजून वेळ आसा न्हय?"

चंद्रामावशेन विडो तोंडांत भरलो आनी अर्दवट आशिल्ल्या दांतांनीं चाबूंक सुरवात केली.

"आरती घाल्यो?"

चंद्रामावशेचो पान मळपाचो धाणो सुरू जाल्लो. ती उलयली ना. ताचे बदला शैला आरत घेवन फुडें आयलें.

"आगो शैला, हाका कितें आरती घालप म्हणटात? बोंथयो कशो घाल्यात मगो तुवें वाती! तोंकां बरीं पीळ पळोवया."

गुरुजींच्या ह्या उतरांनी शैलाक धक्कोच बसलो. तें लजेवन आरत घेवन कुशीक सरलें.

आपल्या उतराचो विपर्यास जाला काय, अशें मनांत येवन गुरुजीन चंद्रामावशे कडेन पळयलें.

चंद्रामावशेन तोंडांतली पीक 'पचक थू:' करून माटवा भायर मारली आनी गुरुजींच्या उतराचेर आपली नापसंती उकती केली.

"गुरुजी, हे गजरे आनी तुळशी घेयात."

एक अनवळखी तरणाटें गोमटें पोर गुरुजीक सांगतालें.

"आगो रूपा, कितले बेगीन गुंथले गो तुवें गजरे!"

कोणें तरी म्हळें.

"आगो, रूपा तें रूपा. ताची सर कोणाक येवची ना."

दुसरो आवाज.

रूपा मुरगुटून चंद्रामावशे म्हऱ्यांत वचून बसलें. रूपाचें हें मुरगुटप गुरुजींक एकदम मानलें, रूपा सारको सुंदर चेरो आजवेर गुरुजींनी प्रेमनगरांत पळोवंक नासलो.

"बरें, सुरवात करतां."

गुरुजींनी चंद्रामावशेची अनुज्ञा घेतली आनी 'केशवाय नम :' केलें.

"सगलीं जाणां ओगी रावात गो."

चंद्रामावशेन धेंगसो घालो. धेंगशा वांगडा तोंडांतली कांय पीक ओंठा देगेच्यान सकयल गळ्ळी. ती तिणें रोकडीच पदरान पुसून काडली. सगल्यो गणिका हात जोडून देवा मुखार बसल्यो. शांत वातावरणांत गुरुजींनी पुजा सोंपयली.

"आतां सगल्यांनी वर्सपद्धती प्रमाण देवाक गंधफूल ओंपूंक येवपाचें."

गुरुजीन सुचोवणी दिली.

"चलात गो सगळीं. आंगार उदक ओतून ओल्या आंगार देवाक गंधफूल ओंपूंक येयात."

चंद्रामावशेन ऑर्डर सोडली आनी आपुणूय माटवांतल्यान भायर गेली. देवाक गंधफूल ओंपप म्हणचे सामकें अनवाळ्यांनी. आनी ओलें आंग म्हणचेच खरें अनवाळें, अशी सगल्या गणिकांची भावना.

सगळ्यो जाणी माटवा फाटल्यान भायर गेल्यो. थंय एक थंड उदकाचो हांडो भरिल्लो. दर एकलेन आपले पयलींचे कपडे देंवयले. आंगा भोंवतणी एक साडी गुठलावन घेतल्ली आनी माथ्या वयल्यान उदक ओतून घेतलें. मागीर तशाच थबथबत्या आंगान एकेकली पुजेच्या माटवांत येत रावली.

पयलो मान चंद्रामावशेक, तिणें सगल्यांत फुडें माटवांत पावल दवरलें.

माटवांत गुरुजीं बगर कोणूच दादलो मनीस नाशिल्लो. कारण सगल्यांनी गन्धफूल ओंपून जाले बगर भायल्या लोकांक माटवांत प्रवेश नाशिल्लो.

गुरुजींनी गन्धफुलाचो हात फुडें केलो आनी चंद्रामावशेन तें देवाक ओंपलें. आनी बागोवन देवाक पांया पडली.

सामकी मनांत इत्सा नासतना गुरुजींची नदर तिच्या देहार पडली. एका काळार आपल्या सौंदर्यान दुसऱ्याक पिसो करपी चंद्रामावशेच्या देहाच्यो काती कवळिल्ल्यो. कांय कडांनी चामडी लोमकळटाली. तोंडार शिरकुत्यांचें जाळें पडिल्लें. तोंडाच्या बोळक्यांतल्यान जीब भायर-भितर जाताली. आंगार जळींमळीं काळीं निळीं चकां उदेल्लीं. तिका पळयतनाच गुरुजींच्या आंगाक शिरशिरी आयली. पळोवं नज जावन मान सकयल गेली.

चंद्रामावशे फाटल्यान एकेकली क्रमान माटवांत येवन देवाक गन्धफूल ओंपूंक लागली. चंपी, गंगी, येसू, लक्शिमें, मंजूळ... सगल्यो ओल्यो थबथबीत आंगा वयलीं सगलीं सौदर्य साधनां धुवन गेल्ल्यो.

ह्योच गणिका सांजेच्या वेळार घराच्या दारांत जावं जनेलांत बसून नदरेच्या तिरान गिरायकाक घायाळ करताल्यो. तांच्या देहार आतां नदर घालूं नज आसली. सौंदर्याचे ॲटम बाँब फुटिल्ले. सगलो फुसको वेपार, किळसवाणो! ओंठांची लाली, तोंडाची पावडर धुवन गेल्ली. दोळ्यांनी खोलाय घेतिल्ली. हड्ड्यांची उंचाय सपाट जाल्ली. पोटच्यो बरगड्यो मेजूंक येताल्यो. माथ्याचीं गंगावनां खुंटयेर हुमकळटालीं. रातच्या काळखांत झगमगपी स्त्रीवैभव गिलीट गेल्ल्या दागिन्या भशेन उगड्यार पडिल्लें. खंयच्याच अवयवांत आकर्शण नाशिल्लें. गुरुजी दोळे धांपून एकएकल्याच्या हातांत गन्धफूल दितालो. तें देवाक ओंपून एकेकली कुशीक सरताली.

"आगो रुपा, अशें लजता कितें गो? फुडें यो मगो."

चंद्रामावशेन म्हेडी फाटल्यान उबें आशिल्ल्या रुपाक पळोवन म्हळें, तशें रुपा लजत मोडत फुडें आयलें. ताचे दोळे ओगीच भिरभिताले. दोनूय हात हड्ड्या कडेन पांगरून तें गुरुजीं मुखार उबें रावलें. गुरुजींनी गन्धफूल फुडें केलें आनी तें घेवपाक रुपान हड्ड्या वयले हात सकयल काडले.

सौंदर्याचो अमोल खजिनो गुरुजीं मुखार उबो आशिल्लो. ताच्या दर्शनान ते आवाक् जाले. ओह! कितें रूपाचें रूप हें! त्या रुपान गुरुजीचे दोळे खीण भर दिपून गेले. हातांतलें गंधफूल रूपाच्या पोशांत घालपाचें ते विसरले.

"गुरुजी."

एक नाजूक आवाज गुरुजीच्या कानांत घुमलो. ते भानार आयले. इल्ले शे खजील जावन तांणी रुपाच्या पोशांत गंधफूल दिलें. गंदळलेले मनस्थितींत रुपाच्या तळहाताचो स्पर्श गुरुजीच्या हाताक जालो. तो स्पर्श गुरुजींक सुखावन गेलो.

रुपा परतलें, तरी ताची हात्याच्या बोंडा भशेन आशिल्ली आंगकांती, साळकाच्या पांकळ्यां भशेन रुंदट आनी मोतया रंग्राचे धवेशुभ्र दोळे, दांळबी ओंठ आनी साडयेच्या पदरा फाटल्यान भायर बागोवन पळोवपी पारव्यांची जोडी गुरुजींच्या दोळ्यांमुखा वयल्यान हालपाक तयार नाशिल्ली.

बरोच वेळ जालो तरी विचलीत जाल्लें गुरुजीचें मन जाग्यार येवपाक तयार नाशिल्लें. मंत्र एका फाटल्यान एक येवज नासले. तरी बरें, आरती वेळार तांणी कापसाच्यो वाती तेलाच्या तांबयांत बुडोवपा बदला उदकाच्या तांबयांत बुडयल्यो तें कोणें पळयलें ना. प्रदक्षणा लेगीत उरफाट्यो जातात्यो. पूण चंद्रामावशेन 'गुरुजी, तुमी कितें करतात?' अशें म्हणना फुडें तांकां आपली चूक जाणवली.

"चंद्रामावशे, म्हाका तुजे कडेन कितें उलोवपाचें आसा."

पुजा सोंपले उप्रांत एके कुशीक उबी आशिल्ले चंद्रामावशेक गुरुजींनी म्हळें.

"कितें?"

मुरको मारीत चंद्रामावशेन विचारलें!

"हें रूपा कोण?"

"रूपा? हें हांसऱ्या मुखाचें चली?"

"हय."

"आसा एक नवेंच पोर, भारी सुरेख. गिरायकां सामकीं जीव ओंवाळून उडोवपाक तयार आसात. पूण हांवूच काळजी घेतां. ताका त्रास जावं नये म्हुणून."

"वा : वा :! घेवंकूच जाय. ल्हान आसा. शिवाय नाजुकूय!"

"हय."

"चंद्रामावशे, एक विचारूं?"

"विचार!"

"राग येवचो ना मूं?"

"राग येवपाक तुमी कितें परकी न्हय!"

गुरुजी संथपणान सकयले मानेन उलोवंक लागले.

"मावशे, आज धा वर्सां जालीं. हांव हांगा येतां - वतां. तुमचें पुरयतपण करतां. पूण केन्ना कोणा बायलमनशे कडेन वांकडे नदरेन पळोवंक ना. पूण कितें कोण जाणा, तें रूपा म्हज्या मनांत भरलां. म्हजी इत्सा पुरी जायत?"

एकाद्रो धक्को बशिल्ले प्रमाण चंद्रामावशेची मुद्रा गंभीर जाली. गुरुजींच्या तोंडा कडेन पळयत ती येवजितूच रावली. गुरुजींक धस्स जालें. रूपाची मागणी करपांत आपली चूक तर जावना मू? चंद्रामावशेन न्हयकार दिलो तर जावपी अपमान सहन करूं येत

म्हज्यान? गुरुजींचे तर्क सुरू जाले. मनाची अस्वस्थताय वाडली.

कांय खीण अशेच गेले. अखेर चंद्रामावशेन कितें तरी येवजण मनांत घट केली आनी आदरपूर्वक गुरुजींक म्हळें.

"गुरुजी, हांव तुमकां ना कशें म्हणूं? तुमचे पुण्यायेच्या बळार आमचें बरें जालां. तुमचें उतर म्हज्यान मोडूं नज. तुमची इत्सा पुरी जायत. उलयात, केन्ना?"

"आयज राती?"

"हय. आतां तुमी रावपाचें आनी सकाळीं फुडें पुजेचें सामान आनी रवानगी घेवन वचपाचें!"

चंद्रामावशेचीं हीं उतरां आयकून धडधडपी गुरुजींचें काळीज एकाद्र्या पोरा भशेन भितल्ले भितर उडक्यो मारूंक लागलें.

रातीं रुपान आपल्या हातान तयार करून दिल्लो विडो गुरुजींनी खालो... ते उप्रांतचे रातीक कसो रंग भरत गेलो तें कळ्ळेंच ना. सकाळ जाली आनी गुरुजी मुस्तायकी करून सोप्यार येवन बसले.

पुजेचें सामान घेवन चंद्रामावशी फुडें आयली.

"हें पुजेचें सामान. ही दक्षणा. आनी हो नमस्कार- निमणो."

चंद्रामावशी गुरुजीक फाट करून उबी रावली. तिच्या आवाजांत कांपरें भरिल्लें.

गुरुजींक अजाप जालें. सदां ती हांसत्या मुखान गुरुजींक निरोप दिवपाची. पूण आज हो वेगळोच प्रकार गुरुजी अणभवताले. तांच्या तोंडांत उतर फुटलें.

"निमाणो नमस्कार?"

"हय निमाणो."

आपली व्यथीत नदर गुरुजीचे नदरेक भिडयत तिणें म्हळें.

"आजवेर तुमी आमचे गुरुजी आशिल्ले. आतां तुमी... न्हय, तूं आमचो पावणो जाला."

"म्हणजे कितें?"

"हें हांवेंच सांगूंक जाय? तुमी पुण्यवान मनीस म्हुणून आमी तुमकां श्रेश्ट मानीत आयलीं. अनवाळे मानीत आयलीं. तुमचे पुण्यायेचेर आमचीं पातकां धुवन वचपाचीं; पूण तुमी आपलें वेगळेपण सोडून आमचें उश्टें खरकटें खावंक लागले तर आमी तुमकां गुरुजी कित्याक मानपाचें?"

चंद्रामावशेच्या उतराचे घाय घेत गुरुजी उबे आशिल्ले. तांकां उलोवपाकूच येनासलें.

"गुरुजी, दुःख मानूं नाकात. रूपा खातीर तुमी जाय तेन्ना येवंक शकतात!"

आपली व्यथीत मुद्रा घेवन चंद्रामावशी केन्नाच घरांत गेली.

पुजेचें सामान फाटीर मारून गुरुजी चंद्रामावशेल्या घरांतल्यान भायर सरलो. जाल्लो अपमान गिळपाचें धैर्य ताचे कडेन नाशिल्लें. अधःपतनान काळें जाल्लें तोंड लिपयत सकयले मानेन ल्हव पावलां उडयत ते प्रेमनगराचो निरोप घेताले. मदीं मदीं तांकां

भास जातालो. कुशीच्या जनेलांतल्यान रंगयल्लीं तोंडां शू ऽ ऽ शू ऽ ऽ करून आपल्याक आपयतात. आनी तितल्यान खंयच्यान तरी उपहासान काडिल्लीं उतरां कान भेदून वतात, 'कितें पावण्या, रात कशी गेली?'

आयुश्यांत जें कितें जोडिल्लें, तें एके रातींत वगडावन बसलों म्हणपाचें दुःखाचें वजें माथ्यार घेवन गुरुजींचीं पावलां घराचे दिशेन पडटालीं. पश्चात्तापान काळीज जळटालें.



# घरपुरुस

**—शांताराम हेदो**

चवके वयले घडयाळीचेर सकाळचीं आठ वरां वाजलीं आनी सुर्याजी शणै जागो जावन हांतुणार बसलो. तोंडा कडेन हात व्हरून चिरपुटां वाजयत ताणें एक जांभय दिली आनी आपले कुळदेवीचें नांव घेतलें :

"शाते, शांते, शांते.....!"

झोपाळ्या वयलो सकयल देंवलो. आपल्या धव्या फुल्ल हांतुणार हात फिरावन तें नितळ केलें आनी पांयांत पादुको घालून तो माळये वयलो सकयल येवंक लागलो. इस्कादीचेर पादुकांचो कुट् कुट् असो आवाज जालो आनी चोवपेटी वयलो लोक भितरल्या ताळ्यान एकमेकाक शिटकावंक लागलो :

"आरे, वोगी, वोगी, बापी आयलो!" चवके वयल्यो बायलो, भुरगीं बेगिबेगीन रांदचे कुडींत पळ्ळीं आनी वताचे तिरपेक हातपांय ताणावन पडिल्लें माजर शेंपडी तुटसर धांवन खंयचे खंय नाच जालें.

इस्कादे सकयल पावतकच सुर्याजी शणैन आपल्या व्हडल्या पुताक उलो मारलो :

"भाऊ...."

हरशीं ताचें नांव अनंत; पूण व्हडल्या पुताचें नांव घेवप आचारवाणें जाल्ल्यान तो ताका 'भाऊ' अशेंच म्हणी.

भाऊ आपल्या बापायची वाट पळयत लागींच आशिल्लो. आपल्या बापायक कितें जाय, कितें नाका तें सगळें खबर आशिल्ल्यान ताणें रोखडीच जाप दिली :

"हो पळे परसाकडे व्हरपाचो हून उदका-तांबयो हांगा आसा आनी आंगणा धडेर तोंड धुवपाचेंय उदाक आनी लाखोणी दवल्ल्या."

"दामुद्दर खंय?"

"भाटींत कवाथे शिंपूंक गेला."

"लाडू...?"

"कारायच्या भाटांत नेमां काडूंक गेला."

"आनी शाणू?"

"गोरवांक घेवन मळार गेला."

"आनी पंडरी, दत्तू, मादो बी दिश्टी शे पडनात?"

"आसात....!"

"आसात? आरे अशें कितें रे? आज तूं जापेक जाप आनी उतराक उतर शें दिता? कितें जालां?"

"तशें न्हय बापी. पूण..." अनंत गोंदळ्ळो. ताका आपल्या बापायक सकाळीं घडिल्ली खबर कशी सांगची तें कळनाशिल्लें.

"तोंड कित्याक धल्लां रे तुजें? उलय रे सडसडीत." बापीचो राग इल्लो इल्लो चडूंक लागलो म्हणटकच आतां सांगून उडोवंकच जाय आशिल्ली ती खबर.

"विष्णूक आनी कानुशणैक राण्यांनी धरून व्हेले...!"

"कितें... ?!"

"खरेंच बापी ...!"

"आरे, म्हणटकच तुमी सगळे जाण खंय आशिल्ले? आनी चारय चोवक्यांनी न्हिदिल्ले मानाय आनी हेर लोक कितें शेण खाताले? तुमी माळये वयले नळयेंतल्यान भायर फार सोडचे न्हय?"

"पूण बापी, राण्यांनी हे खेपो इतली जतनाय घेतिल्ली! कोणाक कांयच कळूंक दिलें ना. राणे खंयच्यान आयले, कितले आशिल्ले, खंय बसले, कांयच समजलें ना. विष्णू आनी कानुशणै जिस्त तांच्या पासाक सांपडले."

"आरे, पूण हे खंय गेल्ले मरूंक?"

"कानुशणैक खंय आज फांतोडेरच कडकडलें. देखून, ताणें वांगडा विश्णूक घेतलो आनी भायलें दार मात उकतें केल्लें, जिस्तच बल्कांवार लिपून बशिल्ल्या राण्यांच्या चपक्याक ते सांपडले. फांतोडे वयल्या कोंब्या सादार ही गजाल घडली जावंये. आतांच आमगेल्या बरबाटा वयल्या भाटाचो तोल्ल हांगा पावला. सकाळीं भीं भीं जावपाच्या वेळार ताणें खंय कांय राणे ह्या दोगांकय घेवन वेतात तें पळेल्लें. हेंच सांगूंक मुजरत तो हांगा आयला."

सुर्याजी शणै चवके वयल्या वोलतेरार पांय सोडून बसलो. नांवाक सोब सारकोच ताचो देह. तेजीश्ट, लांबरुंद आनी पकदस्त. हाताच्या बचक्यांत आसपावंक जावचेनात अशे बावळ्यांचे आनी पोवठांचे गुळे. बारीक पूण चवकस नदरेचे दोळे; आनी कोणाच्याय दोळ्यांत भरसारकें घसघशीत नाक. मिशांचेर हात ओडून त्यो पिळपाची संवय. आनी तकलेचेर भार पडलो जाल्यार तर चडच. आतांय सुर्याजी शणैन दोनय हातांनी आपल्यो मिशयो पिंवळ्ळ्यो. ताका एके फाटले गजालीचो उगडास जालो.

सुर्याजी शणैले एके धुवडेचें लग्न आशिल्लें, देखून लग्नाच्या पयल्या दिसा देवकारें थारायल्लें. पानां वाडून जालीं; बोडव्यांची, सवाशिणीची पुजा जाली; म्हादेव घालो आनी लोक जेवंक लागले. जेवणाक खूब कळाव जाल्लो. सुर्याजी शणैल्यो न्हावपा-धुवपाच्यो, संदे-पुजेच्यो आनी हेर सगल्यो मेथरावण्यो जाता म्हणसर राजा-आंगणांतलें वत हळडुवसार

जालें. घरांतलो जाणटो लोक ह्या कळावा खातीर भितल्ले भितर चिड्डूक लागलो, आनी भुरगीं तर भुकेन गादेलीं. जावं, निमाणें कसोय जाल्यार म्हादेव घाल्लो. लोक फसाफस जेवंक लागले. तांगेलें पयले खेपेचें वाडिल्लें जेवन जावंकच नाशिल्लें, इतले म्हणसर माथ्याक रुमाल, आंगाक कुतांव आनी खांदार कांबळी फटें मारिल्लो एक तरनाटो आयलो आनी बल्कांवाच्या दारा-हुंबरारच उबो रावलो. हरशीं लग्नाच्या माटवांत, बल्कांवाच्या सोप्यार आनी सोपणांचेर सुर्याची शणैले चाळीस पन्नास मुंडकार आनी तांचे दुपेटीन शेतांचे भागेली हांगा थंय शिंपडून बशिल्ले. पूण ह्या भितर सरिल्ल्या तरनाट्यान कोणाकच जाप दिली ना आनी घट्ट खुबो सो बल्कांवाच्या दारारच तो उबो रावलो. चवके वयले पंगतीक 'मूग मूग' अशें म्हणीत मुगां-गांठी वाडटल्या दत्तु शणैची नदर जिस्त भायल्या दारार उब्या आशिल्ल्या त्या तरनाट्याचेर पडली. ताणें मुगांचो तोप तसोच उडयलो आनी हातांत नाल्ले-दोवलो घेवनच तो तरनाट्या म्हऱ्यांत आयलो :

"कितें रे भिवा, असो अकस्मात सो?"

"खाशा दादौन धाडलेलो. पन्नास पाउणशें राणे हांगा येवच्याक भायर सल्ल्यात खंय, आनी ते मध्यान रात जावचे पयलीं पावतले. तुमकां ही खबर वचोन सांग म्हूण म्हाका धाडला."

"आरे देवा! हें आनी कसलें रे बाबा अरिश्ट आयलें ऐन वेळार! हेच खातीर शांतादुर्गेन प्रसादाचेर आडखळ दाखयल्ली दिसता. काचिकियार अवस्तेंत दत्तुशणैल्या कदाचें फाटलें पोंत सुळ्ळ करून सुटलें आनी तें कशाकशेंय खोयत ते बल्कांवा वयल्यान पाळणींत आनी पाळणींतल्यान चवकेर पावले. लोक जेवता-बिवतात हाचें मात्तय भान उरनासतना ताच्या तोंडांतल्यान आपाप उतरां फुटलीं."

"आरे पापयांनो, थोड्या वेळान हांगा राणे पावपाचे जाले खंय!"

आनी उप्रांत त्या घरांत जो बोवाळ आनी आकांत उठला, तो सांगपाचो न्हय! जे चवकेर रावन दत्तुशणैन ही खबर सांगली, ते चवके वयलो लोक आसा ते परिस्थितींतच उठून उबो रावलो. तांकां पळोवन म्हऱ्यांतले चवके वयल्या लोकानय तेंच काम केलें आनी निमाणें चारय चवक्यां वयलो लोक अरद्याकुट्या जेवणारच उठलो. कोण राजांगणांत आवंक लागलो, तर कोण फाटल्या मान्र्या कडेन धांवलो. भितरले वासरेंत आनी रांदचेकुडींत जेन्ना ही खबर पावली, तेन्ना बायलांनी हातांतलीं शाकभाज्यांची आयदनां तशींच सकयल आपटिलीं आनी व्हडल्यान बोवाळ करीत कोण गळ्यांतली गळसरी, जाल्यार कोण माथ्यांतली गुळखी, सांसपूंक लागली!

ही हाता भायर गेल्ली चांचाळ पळोवन सुर्याजी शणैक मर्दी पडून ती आळाबंदाक हाडचीच पडली. ताणें व्हडान सगल्यांचेर धेंगसो घालो.

"-दत्तू, आतां सगलेजाण मोन्यानी ओगी रावात पळोवया. कोणच हूं काय चूं करचो ना. सगलीं वोग्गी रावतलीं!"

बापीली ही कडक शिटकावणी आयकतकच ती मोडपाची कोणाक छाती आशिल्ली?

सगले जाण थप्प जाले. मागीर सुर्याजी शणैन आपल्या दोगाय पुतांक आनी पुतणयांक म्हऱ्यांत आपोवन फर्मायलें:-

आतां हो असो बोवाळ करून कसलोच आदाव ना. भायल्या माटवांत गोयंदा, लाडू, येशवंत बी मानाय बशिल्ले आसात, तांच्या माथ्यार शिता-थाल्यो, शाकांचे आनी पोळ्यांचे तोप, वड्यांचीं वजीं, तशेंच हातुर्णां-कवळे, आयदनां आनी गरजेच्यो हेर सगल्यो वस्तू उबारात आनी लागात चलूंक रायतुरा. थंयच्या कोटा पलतडीन बसत्यांव मुनेलीलो बंगलो आसा, तो जाय तसो आस्कळ-विस्कळ आसा. ताका म्हजें नांव सांगात. म्हणटकच तुमकां कसलीच आडखळ येवची ना. मागीर ताका कितें सांगपाचें तें हांव सांगीन. आनी भाऊ, भितर वच आनी बायलांक बेगीन भायर सरात म्हणून सांग. तांगेल्यो आंगावयल्यो वस्ती घरच्या कंडांत भरूक लाय आनी तो म्हजे कडेन पावतो कर. आनी हें पळे, म्हगेलें माचूल तयार करात म्हणून सांग आनी थळांतल्या किरिस्तांव भोयाक हांवें बेगीन आपयल्यात असो रकाद धाडात. आनी बेठींत लोंगारीं करूं नाकात. तिनसांज जावचे पयलीं आमकां रायतुरचे न्हंये पलतडीन पावंकच जाय.

आनी सुर्याजी शणैन फर्मायल्ले भाशेन वरा, देडावरा उप्रांत शाकभाजयांच्या आनी पोळ्यांच्या तोपांचे बिलामती सयत ही मिरवणूक भायर सरली आनी ती रायतुरचे न्हंये पलतडीन तीन कात्रीच्या वेळार पावली. रायतुरचे इगर्जेच्या घांटींनी तिका येवकार दिलो.

साश्टीच्या वाठारांत राण्यांची भिरांत नाशिल्ली.

पूण हे फावटीं सुर्याजी शणैक पयलीं कसलीच शिटकावणी मेळ्ळी ना आनी तो घुसपा-गोंदळांत पडलो. राण्यांनी धरून व्हेल्ल्या आपल्या मनशाचीं सुटकावाट कशी जायत होच आतां ताका प्रस्न् पडिल्लो. फाटल्यान हात कवळून चवकेर आरत्यो परत्यो येरादारी घालीत तो येवज, येवज, येवजूंक लागलो. चवके वयले किण्ण् शांततायेंत तागेल्या पादुकांचो आवाज कानार मारतालो. अखेरेक ताका एक उपाय सांपडलो.

इतले म्हणसर सुर्याजी शणैगेर राणे आयले आनी तांणी दोग मनशांक धरून व्हेले म्हणपाची खबर सगल्याक फों फों जाली.

शिरोड्यांत तेन्ना पन्नास पावुणशें शिपायांचें मेट आशिल्लें. तातूंत कांय पांखले आनी सात आठ घोड्या वयलेय शिपाय आशिल्ले. तांकां ही खबर कळटकच तातुंतले कांय जाण चवकशे खातीर सुर्याजी शणैगेर आयले. सुर्याजी शणै तेन्ना माळयेर काफी पियेतालो आनी भितल्ले वासरेंत हेर लोक पेज जेवंक बशिल्ले. सुर्याजी शणैन आपल्या खांदा वयल्या वाल्याचें निवणें केल्लें आनी ताचेर रुप्या चिक्र-पीर दवरून तो खतखतीत काफयेचे फुर्र फुर्र करून इल्ले इल्ले घोंट ओडटालो. म्हऱ्यांत ताची घरकान्न आशिल्ली. तिच्या हातांत काफयेचो ल्हानसार तोप आशिल्लो. तो मुखार व्हरून आनी तोंडांतल्यान एकय उतर काडिनासतना फकत दोळ्यांनी विचारलें :

"-आनी इल्ली काफी घालूं?" आनी सुर्याजी शणैन तोंडांतले घोंट गिळटां गिळटांच मानेनच म्हळें :

"-नाका....!"

तरी आसतना तिणें घोंटभर काफी तागेल्या चिक्रांत रकयलीच. ते बराबर सुर्याजी शणैन तिचेर दोळे वाटाल्ले आनी म्हळें :

"-फकाण...!"

ती बाबडी तशीच परतली. माळयेच्या सोपणा वयल्यान सडसडीत देंवतना तिगेल्या पांयांतल्या वेडयांचो खट् खट् असो आवाज जालो.

अशें हें चड करून सदांच घडटालें. सुर्याजी शणैली घरकान्न कायेन मोटवी तशीच बुद्दीनय बी. आपल्या घोवाचेर जीव तोडून मोग करप इतलेंच तिका खबर. सुर्याजी शणैल्या तरेकवार आनी लकलकीत तासांच्या व्यक्तिमत्वामुखार तिगेल्या साद्या भोळया सबावाचो उजवाड पडनाशिल्लो!

इतले मजगतीं, सात आठ गांवठी आनी एक पाखलो शिपाय इस्काद चडून वयर येतात तें सुर्याजी शणैन माळये वयल्या जनेलांतल्यानच पळयलें. ताणें आपलो धवो फुल्ल कुतांव आंगार चडयलो आनी तो सडसडीत बल्कांवांचेर आयलो. ताणें शिपायांक बसात म्हणून सांगलें. पूण ते बसले नात. तांकां सामकी ताकतीक जाल्ली. तांणी सुर्याजी शणैक एका फाटल्यान एक प्रस्न केले. ताणें सगल्या प्रस्नांच्यो जापो बरे भाशेन दिल्यो आनी तांकां जाल्ली सगली खबर सांगली. इतले म्हणसर, भायलो बोवाळ आयकून तागेले दोगय पूत आनी पांच पुतणये बेगिबेगीन पेज जेवन भायर आयले. सगल्यांक भोंवरे आनी शेंडयो आशिल्ल्यो. आडवाद फकत एकल्याचो. सुर्याजी शणैल्या धाकल्या पुताचो. गोंयांत निकतीच भोंवऱ्या बदला भीस दवरपाची चाल खंय खंय आयिल्ली. भोंवरो गेल्लो, पूण शेंडी उरिल्लीच. सुर्याजी शणैलो दुसरो पूत हो पिरायेन सगल्यांत ल्हान, देखून ताका ही भीस पचून गेली. एकल्या पुतणयान येतां येतांच आपली शेंडी दोनय हातांच्या तळव्यांमदीं धरली आनी ती माने फाटल्यान फडक् करून फाफुडली. तेन्ना भोंवतणी बारीक उदका थेंब्यांचो शिंवर उसळ्ळो.

"-पूण ओशें सांग, तुमगेल्या मोनशांक घेवन राणे खुंयचे वाटेन गेले?" एका गांवठी शिपायान विचारलें.

आतां मात सुर्याजी शणै काचाबूल जालो. राणे गेल्ले ती वाट शिपायांक समजली आनी दुर्देवान तांकां राणे सांपडले जाल्यार शिपायांचे तिडकीन राणे आपल्या मनशांक जिवानशीं मारून उडयत अशी ताका थर्त भिरांत दिसली. देखून, सुर्याजी शणैन कानांचेर हात दवरून म्हळें :

"-हें आमकां कशें समजतलें? राण्यांचीं थाणीं कितें थोडीं आसात? अंत्रुजेंतलीं, अश्ट्रागारांतलीं अटंगीं रानां...! सिद्दनाथ, चंद्रनाथ पर्वतांचे मुळस, बायस्कोलची दांतकडी...."

पूण ते शिपाय आनीक फुडलें आयकूंक थंय रावले नात. सुर्याजी शणैल्या घरा फुडलीं चाळिशेक सोपणां घड् घड् करून देंवत ते बोरयेचे वाटेन चलूंक लागले. तांकां फोंडेचें रोंद घेवन राण्यांचे सोदीक वचपाचें आशिल्लें.

हे वटेन सुर्याजी शणैकय ताकीद जाल्ली. आपल्या पुतणयाक आनी शेजाऱ्याक राण्याच्या जीव-घेण्या जाळांतल्यान सोडपाची. घरच्या भाटाबेसांच्या वावरांत ताका विष्णूचो खूबच आधार जातालो. सुर्याजी शणैन शेतां-भाटां संबंदान कसलीय नवी येवजण आंखची आनी ती विष्णूचेर सोपोवची. मागीर, जाय ताचे परसय बरे तरेन ती तडीक गेलीच म्हणून समजुचें. ह्या तागेल्या कश्टी सबावाक लागून सुर्याजी शणैक ताची खूबच आपुलकाय दिसताली. एक फावट विष्णूक दिसांचो जोर आयलो जाल्यार सुर्याजी शणैन कितली तकालस घेतिल्ली! आसो काडलो; घाडी कुदयले; रवळनाथाची प्रसाद-पाकळी घेतली; म्हारवाक सूर-रोंट घालें, आनी निमाणें राय सावन आव्हेलीन दोतोराक पसून हाडलो, पूण कांयच उपेग जालो ना! जोर एकाच धाऱ्यार आशिल्लो!

आठवो दीस आयलो. सुर्याजी शणै आज काळखांतच उठलो. सगल्यांक अजाप जालें. ताणें आपल्या घरकान्नीक आनी व्हडल्या पुताक उठयलीं. पुताक कुळदेवीचो राखणेचो प्रसाद घेवंक कवळ्यां धाडून दिलो आनी घरकान्नीक आपल्या न्हावपा-धुवपाची आनी संध्येची तयारी करूंक लायली. आज ताका न्हावंक कळाव लागलो ना. सोडणांच्या काथ्यान ताणें आज आपल्या पांयांच्यो खोंटो घांसल्यो नात आनी आंगावयलो सोडिल्लो वालो हाता तळव्यार मुठी मारून उमळळो ना. तो फकत बेगिबेगीन न्हालो, आपलो भगव्या रंगाचो कद न्हेसलो आनी देवाकुडींतले किरां-मोरां मारिल्ले म्हणयेचेर वचून बसलो. तोंडांत एक उदकाचो थेंबोय घेतलो ना. ना म्हळ्यार, फकत संध्ये वेळार आचमन करता आसतना तोंडांत कांय उदका थेंबे घेतिल्ले तितलेच. ताच्या तोंडांतल्यान एकसारके 'शांते, शांते' अशे आपले कुळदेवीच्या नांवान उले मारिल्ले आयकूंक येताले. ताच्या म्हऱ्यांत पांच वातींची दिवली घणघणटाली. दिवलेच्या परजळांत आनी उजवातींच्या परमळांत भोंवतणी पातळिल्ले किण्ण शांततायेंत फकत दोन बारीक आवाज आयकूंक येताले. सुर्याजी शणैली 'शांते, शांते' अशी पराथणी आनी शेजारचे कुडींतली वायटकाराली परवण. ह्या सगल्या गजालींक लागून घरभर गंभीरतायेचें आनी एके तरेचें भिरांतीचें वातावरण पातळिल्लें!

चवके वयले घडयाळीचेर दनपारचीं बारा वाजलीं. सुर्याजी शणैन व्हडल्या पुतणयाक उलो मारून विचारलें :

"-विष्णूलो जोर कसो आसा?"

"-एकाच धाऱ्यार! चडूंकय ना आनी देंवंकय ना!"

"-अशें? आज म्हाका जेवणाक कळाव जालो जाल्यार तुमी सगलीं जाणां जेवन घेयात. विष्णूलो जोर देंवले बगर हांव तोंडांत अन्नाचो गोटोय घेवचों ना!" आनी ताणें देवीच्या नांवाचो जप फुडें चलयलो!

सांजवेळचीं चार वरां जालीं तरी हे परिस्थितींत कांयच बदल जावंक नाशिल्लो. पांच वरांचेर सुर्याजी शणैलो व्हडलो पूत कवळ्यां सावन आयलो. दयेचो आनी राखणेचो प्रसाद खंय भोव बरे जाल्ले. दोनय वेळा शांतादुर्गेन पांचव्या स्थानाच्यो कळयो दिल्ल्यो.

इतले म्हणसर वायटकाराले कुडींतल्यान तागेलो धाकलो भांव आयलो आनी

विष्णूलें आंग घामान भरलां अशें सांगूंक लागलो. सगले जाण बेगिबेगीन भितर गेले. पळयल्यार खरेंच. ताच्या आंगाक चरचरीत घाम आयिल्लो. दोळे फडफडीत उकते केल्ले आनी परवणय थांबिल्ली. पियेवंक दिल्लें तापमोगय ताणें बरे भाशेन घेतिल्लें. ही खुशालकायेची खबर सुर्याजी शणैक सांगूंक तागेलो व्हडलो पूत देवाकुडींत गेलो. सुर्याजी शणैलो देवीच्या नांवाचो जप एक सारखो चलतच आशिल्लो. ताणें दोळे धांपिल्ले.

"-बापी, बापी, विष्णूलो जोर देंवलो!" पूण बापी जपाचे तनरींतच आशिल्लो. पुतान तीच खबर आनीक एक फावट व्हडान सांगली. बापीन कच् करून आंग काडलें. ताका जाग आयिल्ली.

"आं? खरेंच? कोण भाऊ रे? तूं केन्ना आयलो? प्रसाद कशे जाले?"

"भोव बरे! विष्णुले भलायकेक कसलीच भिरांत ना खंय. देवीन पांचव्या स्थानाची कळी दिल्या... आनी विष्णूलो जोरय देंवला."

कांयच उलय नासतना सुर्याजी शणैन भरिल्ल्या दोळ्यांनी आनी उपकारी मनान देवते मुखार न्हिदून नमस्कार घालो आनी तोंडांतल्या तोंडांत म्हळें :

"शांते, शांते, शांते!"



आतांय ह्याच पुतणयाचो जीव आनीक एक फावट संकश्टांत पडिल्लो आनी तें पयसावपाची जापसालदारकी सुर्याजी शणैचेरच आशिल्ली. ताणें राण्यां कडेन संधान जुळोवपाचें थारायलें. ह्या कामांत तागेलो तोल्ल 'पोसू' हाचो ताका खूब उपेग जालो. सुर्याजी शणैन गांवच्या दोंगरा माथ्यार हालींच एक नवें भाट वसयल्लें. ताचें नांव देयड्डें, आनी ताची राखण हो पोसू करतालो. देवड्ड्यांत मनशां परस झाडां-पेडांचीच वसती चड आनी तांकां सिद्धनाथ पर्वताचो शेजार. अशा ह्या सुगूर जाग्यार राण्यांनी आपलें बिराड केलें जाल्यार नवल कसलें? थंय घोगळे नांवाच्या राण्यांनी आपलो राबितो केल्लो. हातुंतल्या रामघोगळो नांवाच्या राण्याची आनी पोसूची खूब इश्टागत. कांय तेंप मेरेन पोसू हो राण्या बराबरय आशिल्लो खंय. सुर्याजी शणैन पोसू वरवीं राम घोगळ्या कडेन आनी राम घोगळ्यान बळवंत राण्या कडेन उलोवणीं केलीं. बळवंत राण्याक सुर्याजी शणै विशीं आपुलकाय आशिल्ली. देखून, तागेल्या धरून व्हेल्ल्या मनशांक मातय हात-बोट लाय नासतना ताणें बरे भाशेन सांबाळून दवरिल्ले. राण्यान सुर्याजी शणैल्या मनशांक सोडून दिवपाचें थारायलें. पूण एके बोलीचेर :

"-सुर्याजी शणैन फिरंग्यां आड चलिल्ल्या आमच्या वावराक पालव म्हणून आमकां दोन हजार असुरप्यो धाडून दिवच्यो आनी मनशांक घेवन वचचें. सुर्याजी शणै सारक्या व्हड आस्पतीच्या मनशान आमकां वेळार आधार दिल्लो जाल्यार आमकां आड मार्गान वचपाची कसली गरज आशिल्ली?"

"-दोन हजार असुरप्यो? आनी आयचे आज?" सुर्याजी शणैक कच्च जालें. पूण

दुसरो उपाय नाशिल्लो. ताणें आपले एकलेच धुवेच्या लग्न खर्चाक दवरिल्ले पयशे राण्यांक धाडून दिले. आनी रातच्या आठ वरांचेर विष्णुशणै आनी कानुशणै देवड्डयांतल्या पोसू बराबर घरांत भितर सरले. सुर्याजी शणैन आनी तागेल्या रासवळ कुटुंबांतल्या सगल्या दादल्या-बायलांनी सुटकेचो उस्वास सोडलो.

सुर्याजी शणैन सुटकेचो उस्वास सोडलो खरो. पूण खरें सांगचें जाल्यार, ह्या प्रकर्णांतल्यान सुर्याजी शणैली सुटका जावंकच नाशिल्ली. परतो जाल्यार तो तातूंत घुस्पत वतालो. सुटका जाल्ली ती विष्णु शणैली आनी कानु शणैली. ते सुसंगीत घरा पाविल्ले. पूण सुर्याजी शणैचेर मात जीवघेणें संकश्ट आयलें!

एका फाटल्यान एक जातल्या राण्यांच्या बंडायांक लागून पुर्तुगेज सरकारान गोंयांत 'आकांताची परिस्थितीत' हो कायदो लागू केल्लो आनी गोंयांत रावतल्या लोकांचे मुळावे हकय काडून घेतिल्ले.

सुर्याजी शणै हो हालींच वयर सरिल्लो एक नवोच भाटकार. गांवांत नांवाजतीं घराणीं अशीं दोनच आशिल्लीं. तांचो बडवचार मोटो. वचत थंय तांकां आनी तांच्या उतराक मान. गांवांत खेळा-मेळ वा इंत्रूज नाचूंक आयलें जाल्यार पयलो मान तांचो. हेर ल्हान भाटकारांगेर खेळ्ळे, ना जाल्यार ना, व्हडली शी पर्वा ना! गांवचे कोमुनिदादीचे वा देवस्थानचे कमिटीचे वांगडीय तेच आनी तांच्याच आवाजाक म्हत्त्व आनी मान. तांच्या आवाजा वयर आनीक कोणाचोच आवाज चडनाशिल्लो!

हें सगळें पळोवन सुर्याजी शणैक खंत जाताली आनी ताचो अभिमानय जागो जातालो. आपणेंय तांचे भाशेनच जावचें; व्हडविकेच्या घराण्याचे नामावळींत आपल्या घराण्याचेंय नांव आसचें अशें ताका पोटतिडकेन दिसचें. आनी अशें दिसूनच तो ओगी रावलो ना. त्या हावेसाचे दिकेन ताणें रोकडींच पावलांय मारलीं. कांय वर्सां ताणें देजम प्रेदियाला सारक्यो सरकारी पावण्यो हाडल्यो आनी हेर जायते वेव्हार करून बरोच पयसो जोडलो. हे जोडीन ताणें पयलीं मूळच्या भाटांची उस्तवारी केली आनी नवीं नवीं बेंसां घेत रावलो. ह्या कामांत ताका व्हडल्या तीन भावांचोय बरोच आधार जालो. जण एकल्यान आपल्या कडेन जाता, वट्टा तो वावर केलो आनी अशे तरेन सुर्याजी शणैन आपल्या काळजांत मोठे उर्बेन पोशिल्लें सपन खरें जालें. तागेल्या घराण्याचें नांव आतां गांवच्या पयल्या तीन व्हड घराण्यांत आस्पावंक लागलें. कोमुनिदादीच्या आनी देवस्थानाच्या कारभारांत सुर्याजी शणैल्या मत्ताक मान आयलो आनी गांवच्या खेळा-मेळांक आनी इंत्रुजाक सुर्याजी शणैलें घर भारावंक धीर जायना जालो. तागेले बाणावलेचे, कोलवेंचे किरिस्तांव इश्ट ताका म्हणटाले :

"-सुर्या, तूं साश्टींतच घे रे भाटां-बेसां आनी हिंगाच राव रे आमचे मोदें" त्या उतराक सुर्याजी शणै तांकां म्हणी :

"-तुमी म्हणटात तशें करूंक जातालें. आनी ह्या वावरांत म्हाका तुमचो आधारय मेळटलो आशिल्लो. पूण आपणें केल्ल्या व्हड कर्तुबाक आपल्या गांवांतच आनी आपल्या

लोकांमदींच चड मोल आनी मान."

देखूनच सुर्याजी शणैन आपल्या गांवांतच भाटां-बेसां घेतलीं; इतलेंच न्हय, तर मूळच्या पोन्र्या गांवांतच भाटां-बेसां घेतलीं; इतलेंच न्हय तर मूळच्या पोन्र्या घराचेरच ताणें नवे धर्तेचें एक व्हडलें सोबीत घर बांदलें.

सुर्याजी शणै साश्टींतल्या आपल्या किरिस्तांव इश्टांक म्हणटालो ते भाशेन ताणें आपल्या गांवांत मान-भोवमान, व्हडपण, बी सगलें जोडलें, पूण तेच बराबर ताका आनीकय एक जोड जाली, आनी ती म्हळ्यार दुस्वास! गांवचे खूब शे भाटकार ताचो दुस्वास करूंक लागले आनी कसलेंय निमित्य उस्तून काडून ताचें नांव भंगोवपाच्यो आनी ताका संकश्टांत घालपाच्यो राटावळी करूंक लागले.

अशाच एका शेजारच्या भाटकारालो आनी सुर्याजी शणैलो शिमेक लागून किरकोळ वांदो आशिल्लो. वांदो हें एक निमित्य. ताच्या पोटांत खरें कितें आशिल्लें जाल्यार तो सुर्याजी शणै विशींचो दुस्वास!

विष्णूक आनी कानूक धरून व्हेल्यात हें आयकून त्या दिसा ताच्या पोटांत चार उंडयो चडच गेल्ल्यो, पूण सुर्याजी शणैन तांकां त्याच दिसा रातचे सोडोवन हाडले म्हणपाचें कळून ताच्या आंगाक उजो पेटलो आनी तेच भिरकेंत पोलिसेच्या मेटार वचून ताणें सुर्याजी शणै आड केश केली :

"-सुर्याजी शणैन तुमकां सामके फटयले. राणे अस्तेंती कडल्यान गेल्ले; पूण ताणें तुमकां उदेंती कडेन धांवडायले. इतलेंच न्हय, तर ताणें आपल्या मनशांक तिनसांज जावचे पयलीं बरे भाशेन सोडोवनय हाडले. आनी इतलींय कामां कशीं? आपूण हाल-धोल नासतना. फकत रकादांनी. हाचे वयल्यान सुर्याजी शणै राण्यांक भेदी आसा अशें दिसना तुमकां?"

इतलें आयकतकच मागीर माणसुकी आसा? मेटा वयलो मुखेल जाळवणदार फोंड्यां धांवलो आनी ताणें घडिल्ली सगली खबर फोंडेंच्या जाळवणदाराक सांगली. मागीर दोगय उठून पणजे गेले आनी थंय व्हड व्हड अधिकाऱ्यां वांगडा उलोवणीं करून सगल्यांनी मेळून एक थारावणी घेतली आनी ती फोंडेंच्या आदमिनिस्त्रादोराक कळयली.

त्या काळार गोव्हेर्नादोर म्हळ्यार गोंयचो राजा आनी आदमिनिस्त्रादोर हो गोंयच्या तालुक्याचो. दोगांच्याय हातांत व्हड सत्या!

फोंडेंच्या तालुक्यांत तेन्ना व्हिलफ्रेद पेरैर नांवाचो आदमिनिस्त्रादोर आशिल्लो. गांवान बाणावलेचो. खूब बुदवंत, तितलोच कडक. ल्हान व्हड म्हणिनासतना जिस्त न्यायनीत करपी. पूण पिरायेन खूब जाणटो. आत्रे पयऱ्यान बरो ना जातालो आनी ताची वार तागेलो सेक्रेतार गणसू शणै वळवटकार हाका घेवची पडटाली. मनीस माणसुकेचो आनी तकलेन फीन. आदमिनिस्त्रादोराल्या पुराय विस्वासांतलो. ह्या दिसांत गणसू शणैच पेरैरीले वारीर आशिल्लो.

सुर्याजी शणैक संगिताची खूब आवड आशिल्ली. दर एके पंचमीक तागेर भजन जातालें आनी वाड्या वयले गावपी आनी वाजोवपी तातूंत वांटो घेताले. शणै वाड्या वयल्या ल्हान व्हड मनशांक तबल्यार हात मारूंक येना आनी तोंडान 'आ' करूंक येना अशें घडनाशिल्लें. खुद्द सुर्याजी शणैक सतार वाजोवपाचो नाद आशिल्लो. मनाक मारलें जाल्यार संवसारांतलें लक्ष मातशें कुशीन काडून तो सतार घेवन 'दिड दा, दिड दा' करी.

आयज तो भायले माळये वयल्या झोपाळ्यार बसून सतार वाजयतालो. आज तो खोशयेंत आशिल्लो. आपल्या घराण्याचेर आयिल्लें राण्यांचें संकश्ट बरे भाशेन पयसावलें हें पळोवन ताचें लक्ष आज सतारीचेर गेल्लें. अशें तशें अर्दे वर वता ना वता म्हणसर सुर्याजी शणैलो व्हडलो पूत माळयेर आयलो. ताचे बराबर फोंडेंच्या आदमिनिस्रादोरालो ओफिसियाल अबदूल आशिल्लो. तांचेर नदर पडटकच सुर्याजी शणैन सतार कुशीन दवरली. नखी एका सुपुल्ल्या बुशेदांत घाली आनी विचारलें :

"-कितें रे भाऊ, कितें जालां?"

"-हो पळे, फोंडेच्यान अबदूल आयला... सेक्रेतान्याल्यो चिटयो घेवन. हांवें मागिल्ल्यो त्यो ताचे कडेन. पूण तो म्हणूंक लागलो, आपल्याकच बापी म्हन्यांत व्हर म्हणून."

सुर्याजी शणैन अबदुला कडेन पळयलें.

"-हय बापी, सेक्रेतान्यान हीं कागदां तुमचेच कडेन दी म्हणून सांगिल्लें." आनी ताणें कोटाच्या भितल्ल्या बोल्सांतल्यान एक सरकारी ओफीस आनी चीट काडून सुर्याजी शणैच्या म्हन्यांत दवरली. सुर्याजी शणैन पयलीं सेक्रेतान्याली चीट वाचली. ती पुर्तुगेजींत आशिल्ली :

"-परां सकाळीं धा वरांचेर तुका फोंडेंच्या क्वार्तेलार इंतिमसांव आसा. इतिमसांवांचीं दोन कागदां तुका धाडून दिल्यांत. एकाचेर तुगेली सय कर आनी तें म्हाका धाडून दी; दुसरें तुका दवर आनी फाल्यां सकाळीं सगलीं कामां कुशीन दवरून म्हाका येवन मेळ. हे चिटीचो बोवाळ करचो न्हय."

सुर्याजी शणै तजविजेर पडलो. गणसू शणै वळवटकाराले आनी तागेले संबंद सामके लागींचे. एकामेकांगेर हाड-व्हर पासून चलतालें. सुर्याजी शणैन ताका वाज्यांतले मुशेचीं फामाद सुंगटां, शेंवटे आनी चणकुलां धाडचीं, जाल्यार गणसू शणैन ताका कुंकळये गांवांतल्यो सुरबूस आनी मासाळ माडयो, सुर्ण आनी कांटेकणगां धाडचीं, अशें चलिल्लें. पूण गणसू शणैली आयची दोन चार वळींची चीट; तिरायत मनशान बरयल्ले भाशेन चिटयेंतली सुकी सडसडीत बी भास पळोवन ताका अजाप आनी हुसकोय जालो. शेजारच्या आत्मा शणैन ताचे आड पुलिसेंत केल्ले केशीची ताका मात पसून जाणविकाय नाशिल्ली. कशेंय जावं, फाल्यां सकाळीं फोंड्यां वचूंकच जाय आशिल्लें. ताणें व्हडल्या पुताक उलो मारलो :

"-भाऊ, देवूळवाड्या वयल्या सावळ्याक आपोवन हाड; ताचेकडेन दारू, मुल्सांव दी दी, आनी ताका सांग, म्हाका फाल्यां फोंड्यां व्हरूंक दोन तीन कवडे मारून हाड

म्हणून. आनी हें पळय, फाल्यां फोंड्यां वचचेली म्हगेली तयारी कर."

दुसऱ्या दिसा सकाळीं सुर्याजी शणैलें माचूल वळवटकाराल्या घराच्या भायल्या आंगणांत पावलें. ताचे बराबर तागेलो लाडू नांवाचो विस्वासाचो मानायय आशिल्लो. लाडून माचुलाचे पड्डे कुशीन काडले आनी सुर्याजी शणै भायर सरलो. अश्टी देगेचें धवें फुल्ल पुडवें, पांयांक मोच्यां जोडी, लांब चोळो, माथ्याक आडवें मुंडाशें आनी हातांत सोरपा तोंडाचें रोत; अशे तरेच्या भेसांत सुर्याजी शणै कोणाच्याय दोळ्यांत भरतालो. ताच्या तोंडार एके तरेची कान्त मारताली आनी पळयतल्याक ताचेविशीं कांचय दिसतालो. गणसू शणै भायल्या दारांत ताका येवकार दिवंक उबो आशिल्लो. ताच्या आंगार धवें आंगवस्तर आनी कुतांव आशिल्लो. पूण दोळ्यांत भरतालो तो तागेल्या काळ्या किट्ट केंसांचो भोंवरो आनी शेंडी. शेंडयेक गांठ मारिल्ली. ताणें आज सकाळींच कापणी करून घेतिल्ली आनी ताका लागून भोंवऱ्या भोंवतणचो तकलेचो भाग पाचवो चार दिसतालो.

सुर्याजी शणै दारांत पावलो तसो गणसू शणै मातसो मुखार सरलो आनी दोगांनीय एकामेकांक वेंग मारली. मागीर गणसू शणैन आपल्या इश्टाक भायल्या सालांतल्या एका वोलतेरार व्हरून बसयलो. लाडून माचुलांतली सगली मुस्तायकी भायर काडली. तातूंत मारिल्ले तीन कवडेय बी आशिल्ले, ते ताणें भितर व्हरून दिले.

गणसू शणै सुर्याजी शणैलो सगले तरेचो परामर्स करतालो. पूण आज तातूंत सदांची उमेद आनी मेकळेपण नाशिल्लें. तागेल्या तोंडाचेर, उलोवण्याचेर आनी सगलेच हालचालींचेर एके तरेचे खंतीची आनी उदासपणाची सया पडिल्ली. तो सुर्याजी शणैक कितें तरी सांगूंक सोदतालो; पूण तें ताचे कडेन जमनाशिल्लें आनी तें सांगपाची चडच गरज आशिल्ली. अशे आरते परते मनस्थितीचे आडकाटयेंत गणसू शणै चिड्डल्लो. सुर्याजी शणैक हाची जाणविकाय जाल्ली आनी ही परिस्थिती अशी हुमकळत दवरप बरी न्हय अशें येवजून हो फोड आपणेंच फोडचो अशें ताणें थारायलें.

दनपारचें जेवण जालें. दोगय जाण एकेच कुडींत आड पडून उठले आनी गंजनाच्यो काडयो घालून केल्लो च्या घेतां घेतां सुर्याजी शणैन ताका विचारलें.

"-गणेस, हांव येत पसून तुका पळेतां, आज तुगेलें चित्त थाऱ्यार ना. तूं म्हाका कितेंय तरी सांगूंक सोदता, पूण तें सांगूंक तुजी कुचमण जाता. कितें जालां? आनी तें इतिमसांव कसलें?"

"-तूं म्हणटा तें खरें. तें तुका सांगूंक हांव कुचमतां खरो! इतलेंच कित्याक? खूब खंतय भोगता म्हाका! तें सांगले बगर दुसरो उपायय ना. पूण ते पयलीं तूं लाडूक शिरोड्या धाड आनी तुगेल्या दोगय पुतांक आपोवन हाड. तुगेलो शेजारी आत्मा हाणें तुजो घात घेतला. ही पळय आत्मान तुजे आड केल्ली केश आनी पणजेच्या क्वार्तेल जेनेरला कडल्यान आमकां आयिल्ली ऑर्द. हीं दोनय कागदां तूं वाच. हांव रोकडोच भितर वचून येतां." आनी भरिल्ल्या ताळ्यान हीं निमाणचीं उतरां उलोवन गणसू शणै कसोय तरी भितर गेलो.

सुर्याजी शणै कांचवेलो. ताका ह्या घडणुकांचो अर्थच कळ नाशिल्लो. मन घट करून ताणें पयलीं आत्माली केश वयले वयर पळयली आनी मागीर पणजेची ऑर्द वाचली. ऑर्द कसली? मर्णाचें सेंतेंसच तें!

ऑर्द अशी आशिल्ली :

"-शिरोडेचो सुर्याजी सिनाय हो बळवंत राण्याक पाक्ताद आसा अशें दिसून आयलां. देखून, ताका परां सकाळीं इकरा वरांचेर गुळी घालून जिवानशीं मारून उडोवचो असो थाराव जाला. तेन्ना परां सकाळीं धा वरां मेरेन ताका आमचे सुवादीन करचो."

आवयस! सुर्याजी शणैल्या दोळ्यां मुखार काळोख आयिल्ले वरी जालो. आपल्याक चिनारीय येता अशें ताका दिसूंक लागलें. इतले म्हणसर गणसू शणै भितर सरलो. ताचेर नदर मात पडिल्ली, सुर्याजी शणै थरथरत मुखार सरलो आनी ताचें काळीज फुटून एकच उद्‌गार भायर सरलो :

"गणेस!"

"-सुर्या...!"

दोगांनीय एकामेकांक घट वेंग मारली. कोणाकच उतर फुटलें ना. भोंवतणचे किण्ण शांततायेंत दोन करत्या सवरत्या दादल्यांचे हुडकेच आयकूंक येताले.

उमाळ्यांचो पयलो ओग देंवतकच दोगय जाण शांत जाले. गणसू शणैन आपल्या इश्टांक आशिल्लो तसो वोलतेरार व्हरून बसयलो आनी म्हळें :

"-सुर्या, शांत राव. तुजेर आयिल्लें हे संकश्ट पयसावपाचे म्हगेले सगले तरेचे यत्न चलल्यात. येस येवप हें आमचे कुळदेवी कडेन आसा. तिकाच आमी सांगणें करुंया."

ऑर्द पावत पसून गणसू शणै मनशांत नाशिल्लो. तो तसोच उठून आदमिनिस्रादोराक मेळ्ळो. शणै राण्यांक भेदी आसा ही केश उप्रासल्या अशें ताका सांगलें. सुर्याजी शणै राण्यांक भेदी आसा ही केश म्हळ्यार ताका ह्या संवसारांतल्यान ना करून उडोवपाचो तागेल्या दुस्मानांनी रचिल्लो हीण कट म्हणपाचें ताका पटोवन दिलें. आदमिनिस्रादोराक आपल्या सेक्रेताराचें हें म्हणणें खरें शें दिसलें. कित्याक, अशे तरेच्यो खूब शो गजाली त्या काळार घडिल्ल्यो. ताणें हेच सगळे मुद्दे मांडून एक कळोवणी तयार केली आनी ती गोव्हेर्नादोराक धाडून दिली. ते कळोवणेन ताणें सरकाराक एक शिटकावणीय दिल्ली :

"अशे तरेच्या कसल्याच पातकाक नाशिल्ल्या मनशाक तुमी मारून उडयशात जाल्यार बंडाय थांबची ना, ती चडटली. देखून सरकाराच्या हिताचे नदरेन पयली ऑर्द फाटीं घेवची आनी सुर्याजी शणैक भोवमानान सोडून दिवचो" अशी ताणें नेटान मागणी केली.

हे मागणेची जाप आज येवपाची, पूण आमोरी जाली तरी ती पावंक नाशिल्ली. देखून गणसू शणैक हुसको जाल्लो.

रातच्या साडेआठ वरांचेर सुर्याजी शणैले दोगय पूत बरावर दोन मानाय घेवन गणसू शणैगेर पावले. तांकां ही सगली खबर कळटकच तांचे दोळे भरून आयले. पूण तशें

कितेंच करप बरें न्हय अशी तांकां गणसू शणैन शिटकावणी दिली. सगली रात ते आपल्या बापायच्या म्हऱ्यांत बसून रावले.

दुसरो दीस उदेलो. सगल्यांचीं कामां मोन्यांनी चलिल्लीं. कोणाचेंच चित्त थाऱ्यार नाशिल्लें. सकाळचीं आठ वरां जालीं, णव जालीं, तरी पणजेची जाप नाशिल्ली. निमाणें धा वरां जायत आयलीं तरी सगले कडेन थप्प!

बरोबर धा वरांचेर पांच मिलितारांचो एक पंगड गणसू शणैगेर आयलो आनी सुर्याजी शणैक आपले सुवादीन करचो अशी तांणी मागणी केली. तांच्या भुजांक आर्मां हुमकळटालीं. पंगडाच्या मुखेल्यान तांकां आयिल्ली ऑर्द गणसू शणैक दाखयली. गणसू शणै तसोच भितर गेलो आनी ताणें एक बरयल्ली फोल हाडली :

"-ही पळयात, आमगेल्या आदमिनिस्रादोरान गोव्हेर्नादोराक केल्ली अर्जी. तिची जाप आयले बगर सुर्याजी शणैक तुमचे सुवादीन करप बरें जावचें ना. सुर्याजी शणैली सगली जापसालदारकी हांव घेतां!"

अशे तरेची तांचे भितर भासाभास चलता आसतनाच खूद आदमिनिस्रादोरच आपल्या सेक्रेताराक मोटे मोट्यान उले मारीत भितर सरलो. ताचे बरोबर दोन पाखले मिलितार आशिल्ले. आदमिनिस्रादोरान हांसत हांसतच पुर्तुगेज भाशेंत खुशालकायेची खबर सांगली:

"- सिंज्योर सेक्रेतार, गोव्हेर्नादोर सायबान मुजरत ह्या दोन इश्टां कडल्यान आमचे मागणेक जाप धाडल्या. ताणें पयलींचो हुकूम फाटीं घेतला आनी सुर्याजी शणैक भोवमानान सोडून दिवचो अशें फर्मायलां. इतलेंच न्हय, तर आयच्या दिसाचो उगडास आनी मानाचें चिन्न म्हणून तांकां एक तरसादय धाडून दिल्या."

सकाळ पसून धुंवटेच्या चेपणा मुळा घुसमटून गेल्लीं उजवाडाचीं किर्णां एकदम भायर फुटून आयलीं आनी भोंवतणचो वाठार खळखळून हांसलो. इतलो वेळ मेटून पडिल्लीं झाडां-पेडांचीं कवाडां पुराय उकतीं जालीं आनी आळसावल्ल्या सवण्यांक हजारांनी गळे फुटले.



# आंगवण

—दामोदर मावजो

पुण्य आणि पातक हांचे शिमेर उबो रावन हांवें एक काम केल्लें ताची ही खबर!

म्हजी माजोड्डेचे इगर्जेत 'कूर' म्हूण बदली जाल्ली. गीम निकतोच लागिल्लो. इगर्जेचीं कामां जाणा जावन घेतां, गांवच्या लोकां कडेन वळखी करून घेतां, कपेलाचीं अडचून उरिल्लीं कामां जाग्यार घालतां म्हळ्यार म्हयनो भर गेलो.

पाद्रीपण म्हाका मनस्पुर्वेक मानवता. इश्टागती जोडप, भुरग्यां लागीं खेळप, शिकपी भुरग्यांक उमेद दिवप, वायटकारांची खबर घेवप, अडचल्ल्यांक पावप असलीं कामां म्हाका पयलीं पसून जायशीं. पाद्री जाले उपरांत म्हजी ती लागणूकच जाली. आनी हांव तिका पुराय पाळो दिवंक लागलों.

एक दीस इगर्जेत सेरमांव सांगतना हांव बरोच फॉर्मांत आयलों. सेरमांवांत हांवें एक खबर सांगली. एके बायलेचें भुरगें फेस्ताचे फेरयेंत कशें कशें शेणलें. आनी कितल्याशाच वर्सांनी तिणें सायबीणमांयक केल्ले आंगवणीक लागून तें भुरगें कशें परतें तिका मेळ्ळें, तें हांवें बरें करून सांगलें. सेरमांव सोंपले उपरांत सगलो लोक देवाक नमन करून घरा परतलो. पूण एक जाणटो सो दादलो आजून दिमी मारून आशिल्लो. तागेली तनरी लागिल्ली पळोवन म्हाका ताची लक्तुबाय दिसली. मागता आसतलो देवा लागीं कितेंय; तागेली तनरी भंगतली म्हूण हांव ताका हटकी नासतना भितर गेलों. पादिगारा कडेन उलोवणें केलें, सांकिश्तांवाक सांगपाचीं कामा सांगलीं. आनी हांव भायर आयलों.

इगर्जेच्या दारांतच तो रोजार करपी जाणटेलो उबो आशिल्लो. पिरायेन आसतलो पन्नास पंचावन्न सुमार! पूण भेंडान बागवल्लो. आनी कातीक मिरयो पडिल्ल्यान तो सत्तरांक तेकिल्ले वरी दिसतालो. खांदार काबाय उडयिल्ली. हालीं तेंपार काबायो चडश्यो दिश्टी पडनात. देखून तागेलो हो भेस मातसो अडेचो कसो दिसतालो. म्हाका 'फेस रीडींग' कळना. पूण ह्या दादल्याचें मुखामळ पळोवन तो सभावान मायेस्त आसूंक फाव अशें दिसलें.

तो म्हाकाच रावतालो जावंये. हांव म्हऱ्यांत पावना फुडें ताणें तकली बागोवन आदर परगटायलो. जाणट्या मनशांनी मान दिल्लो म्हाका मानवना. पादकूर जालों तरी पिरायेन हांव ल्हानच. पूण ह्या जाणट्यांक तशें सांगल्यार तांचें मन मारिल्ले वरी जाता.

हांवें म्हऱ्यांत येवन त्या जाणटेल्याच्या भुजार हात दवरून म्हळें, "कितें पाय? कसो आसा?"

इतलें म्हणिल्लें मात, त्या दादल्याचे ओंठ थरथरपाक लागले. दोळे बारीक करून तो म्हाका निरखुपाक लागलो. म्हणटासर दोळ्यांत दुकां भरलीं. थरथरपी हातान म्हजो भुजा वयलो हात सांसपीत ताणें म्हळें,

"म्हज्या पुता! तूं.... तूं.... म्हजो पूत तूं?"

हांवें घुसपून म्हळें, "तुवें म्हाका जल्म दिल्लो नासलो तरी हांव तुका पुता भाशेन समज तूं!"

ह्या म्हगेल्या उतरांनी जो जाणटेलो निवळ्ळो. दोळ्यांतलें उदक काबायेच्या हाताक पुशीत ताणें म्हळें,

"पादकूर, चुकलों. तुवें म्हाका 'पाय' म्हळें. म्हाका दिसलें... म्हाका दिसलें... म्हजो पूतच म्हाका मेळ्ळो! तुजे येदोच जाला आसतलो तो आतां...!"

त्या जाणटेल्याचें दुःख म्हाका समजलें. तागेलो पूत पयस खंय तरी गेला आसुंये. तारवटी बी जावंये. हांवें विचारलें,

"खंय आसता तुगेलो चेडो?"

व्हडा-व्हडान तकली हालोवन ताणें ओंठ दांतांमदीं चिड्डून हुडको आडायलो. हुडकेल्ल्या ताळयान ताणें म्हळें,

"म्हाका खबर ना... कोणाकूच खबर ना." उलयतां, उलयतां ताणें वयर खुरसा कडेन बोट दाखयलें, "एकल्याक... ताकाच आसा खबर."

म्हगेलो घुस्पागंदळ चडच खदळ जालो. खीण भर म्हाका दुबाव आयलो. हो जाणटेलो एके शिरेन मातसो उणो बी न्ही मूं? पूण तागेलो कळवळो पळोवन म्हगेलें मन भरून आयिल्लें.

"तुजें नांव कितें?" हांवें विचारलें.

"कामील!"

"तूं रावता खंय?"

"तळ्यापयल्यान-बल्कांवा घरांत."

"कामीलबाब, तूं आतां वच घरा. हांव मागीर मेळटां तुका." हांवें म्हळें.

"पादकूर! तुवें सेरमांवांत सांगली तीच आंगवण हांवूय करतलों."

हांव कितें म्हणटां तें आयकुपाक कामील मोटे उमेदीन म्हज्या दोळ्यांत पळोवपाक लागलो. हांव नदर धुंवडावन ओग्गी रावलों.

"मागीर येतलो न्हूं म्हगेलो पूत घरा?"

ताणें म्हाका विचारलें.

"हय, येतलो. देवाचेर भावार्त दवर आनी वाट चोय," हांवें ताची फाट थापटीत म्हळें.

कामिलान वचपाक फाट केली. वतां वतां ताणें उलयिल्लीं उतरां मात म्हज्या कानांनी आयकून घेतलीं. "वाट खूब चोयली पादकूर! वाट चोयत आसां... पूण हांव आनिकूय वाट चोयतलों."

म्हाका फुडें वचपाक मनच येना जालें. हांव फाटल्या पांयांनी परतलों. आनी सांकिश्तांवाक उलो मारलो,

"एक सांग, आतां निमाणें हिंगा रोजार करतालो तो दादलो कोण, वळखता तूं?"

"कोण कामील?"

"हय. खबर कितें तेगेली? चेडो खंय आसा तेगेलो?" हांवें उमळशिकेन विचारलें.

"कितें सांगू पादकूर! कामिलाक हांव बरो वळखतां. मनीस एकदम भांगर! कोणाकूय गरजेक पावपी. ताका आनीक कोण ना. एकलोच रावता बाबडो. ताका एकच चेडो आसलो. चेडो जालो तेन्नाच बायल मेली. उपरांत कामिलानच पुताक व्हड केलो. पूण एक दीस हो चेडो - बारा वर्सांचो सुमार आसलो जातलो - नाच्च जालो. खंय गेलो कोणाक खबर ना. खूब सोद केली. आतां वीस वर्सां सुमार जातलीं हे खबरेक. पूण चेड्याची कांयच खबर ना. आसा काय मेलो तें लेगीत कोणाक खबर ना."

हांवें अजापान विचारलें, "आनी कामील आजून चेड्याची वाट चोयता?"

"हय. ताका दिसता, तो येतलो म्हूण परतो. सदां वाट चोयता तो. आतां जाणटो जाला बाबडो. मातसो पिशां भाशेन करता."

म्हाका चिंतूंक पडिल्लो पळोवन सांकिश्तांवान फुडें सांगलें,

"कामिलांगेली इश्तोर खूब व्हड आसा. चेडो ना जायत सावन ताणें खूब सोद केली. बोमायीं लेगीत वचून सोदून आयलो. तारवार आयिल्ल्या सगल्या लोकांक तो आजुनूय विचारता. काकुळट बाबड्याची! मनीस एकदम बरो! ह्या कामिलान फाटल्या धा-बारा वर्सांनी उणेंच म्हळ्यार चौग- पांच जाणा तरी पोसूंक घेतले. पूण सगले भुरगे ताका बूट लावन पळून गेले."

"आं! पोसूंक कित्याक घेतले तर? आनी पांच जाणांक?"

"पांच जाणांक म्हळ्यार एकदम पांच जाणांक न्हूं. एकएकल्याकूच! कित्याक पोसूंक घेतालो तें मात ताचें ताकाच खबर! ताका दिसतालें, कोणूय दुर्बळालो भुरगो पोसूंक घेतलो आनी ताचे पासत दुडू मोडले जाल्यार ते पुताक पावतले. त्या पोसक्यांक मात माल्लो मद. कामिलालें जेवन-खावन वयल्यान ताकाच नागोवन गेले."

कामिलाची खबर आयकून म्हज्या काळजाक पिवळ पडलो. तो दीस हांवें असोच सारलो. दुसऱ्या दिसा कामील सेरमांवाक दिश्टी पडलो ना. हांव दनपारां उठलों आनी सकयल येवन बद्द कामिलागेर गेलों. कामील बल्कांवांतच आड पडिल्लो. आंगांत कालचीच कावाय आशिल्ली. म्हाका पळयना फुडें तो सडसडीत उठलो.

"कोण, म्हगेलो पूत आयलो... यो, जुझे... यो!"

म्हाका दिशिल्लें, कामील पादकूर आयला म्हूण समजून उठला आसुंये. पूण तो

म्हाका आपणालो पूत आयला कसो समजल्लो. म्हगेलो लोब आंगांत आसुनूय म्हाका ताका सांगचें पडलें,

"कामीलबाब, हांव जुझे न्ही. हांव पाद्री. पादकूर!"

कामील निर्शेलो. हातापांयांतली शक्त गेल्ले वरी जावन बल्कांवाचेर बसलो. इतल्यांत शेजान्न येवन म्हाका सांगूंक लागली.

"तो हालीं तेंपार बरो ना तकलेन. कोणूय आयल्यार 'जुझे आयलो' म्हूण फुलता. आनी मागीर येदें त्तोंड करून बसता."

शेजान्नीलीं उतरां आयकून म्हज्या काळजाक हुंवार आयलो. कामिलाच्या म्हन्यांत बसून हांवें कामिलाक म्हळें, "कामीलबाब, आज शेरमांवाक आयलो ना तूं?"

"सदां वचप जायना. काल एक दीस गेल्लों तो आजून न्हिदून आसां. नज."

"कांय पर्वा ना. दुबळ्यांक आनी दुखेस्तांक देव घरा लागीं लेगीत मेळटा."

कामिलान 'समजिकाय मेळ्ळी' अशे तरेन मान हालयली. आनी खीण भर रावन म्हळें,

"हांवें सायबिणीक 'आंगवण केल्या."

"बरें केलें." ताका दिशिल्लें, हांवें फुडें आनिकूय उलोवचें, म्हणजे तुगेलो पूत आतां येतलो, जुझे घरा येतलो. पूण .... पूण म्हज्या तोंडाक तीं उतरां फुटलीं नात.

"आतां येतलो म्हगेलो जुझे. आतां येतलो." कामील आपणाकूच सांगतालो.

त्या दिसा उपरांत हांव कामिलागेर गेलों ना. म्हाका भिरांत दिसताली, कामील म्हाका विचारीत म्हूण, आंगवण करूनय जुझे आजून कसो आयलो ना काय म्हूण. "भावार्त दवर आनी वाट चोय" अशें हांवें ताका आदीं सागिल्लें. पूण 'कितले दीस वाट चोवं?' अशें ताणें म्हाका विचारल्यार ताका हांवें कितें सांगपाचें? पूण हांव जरी कामिलागेर गेलों ना, तरी नेमान ताची वासपूस मात करतालों.

कामिलाली बलायकी दिशिंदिशीं इबाडटाली. तकली थीर उरनाशिल्ली. 'पूत येतलोच' ही वानसा मात दिशिंदिशीं फुलत वताली.

पावस लागीं पावलो. इश्कोलांची सुटी सोपून तीं नव्यान उकतीं जालीं. एक दीस चांदरची एक बायल आपणाल्या एका चेड्याक घेवन इगर्जेत आयली. विगार भायर सरिल्लो. हांवेंच तिका बसोवन घेतली. आपणाले दुर्बळकायेक लागून त्या भुरग्याक ती इगर्जेच्या बोर्डिंगांत दवरपाक सोदताली. तिणें म्हळें, "ह्या भुरग्याक तुमी दवरून घेतल्यार उपकार जातले. तुमी सांगश्यात तें काम तो करतलो." इगर्जेत अशे भुरगे आनिकूय आशिल्ले. तिगेलें मानून घेवन त्या भुरग्याक दवरून घेतां म्हूण सांगून हांवें तिका घरा धाडली.

हांवें त्या भुरग्याक आपोवन हाडलो. चवदा वर्सां पिरायेचो भुरगो तो. हुशार आशिल्लो. हांवें विचारलें,

"नांव कितें रे तुजें?"

"जुझे." नांव आयकना फुडें म्हाका सट्ट करून कामिलाची याद जाली. तागेल्याय चेड्याचें नांव 'जुझे' आशिल्लें. अशें केल्यार कशें? कामील मातसो सैरभैर जाला. तो कोणूय आयल्यार ताका चेडोच कसो समजता. आतां ह्या भुरग्याकच जर कामिलागेर तागेलो चेडो म्हूण धाडलो जाल्यार एखादरो कामील सुदारत! ह्या भुरग्यालेंय काम जातलें आनी कामिलाकूय आदार जातलो ह्या जाणटेपणांत.

विचार मनांत आयलो तो आयलो. म्हाका बसुंकूच दिना जालो. हांवें त्या भुरग्याक विस्वासांत घेतलो. कामिलाक 'पाय' म्हणपाक शिकयलें. सांगता ते भाशेन चलपाक फर्मायलें. आनी बेगोबेग त्या 'जुझेक' घेवन कामिलागेर गेलों.

सांजवेळ जाल्ली. कामील भितर रांदनीक फूंक मारतालो.

"कामिलबाब, हो चोय कोण आयला!" हांवें भायरसूनच साद घालो.

कामील उकडयां बशिल्लो तो बेगिबेगीन उठलो. काबायेक हात पुशीत ताणें विचारलें,

"कोण आयला?"

"जुझे आयला. हो चोय" अशें म्हणून हांवें जुझेक फुडें धुकल्लो. जुझेनूय शिकयिल्ले वरी 'पाय' म्हळें.

"म्हजो पूत आयलोऽ!" अशें म्हणीत कामील लकत लकत फुडें आयलो. सुर्याचीं निमाणीं किर्णां बल्कांवांत भितर सरिल्लीं. कामिलान ह्या जुझेक सांसपिलो. आनी अविस्वासाचे नदरेन म्हजे कडेन पळोवन म्हळें,

"कोण पादकूर! हो जुझे म्हूण कोण सांगता? म्हाका फटोवं नाका. म्हगेलो जुझे आतां व्हड जाला आस्तलो. तुजे येदो आसतलो..."

इतलें उलोवन कामिलान थंय बसकण मारली. म्हाका दिशिल्लें तसो कामील आज सैरभैर नाशिल्लो. बरो म्हजे इतलोच साबुद्दीचेर आशिल्लो.

"हांव एखादरो जुझेक वळखुचो ना. तो आतां व्हड जाला जातलो. पूण तो म्हाका वळखतलो. तूं जाणां, ही काबाय हांव कित्याक घालतां ती? लोक म्हणटात, सोड आतां काबाय... लोकांक कितेंय म्हणूं दी. म्हगेल्लो जुझे गेलो तेन्ना हांव काबाय घालतालों. आतां जुझे आयलो तर हे काबाये वयल्यान तरी म्हाका वळखतलो." कामिलाक उलोवन पुरो जालें. म्हाका कितें उलोवचें तेंच समजना जाल्लें.

"पादकुर! म्हगेल्लो जुझे येतलो. हांवें सायबिणीचेर भावार्त दवरला. तो आयले बगर रावचो ना. हांव वाट चोयतां. जुझे येतलो... आनी.... आनी तो आयले बगर हांव मरचों ना... हांव मरचों ना....." आनी कामील रडपाक लागलो.

म्हाका लज जाली. म्हगेलो प्रयोग फसलो म्हूण न्हय. कामिलाचो देवा वयलो भावार्त पळोवन म्हाका लज जाली. म्हाका लेगीत खीण भर दिसलें... खऱ्यांनीच 'जुझे येतलो.'

जड पावलांनी हांव कृत्रिम जुझेक घेवन परतलों. हे खबरेक धा पंदरा दीस गेले.

अकस्मात एक दीस सांजवेळची कामिलाली शेजान्न धांवत आयली.

"पादकूर, कामील मरता. बेगीन यो आनी सांसांव लाय."

"मरता? कोणें दोतोरान सांगलां?"

"ना. पूण तो रात काडीत कसो दिसना." शेजान्नीलीं उतरां आयकून म्हाका राग आयलो. हांकां पयलीं पाद्री येवजतात, दोतोर न्हय.

"तूं पयलीं दोतोराक घेवन वच. दोतोराक सांग, हांवें आफयला म्हूण. हांव रोखडोच येतां." शेजान्न गेली. खीण भर म्हजी तकली भेरेल्ले वरी जाली. 'कामील मरता.' कामिलालीं उतरां म्हज्या कानांत धुंवधुंवपाक लागलीं. "जुझे आयले बगर हांव मरचों ना." बाबडो कामील! मरण हुंबऱ्यार उबें आसा... पूण आशा सुटना...

हांवें म्हगेलीं एकदोन गरजेचीं कामां आशिल्लीं ती केलीं आनी बेगिबेगीन भायर सरलों.

हांव कामिलागेर पावलों तेन्ना आमोरी जाल्ली. दोतोर तपासून भायर सरतालो. म्हाका पळोवन दोतोर रावलो. "Old age! जाणटो जाला. जोर फॉर्त आसा. हांवें इंजेसांव केलां. पूण... सांसांव लायल्यार बरें!"

दोतोर गेलो. हांव बल्कांवांचेर उबो आशिल्लों. शेजान्न दारांत रावन म्हाका पळयताली.

"न्हिदला?" हांवें विचारलें.

"ना. जागोऽ आसा. आजून चेड्याचो उगडास काडटा."

"तूं वच. जेवन बी यो. हांगा रावन कांय उपेग ना."

शेजान्न वचसर हांव रावलों. आमोरी जाल्ली. भितरले कुडींत बारकेलो पेत्रोली दिवो मिणमिणटालो. कुडींतल्या पोरण्या कानाप्याचेर कामील न्हिदिल्लो.

हांवें हेवटेन तेवटेन पळयलें. बिण्ण काळोख पातळटालो. लागीं कोण दिश्टी पड नाशिल्लो. हांवें बेगिबेगीन म्हगेलो लोब काडलो. भितर बुशकोट आनी कालसांव घाल्लें आशिल्लें. लोब साकादांतल्या कदेलाचेर उडोवन हांव भितर गेलों.

"पाऽय!" हांवें ल्हवू उलो मारलो.

कामील जागोच आशिल्लो. दोळे लेगीत उकते आशिल्ले. उलो कानांत पडना फुडें तो दोळे मोटे करून जाग घेवपाक लागलो.

"पाऽय, हांव जुझे आयलां! हांवें कानाप्या कडेन वचत म्हळें. कामील जाता-नज करून उठूंक लागलो.

"म्हज्या पुता! जुझेऽ! म्हज्या पुता! म्हज्या पुता!" कामिलाक खोश्शेन आनीक उतरच फुटना जालें. कामील आंगांत अकस्मात बळगें शिरिल्ले भाशेन उठून बसलो.

"पाऽय!" अशें म्हणून हांवें कामिलाच्या भुजार तकली दवरली. कामिलाची ती आवतिकाय पळोवन म्हजे लेगीत दोळे भरून आयले. चारूय दोळ्यांतलें उदक आटापाक येनाशिल्लें.

पेत्रोली दिव्याचो उजवाड साप बारीक आशिल्ल्यान ,कामील म्हाका नियाळीत म्हणपाची भिरांत नाशिल्ली. हांवें कामिलाक घट वेंग मारिल्ली. कामील म्हजी फाट सांसपितालो. कामिलाचें आंग जोरान खतखततालें. पूण मुखामळार हांशें फुलिल्लें.

"पुता! म्हज्या पुता ऽऽ" -कामिलाक खूब उलोवपाचें आशिल्लें. पूण उतरां फुटनाशिल्लीं.

"पा ऽ य! आतां न्हीद." हांवें म्हळें. पूण कामील हाललो ना.

"पुता ऽ! तूं आयलो! हांव जाणांच आशिल्लों. ज्युस्त पावलो." कामील घोगऱ्या आवाजांत उलयतालो. "हांवें सायबीणमांयक आंगवण केल्ली....पादकूर जाणा.... देवाचेर हांवें भावार्त दवल्लेलो. देखून तूं आयलो.... आतां .... आतां म्हज्यान नज... तूं.... आंगवण पावय.... तूं..." कामिलालीं उतरां पयस पयस पावंक लागलीं. तागेली तकली म्हज्या खांदार तेंकली. हातपांय ल्हवू ल्हवू घळसले.

हांवें ल्हवूच कामिलाची तकली काडून उशार दवरली. दोळे उक्तेच आशिल्ले. तांकां हात लावन ते बंद केले. ताच्या आंगार पांगरूण घालें आनी भायर येवन आंगार परतून लोब लकयलो.



# इल्लें शीं, इल्ली गर्मी

**—शीला कोळंबकार**

मे म्हयन्याची सुटी पडिल्ली. नणुडेलो चलो आमगेर रावंक आयिल्लो. तो येवन दोन चार दीस जाले. हांवें ताका एक दीस बाजारांत, एक दीस जार्दिनांत बी म्हज्या भुरग्या बरोबर व्हेलो. नाय जाल्यार मे म्हयन्याची सुटी आशिल्ली. हांवें हांकां म्हळें, 'नणुडेलो चलो आयिल्लोच आसा. तुमी दोन-चार दीस सुटी घेयात. दोन-चार दीस भुरग्यांक घेवन खंय तरी फिरोवन हाडुंया. नाय जाल्यार भुरगीं घरा बसून उबगतात.' हांणी बरें म्हळें.

हरशीं कितलेशेच दीस जाले, हांव हांच्या फाटल्यान लागिल्लें. आठेक दीस सुटी घेयात, सुटी घेयात म्हूण! पूण हांचें सदांचेंच उत्तर, 'तुका खबर आसा, आमकां सुटी मेळप खूब कठीण! एक तर चड सो स्टाफ सुटयेर गेला. आनी ऑफिसांतलीं कितलींशींच कामां तशींच पडून आसात.'

हांचें हें सदांचेंच उतर. केन्नाय सुटी घेयात म्हूण हांव सांगीत जाल्यार सुटी केन्ना घेनात. आनी म्हणटात वेल्यान, सुटी मेळना. जापसालदारकेचें काम म्हजें! जशें काय हांणी सुटी घेतल्यार हांचें ऑफिस बंद पडटलें! सुटी मेळना जाल्यार कॅज्युअल लिव्ह, सीक लीव बी म्हण कित्याक केल्या तर? पूण म्हज्या वांगडा जेन्ना भुरग्यांनीय हट्ट धरलो, तेन्ना तांणी आमचेर व्हड उपकार केल्ले भशेन करून दोन दिसांची रजा घेतली.

सुटयेच्या पयल्या दिसा आमी ठाणा सर्कस पळोवंक वचचें अशें थारायलें आनी दुसऱ्या दिसा आमी नेहरू प्लॅनिटोरियम पळोवंक वच्चें अशें थारायलें.

पूण त्याच दिसा नणुडेचो हांकां ऑफिसांत फोन आयलो की भुरग्यांक घेवन तिगेर येयात म्हूण! तिणें जेवपाक थंयच येयात म्हूण सांगिल्लें. म्हूण आमी हे घरा येतकीच भुरग्यांक घेवन नणुडेगेर गेलीं. नणुडेन आठ दीस रजा घेतिल्ली. आनी तिणें सर्कशीचीं तिकिटांय काडून हाडिल्लीं. तिणें म्हळें, आठ दीस म्हाका रजा आसा, तेन्ना तुगेल्या भुरग्यांक बी आमगेर रांव दी. म्हजी रजा सोंपली काय परतून सगळ्यांक तुमगेर धाडटां. म्हणजे भुरग्यांकय बी मजा येतली. म्हजी कांयच हरकत नाशिल्ली. भुरग्यांक थंय दवरून, जेवनबिवन रातचीं आमी घरा आयलीं. घरा पावतासर रातचीं साडे बारा जालीं.

पुरोऽऽ जाल्लें. आमी न्हिदलीं. सकाळीं जाग आयली तेन्ना उठून पळयत जाल्यार हे ऑफिसांत वचूंक तयार जातात. हांवें म्हळें, "हें कितें? तुमी सुटी घेतिल्ली न्हय? म्हूण

म्हाका दिसलें, आयज तुमी कामाक वच ना, म्हूण! तेन्ना उठपाक हांवें मात्सो आळस केलो."

"ज्या भुरग्यां खातीर रजा घेतिल्ली, तीं भुरगीं म्हजे भयणीगेर! आतां हांव घरा रावन तरी कितें करुं?"

- हांणी म्हळें. हांव ओगी रावलें.

"पूण तशें जाल्यार तुमी म्हाका कित्याक उठयलें ना तर?"

"तूं न्हीद! खऱ्यानीच न्हीद! उठूं नाका. नाय जाल्यार रात्तीं येवपाक वगत जालो न्ही? हांव वतां."

"अशें कशें जातलें?"

हांव बेगिबेगीन उठलें. दूद तापयलें, च्या केली. आदल्या दिसा चिरून दवरिल्ली भाजी फ्रिजांत आशिल्ली, तिका फोडणां घालीं आनी चपात्यो करूंक पीठ भिजयलें. हांचें खाड करून न्हावन-धुवन जातासर भाजी, चपात्यो तयार जाल्यो. तांचो डबो भरलो आनी तांकां दिलो. हे भायर सरून गेले.

हांवें उरिल्यो चपात्यो करूंक घेतल्यो. म्हाका वायट दिसलें. असलो कसलो हो दादलो? सुटी घेतिल्ली आसतना कामाक गेलो. ज्या भुरग्यां खातीर सुटी घेतिल्ली, तीं भुरगीं घरांत नात म्हूण रजा कॅन्सल केली. भुरगीं ना जाल्यार कितें जालें? हांव घरा नाशिल्लें? हांव हांगेलें कोणच न्हय? खेरीज भुरगींय घरा नाशिल्लीं. घरांत आमी दोगांच राजाराणी आशिल्लीं. केन्ना न्हय तो एकांत मेळिल्लो. आमचे लग्नाचे दीस हो विसरलो? तेन्ना तें पिशां भशेन भोंवप... सिनेमा... नाटकां पळोवप... भायरुच जेवप आनी मागीर रातीं एकमेकांचे वेंगेंत जगाक विसरून न्हिदप... इतलो कसो बदल्लो हो?.... पाडपडूं!... चपाती करपली दिसता.

चपात्यो जाल्यो काय जालें. भाजी आशिल्लीच. एकल्या खातीर कोण आनी कितें करतलो? रातीं हो घरा आयलो काय पळोवचें कितें रांदचें तें!

पूण हो घरा येतासर करचें कितें? सामकार मोठें प्रस्नचित्र उबें आशिल्लें. भुरगीं घरा आसत जाल्यार कसो वेळ वता कळना. तीं शंभर खेप भायर वतात आनी दोनशें खेप भितर येतात. तितले खेप तांकां दार उगडूंक जाय. तांचीं झगडीं... तांचे खेळ... तांच्यो मारामाऱ्यो... तांचें हांसप... तांणी केल्लो कोयर... तांणी कश्या कश्यो उडयल्यो वस्तू... शंभर खेप उदक पिवन उडयल्ल्यो रिकाम्यो बाटल्यो... सगलें करतासर दीस केन्ना उजवाडलो आनी केन्ना रात जाली कळ नाशिल्लें. पूण आयज...

हांवें सान्न घेतली. सान्न मारूंक बाल्कनींत गेलें. थंय शेजान्न आशिल्ली. तिणें म्हळें,

"कितें? बेगिबेगीन कामां करून सर्कशीक वचची तयारी दिसता... सकाळ सावन भायर दिसली ना. घोवान रजा घेतल्या म्हूण काय किते?"

"खंयची रजा आनी खंयची सर्कस?" -

हांवें म्हळें.

"काल भुरगीं नणडेगेर गेलीं."

"मागीर तुमची मजा तर!... राजा आनी राणी..."

"कसली मजा, कर्माची?"

"तुगेल्या घोवान सुटी घेतिल्ली न्ही?"

"घेतिल्ली; पूण कॅन्सल केली."

"कित्याक?"

"ज्या भुरग्यां खातीर रजा घेतिल्ली, तीं भुरगीं घरा नात न्ही?"

"पूण तुवें ताका वचूंक कित्याक दिलें? वचूं नाका म्हूण सांगपाचें न्ही?"

खरें म्हळ्यार होच हिचे आनी म्हजे मदीं फरक आशिल्लो. ही आपल्या घोवाक सांगता, म्हाका अमूक तमूक पिक्चर पळोवंक जाय. तुवें म्हाका व्हरूंक जाय म्हणजे जाय. हिका खंयचीय वस्त जाय जाल्यार ती घोवाक सांगता, म्हाका ती वस्त जाय. मेळ्ळी ना जाल्यार फणफणटा. राग भुरग्यांचेर काडटा. घोवाक नाकापुरो करून सोडटा. म्हाका हें असलें केन्ना जमलेंच ना. आपणें सांगलें आनी घोवान आयकलें हाका अर्थ ना. घोवाक ह्यो गजाली आपशींच कळूंक जाय. आंबो धोडावन पिकयलो जाल्यार ताका सुवाद ना. तो आपशींच पिकूंक जाय. आतां भुरगीं घरा नाशिल्लीं. आमी दोगांच आशिल्लीं. एकदम मेकळीक. आयचो दीस आमच्या हातांतलो आशिल्लो. खंय गेल्लींय जाल्यार फाटल्यान भुरग्यांचो हुस्को नाशिल्लो. पूण हें म्हाका कळून कितें उपयोग? ताका कळूं नाका आशिल्लें?

एक एक चिंतून तकली उसळूंक लागली. आमचे शेजाऱ्रीलो प्रेम विवाह. तीं दोगांय घोव बायलां बाल्कनींत उबीं रावन वरांची वरां गजाली मारतालीं. सुटये दिसा भुरग्यांक घेनासतना दोगांच फिरूंक वतालीं... ना जाल्यार म्हजो घोव! घरा आयलो काय पेपर वाचीत बसता. भायर कामाक गेल्ले कडेन कितें जालें... कोणें कितें म्हळें... कितें आपणें पळयलें... ह्यो असल्यो ल्हान ल्हान गजाली. पूण ताका केन्ना संवयूच ना त्यो गजाली आपणें सांगूंक जाय म्हूण! केन्नाय सुटी आसली, खंय भायर सरून वचुंया म्हळ्यार, तो म्हणटा, आठवड्यांतल्यान एक दीस सुटी आसता. सुसेगाद घरा बसूंक तरी दी! आतां हांव घराच आसतां. तेन्ना घरा बसून म्हाका वाज येता आसतलो हें तागेल्या लक्षांतूच येना.

...त्या दिसाची गजाल. चलयेक घेवन दोतोरागेर गेल्लें. दोतोराल्या मेजार कांचे भितर भुरग्याक घेतिल्ले एके बायलेचें सुंदर चित्र आशिल्लें. हांवें म्हळें,

"दोतोर, इतलें सुंदर चित्र तुका कोणें दिलें?"

"म्हाका तें कोणें दिलें ना. हांवें तें विकत घेतलां."

"तुवें विकत घेतलें?"

"तुका अजाप दिसलें? म्हाका चित्रकलेची खूब आवड. हांव एका तेंपार चित्रां काडटालों. पूण शिकपाक लागून चित्रां काडूंक शकलों ना. पूण ती नदर मात आजून आसा म्हाका. खंयचेंय बरें चित्र दिसलें जाल्यार हांव तें विकत घेतां."

"दोतोर, तुका बरें, न्ही? दवाखानो बंद करून घरा गेलो काय बसात चित्रां काडीत.

कामाचो शीणय बी वतलो."

-हांवें म्हळें.

"खरें सांगूं? म्हाका सदांच दिसता, केन्ना एकदां पेशंट सोंपतले आनी हांव घरा वतलों! म्हजी बायल म्हजी वाट पळयत बसता घरा. हांव घरा वतकीच आमी दोगांय पासयेक वतात. ना जाल्यार गजाली करूंक बसतां. गजाली करतना वेळ कसो वता कळना. आनी तुका सांगूं? बायलेचे नदरेंत नदर घोळोवन गजाली करतां ताचो सुवाद आनी खंयचेच गजलीक ना.."

पाडपडिल्ली ही गजाल म्हाका आतांच कित्याक येवजली कळ्ळी ना. म्हाका आनिकूय राग आयलो.

हांवें रागारागान सगळ्यो चादरी धुवपाक घेतल्यो. रागारागान धुल्ल्यान चादरी बऱ्यो नितळ जाल्यो जावंक जाय. सगळें घर धुलें. आनी जेन्ना हांव न्हावन भायर आयलें, तेन्ना इतलें पुरो जाल्लें म्हाका! केन्ना एकदां जमनीक फाट तेकयता काय जालें म्हाका. भितर येंवन हांवें पयलीं चपात्यो खावन घेतल्यो. म्हाका अशी लकणी आयली! हांव वचून न्हिदलें. बरी न्हीद लागपाक आनी दारा वयली बॅल वाजली.

..आतां आनी कोण जीव दिवंक आयलो?.. दार उगडून पळयत जाल्यार सामकार घोव उबो! ताका सामकार पळोवन म्हाका आनीक राग आयलो. म्हाका पुरो जाल्लें. दुसरें, म्हाका न्हीद येताली. तिसरें, हांवें कांय रांदूंक नाशिल्लें. आतां आनी हो जेवलो ना म्हणीत जाल्यार परथून रांदचें पडपाचें.

"वाडूं?"

हांवें ताका विचारलें. "नाका. हांव जेवन आयलां. तुवें सकाळीं डबो दिल्लो न्ही?"

"चल चल, तयार जा. भायर सरून वचूं या"-

ताणें म्हळें.

"खंय वचूंक जाय?"

हांवें विचारलें.

"सिनेमाक!"

"म्हूण तूं बेगीं घरा आयलो?"

"हय! ऑफिसांत बशिल्ले कडेन याद जाली, तूं घरा एकलें आसा म्हूण! तेन्ना धांवत आयलों हांव."

..ही अक्कल सकाळींच आयिल्ली जाल्यार?... पूण हांव कांय उलयलें ना. हांवें म्हळें,

"आतां म्हाका खंय येवपाचें ना. म्हाका खूब न्हीद आयल्या. हांव न्हिदतां. तूंय बी न्हीद."

-आनी तागेले जापेची वाट पळय नासतना हांव सुसेगाद न्हिदलें.

जाग आयली. उठून पळयल्यार साडेपांच वरां जाल्लीं. हांवें उठून च्या केली.

ताकाय उठोवन च्या दिली. आतां रांदपाक सुरवात करूंक जाय आशिल्ली. हांवें तांदूळ वेंचपाक घेतले.

"जेवण कितें केल्लें तुवें दनपरां?"

"कांय ना."

"तशें आसल्यार आतां कांय करूं नाका. आमी भायर वचूं या. भायरुच जेवंया आनी थंयच्यान पिक्चर पळोवंक वचूं या."

-आमी भायर सरून गेलीं, हॉटेलांत जेवलीं. कितल्या तेपान आमी अशीं दोगांय भायर वचून जेविल्लीं.

थंयच्यान सिनेमाक गेलीं. सिनेमा आशिल्लो, 'राम तेरी गंगा मैली' थेटरा भायर एकल्यान येवन विचारलें, "तिकिटां जाय?"

-हो तिकिटां घेवंक तयार जालो. ताणें विचारलें, "कशें तिकेट?"

"चार नव्वदा, स रुपया."

हांवें म्हळें,

"बाल्कनींतल्या तिकिटांक चड लायन ना. आमी थंय वचून रावं या. ओगीच ब्लॅकान कित्याक तिकिटां घेवप?"

आमी वचून लायनींत उबीं रावलीं. आमच्या मुखा वयलो मनीस तिकिटां घेवंक गेलो मात, तिकिटाचें जनेल बंद जालें. जालें, तिकिटां सोपलीं.

"आतां कितें?"

ताणें विचारलें.

"आतां घरा वचप."

"पिशें! तूं हांगाच राव. हांव आतां येतां."

आनी म्हजे जापेची वाट पळय नासतना तो गर्दैत नाच जालो.

आयलो तेन्ना तागेल्या हातांत दोन तिकिटां आशिल्लीं.

"कशीं पडलीं तिकिटां?"

"सात रुपयांक एक."

हांवें म्हळें,

"कित्याक घेवंक जाय आशिल्लीं इतलीं म्हारग तिकिटां? तुजे सारके अशे ब्लॅकांत तिकिटां घेवपी लोक आसात म्हूण हे लोक ब्लॅकांत तिकिटां विकतात. आनी सगळ्या भ्रष्टाचाराचें कारण म्हणा किंवा मूळ हें आमचे भितरूच आसता."

"सायबिणी, तुजें लेक्चर पुरो. तुजीं सगळीं मतां म्हाका पाठ आसात. तेन्नाच तर तुवें आडावचे पयलीं हांव तिकिटां घेवन आयलों. पूण एक लक्षांत दवर. तुजे सारकें ह्या जगांत कोण करी ना. आनी जे अशें करतात, तांची जीण त्रासांत पडटा. तुजे सारको विचार करपी मनशांक ह्या जगांत रावप खूब्ब कठीण. सादो हिशोब पळे! केन्ना न्ही तीं आमी दोगांय सिनेमाक आयल्यांत. आमकां आयज तिकिटांची गरज आसा. म्हूण आमी

चड पयशे दिवन तिकिटां घेतलीं. आमी जरी तीं घेतलीं नात जाल्यार दुसरो कोणूय घेवपाचो. मागीर व्हडलो सो कितें फरक पडपाचो? आनी आतां एक कर. चड चितूं नाका. तुजे ते इल्ले शे तकलेक चड शिणोवं नाका. सुसेगाद पिक्चर पळोवया आनी घरा वचूं या. चार खीण एकांताचे मेळ्ळ्यात ते आनंदान घालोवंया."

आमी भितर वचपाक गेलीं. तिकिटां काडून डोअरकीपरा कडेन दिलीं. पळयत जाल्यार तिकिटां तीन आसात. दोन डोअर कीपरा कडेन दिलीं. ताणें म्हाका वयर व्हरून बसयलें आनी तिसरें तिकेट सकयल परतून सात रुपयांक विकून पैशे घेवन वयर आयलो आनी ताणें सांगलें म्हाका,

"पळय, चौदा रुपया दिवन दोन तिकिटां हाडलीं. आनी वयल्यान सात रुपय मेळ्ळे. देव आमचे फावोराद आसा, म्हूण चार णव्वदा चें तिकीट आमकां तीन पन्नासाक मेळ्ळें. हय काय न्ही?" आनी म्हजे जापेची वाट पळय नासतना ताणें मुखार म्हळें,

"जीण ही अशीच आसता. थंय हें बरें, हें वायट अशें चितपाक वेळ लेगीत आस्ना. जीण जशी सामकार आसा, तशी ती स्विकारची. आतां हें ह्या वेळार म्हाका जाय. आतां हें जें जाय तें आपणें तेदे वेळार मेळोवचें. तेदे वेळार तें कशें मेळयलें हाका म्हत्त्व ना. फकत आपणें तें मेळयलें हाकाच म्हत्त्व आसता. कळ्ळें?"

सिनेमा सुरू जालो आनी ती गजाल थंयच उरली.

सिनेमाचीं नांवां दाखयतना ताणें परतून म्हळें,

"भुरगीं हो सिनेमा पळोवंक जाय म्हणटालीं. तुवें नाका कित्याक म्हळें?"

"तांणी हो सिनेमा पळयल्यार जाता, अशें तू कित्याक म्हणटा तें पयलीं सांग." हांवें म्हळें.

"ना! तांचे क्लासींतलीं भुरगीं सिनेमा पळयतात. आनी आमच्याच भुरग्यांनी तो पळयलो ना, जाल्यार तांकां कॉम्प्लेक्स येवचो ना?"

"ते दीस भुरगीं म्हणटालीं, तांचे क्लासींत सगळ्यांगेर व्हीसीआर आसात. आमगेरुच ना. तेन्ना तूं आतां व्हीसीआर घेतलो तर!"

"ना गो बाये! तो आनी चूड दाखोवन म्हारू कोण घरांत हाडीत?"

"जालें तर! तशेंच हें सिनेमाचें. आतां व्हडां खातीर आशिल्लो सिनेमा भुरग्यांनी कित्याक पळोवंक जाय? भुरग्यांनी सिनेमा पळोवचे, पूण भुरग्यां खातीर आसतात ते सिनेमा पळोवचे."

तो ओगी रावलो. पूण म्हाका मनांतल्यान खबर आसलें. हाचे कडेन जाल्लें जाल्यार हो व्हीसीआर सुद्दां घेवपाचो. कित्याक, हागेल्यो आदर्श बापूय कसो आसचो, हाच्यो कल्पना म्हजे परस वेगळ्यो. भुरग्यान मागिल्ली वस्त हाडून दिली काय तो बरो बापूय. आमकां भुरगेपणांत मेळ्ळें ना तें भुरग्यांक आपणें हाडून दिवचें अशी कितें शी ताची आदर्श बापायची कल्पना.

सिनेमान वेग घेतलो. आमी सिनेमा पळोवंक गुंग जालीं. सिनेमाचो मदलो वेळ जालो.

"हांव एक सिगार ओडून येतां. तुका कितें जाय?" ताणें विचारलें.

"कांय नाका. तूं वचून यो." हांवें म्हळें.

थोड्या वेळान तो आयलो. तागेल्या हातांत आयस्क्रीम आशिल्लें. आमी दोगांय हांसलीं. कित्याक, आयस्क्रिमा फाटल्यान इतिहास आशिल्लो. लग्न जाले उपरांत आमी पयलेच खेप सिनेमाक गेल्लीं. हाणें मदल्या वेळार कितें जाय काय विचारलें. हांवें कांय नाका म्हळें आनी हाणें काय हाडलें ना. घरा वतकीच नणंडेन विचारलें.

"तुका इंटरव्हलाक भाईन कितें दिलें गो?" हांवें म्हळें,

"तुगेल्या भाईक विचार."

"कितें दिलें रे भाई तुवें ताका?"

"कांय ना."

"कांयच ना? कित्याक?"

"हांवें ताका विचारलें, तुका कितें जाय? ताणें म्हळें, कांय नाका."

"पिसो रे पिसो!"

अशें म्हणून ताका घरांतलीं सगळीं हांसलीं. तेन्ना सावन तो प्रत्येक सिनेमाक म्हाका विचारता, कितें जाय? हांव कांय नाका म्हणटां. आनी तो आयस्क्रीम घेवन येता.

सिनेमा सुटलो. सिनेमाचेर चर्चा करीत आमी घरा आयलीं. सिनेमा पळोवन तो खूश जाल्लो. म्हाका काय सिनेमा आवडलो ना. हो राजकपूर हुशार मनीस. ताणें भारतीय दादल्यांची नाडी जिस्त वळखल्या. बायलांचीं आंगां तो बरे तरेन उगडीं करून दाखयता. आनी तीं अशे तरेन दाखयता, की तातूंत पळोवप्यांक अश्लिलता दिसली जाल्यार तो पळोवप्यांचे नदरेचो दोश अशें म्हणपाक तो मेकळो.

"आतां कितें?"

ताणें विचारलें. हांवें म्हळें, "तूंच सांग."

"हम तुम, एक कमरेमे बंद हो, और चाभी खो जाय."

"पुरो! भुरगेपणां नाका."

"म्हणटां म्हण कितल्या तेपान आमी दोगांच अशीं आसात न्ही गो? हुस्क्या मेकळीं. भुरग्यालें मनार चेपण नासतना... आयज... न्ही?" -अशें म्हूण ताणें म्हाका लागीं ओडलें. तागेलो तो स्पर्श.... म्हज्या मनांतलें तो उलयतालो. म्हाका अजाप दिसलें.

तो उचंबळून आयिल्लो... ल्हवपीक जाल्लो... मोरपिशी स्पर्श म्हज्या आंगाक पिशें लायतालो...

गरमेचे दीस आशिल्ल्यान आंग घामान चिकचिकीत जाल्लें. हांवें म्हळें,

"राव, हांव न्हावन येतां."

"तूं न्हावं नाका."

"कित्याक?"

"आयज हांव तुका न्हावयतां."

ताणें म्हाका बाथरुमांत व्हेलें. तागेलें एकेक कर्तूप म्हज्या काळजाची एकेक पाकळी फुलयताली... म्हाका येवजलें.

-हांव एक दीस म्हजे शेजान्नीगेर गेल्लें. बॅल वाजयली. तिगेल्या घोवान दार उगडलें. तो तुवालो बांदून आयिल्लो. ताणें सांगलें शेजान्न न्हाता म्हूण. कितें काम आशिल्लें?.. हाचें आंग ओलें. शेजान्न न्हाता... म्हाका सट् जालें. कांय काम ना म्हूण सांगून हांव धांवत घरा आयलें. वाटेर दुसरी शेजान्न मेळ्ळी. तिणें म्हळें, कितें जालें? हांवें सांगलें, अशें अशें जालें. तिणें म्हळें, तुका खबर ना? तिगेलीं भुरगीं घरा नात, म्हूण तिगेल्या घोवान रजा काडल्या. चार दीस जाले घराच आसा तो. दोगांय लव्ह बर्डस् चोंचींत चोंच घालून आसतात. तीं दोगांय भायर लेगीत दिसनात... आपल्या विश्वांत दंग जावन आसात तीं... आपलेच मस्तींत... पूण आसूं, भंगू तें... असलें आमी पळोवपाचें आनी थंडगार हुस्कार भरून ओगी रावपाचें. असल्या साद्या साद्या गजालींतलें काव्य.. कवीत, स्पर्शाचें... एकमेकांच्या सान्निध्यांतलें काव्य आमगेल्या घोवांक कळपा सारकें ना... आनी आमी आमच्यो इत्सा तोंड फोडून तांकां सांगचीं नात. कित्याक, सांगुनूय तांकां समजत काय ना हाची खात्री आमकां ना.. दुसरें, फुलान सहज फुलूंक जाय.... वाऱ्यान सहज येवंक जाय... पावसान अकस्मात येवंक जाय... तशेंच लव्हर म्हूण घोवान अकस्मात मोगाचो पावस शिवरूक जाय... इतलें चिंब भिजोवंक जाय की दडक केन्ना आयली... आंपूण भिजलें केन्ना... व्हांवन गेलें केन्ना... आनी आतां खंयच्या कांठाक लागलां, हाची लेगीत शुद्ध उरूंक जायना...

उदकाचो थंडगार स्पर्श... साबणाचो फेंसाळ वास.. आनी तो साबण लावपी हातांचो मोगाचीं फुलां फुलोवपी हुनहुनीत स्पर्श....हांव पाकळे पाकळेन फुलतालें – ओंठ ओंठान सुकतालें...अर्द धांपिल्ल्या दोळ्यांनी हवेंत तरंगतालें. अळंग तरंगांत तरंगतालें. फुडें कितें जालें, म्हाका समजलेंच ना.

सगळ्या जगाक विसरून एकमेकांचे वेंगेंत आमी तशींच न्हिदिल्लीं. इतली बरी न्हीद जल्मांत केन्ना लागूंक नाशिल्ली.

सकाळीं परतून त्याच स्पर्शान जाग आयली. तागेलो हात मोरपिसा प्रमाण म्हज्या आंगा वयल्यान भोंवतालो.... आनी हांव रंध्रारंध्रांत फुलून येतालें...

"तुवें रातीं म्हाका जशी साथ दिली, तशी हाचे पयलीं केन्ना दिलीच ना. तूं आनी इतलें फुलून येवंक शकता हें म्हाका आयजूच कळ्ळें. बरें जालें, काल दनपारां हांव घरा आयलों तो. खरें म्हळ्यार ऑफिसांत काम खूब आशिल्लें. हांव सांजेरुच येवपाचों; पूण जालें कितें, त्या शर्मान म्हाका विचारलें, "आरे, तुवें रजा घेतिल्ली न्ही? आनी आयज कामाक कसो तूं?" हांवें म्हळें, "भुरग्यां खातीर घेतिल्ली तीं भुरगीं घरा नात, म्हूण हांव परतून कामाक आयलों" तेन्ना ताणें म्हळें, 'साप्प मूर्ख मरे तूं! भुरगीं नात म्हणचे तुजी बायल एकलीच घरा आसा, आनी तूं असलो चान्स सोडटा? हांव जाल्यार असलो चान्स

केन्नाच सोडपाचो नाशिल्लों. तूं घरा वच, भाभीक घेवन फिरूंक वच... सिनेमाक वच... म्हणटा म्हूण तूं इतलो मूर्ख कसो? तुगेले बायलेक कितलें वायट दिसलां आसतलें हाची तुका कल्पना आसा?'.. हांव आनी आनीक रावलों ना. तसोच उठलों आनी घरा आयलों."

म्हणजे?... म्हणजे शर्मान सांगलें म्हूण हो घरा आयलो... ताणें सांगलें म्हूण म्हाका फिरूंक व्हेलें. ताणें सांगलें म्हूण सिनेमाक घेवन गेलो... आपले मतीन न्ही. अकस्मात हांव थंड थंड जालें... म्हज्या काळजाच्यो फुलिल्ल्यो पाकळ्यो झडून पडल्यो.. हांवें तागेले म्हजे भोंवतणचे हात फाफडून उडयले.

"कितें जालें गो? म्हजें कितें चुकलें?"

ताणें विचारलें.

"ना! खुब्ब गरम जाता न्ही?"

-हांवें म्हळें. आनी हांव कूस परतून ताका फाट करून न्हिदलें.



# देवतंवशीं

—मीना काकोडकार

संगिताचे मंद सूर म्हज्या कानार येत आसात... त्या सुरां वांगडा हांव ल्हवपीक जावन गेलां. ते सूर म्हाका आपल्या वांगडा पयस, पयस घेवन चल्ल्यात. संगीत... जें म्हाका सुखाचे तेंगशे मेरेन पावोवंक शकता आनी काळजांतले खंतीची तारय छेडूंक शकता. ही खंत चडशी जिणेच्या दिसपट्ट्या घडणुकां फाटल्यान लिपून उरता. मात लेगीत जाणवना. पूण जो जो खीण हांव म्हज्या वांगडा एकटुको सारतां, त्या खिणाक ती उगडी जावन अचळय म्हज्या मनाचेर पातळटा... वेगळावंक ना येवपा सारकें जिणेचेंच एक आंग कशें! सुखाचे तेंगशेर आसल्यार लेगीत हे खंतीचो कांटो खंय तरी किसकिसता... दोळ्यांत दुकांची साय मांडीत..

अशें कित्याक जावचें? कोणेंय पुराय सुखी कित्याक आसचें न्हय? .. आसूं येता; पूण ते खातीर जिणेंत एकसारकें कितेंय तरी मेळयत रावचेलो हावेस मनांत बाळगूंक जायना. केन्ना तरी तृप्त जावन थांबचें पडटा... तेन्ना तरी पुराय सुखी जावं येत? घडये येत.. घडये ना येत! हावेसा फाटल्यान धांवतना जें कितें फाटीं सोडून मुखार पावलां, ताचें मोल उपरान्त कळून येवं येता आनी मागीर नकळटना जाल्ल्या पिशेपणाची खंत कांटो कशी किसकिसत उरूं येता.

पूण देवयानी तशें न्हय. खूब, खूब वर्सां पयलीं ताणें आपले पुरतें जग भोंवतणी आंखून घेतिल्लें. त्या जगा पेल्यान ताणें केन्ना नदर लेगीत मारली ना. कितलें वेगळें तें म्हजेपरस! आमचीं जगां लेगीत वेगळीं! पूण ल्हानपणांत तीं एक कशीं दिसतालीं. ती पिराय तशीच आसता. निरागस.. भाबडी! सगलें वेगळेपण जाणोवंक लागता तें ल्हानपण शेणटकीर.

खंय शेणलें काय तें? पिसोळ्याचे न्हंयचे देगेर?... दोंगुल्ले वयल्या चंद्रेश्वराच्या देवळांत?... काय आतीचे कोठये कुडींत? कोठये कूड- जंय पितुळच्या लखलखीत आयदनांचेर पडून दिव्यांचो उजवाड भांगर जातालो. जंय तांदूळ-गंव सांठोवन दवरचेले हांडे म्हजे परसय चड उंचायेचे आसताले. जंय तेलाचो, तिखयेचो, लवंगांचो, सांबाराचो घमघम इतलो खर आसतालो, की ताचीच एक अदृश्य वणत कोठये कूड आनी हेर कुडीं मदीं उबी

जाताली. जंय कोनशाक एकाचेर एक दाळिल्ल्या गादयांचेर न्हिदून हांव वेगळ्या जगाचीं सपनां पळयतालें. अशा जगाचीं, जातूंत हांवय बी देवयानी इतलेंच हुशार आसतालें; फांतोडेर रात्रीक उजो घालतालें; सुरू सुरू करून बांयचें उदक काडटालें; रास भर आयदनां घांसून लखलखीत करतालें; आनी पोरसांतलें तण काडटना म्हज्या हातांतलीं तांबडीं गुंज कंवचेचीं कांकणां भांगरा वत पियेत माणकां कशीं लखलखतालीं.

देवयानीची आवय म्हजे आजेगेर- आतीगेर वावर करताली. देवयानी आवयक कामांत हातभार लायतालें आनी हरशिल्या वेळार म्हज्या वांगडा खेळटालें. गांवांत एक न्हंय आशिल्ली. सुकते वेळार जाय तीं जाणां थंय कुंडयो काडूंक वतालीं. देवयानीय तांच्या वांगडा वतालें. म्हाकाय कुंडयो काडचेली उमळशीक लागताली; पूण सामके काकुळटेक येवन आतीक सांगलें तरी तिणें म्हाका केन्ना तांच्या वांगडा धाडलें ना. कुंभ्यामाडां पेल्यान शेतांतल्यान एक व्हाळ व्हांवतालो- गजनी व्हाळ; न्हंयचोच ल्हानसो फांटो- थंय मात आतीची नदर चुकोवन हांव आनी देवयानी धांव मारतालीं. हो व्हाळ हुपतलो जाल्यार ताचेर आडव्या घाल्ल्या माडा वयल्यान चलून पलतडीं वचचें पडटालें. देवयानी ताचे वयल्यान धांवत व्हाळ हुपतालें. म्हाका मात दर एका पावला कणकणीं थरथरो भरतालो. हावा शिवा करून मदीं पावतकीर म्हजी नदर आपसुकच सकयल वताली आनी माडाची अशीरसाण आनी ताच्या पोंदच्यान धांवत सुटिल्लें उदक म्हाका गिळूंक आयिल्ले वरी दिसतालें. मागीर हांव दोळे गच्च धांपून 'देवयानी गोऽ ऽ' म्हूण किळांच मारतालें. खिणा मजगतीं देवयानी म्हज्या म्हन्यांत येवन हात दिवन म्हाका पलतडीं व्हरतालें. जितले फावटीं आमी तो व्हाळ हुपला, तितल्याय फावटीं हें अशेंच घडलां. मागीर आमी लागींच माडाक तेंकून बसतालीं. देगे वयल्या बिळांतल्यान कुल्ल्यो ताकतिकेन भायर भितर यो-वच करीत रावताल्यो. धव्यो फुल्ल बळारी उडत येवन भोंवतणच्या शेतांनी देंवताल्यो. खंय तरी पयस कवडो रडटालो आनी व्हाळा उदकांत फातरांच्यो बेबक्यो शेंवटीत देवयानी म्हाका गजाली सांगतालें-शाणेपणाच्यो!

"तूं जाणा... ह्या माडांचे नाल्ल कोण चोरिनात..."

"कित्याक?"

"कोस्तुऱ्यालो आजो गोपाळदाद म्हूण आसलेलो. माथ्याक तुवालो वांदतालो आनी हातांत वडी घेवन गांव भर भोंवतालो. चवथीक सगल्या घरांनी आरती वेळार घुमट वाजयतालो..."

"आतां वाजयना?"

"ना."

"कित्याक?"

"मेलो तो. ह्या व्हाळांत जीव दिल्लो तेणें."

म्हाका घाम फुट्टालो. भियेत, भियेत हांव व्हाळा उदकाचेर नदर मारतालें. माथ्याक

तुवालो बांदिल्लो गोपाळदाद मोट्टया दोळ्यांनी म्हजे कडेन पळयत बडी हालयतालो. आनी व्हाळ हुपून आतां परत पलतडीन कशें वचप, ह्या हुसक्यान हांव काचाबूल जातालें.

"भुरग्यांक कांय करना तो." देवयानी म्हाका धीर दितालें.

"नाल्ल चोरल्यार मात तो पेट घालता."

हातांत धरिल्लो बोंडो हांव सट्ट करून सकयल उडयतालें. वठेंच निमित्त्याक कारण नाका म्हणून...

एक फावट देवयानीन सांगलें-

"तूं जाणा, पयर कुंडयो काडटना म्हाका येद्दो व्हडलो खुबो मेळ्ळो." दोनूय हातांचे पोशे पातळावन ताणें खुब्याचो आकार दाखयलो.

"हऽऽय?'

"इतलो जड... इतलो जड...!"

"कितलो?"

"शेणा- पांट्या परस जॅंड!"

हें शेणा-पाटें कितलें जड हाचो म्हाका अदमास नासतालो. तरिकूय खुबो भयंकरच जड आशिल्लो हाची म्हाका खात्री पट्टाली.

"मागीर?"

"मागीर तो आपसोच उकतो जालो...."

"आनी....?"

"तितुंतल्यान चंद्रेश्वर पर्कट जालो."

"हऽऽय? सगल्यांक दिसलो?"

"सगल्यांक कित्याक दिसतलो? खुबो म्हाकाच मेळ्ळोलो न्हूं?"

"देवाच्यान?"

"हं! तेणें म्हाका सांगलें...."

"कितें सांगलें....?" म्हजी उमळशीक तेंगशेर पावताली. मागीर देवयानी म्हाका दोन दोळ्यांचो, गळ्याचो, पेडा वयल्या देंवचाराचो, म्हारवाचो वी सपूत घालून आपूण सांगता तें कोण्णाक सांगचें ना म्हूण म्हजे कडल्यान उतर घेयी आनी सांगी-

"देवान सांगलां, केन्नाच दुदी खालो ना जाल्यार मनशाक मोनजातीचें उलोवणें समजतलें म्हूण!"

"मोनजातीचें म्हळ्यार.... तळ्यांतल्या वेब्यांचें?"

"हय."

"न्हंयंतल्या नुस्त्याचें? मळवांतल्या सुकण्यांचें? आमच्या मोतीचें?"

"हय."

"फकत दुदी खालो ना जाल्यार...?"

"हय."

सामकी सोपी गजाल आशिल्ली. दुदी म्हणटात ती वस्त तर म्हाका दोळ्यां दिश्टी नाका आशिल्ली. तो खाय नासतना म्हज्यान बरे भशेन जल्म भरय रावं येतालें. आमच्या मोती वांगडा जाय त्यो गजाली करचेलीं सपनां पळयत हांव घरा गेलें.

पूण दुदी खाय नासतना रावप ही कितली कठीण गजाल, हें म्हाका तो खावचें ना म्हूण थारायले उपरान्त समजून आयलें.

आती आत्रे-पयऱ्यान दुदयाचें भर्त, ना जाल्यार शाक, खतखतें बी करताली; आनी केल्लो दर एक जिनस दर एकल्यान खावंकच जाय असो तिचो आग्रो आसतालो. एक दीस हांवें तिका सांगून उडयलें,

"चंद्रेश्वरान म्हाका दुदी खावं नाका म्हळां."

पदर तोंडार धरून आती खुसुखुसू हांसली. आनी तिणें आनीक एक दवलो भरून दुदयाचें भर्त म्हज्या पानार वाडलें. आतीची म्हाका भोव तिडक मारली. एका खिणा मजगतीं तिणें म्हजें सपन मातये भरवण केल्लें.

शेतां पेले वाटेन कोल्यां दोंगुल्ली आसली. तिचे तेंगशेर चंद्रेश्वराचें देऊळ आसलें. मातय थांब नासतना दोंगुल्ली चडून देवळांतली घांट वाजोवचेली आमी सर्त लायतालीं. चुकून लेगीत केन्ना हांव ही सर्त जिकूंक पावलें ना. मागीर देवळाच्या खांब्याक तेकून आमी विसव घेतालीं.

देवयानी व्हिस्तिदाच्या बोल्सांतल्यान आंवाळे काडटालें.

"तूं जाणा...?" तें सांगतालें. "हे आंवाळे खावन ताजेर उदक पियेल्यार गोऽड लागता." फुडले गोडसाणीचे ओडीन हांव ते तोरट आंवाळे चाबडायतालें. मागीर भट ना सो पळोवन चंबूंतलें तीर्थ पियेवन आमी मेकळीं जातालीं. त्या उदकाची रूच तेन्ना सामकी अमृता वरी लागताली.

जाय ते फावटीं देवळांतल्यो आरती जायसर आमी बसतालीं. मागीर घांटींचो लयबद्ध नाद सगल्या वाठारांत घुमूंक लागतालो. देवळा भायल्या हारशांत पळयत सुर्या आपलो पोसो भर लखलख चंद्रेश्वराक ओंपतालो आनी आरतीचे सूर वाऱ्याचें बोट धरून अळंग दोंगुल्ली देवंक लागताले.

आतीच्या मतान म्हज्या आंगांत मातूय तिगूळसाण नाशिल्ली. कसलेंच काम म्हाका जमनासलें; पूण कसलेंय काम ती बिनधास्त देवयानीक सांगताली. बांयचे वयली दोड भरून हाडचेलें लेगीत. मागीर देवयानी घागर-कोळसो घेवन बांयचेर वतालें. कोळसो सुरुसुरू बांयंत सोडटालें. खिणा मजगतीं भरून वयर ओडटालें. भरिल्लो कोळसो घागरींत रितो करतालें. परत कोळसो बांयंत देंवतालो; परतो वयर येवनं घागरींत रितो जातालो. मागीर भरिल्ली दोड घेवन देवयानी बांयचे वयल्यान रांदचे कुडींत वतालें. हांडी वयले घागरींतलें उदक डुच्चूक डुच्चूक जावन वयर उसळटालें. देवयानीचो व्हिस्तीद ओलो चिप्प जातालो. तशा त्या ओल्या-थाप्या कपड्यांनी देवयानी सगलो दीस वावुरतालें. ते कपडे बदलून सुके कपडे घालचेलो फोर्स ताका कोण करी नासलो. म्हाका मात कूस भर लेगीत

ओलसाण आंगार दवरूक दिनासलीं. देखून म्हाका देवयानीची नसाय दिस. ते तशे ओले कपडे आंगार दवरून वावुरपाची धिटाय दाखोवपी देवयानी म्हजे नदरेन भोव व्हड जातालें.

देवयानीच्या असंख्य भांवडांतलें कोण ना कोण तरी बाराय काळ ताचे हांडीर आसतालें. ताच्या नाकांतलें शेंबूड पिळप, हागलें जाल्यार ताका निवळ करप, रडलें जाल्यार थापट मारून धेंगसो घालप असलीं जाणट्यांचीं कामां तें सहज करतालें. हांव बावली घेवन ज्यो ज्यो गजाली करतालें, तितल्योय सगल्यो देवयानीक खऱ्यो खऱ्यो करूक मेळटाल्यो.

एक दीस दोंगुल्ली चडटना तें एके वाली मुखार रावलें. तिका तांबडीं गुंज सुपुल्लीं फळां लागिल्लीं.

"देवतंवशीं!" ताणें म्हाका सांगलें.

देवतंवशीं! ... देवाचीं तंवशीं! नांव लेगीत कशें उजवाती वरी घमघमीत आसलें.

"खातात?" हांवें विचारलें.

"हय."

"गोड आसात?" फळ तोडूंक हात मुखार करीत हांवें विचारलें.

"एऽऽ देवतंवशीं अशीं तोडोंक जायनात. तीं तोडटना सुर्याची नदर तेंचेर पडली जाल्यार तीं कोडू जातात."

देवयानीन एक देवतंवशें दोनय हातांच्या पोशा मदीं बंद केलें आनी अळंग तोडून तोंडांत उडयलें.

"अंऽऽ म्हाका एक तोडून दी गो..."

"श्शे ऽ ऽ आपणेंच तोडून खावंक जाय; ना जाल्यार कोडू जाता."

हांवें पोशांत लिपोवन देवयानी वरीच देवतंवशें तोडलें आनी तोंडांत घालें. कोडसाणीन तोंडाची रूचच गेल्ले वरी जाली.

"श्शी ऽ ऽ कोडू मगो!"

"सुर्याची नदर पडली आसतली तेजेर." ताणें आनीक एक देवतंवशें तोंडांत घालीत सांगलें.

सुर्याची नदर चुकोवन देवतंवशें तोडचेलो हांवें जाय तो यत्न केलो; पूण दर फावटीं म्हजें देवतंवशें कोडूच जातालें. देवयानीचें देवतंवशें गोड कशें आनी म्हजें कोडू कशें, म्हाका कळ नासलें.

साद्यो साद्यो गजाली, पूण त्यो सगल्यो एकठांय करतकीर देवयानी म्हजे परस कितलें हुशार, हाची म्हाका प्रकर्शान जाणविकाय जाताली.



पिसोळ्यां आतीगेर हांव फकत सुटयेंत येतालें. पूण जशें, जशें व्हड जायत गेलें,

तशी ह्या सुटयांतली मजा उणी, उणी जायत गेली. ते आंवाळे, तीं देवतंवशीं खावचीं शीं लेगीत दिसना जालीं. पिसोळ्यां वतकीर हांव वसऱ्यार बसून फकत पुस्तकांच वाचीत रावंक लागलें... व्हडलीं व्हडलीं... तींय बी इंग्लीश! तातुंतले काउंन्टस्, ड्युकस् म्हाका पिशे करूंक लागले. पुस्तकांतल्या भांगरा केसांचे, निळया दोळ्यांचे राजकुवन्रीत हांव म्हाका पळोवंक लागलें. तांच्या पालासींचीं वर्णनां वाचतना म्हाका आतीच्या घराची, शेणाचे जमनीची, भितल्ले भितर लज दिसूंक लागली.

ल्हानपणांतली भावडी नदर कूस परतूंक लागिल्ली. जे कोठये कुडींत खेळ मांडूंक म्हजो चड सो वेळ वतालो, थंय हांव पावल लेगीत दवरना जालें. आतां त्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्यान म्हजें म्हाका हांव वेगळें काडूंक लागलें. चंद्रेश्वराच्या देवळांतल्या घांटीचो नाद कानार पडून लेगीत म्हाका आयकूंक येना जालो. देवयानी परस हांव आतां कितलेंशेंच गिन्यानी जाल्लें. कितलेंशेंच ऊंच पाविल्लें. मागीर ताच्या वांगडा म्हजें मन कशें रमतलें आशिल्लें?

आतां देवयानी म्हजे पोत्रे व्हिस्तीद घाली नासलें, फकत घागरे-पोलके घालतालें. खुब्यांतल्यान चंद्रेश्वर प्रकट जालो, असल्यो सुरस आनी चमत्कारीक गजाली तें करी नासलें. आतां ताच्यो गजाली शेजारच्या लोकां विशीं आसताल्यो. दुसरें कितेंय उलोवपा सारकें ताचे कडेन आसा तरी कितें, अशें चिंतून म्हाका म्हज्या गिन्यानाचो भोव अभिमान दिसतालो. अशें आसूनय जेन्ना, जेन्ना बांयचें उदक काडपी, निवळ कपडे उमळपी देवयानी म्हजे नदरेक पडटालें, तेन्ना, तेन्ना म्हजी ल्हानपणची नसाय ल्हवूच तकली वयर काडटाली. कित्याक कोणाक खबर, तें म्हाका self contained, परिपूर्ण दिसतालें.

वर्सां वचत रावलीं. मदीं केन्ना तरी देवयानीचें लग्न जालें. हाकाय आतां आवय वरी रास भर पोरां जातलीं, इतलें तकलेंत येवन गेलें, तितलेंच. उपरान्त हांव ताका विसरून गेलें. ताचे विशीं चिंतपाक म्हाका वेळय नाशिल्लो. जाय तीं म्हत्त्वाचीं सपनां म्हज्या काळजांत उपाट भरिल्लीं. म्हाका खूब शिकचेलें आसलें... पयस, पयस वचचेलें आसलें.. In the land of Dukes and Counts.. एक, एक सपन पुराय जायत वतालें.. ताचो जागो रोखडेंच दुसरें सपन घेतालें... नवीं, नवीं सपनां! खंय तरी तृप्त जावन थांबप म्हाका जम नाशिल्लें!

म्हाका स्कॉलरशीप मेळ्ळी. हांव लंडनांत आयलें. म्हज्या सपनांतल्या देशांत! कितलो तेंप ते सपनपूर्तीचे नवलायेंत अळंग व्हांवन गेलो म्हाका कळ्ळें ना. केन्ना हांव परतें पिसोळ्या विशीं..... देवयानी विशीं चिंतूंक लागलें म्हाका खबर ना. हीं चिंतनां ल्हवू, ल्हवू सुरू जालीं. अदीं, मदीं जोगलावन वचचें तशीं. पूण आतां तो म्हजो past-time जाला.

आतां रातीच्या काळखांत एकलेंच हांव दोळे बंद करून न्हिदचेलो यत्न करतां तेन्ना दोळ्यां मुखार येतात त्यो व्हाळा देगे वयल्यो धव्यो फुल्ल बळारी आनी पोशांत देवतंवशें घेवन उबें राविल्लें देवयानी. I cannot relate to the blue eyed heroines of the books any more! म्हजीं चिंतनां वारें जावन आतीच्या पोरसांतलें पारजता झाड हालयतात;

आनी पिशा वरी चंद्रेश्वराच्या देवळांतल्यो घांटी वाजयतात.

पार्टेक वायनाचो ग्लास ओंठाक लायतां तेन्ना काळजांत रूच घोळटा ती आंवाळे खावन ताचे वयर पियेल्ल्या उदकाचो. दिसता, हें सगलें सोडून धांव मारची... पूण अशें कित्याक जावचें? म्हजे हावेस, म्हजीं सपनां तर म्हाका हांगा मेरेन घेवन आयिल्लीं; अशें आसतना सगलें मेळोवन लेगीत म्हाका अशें रितें कित्याक दिसचें?



संगिताचे सूर वंद जाल्यात. यादींचो भार पेलपा भायर जड जाला. खंतीचो कांटो आनिकूय किसकिसूंक लागला... इतलें सगलें शेणोवन हांगा मेरेन आयलें हांव! आनी म्हाका कळ्ळें लेगीत ना!

म्हाका परत वचूंक जाय. हो परदेस सोडून... म्हज्या देशांत... म्हज्या पिसोळ्यांत! पूण थंय वतकीर तरी हांव सुखी जातलें, काय परत कसले वेध लागून अस्वस्थ जातलें, खबर ना! पूण म्हाका परत वचचेलें आसा... सूख सोदीत, सोदीत बद्द देवयानी म्हन्यांत... ताका हांव विचारतलें-

"-देवयानी, तूं सुखी आसा?"

हांव जाणां, तें म्हज्या प्रस्नाक जाप दिवचें ना. फकत पळयत रावतलें. ताचे नदरेंत कितें आसा ताचो घडये थाव लागचो ना; पूण तरीकय हांव जाणां, तातूंत आसतलें फकत acceptance. आसा तातूंत सूख सोदून काडचेली तांक आशिल्ले देवयानीक म्हजे वरी सुखा फाटल्यान धांवत रावचेली गरजच खंय आसली?

इतल्या वर्सां उपरान्त आयज म्हाका समजल्लें, देवयानीचीं देवतंवशीं सदांच गोड कशीं जातालीं? जी गोडसाण हांव त्या फळांत सोदतालें, ती मुळांत तातूंत नाशिल्लीच. ती आशिल्ली कोडसाणींतल्यान लेगीत गोडसाण अणभवचेले देवयानीच्या आंगांतले तांकींत!

ताचे वरी जावचेली ओड परत एक फावट म्हज्या काळजांत दाटून आयली. अशिक्षीत, गांवगिरें देवयानी... तरिकूय म्हजे परस कितलेंशेंच उंचाये वयलें! हांव जाणां, तें म्हजे परस वेगळें; ताचे वरी जावप म्हाका शक्य ना; तरिकूय म्हाका परत वचचेलें आसा; देवतंवशांतली गोडसाण सोदीत!



# पुनवे रातीची खूण

—दत्ता श्री. नायक

सोनुबाब रेफॉर्माद जातकच आपल्या गांवांत आयिल्लो. गांवांत सोनुबाबालीं भाटां-बेसां आशिल्लीं. पयलीं बापूय तीं पळयतालो. बापूय मरतकच ताणें तीं आरांदामेंतात दिल्लीं. जुवीज म्हणून तो इतलीं वर्सां गांवा भायरूच उरिल्लो. कांय काम नाशिल्ल्यान सोनुबाब माळयेचे गॅलरींत आशिल्ल्या ओल्तेरार बसून सगळे कडेन पळयता. सोनुबाबालो संवसार म्हणजे तो आनी ताची बायल. सोनुबाबाक भुरगें ना. बायलेन पयलीं पयलीं भुरग्या खातीर खूब उपास-तापास केले. देव-धर्म केलो. दोतोर-वैजा कडल्यान उपाय केले. पूण भुरगें जालेंच ना. मागीर तीं दोगांय आपलें नशिबूच तशें म्हणून ओगी रावलीं.

सोनुबाबान मिरी देसायाले नवे तीन मजली बिल्डिंगे कडेन पळयलें. तिसऱ्या मजल्यार जनेलाचे भायर म्होंवा-मुसांचें माळें लांबतालें. काळें काळें चकचकीत. वाऱ्यार धोलतालें.

सोनुबाब जुवीज म्हणून रेफॉर्माद जालो, तरी ताच्यांतलो जुवीज मरूक नाशिल्लो. चुकपी लोकांक आजूनय शिक्षा दिवची अशें ताका दिस.

सोनुबाबाल्या घरा मुखार भुरग्यांची प्राथमिक शाळा आशिल्ली. थंयचो मास्तर सदांच दोळ्यांर काळ्या हारशाचें वक्ल लावन बस. तो खूब गंभीर तोंड करून बस. कसलो तरी गहन विचार केल्ले भशेन. पूण तो चक्क न्हीद काडी. शिकपी भुरगीं मात बोब मार मार मारून बोवाळ करी. मास्तर खूब लांब आशिल्लो. फळ्या मुखार पांयांच्यो दोकल्यो घेवन उबो रावतकच, शेतांत शेवण्यांक भेश्टांवंक उबे केल्ल्या रुपट्या सारको दिस. सोनुबाब निपुत्रिक आशिल्ल्यान ताका भुरग्यांची खूब माया. हो मास्तर असो बेजबाबदारपणान न्हिदो काडून भुरग्यांची वाट लायता हें पळोवन ताका खूब तिडक येताली. आपूण एक दीस मास्तर जावचें आनी ह्या मास्तराक विद्यार्थी करचो, ताका सबंद दीस बांकार ओणवो उबो रावपाची शिक्षा दिवची अशें सोनुबाबाक दिस. मोट्टयान आड्डून सांगचें शें दिस, "आरे मास्तरा! उठ,! जागो जा! त्या भुरग्यांक शिकय! ना जाल्यार दोन म्हयने सक्तमजुरी दितलों."

सोनुबाबाल्या घरा सरीन पाद्री मोंतेर रावतालो. माकडाक पाद्रीचो झगो घाल्यार तो कसो दिसतलो तसो तो सदांच आपलें वक्ल नाकार हाडटालो आनी वक्ला वयल्यान

सगळ्यांक पळयतालो. पाद्रीच्या तोंडाक पळयना फुडेंच सोनुबाबाक तिडक येताली. ताच्या नाकार एक मूठ मारची शी दिस.

रस्त्या चयल्यान विनो पळ वतालो. ताका पळोवन सोनुबाबाक ताची काकुळट दिसली. विनो पळ थोंटो, दोनूय हातांनी दोन वलीं घेवन पनेळ ताणचो तसो तो कुवड्यो घेवन बेगीन बेगीन वतालो.

सोनुबाबान पळयलें, गोपाळ फोवकार येतालो. सदांचेच सारको, नागोबा सारको आपल्या पांयांच्या चवड्यांरूच चल. जशें काय रस्तो भर शेणा-लेणांचे थापे पडल्यात! तातूंत पडून आपले पांय सूज जात्तले म्हणून खूब कुयदादीन चलिल्ले सारको तो चल. सोनुबाबाक तो चड शाणो दिस. सोनुबाबाक केन्ना तरी ताका रस्त्यार आडावन घरचो अशें दिस.

सोनुबाबाल्या सामको सामकार दत्तुबाब फळारी राव. दत्तुबाब आपल्या पयल्या बोटान सदांच हवेर बरयतालो. कितेंय आयकूंक आयलें म्हणटकूच रोखडेंच तो आपल्या बोटान तें हवेर बरयतालो.

"सुगटां जाय गेव!" एक नुस्तेकान्न तालार आड्डून गेली. दत्तुबाबान बोटान हवेर बरयलें 'सुगटां जाय गेव.'

दत्तुबाबान हिटलर कट मिश्यो दवरिल्ल्यो. त्या मिश्यां खातीर दत्तुबाबाच्या ओंठाचेर पंयगीळ बसला काय असो भास जातालो. सोनुबाबाक दत्तुबाबाचें मात हांसूंक येतालें. दत्तुबाब कोर्दीचो बावलो. कोर्द दितकच चलता तसो हात हालयत चल. ताचे मदले दांत पडिल्ल्यान तो हांसतना बोगद्यांतसून हांशिल्ले सारको दिस.

सोनुबाबाल्या घराच्या दुर्गा भायर सदांच पोपटाचो पांजरो घेवन एक ज्योतिषी बस. ताचे भोंवतणी लोक जम. लोक ताका पयशे दितकच तो पोपटाक भायर काडी. पांजऱ्यां सरीन भविष्य बरयिल्लीं कार्डां मांडिल्लीं घरां आशिल्लीं. पोपट आपले चोंचीन एक कार्ड काडून दितालो. पोपटवालो ताका परतो पांजऱ्यांत घाली. गिरायकाक तो तें भविष्याचें कार्ड वाचूंक दितालो.

सोनुबाब हांसलो. काल सकाळीं फिरून येतना त्या पोपटवाल्यान सोनुबाबाक आदरान नमस्कार केल्लो. सोनुबाबान फकाणां म्हणून ताच्या पोपटाक आपल्या भविष्याचें कार्ड काडूंक लायलें. कार्डार मराठींत भविष्य बरयल्लें.

"लवकरच पुत्रप्राप्ती होईल!"

"हॅं!" करून सोनुबाबान तिडकीन ताचे कडेन एक चार आण्यांचें नाणें उडयिल्लें आनी तो घरा आयिल्लो.

"लवकरच पुत्रप्राप्ती होईल. हूं! फटींग! चोर! फटयता माल क्रियाद सगळ्यांक!" जुवीज म्हणून खूब वर्सां काम केल्ल्यान सोनुबाब आपल्यो भावना तोंडार मात सुद्दां न दाखोवपाक शिकिल्लो. ना जाल्यार त्या पोपटवाल्याक यथेच्छ रोतांनी बडोवन काडचो इतलो राग आयिल्लो सोनुबाबाक.

"तुमकां एक बायल मनीस सोदूंक आयल्या." सावित्रीबायन- सोनुबाबाले बायलेन, गॅलरींत येवन सोनुबाबाक सांगलें.

सोनुबाब भायर आयलो. एक लग्न जाल्ली बायल मनीस आशिल्ली भायर. वय आसत पंचेचाळीसाच्या सुमाराचें. अशिक्षीत, पूण तरतरीत तोंडाची.

"वळखता भाटकारा? हांव विठ्ठल कोंगालाचें मिरा."

"विठ्ठल कोंगालाचें मिरा! हां हां मिरा! मिरा!"

सोनुबाबाक खोल खंय तरी कितें तरी जालें. पूण परतेंय सोनुबाबान जुविजाचें तोंड केलें.

"वळखलो म्हाका, भाटकारा?"

"हय हय, वळखलों. विठ्ठल कोंगाल सांग म्हाका फाटीं, तुका कारापुरा दिलां म्हणून. कित्याक आयिल्लें?" सोनुबाबान भारदस्तपणान विचारलें.

"भाटकारा! आज मात्शे भाटांत येतात? हांव आजूच कुळारा आयलां. येवंक जमत तुमकां भाटकारा?" मिरान आपणाक बारकायेन नियाळपी सोनुबाबाले नदरेक टाळून म्हळें.

"चल तूं. आज सांजचो येतां हांव." कित्या खातीर, अशें विचारी नासतनाच सोनुबाबान जाप दिली.

"उपकार जातीत, भाटकारा," ती बायल गेली.

"आयिल्ली ती कोण?" सावित्रीबायन अजापान विचारलें.

"आमचो भागेली विठ्ठल कोंगालाची धूव ती."

सोनुबाबान सहज आवाजान म्हळें. तो परतोय आपल्या ओल्तेरार वचून बसलो. ताचें मन धवळून काडिल्ले सारकें पेंवंक लागलें.

मिरा! विठ्ठल कोंगालाची धूव! पंचवीस वर्सां तरी जालीं ते खबरेक. सोनुबाब निकतोच आदवोगासी पास जाल्लो. सुटयेंत घरा आयिल्लो. लग्न जावंक नाशिल्लो. बापाय बरोबर पाडूंक भाटांत गेल्लो. विठ्ठल कोंगालालें चेडूं मिरा थंय आशिल्लें. पडिल्ले नाल्ल जमोवन राशीर घालतालें. भागेल्यालें चेडूं. सोनुबाबा परस धा वर्सांनी ल्हान जायत. सोनुबाबान ताका पळयलें. ताणें सोनुबाबाक पळयलो. दोन तरुण मनां सगळीं बंधनां तोडून एक जालीं. तांची नदर परत परत एक जावंक लागली. परत परत चुकून स्पर्श जावंक लागलो. परत परत थारावन गुप्त गांठी-भेटी जावंक लागल्यो. आनी एके पुनवेचे राती कडेन नाल्लांच्या लोजार, माडांच्या वाऱ्यांत, चांदन्याचे थंडायेंत तांच्या दोगांयच्या आयुष्यांतलें पयलें मिलन जालें. सोनुबाब ते उप्रांत दोनूच दिसांनी परतो शारांत गेलो. जुवीज जालो, लग्न जालो आनी ती पुनवेची रात विसरून गेलो.

आज तें मिरा सुमार पंचवीस वर्सां उप्रांत परत मेळ्ळें. म्हज्या घरा येवन. कितें काम आसतलें ताचें? तें जाणटें जालां. हांवूय म्हातारो जालां. कित्याक आपयला आसत ताणें म्हाका? ब्लॅकमेल करूंक? पैशे मागूंक?...

सोनुबाब जेवलो. मात्सो आड पडलो. रोखडोच उठलो. आपल्या भाटांत गेलो. विठ्ठल कोंगालाच्या घरा फुडें येवन ताणें 'विठ्ठल' म्हणून उलो मारलो.

"बा ना, भायर गेला. भाटकारा, भितर येयात." मिरान भायर येवन सोनुबाबाक सांगलें. सोनुबाब भितर गेलो. शेणान सारयिल्ले जमनीर एकूच कदेल आशिल्लें. ताचेर बसलो. मिरान रोखडेंच एक आडसर फोडून ताका पियेवंक दिलें.

"म्हजे कडेंन कितें काम आशिल्लें तुजें मिरा?" सोनुबाबान सरळ मिराक विचारलें. मिरान ताची नदर टाळ्ळी. सकयल मान घाली.

"भाटकारा, पंचवीस वर्सां पयलींचे ते पुनवेची याद जाता? तर ते उप्रांत दोनूच म्हयन्यांनी म्हजें लग्न जालें. हांव लग्नाक माळ घेवन उबें आसतनाच म्हाका कळिल्लें, म्हाका तुमचे पसून दीस गेल्यात. म्हजें लग्न जालें आनी सातूच म्हयन्यांनी म्हाका चलो जालो- तो तुमचो चलो. म्हाका मागीर आनीक भुरगें जावंक ना. हो पळया ताचो फोटो. तो खूब सो भुरगेपणांच्या तुमचे सारको दिसता. तुमचे सारकेच ताचे दोळे. तुमची याद म्हणून ताका हांवें तुमचें 'सोनू' नांव दवरलें. कुळवाड्याच्या घरांत जल्मून ताणें शिक्षणाची आवड दाखयली. तो. बी. ए. जाला. स्वता नोकरी करून शिकला. म्हजो घोव ताका आपलोच चलो मानता. फकत ते पुनवेचे रातीक, देवाक आनी म्हाकाच फकत तो तुमचो आनी म्हजो चलो म्हणून खबर आसा. आज हांव हांगा आयलें, म्हाका तुमी हांगाच रावंक आयल्यात म्हूण कळ्ळें. फकत तुमकां एकदांच सांगचें की तुमचो-म्हजो चलो आसा. ते पुनवेचे यादीची खूण तयार जाल्या. दिसान दीस ती ल्हानाची व्हड जाता."

सोनुबाब उठलो. मिरा सरीन गेलो. मिराच्या दोनूय खांदांचेर ताणें आपले हात दवरलें. मिराच्या धांपिल्ल्या दोळ्यांतसून दोन दुकां गळ्ळीं. तिच्या दोळ्यांत जुविजाचे नदरेन पळयत ताणें विचारलें, "मिरा, तूं खरें सांगता?"

मिरान दोळ्यांन भरिल्ल्या दुकांतसून ताचे नदरेक नदर दिली.

"खरें सांगतां हांव भाटकारा! देवाच्यान तर!"

सोनुबाबान मिराक लागीं ओडलें. पूण ताणें आपणाक सोडयलें.

"ना भाटकारा! ना. हांव आतां दुसऱ्यालें जालें." ताणें सोनुबाबाल्या पांयांर तकली दवरली. सोनुबाबाक आनंदान नाचचें शें दिसलें.

"हांव निपुत्रिक न्हय, मिरा! म्हजो चलो आसा, मिरा! हांव ताका पोसको घेतलों. म्हजो अपुरबायेचो चलो तो! मिरा, तो खंय आसा आतां?"

"भाटकारा, फाल्यां येतलो तो. ताका तुमचे कडेन धाडटां हांव. पूण भाटकारा, एक करात. म्हजो चलो खूब मानी. तो तुमचो-म्हजो चलो म्हणून ताका कळ्ळयार, हांवें म्हज्या घोवाक फटयला म्हणून ताका संताप येतलो. म्हजो दुस्वास करतलो तो. म्हाका सोडटलोच, पूण तुमकांय, एकाद्रो सोडीत. हें गुपीत तुमचे म्हजे भितरूच आसूं दी. ताका धिरान सांबाळून पोसको घेयात. ताकीत करूं नाकात."

सोनुबाब घरा परतलो तो मनांतसून आनंदान नाचत.

शाळे कडसून वतना ताणें मोट्ठयान म्हळें, "ए मास्तरा, उठ. जागो जा. भुरग्यांक शिकय."

आत्मा बोरकाराल्या घरा कडेन थांबलो. आत्मा बोरकाराक लोकांचीं पुस्तकां वाचूंक म्हणून व्हरून फारावपाची वायट खोड आशिल्ली. सोनुबाबाचीं कितलींशींच पुस्तकां ताणें अशींच मागून व्हेल्लीं. आपल्या घरा आपली होम लायब्ररी फुलयल्ली.

"आत्मा, तुवें म्हजीं व्हेल्लीं सगळीं पुस्तकां काडून दवर, फाल्यां हांव व्हरूंक येतां." सोनुबाबान आपल्या जुविजाच्या करड्या आवाजान म्हळें. आत्माक सोनुबाबाच्या विचित्र आवाजाच्या उलोवण्याचो इतलो शॉक जालो की परत घरांत वतना पुडव्यांत पांय घुस्पून तो दोनदां आडखळून शेंवटलो.

"कितें पातीव?" सोनुबाबान नाकार वक्ल देंवोवन वक्ला वयल्यान पळोवपी माकडाच्या तोंडाच्या पाद्री मोंतेरीक म्हळें. पाद्रीन कच्च करून आंग काडलें. ताचें वक्ल गडबडीन सामकें सकयल पडलें.

सोनुबाबान नागोबा सारको चलत येवपी गोपाळ फोवकाराची वाट थोडो वेळ मस्त्या भुरग्या सारकी आडायली, आनी मागीर ताका वचूंक दिलें.

"दत्तुबाब! कशे आसात?" दत्तू फळाऱ्याच्या घरा कडेन पावना फुडें सोनुबाबान विचारलें.

"बरो आसां!" दत्तुबाबान म्हळें. मागीर रोखडेंच ताणें आपलें पयले बोट फिरोवन हवेर बरयलें -"दत्तुबाब - कशे - आसात - बरो - आसां."

सोनुबाब पोपटवाल्याचेर खूब खूश जालो; ताणें ताका अख्खी शंभर रुपयांची नोट दिली. पोपटवालो इतलो अजापभरीत जालो की ताणें रोखडोच पोपटाचो पांजरो आनी कार्डां उखल्लीं. तो तडक घरा चलूंक लागलो. सोनुबाबाचें मन फिरत आनी तो ती नोट परती मागत म्हणून तो धांवतूच गेलो म्हळयार जाता.

"आगे आयक, हांवें एका भुरग्याक पोसको घेवपाचो थारायला." घरा वतकच सावित्रिबायक चक्क वेंग मारून तिका लजयत सोनुबाबान उत्साहान म्हळें.



# व्हंकल

—ओलिव्हीञ्यु गोमिश्

त्रिबुनालाची सुटी सोंपले उपरान्त थंय फाटीं उरलेल्या केशींची गर्दी पडटा. तशेंच ताका धरून आशिल्ल्या ताबेल्यांवा कडेन हीं इश्क्रितुरां आनी तीं दोआसांवां, धनदोवलतीचें वांटप-सांटोवप आनी तें सगलें कायदेशीर कागदपत्रांचेर काडप ह्या कामांत खूब बोवाळ चलिल्लो आसता.

कालूच त्रिबुनालांत काम सुरू जाल्लें. आनी मडगांव सारकेल्या शारांत येवन एक गाडी थांबली. तांतलो कास-फीस न्हेसलेलो एक दाणगोच दादलो भायर सरलो. सडसडीत म्हज्या दारा कडेन आयलो आनी उलोवपाक परवानगी मागली. तो ताकतिकेंत आसा तें पळोवन हांवें ताका भितर येवंक मागलें.

ताणें सांगिल्लें आयकून म्हाका काम सोडून वचचें पडलें. एके बायलेची खबर थोडेभितर सांगली ताणें म्हाका. ती ताची बापोल-भयण खंय. सदांच दार आड करून भितरूच रावपी. आंतां तिका आपलो निमाणो तेश्तामेंत करपाचो आसा. ती तकलेन बरी ना. ती सांगता तें रोकड्या रोकडें करूंक जाय. कळाव उपकारना. केल्यार, ती राक्शिणीचें रूप चडोवन तिडकीन कितेंय करपाक तयार जाता. तिणें म्हाका आतांच्या आतां आपयला.

कायताना बरोबर हांव गाडयेन गेलों. राय गांवांतल्या सामक्या भितल्ल्या वाठारांत तिचें घर उरतालें. आडवी-तिडवी वाट काडून सुमार अर्द वराच्या प्रवासा उपरांत आमी थंय पावले.

कशें म्हणून त्या घराचें वर्ण करूं! घर म्हळयार व्हड पालासूच ती. खंयचे मुस्तींतली म्हण कोण जाणा! आनी तिची जतनाय बी कोणेंच घेवंक ना दिसता. राना-वनाच्या आसऱ्यांत बसयल्लें हें आदल्या काळांतलें यादस्तीक. चुन्याचे कुडके गळून पडिल्ले आनी भितल्लो तांबसो फातर उगतो दिसतालो. उरिल्ले कडेन फकत शेळ्याचे काळखीची भयांकृत सांवळी. तें मोडवळीच्या भेसार पाविल्लें.

मोडकुऱ्यो, विसर पडलेल्यो इश्कादी चडून आमी भितर सरलो. कायतानान उलो केलो. ते बराबर भितल्ल्यानसून एक वावराडी आयली. तिच्या हातांत जळटी वात आम्ली. जनेलां सगलीं धांपिल्लीं आशिल्ल्यान मगल्या येद्या व्हड घरांत गुपाट काळोख पडिल्लो. गरजे पुरतेंच उलोवन कायताना वांगडा आनी तिच्या वातीच्या उजवाडान हांवें

म्हजें बॅग घेवन भितल्ली वाट धरली.

कायतानान भितल्ले एके कुडीच्या दाराचो पड्डो ओडलो. तेन्ना एका ल्हानश्याच वसऱ्याचेर हांवें नदर भोंवडावन घेतली. थंय दिशिल्लो देखाव पळयना फुडें म्हजें तंग जावन आयिल्लें काळीज धस्स जालें. दिसा-उजवाडा, त्या धांपिल्ल्या घरांत पाडसार थावन लांबतले हारशांत आशिल्ले वाती-दिवे पेटिल्ले. कोनशाक एका मेजार खूब श्यो वस्तू मांडिल्ल्यो आसल्यो. चेराच्यो शिसल्यो, केंसाचे गांच, दातोण्यो, तुवाले, लेंस, पळोवपाचे हारशे हांगा-थंय पडिल्ले कडेन आसले. आनी ताचे कडेन थीर नदर लावन कदेलार बशिल्ली, व्हंकलेचें धवशें दबाजीक न्हेसण न्हेशिल्ली एक बाविल्ली बायल आसली. काजाराचेंच न्हेसण धवें फुल्ल जातलें तें, आतां वेळा-काळाच्या बलांडणेंतल्यान रंगल्लें, साटेल्लें, बुरशेल्लें. तिचें पोव मारिल्लें तोंड मिरयांनी करमेल्लें, तिची पिराय चाळीस-एक वरसांची आसतली, म्हज्या हिसपान. भोंवतणी घुंधुट्टयांनी घोंटेर केल्ले आनी पाकटी चडयल्लीं.

हांव कायताना बरोबर ल्हवान भितर सरलों. तरूय म्हज्या सवकास चलपाचो आवाज कानार पडना फुडें, ती सट्ट जाली. तिणें आंग काडलें. येद्या वाटकुळ्या दोळ्यांनी म्हाका तोंड भर रेखून घेतलो आनी दोळे मोट्यान वाठाल्ले. आनी मागीर, कितें काय म्हळ्यार, भार आयिल्ले भशेन तिणें म्हजेर खोशेल्ली नदर लावन मोठ्यान पिश्याचो हांसो सोडलो, म्हणून : "हा, हा,...हा...हा आयलो म्हजो न्हवरो. होच, होच तो म्हजो न्हवरो. हाचे लागीं म्हजें काजार. यो रे म्हज्या धनया, म्हज्या मोगा. रावतां तुका हा... हा...हा..."

ते दुर्वेतीचो तो आतवोच हांसो आयकून म्हाका शेळो घाम सुटलो. म्हजी ल्हंव शिरशिरली. आंगार कांटो उबो जालो. म्हजे सारकेल्या इतल्या वरसांचो अणभव आशिल्ल्या वकील-ताबेल्यांवान असो भावनेक कसोच वाव दिवंक जायनासलो. तरी आसतना हांव मात्सो आडखळ्ळों. म्हजें उतर भायर सरना जालें.

हांवें म्हजें मन थंडावपाचो येत्न केलो. अख्खें लक्ष पुंजावन मायेस्तपणी तिचो हात हांवें म्हज्या हातांत घेतलो आनी म्हळें : "कांयच भियेवं नाका रोजा बाय, हांव तो ताबेल्यांव, दो. आर्मांद गोमिश द कोस्त. तुका कितें जाय तें म्हाका सांग, लोजनाका हां...."

हें म्हणटना, एके वेगळोच खोशेन भरून आयिल्लो तिचेर वदल दिसलो. ती मात्शी चडूच लजली आनी दुसरेंच भशेन जावन, आपलो प्रस्न म्हाका ल्हवान गुठान फुतफुतलो: आपलें भाट-वेंस आपल्या वापोल भावाच्या, म्हळयार कायतानाच्या नांवार काडचें केल्लें. कित्याक हें ती करूंक पावली आनी कशें, ह्या विशयाचेर आनीक प्रस्न नाका. ती खबर कायताना लागीं विचाल्ल्यार जाता. आतांच्या आतां हांवें तिचो निमाणो तेस्तामेंत बरोवन काडूंक जाय म्हणपाची तिणें ओदं सोडली...

बरें जालें. तिच्या म्हऱ्यांतलो पयस मरमर हांव तंग जावन म्हजेर आकांत आयिल्लों. कायतानाक घेवन हांव वसऱ्यांतलो भायर आयलों.

दुसरे एके भितल्ले कुडींत आमी वचून बसले. सगळ्योच कुडी पळोवंक गेल्यार काळखाचे फोंडूच ते. ही मात हेरां परस उजवाडाची. तिचें एक तरी जनेल उगतें आसलें. आमी बसना फुडें वावराडेन आमकां जेवण काडलें.

जेवणा उपरांत कायतानान आपले बापोल-भयणीची, म्हळ्यार रोजाची कथा-व्यथा सांगूंक सुरवात केली.

रोजा इज्मेराल्दा दश दोरीश द सिल्वा घरांतली एकलीच धूव- मोगान आनी अपुर्बायेन वाडयल्ली. दिसपांत सुन्दर, सभावान गुणेस्त, गिन्यानान हुशार, वागणुकेन मोगाळ. सोळा वरसांची आसतना तिणें मॅट्रिकेची परिक्षा पास केल्ली. आनी उपरांत कॉलेजीचें शिक्षण करपा खातीर म्हणून तिका मुंबय धाडिल्ली. गोंयांत तेन्ना कॉलेजी नासताल्यो. तेन्ना ती वयावयली गुबगुबीत चली. खंयच्याय तरनाट्याचें आपले कडेन लक्ष ओडून घेवपी. तरूय खंयच्याच चल्याची व्हडली शी पर्वा करपी न्हय, कोणाकूच लागसार धरपी न्हय.

मुंबयंत बांदऱ्याचे नॅशनल कोलेजींत भितर सरिल्ली. बिराड कोणा एका वळखिच्यागेरूच आसलें. थोड्याच काळान रोजालें नांव गाजतालें. शिकपांत तिचो पयलो नंबर. नाचांत तर तिका लागतली एक चली नासली. आपले सोबितायेन ती सगल्यांकूच दिपकायताली. जायत्या चल्यांनी तिचेर मिटक्यो मारिल्ल्यो. दर पंद्रशेंत एक फावट तरी तिची घरा चीट नेमान येताली.

अशेंच जातलें, सात-आठ म्हयन्या उपरांत एक दीस घरा तिची चीट आयली. तिची खबर आयकून आवय-बापायक बरीच खंत जाल्ली. तरूय दुसरे वटेन, धुवेचे इत्से-आड वचूंक तांकां काळीज जाय नासलें. कितें काय म्हळ्यार, रोजान बरयल्लें: आपल्याक एक सुन्दर बरो भुरगो भेटला आनी तांचो दोगांयचो मोग जाला. तो भुरगो खंय उत्तर भारतांतलो. पंजाबी सो म्हणटाले. फुडल्या स म्हयन्यां भितर येताल्यो चिटी ताचेच लकतुबायेची खबर करून येवच्यो. ह्या नाचांक गेल्लीं, ते वेळेर न्हालीं. ह्या सिनेमाक गेल्लीं, आनी ते बरावर दुडू मागूंक धाडचे.

मागीर एक दु:खान भल्लेली चीट आयली. तो भुरगो कॉलेज आनी मुंबय सोडून आपल्या गांव-घरा गेल्लो. रोजाची खबर पसून केली ना. दोन उतरांनी सांगचें जाल्यार, तो तिका सोडून गेल्लो. ती खंय जीव दिवपाक पर्यान गेल्ली. तिका कोणें आडयिल्ली. बापूय मुंबय गेलो आनी तिका घरा घेवन आयलो. वर्स भर तिणें घरा काडलें. दोळ्यांत भर-सारको तिच्यांत बदल जाल्लो. तो आदलो नीट आनी मर्यादीक जिणेचो तिचो सुवाद भश्टल्लो. जिविताचेर ती विटिल्ली. येन्नाच!

तरुय आसतना, उपरांत ती नवे उमेदीन परत मुंबय गेल्ली. आतां तिका नव्यो इश्ट-इश्टिणी मेळिल्ल्यो. नव्यो इश्टागती, नवे बांदपास जोडपाक ती फुडें सरिल्ली. कांय जाणां कडेन तिणें संबंद जोडले. मोवजेच्या खेळाची तर आतां तिका सामकी सोडुंनज-शी रूच लागलेली. संवय जाल्ली. आनी एक फावट कसलीय संवय लागली म्हणटकच आनी

ती चड करून वायट सवंय जाल्यार, तें व्यसनूच जावन पडटा. पूण त्या व्यसनांतल्यान तिका सुखाचें वारें आफुडलें ना. तें सोदूंक आनी त्या पयल्या वगडायल्ल्या मोगाची तूट पुर्णपणी आनी समाधान भरून काडपाक ती खरशेताली. कांय चले अशे आसतात, जे चलयेच्या भावनांक उजो पेटयतात आनी तांतल्यान आपल्याकूच फायदो उठयतात आनी चलयेची वाट लायतात. असल्याक बळी पडप म्हळ्यार एके चलयेचो घातच. जितली एक चली असल्या फांसाक सांपड नासतना रावता, तितलें तिचें मोल आनी मान-मर्याद वाडटा. पूण ते तरणे फुलते पिरायेर भोव थोड्यांक हे गजालीची खबर आसता. निवळ करमणुके खातीर म्हणून मोवज मारप आनी वायटांत पडपाचें निमित्त तयार करपाची मोवज मारप-हांचे भितर आशिल्लें अंतर दोळ्यांक दिसना.

हांवें ताका ह्या सेरमांवांतलो थांबयलो

“तूं सांगता तें सगलें खरें, सिंयोर कायतान. पूण म्हाका जाय ती फकत गरजेची खबर, तिच्या जिवितांतल्यो मुखेल अश्यो घडण्यो. हेंच म्हाका बेगीन सांग. म्हाका तेस्तामेंत बरोवंक जाय. ना जाल्यार ती म्हजेर फों करतली.”

“म्हजी चूक जाली दोतोर. बरें तर, हांव कितें सांगतालों-हां... व्हय!” म्हणून कायतानान काणयेचें शेणयल्लें सूत परत हातांत घेतलें.

रोजाक आपल्या जिविताचें व्हडें शीड-वेरें नासतना समुद्रार सोडीन दिसतालें. तरूय त्या भितल्या तुफानांतल्यान तळमळटना ती तडो सोदताली. निमाणे कडेन एका चल्याचेर तिचें लक्ष थारलें शें दिसता. तिणें बरयल्लें- हो आपलो खरो न्हवरो. न्हवरो खंय म्हापश्यां बारदेशचो. सुन्दर बरो चलो, वयल्या पांवड्याच्या आस्तीक कुटुंबांतलो खंय.

तो राय आयलो आनी रोजाल्या आवय-बापायक भेटलो. तांकां मानवलो. उलोवप-बोलोवप जालें. आनी एका वर्सान काजार थारायलें, जानेराचे पंद्रावेर त्या 1943 वरसा.

रोजा लग्ना-दिसाच्या एक म्हयनो आदीं घरा आयली. बी. ए. जाल्ली ती तेन्ना. आतां तर सदांकाळीक सुखान घोवा वांगडा जियेतली म्हणपाचें येवजून तिच्या जिवाक सू दिसलें. घरांतली गिरेस्तकाय तर आनीक दोन पिळग्यांक बसून खावंक पुरो, इतली आसली. आनीक कसलो हुस्को आतां. आदलें वगडायल्लें जिवीत आतां विसरपाचें! नवो संवसार उबारपाच्या कामाक आतां तयारी करपाची. न्हवरो मुंबय आसलो. हे वटेन काजाराचीं न्हेसणां-आंगवस्त्रां करपाची वेवस्था नेटान चलताली. आपूण तेरावेर पावतां म्हणपाची न्हवऱ्याची चीट आयिल्ली. सगळींच खुशालकायेच्या नादार त्या दिसांनी.

भाटकाराली एकूच अपुर्बायेची धूव काजार जाता म्हळ्यार भाटांतल्या मुंडकारांची व्हडली परब. एक-एक वजें, एक-एक देणें, एक-एक देणगी येवन भाटकारालें घर भरलें. भाटकारूच भायर पडिल्ल्यान, मुखेल अश्या भाटकाराचें वजें ल्हव जाल्लें.

न्हवरो आयलो राय. सगलें भाट खोशेन भरलें. व्हंकलबायेक मेळ्ळो. सगलें थारलें. तिसऱ्या दिसा पंदरा तारीख. धा वरांचेर रायचे इगर्जेंत लग्नाच्या मिसाचो वेळ थारायलो. आनी न्हवरो गेलो म्हापश्यां वेतां म्हणून सांगून.

रात भर तयारी चल्ल्यो. दुसऱ्या दिसा सकाळ उर्बे भरीत उदेली. म्हजी बापोल भयण आता लजे व्हंकल, सुखान भरिल्ल्या मापान काजराचें न्हेसण न्हेसून तयार जाली. त्या धव्या फुल्ल खाश्या नटयल्ल्या, सजयल्ल्या आंगवस्त्रान कितली सोबीत, सुन्दर दिसताली ती म्हणून सांगूं! रोजाक तो व्हड खुशालकायेचो दीस! भायर सरपाचें जाल्लें...

पावणे धा वरां जाल्लीं जावंये तेन्ना. कुरैकार एक तार घेवन आयलो. बरें-मागपी संदेश जावंक जाय, आमकां दिसलें. पत्तो रोजाचो. हांवेंच उगडलो. तिणें चपको मारून तो म्हजे कडंल्यान घेतलो. तो वाचले बराबर तिचो गळो भरून आयलो. ती सगलीच हड्डें धाडावंक लागली. किळंच्यो मारूंक लागली. तिचो आवरो उडलो. दोळे परतिले. कडकडूं लागली. मिडमिडून सोयराणा भायर पडली. आनी तिका धरूंक वेता म्हणसर, ती जमनीर आपटली.

तार अशी आसली : 'म्हज्यान काजाराक येवंक जायना. म्हजी आस्त सोड.' धाडपी एदुआर्द - न्हवऱ्याचें नांव. तार मुंबयच्यान आयिल्ली. येदो व्हडलो घात म्हजे बापोल भयणीक राखून दवरिल्लो आसलो. आनीक कितें करपाचें आसलें हातूंत!

भानार येतकूच रोजा लजेन आपलें सोबीत तोंड लिपोवन घेतालें. मत थाऱ्यार नासली तिची. तेन्नाच्यान आयच्या दिसा पर्यान ते धांपलेले कुडींत ती आपल्याकच धांपून घेता. तरी न्हवऱ्याचेर आसलेलो तिचो विस्वास आजून उडूंक ना. सगलें काजाराचें आंगवस्त्र न्हेसून ती न्हवऱ्याची वाट पळयताली. आनी आजून पळयता. आतऱ्या-पयऱ्यान न्हाता आनी तींच काजाराचीं आंगवस्त्रां न्हेसून तोंडाक पोव मारून, ती न्हवऱ्याची वाट पळयता त्या मेजार बसून. मत खरेंच उडल्या तिची. मदीं- मदीं उठ्टा, भोंवता. मदें-मदेंच बोबो-किळंच्यो मारता. आनी मोटे- मोट्यान उलयता, बडबडटा. केदी खंत तिका कांतयता आसतली देवूच जाणा! पूण त्या क्रूर, विखाळ न्हवऱ्याचो आनीक पत्तोच लागलो ना. तो खंय आसा, तो पसून आजून कोणाकूच खबर ना. त्या धक्क्यान तिची आवय मरून गेली. तीच आतां उरल्या एकली, नशिबाक रडून.

"जीव घेतलो ना म्हणून आमी देवाक आर्गां दिवंक जाय, जरी तो जीव आसून नाच म्हळ्यार जाता."

ह्या उतरांनी कायतानान ती दुःखान्तिका सोंपोवन हाडली.

ही काळजाचेर कुराड मारपी खबर आयकून हांव खूब दुखावलों. तिचें दुःख म्हजेंच जाल्लें. केल्ल्या करतुपांचो कसलो परिणाम जावं येता आनी कितलें कोडू फळ भोगचें पडटा, ह्या विशयाचेर नियाळीत हांव काम करूंक आयिल्लों तें पसून विसरून गेल्लों!

म्हज्यान आनीक तिचेर नदर घालूं नज जाली. म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवत सुटिल्लीं. कितलें भाग्यवंत चली! सुखा खुशालकायेच्या उदकार वाडयल्लें, आनी आतां अदृष्टाच्या घुसमटमारांच्या घातक्या फांसाक सांपडिल्लें! इतलीं वर्सां जावन गेल्लीं आनी आतां ती जाणटी जाल्ली, आर्दी फुडेंच. केन्नांय आनी वेगींच ती झडपल्ली वात पालवतली आसली आनी त्या घराक काळोख पडटलो आसलो. अशें आसून, ती वात परत पेटोवची,

होच तिचो हुसको आसलो. देखून हो तेस्तामेंत बरोवन काडपाची ताकतीक!

तेस्तामेंत वेगीं वेगीं बरोवन काडलो. ल्हवूच तिची निशाणी घेतली. आनी दुकांचो खतखतो आडावन, दामून-चेपून, दु:खेस्त मनान, संवसाराच्या विचित्र करतुबांचेर निशेद परगटावन, हांव थंयचो रोकडो कडसरलों. पूण तें सदांकाळीक एक वेळचे सुन्दर व्हंकलेचें दुखेस्त चित्र म्हज्या दोळ्यां मुखार आजून येता. काळीज चुरचुऱ्यांनी चिटमिट्टा. म्हाका खावंक येता!



# प्रेमजागर

**—पुंडलीक नायक**

कुळागरांत सकाळ फुल्ली. सवण्यांनी चिवचिवाट करून वातावरणाक जाग हाडली. उंचेल्या माडयां वयल्यान सुर्याचीं किरणां अचळय खाला निस्तलीं, केळीच्या पाचव्या चार्वटांचेर चकचकपाक लागलीं.

कुळागराचे वयले वटेन सांठोवन दवरिल्ल्या उदकाचें उशेणा आसलें. माणकुलें तळेंच कशें दिसतालें. उशेणांतल्यान व्हांवपी उदक पाटांत खळखळ्ळें.

काळे कांतीचो जुवान बाबुराय हातांत कल्लें घेवन पाटांत देंवलो. पिराये परस अदीक उंचाय लाबिल्ली ताची कूड कंवळ्या वतान सायलाच्या लाकडा भशेन तिकतिकली. धोंपराच्या आधारान ताणें कल्ल्यांतल्यान मोखिल्ल्या पाटाच्या उदकान माडयांच्या आनी केळींच्या मुळांचो अचूक वेध घेतलो. माडयांर आनी केळींचेर आदळून उदकाचे थेंबे परत येवन ताच्या उक्त्या आंगार शिंवरले. ताच्या माथ्या वयल्या मुदयाळ्या केंसांत उदकाचे कण शिरकून उरले.

बाबुरायाच्या शिंपण्याक एक लय आनी ताल लाभलो. ताका लागून हवेंत उडपी उदकाचे धारेकूय एक कोंगरी आकार मेळ्ळो.

बाबुरायाची नदर मुखार पडली आनी सदचे भाशेन हवेंतल्या उदकाचो आकार वांकडो-तिकडो जालो. बाबुरायाचो चुकिल्लो तीर आपल्या आंगार घेवपाचो माडयां आनी केळींनी खूब येत्न केलो. पूण फुकट!

धुंवटी चिरीत मोगा मुखा वयल्यान आयलें. केळीच्या पाचव्या चार्वटांतल्यान बाबुरायाची नदर ताचेर पडली. मोगा सदचे भाशेन न्हीद हातरुणाचेर सांडून आयिल्लें. तिचे न्हिदसुरे कुडीचो तिच्या पावलांचेर ताबो नासलो. हातांत धरिल्लें कल्लें केन्ना जमनीर जाल्यार केन्ना कुशीचे माडयेर आदळटालें. आपणाल्या कुळागराचे वांटणेंत पावतकूच तें चलपाचें रावलें. ताणें कल्लें सारकें धरलें. उदक शिंपपाचे तयारेन कंबरांत मातशी बाग घेतली. 'हें बाय आयज आमकां उपास घडयता!' अशे चिंतेस्त भावनेन आशिकुशीच्यो केळी-माडयो शिरशिरल्यो. कारण शिंपपा खातीर मोगान पाटांत उदकूच सोडूंक नासलें.

आपल्या कुळागरांतल्यान बाबुराय आपणाक एक सारको पळयत आसा हें मोगाच्या ध्यानीमनीय नासलें. अकस्मात ताच्या तोंडार थंड उदकाचो शिंवर जालो. पानवेली भाशेन

तें शिरशिरलें आनी भानार आयलें. पाटांतल्या उदका सारको बाबुराय खळखळत हांसलो. आपणाली चूक आनी बाबुरायाचीं मस्तेपणां ताच्या लक्षांत आयलीं. कांयशा निबर आवाजान तें बाबुरायाचेर धेंगसलें. "ए, बाबुराय, तकली जाग्यार आसा मरे? काय आजून झेमेता?"

मनगटानी ताणें दोळे पुसले. मानेर विस्कटून पडिल्ले केंस दोनूय हातांनी एकठांय केले. केंसांक घट गांठ मारली आनी ते फाटीर शेंवटिले. रित्या पाटांतल्यान दुडू दुडू धांवत तें वयर गेलें आनी पाटांतल्या व्हांवत्या उदका वांगडा परत आपणाल्या कुळागरांत आयलें. धोंपरा मेरेन लांबपी उदक आपणाल्या पोटांत मोडून घेतलें. घागरो ताणें कवळ्ळो आनी कंबराक खोयलो. कंवळ्या वतांत तागेली काळशी जुवानी रसरसली.

आपल्या कल्ल्यांतल्यान पाटाचें उदक केळीच्या आळ्यांत तें उडोवपाक सोदी इतल्यांत पोसो भर उदक तागेल्या उक्त्या पोंवटांचेर येवन पडलें. आपणालो तीर लागलो म्हण खोशी जावन बाबुराय परत हांसलो. मोगा तिडकलें.

"बाबुराय, तुजें चड जालें! कुळागर शिंपता, काय होळी खेळटा?"

"होळयेक आजून तेंप आसा. पयलीं जागर." बाबुरायान ताका चाळयत म्हळ्ळें.

"अंदू तुज्या जागराक येवपी न्हू."

"जागर म्हजो एकल्याचो न्हू. सबंद गांवचो."

"खबर आसा. पूण येवचें ना खरें."

"कित्याक?"

"दर वर्सा तींच तींच सवंगां. तितूंत नवें कितें? आनी तुगेलें तें दांडला वयलें सवंग! देड पांयार नाचप. लाऽऽ लाऽऽ ला ऽऽ."

मोगान एक पांय धोंपरांत दोडलो आनी एका पांयार नाचत ताणें बाबुरायाक चाळयलो.

"जागरा खातीर सगळो गांव मांडार एकठांय जातलो तेन्ना तूं घरांत एकलेंच पडून रावतलें?"

बाबुरायान मोगाक विचारलें.

"रावतलें, एकलेंच रावतलें." मोगान निश्चेवान सांगलें.

"तशें रावपाक तुजे कडेन जावचेंच ना. म्हगेल्या दांडला वयल्या सवंगाचीं उतरां तुज्या कानांर सादले बराबर गायेच्या पाडका सारकें चौखुरत तूं धांवत येतलें मांडार."

तागेलें दुबळेपण पारखून बाबुरायान म्हळ्ळें.

"तुगेल्या सवंगाचीं उंतरां म्हज्या काना मेरेन पावचीं ना, अशी तजवीज हांव करतलें."

"कानांक गुड्डे मारून रावतलें काय कितें?"

"उशेणांतल्या उदकांत बेबके सारकें बूड मारून रावतलें."

उशेणा कडेन बोट दाखयत मोगान म्हळ्ळें.

"तूं बूड मारून रावतलें? सुण्या परस अदीक तूं उदकाक भियेता."

बाबुरायान ताच्या वर्मार बोट दवरलें. आपणाली हार जावपा कडेन पावल्या म्हणपाचें मोगान वळखलें आनी तागेलें उतरूच दाडेक धरलें. दांतांच्यो कळ्यो भायर काडून बाबुरायाक चाळयत ताणें म्हळ्ळें.

"सुणो."

"कोण?"

"तूं."

बाबुरायाक राग आयलो. कल्ल्यांतलें उदक ताणें मोगाचेर मोखलें. मोगाय फाटीं रावलें ना. ताणेय आपल्या कल्ल्यांतलें उदक परत ताच्या आंगार शेंवटिलें. दोगांय चिप्प भिजलीं. केळीचेर शिंवरिल्लें उदक चार्वटां वयल्यान निस्तत रावलें. अखेरेक मोगा केळीच्या आडसाक लिपलें. बाबुराय केळीचे दिकेन उदक मोखीत रावलो. केळीच्या गाब्यां वयल्यान उदक घसघसत रावलें. केळीच्या आडसाक उबें रावन मोगान केळीचे बोंडये सारकी जीब लांब करून बाबुरायाक दाखयली. कल्ल्यान मोखिल्ल्या उदकान बाबुरायान केळीच्या मुळांतलें आळें उपाट भरलें. केळ सुखावली.

पौशांतले एके रातीं गांवचो मांड घुमूंक लागलो. धोल, समेळ, घुमट ह्या वाद्यांच्या आवाजांत सगळो वाठार सडसडीत जागो जालो. गांवच्या मांडार वर्साचो जागराचो उत्सव सुरू जालो. थळाव्या जागरयो दैवताक गाराणें घालून जातकूच वाद्यांच्या तालार नमन जालें.

नमस्कार करूं गा
देवा गणपती

मांडाचे भोंवतणे कंवडाळें करून बशिल्ले वाजोवपी आनी गावपी लोक, एका एका देवाचें नांव घेवन तांकां हारोवंक लागले. भुरग्या-बाळांनी आनी जाणट्यांनी आपआपल्यो सुवाती राखून दवरल्यो. दादले मनीस हे वटेन ते वटेन पासयो मारून जागराचो आनंद भोगूंक लागले. मांडा कुशीक एक-दोन चायेचे पसरे पडिल्ले. ते भायर बोमाडेकार, चणेकार, पानकार, पिड्डुककार जागर सोबोवंक आयिल्ले. मांड आनी मांडां भोंवतणच्या वाठाराक उत्सवाचे उमेदीचो ओतो आयिल्लो.

बायलांच्या चोम्यांत मोगा बशिल्लें. ताणें निळोच घागरो आनी पोलको घाल्लो. फाटीर विणी सोडिल्ली. माथ्यांत आबोल्यांचे वळेसर माळिल्ले. गळ्यांत माळी, कानांत भांगराचीं कानांतलीं चकचकतालीं.

नमनाची कार्यावळ जाली आनी आतां सवंगां येवन मांडाचेर नाचपाक लागलीं. सुरवेक आयलो माळी. मागीर तागेलें रेंद भाड्यान घेवपी रेंदेर. दोगांयचेंय दिवपा-घेवपा वयल्यान पेटलें. लोकांचें बरें रंजन जालें. मागीर आयलो तो, गांवचो राखणदार कसो सोबपी निखणदार. दोनूय पांयांक दोन लांबचे लांब दांडे बांदून तो आयिल्लो. दांड्यांचेर नाचपी त्या संवगाची लोकांनी तोंड भरून तोखणाय केली.

मोगाचे कुशीक बशिल्ले एके जाणटेलेन जांवय दीत म्हळें,

"बाय, तें दुसरें दांडला वयलें सवंग येतकूच म्हाका उठय. एका पांयाक दांडो वांदून नाचता तेचें खरें कवतूक!"

जाणटेलेचीं उतरां आयकून मोगाक कातकुतल्यो जाल्यो. तेंवूय त्याच सवंगाची वाट पळयतालें. जाणटेलेच्या उतरार कुशीक बशिल्लें एक आडसाठें चली सुस्कारलें.

"म्हाकाय दांडला वयलें सवंग खूब आवडटा."

मोगान तिरशे नदरेन ताका नियाळून पळयलें. ताका ताचीं उतरां आवडलीं नात.

एक सवंग नाचून दुसरें नवें सवंग येना फुडें फोगोट्यांचो गडगड जातालो. तें सवंग उठोवप्याचे इश्टमित्र आनी घरचे हे माराण पेटयताले. रंगीत घुडयांची तुरमुटी माथ्यार घेवन भरजरी वस्त्रांतलो पार्पते आपणाच भोंवतणी घुंवडाळ्यो काडपाक लागलो तेन्ना जागराची उमेद तेंगशेक तेंकली. पार्पतेचें सवंग मांडा वयल्यान वता थंय आसा, फोगोट्यांचो गडगड जालो. आतां येवपी सवंग खडेगांठ आसा म्हणपाची ती सुलूस आसली. लोक सावचीत जाले. समेळ आनी घुमटां नव्या दमान वाजूंक लागलीं आनी त्या तालार दांडला वयलें सवंग प्रगट जालें. ताळ्यो वाजोवन आनी शिळोण्यो घालून लोकांनी ताका येवकार दिलो.

थोंटो पैया भिंग रे लैया
सरपळी शेणली रे गळ्या

थोंट्याच्या सवंगांतलो बाबुराय देड पांयार मोटे चतुरायेन नाचपाक लागलो. उजव्या पांयाक दोन अडेज फूट दांडो बांदिल्ल्यान ताचो दावो पांय आपसूक मोटवो थरिल्लो.

थोंट्या बावड्या देवान राखलो
बाज्जेचो खूर लकलो

बाबुरायाच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरतालीं खरीं. पूण वाद्यांच्या वोवाळांत तीं स्पश्ट आयकूंक येनासलीं. पूण वर्सांचीं वर्सां सवंगाच्या तोंडांत एकूच गीत आशिल्ल्यान भौतेक सगळ्यांकूच तें तोंडपाठ आसलें.

माडाचो मोडलो रे कर्वो
थोट्या-पांगळ्या देवान राखलो

लोकांनी थोंट्याची काकुळट केली. ते बाबुरायाची तोखणाय करूंक लागले.

थोंटो पांगळो फोव रे कांडटा
काणूं काणूं लोकां दिता
आपुण मिंडो कुंडी-तोणी खाता

बाबुरायाचो नाच पळोवपांत मोगा गुल्ल जालें. पयलीं ताका भिरांत दिसली, देड पांयाचेर नाचता खरो, पूण हो पडना मूं? पूण मागीर बाबुरायाच्या नाचांतली सफळताय पळोवन ताची धास्ती गेली. कुळागरांत आडांगीपणा करपी बाबुराय आनी आतां सगळ्यांची तोखणाय लाभिल्लो बाबुराय होच काय वेगळो कशें ताका खीण भर दिसलें.

येदो वेळ मांडाचे भोंवतणी हे वटेन ते वटेन पासयो मारपी देमू आनी तागेले इश्ट एका जाग्यार थीर जाले. थंय सावन तांगेली नदर ज्यूस्त मोगाचेर पडटाली. किडिल्ल्या दांताचो पस्तिशींतलो देमू, पानांचो रवंथ करीत मोगाक एक सारको तेळूंक लागलो. तागेलो इश्ट सिगरेटचे झुरके मारीत ताका सांगात दिवपाक लागलो.

"मानवलें?"

दुसरी सिगरेट पेटयत इश्टान देमूक विचारलें. देमू खोशयेंत हांसलो.

"आवडलें जाल्यार उखलपाचें." इश्टान म्हळें.

इतलो वगत तांगेले चाळे मोन्यानी पळोवपी एक जाणटेलो तांचेर कांय सो धेंगसलो.

"उखलपाचें कितें खेळणें?"

"खेळणें न्हू म्हणून इतलो वगत थारले. ना जाल्यार येन्नादर उखलपाचे."

देमूच्या इश्टान निलाजरेपणान हांसत, हांसत म्हळें.

"मातशे शितिदान उलयात. म्हजें चेडूं तें." मोगाच्या बापायन दादीन तांकां धमकी दिवपाच्यां सुरान म्हळें.

"तशें जाल्यार बरेंच जालें. पयल्याच जागराक काम जालें. आतां आनीक हांगचे थंयचे जागर पळोवपाक नाका. कितें देमू?" देमून इश्टाच्या म्हणण्याक मानेनूच हयकार दिलो.

"घरा कडेन येयात. उलोवया."

"केन्ना?"

पडट्या फळाची आज्ञा मानून तांणी दादीक विचारलें.

"तुमकां जाय तेन्ना. फुल्लेलें फूल कोणाक तरी भेटोवपाकूच जाय."

दादीच्या उलोवण्याचेर खोशी जावन देमू तोंड पेंचून हांसलो आनी तागेले किडिल्ले दांत स्पश्ट दिसले.

आपणाक पुराय विसरून बाबुरायाचें सवंग पळोवपांत गुल्ल जाल्लें मोगा अकस्मात भानार आयलें. ताणें आशिकुशीक पळयलें. सगळेच बाबुरायाची करामत पळोवपांत रंगून गेल्ले. पयस कडेक दादी कोणा दोगा जाणां कडेन उलयता. इतलेंच ताका दिसलें. मोगाची नदर परत मांडाचेर थिरावली.

घरा सकल भल्ला रे बाजार
थोंट्या - पांगळ्या दिया रे आदार

सगळ्यांचो निरोप घेवन दांडला वयलें सवंग परततालें. ताका अकस्मात याद जाली. ताणें हात लावन कुशीक न्हिदिल्ले जाणटेलेक उठटली; पूण ते मेरेन बाबुरायान फाट केल्ली.

रातभर चलिल्लो जागोर फांतोडेर सोंपलो. दोळ्यांत जागरण आनी मनांत जागराचो आनंद घेवन लोक आपआपल्या कामांक लागले.

बाबुराय आनी मोगा हांची सदचे प्रमाण कुळागरांत भेट जाली. शिंपण्याच्या वावरांत

दोगांयनी आंग चोरलें आनी उशेणाचे धडेर बसून दोगांय गजाली मारपाक लागलीं.

"तुजो जागरांतलो थोंटो म्हाका खूब मानवलो. खरेंच एका पांयार नाचप फकाणांचें काम न्हू."

मोगान ताची तोंड भरून तोखणाय केली. बाबुराय फुल्लो. काल रातीं फाव जाल्ल्यो ताळयो आनी शिळोण्यो हांचे परस मोगान केल्ली तोखणाय ताका चड मोलाची दिसली.

"कसल्याय कामा परस जागरांत थोट्याचें सवंग नाचपाक म्हाका मानवता. हांव नाचतां तेन्ना ह्या संवसारांत नासताच म्हटल्यार जाता. खंयच्या तरी वेगळ्याच संवसारांत पावतां."

बाबुराय रंगांत येवन सांगपाक लागलो.

"अं. आनी तूं आसताय तसोच. जमनीपसून कितलो तरी वयर."

"हो जागर वर्सांतल्यान फकत एकदांच येता. आतां बद्द फुडल्या वर्सा." बाबुरायान एक लांब सुस्कारो दित म्हळें.

"तुजी इत्सा आसल्यार तुज्यान अदीं-मदीं केन्नाय नाचोंक जाता."

"एकलोच नाचूं? आनी पळयतलो कोण?"

"हांव."

"फकत तूं?"

"हय. हांव एकलेंच. फकत म्हजे खातीर तूं नाचता तें पळोवपाक म्हाका आवडटलें. नाचतलो?"

उलयतां उलयतां मोगाचो आवाज म्हों‌वाळ जालो.

"पूण नाचतलों कसो? पांयाक दांडो बांदपाक नाका?"

ताका पिशांत काडीत बाबुरायान विचारलें.

मोगा उशेणाचे धडेर उबें रावलें. आपणालो दावो पांय ताणें धोंपरा कडसून फाटल्यान परतिलो आनी उजव्या पांयार उडयो मारीत म्हळें,

"हें अशें."

उडयो मारतां, मारतां ताचो तोल गेलो. धडे वयल्यान उशेणांत पडपाचें, इतल्यांत बाबुरायान उठून ताका सावरलें. धडे वयले शेंकरे उशेणांतल्या उदकांत शेंवटले.

देड पांयाचेर नाचपाची मोगाची कल्पना बाबुरायाक खूब मानवली. दोगांय एकामेकांचेर जबर खोशी जालीं. उशेणांतल्या उदकांत तांगेल्यो सांवळ्यो थरथरत एकामेकांत भरसल्यो.

"मोगा ऽऽ"

कुळागरांतल्यान दादीचो उलो ताच्या कानार पडलो तशें मोगा भानार आयलें आनी बाबुरायाचो निरोप लेगीत घेनासतना धांवत सुटलें. वाटे वयले चर ताणें बोकडे वरी हुपले.

खरशे खरशेत मोगा आंगणांत पावलें तेन्ना दोग जाण पडवेचीं सोपणां देंवताले. दोनूय तोंडां अनवळखी आसलीं. दोगांयनी आपणाल्या अधाशी नदरांनी मोगाक पळयलें. मोगा खांकुडलें.

"हेंच आमगेलें मोगा."

पडवेर उबो आशिल्ल्या दादीन तांकां सांगलें. दांत भायर काडून ते दोगूय हांसले. मोगाक कालचे रातची याद जाली. दादी कडेन दोग जाण उलयताले ते हेच. मोगा घरांत धांवलें.

एके रातीं दादीच्या आंगणांत सुपारी सोलपाचो वावर सुरू जालो. स जाणां बायलां कामाक लागलीं. दर एकली एके एके आदोळेचेर बसली. एक आदोळी घेवन मोगाय सुपारी सोलपाक बसलें.

मोगाचो दादी आनी बा सुपारी भायर भितर व्हरपाचें काम करपाक लागलीं.

काम ल्हव जावचें म्हण संवये प्रमाण बायलो होंवयो गावपाक लागलीं. एकलेन लग्नांतली होंवयी सुरु केली. तिचे मुखार सुपारेचें पाटें रितें करीत दादीन म्हळें.

"अंदू लग्नांत होंवयो गावपाची संद तुमकां आसा."

"लग्न? कोणाचें?"

सगळ्या बायलांनी वांगडाच विचारलें.

"आनी कोणाचें? आमच्या मोगाचें."

"बा ऽऽ"

मोगान किळांच मारली. सगळीं जाणां आपणाल्या जाग्या वयलीं उठलीं आनी मोगा वाटेन धांवलीं. सुपारी सोलतना मोगाच्या हाताक आदोळेची धार लागिल्ली. उशेणाच्या धांवांतल्यान उदक फसफसून भायर सरचें तशें हाताच्या घायांतल्यान रगत भळभळपाक लागलें.

बान मोगाक वेंगांत काडलें. मोगा काचाबूल जालें. ताच्या दोळ्यां मुखार किडिल्ल्या दांतांचो देमू उबो रावलो आनी विचित्र हांसपी तागेलो इश्ट.

"ना."

मोगान परत किळांच मारली आनी आवयचे वेंगेंत रिगलें. ताच्या वागण्याचें दादीक अजाप दिसलें. 'हाका कसली बादा बी जाली ना न्हू!' दादी ओंठांतल्या ओंठांत बडबडलो.

दिसां फाटल्यान दीस सरले. मोगाची अवतिकाय सैरभैर जाली. देमू वांगडा आपणालें लग्न जातलें हे गजालीची ताणें धास्तीच घेतली. ताचें कामा वयलें लक्ष गेलें.

बाबुराय मेळत म्हण तें शिंपण्याचो थरिल्लो वेळ चुकोवपाक लागलें. खंयच्याय खिणाक उशेणाचे धडेर बशिल्लो बाबुराय नदरेक पडत म्हण ताणें उशेणाची वाटूच बंद केली. पडवेर बसून वळेसर गुंथतना दोरा वयल्यान फुलांच गळून पडपाक लागलीं.

सबंद कुळागरांत हांगां थंय हेडपी मोगा मोडिल्ले केळीच्या चार्वटा भशेन मान उडोवन एकाच जाग्यार वरांची वरां थपकल मारून बसपाक लागलें. चराक दांग मारपाक ताका भिरांत दिसपाक लागली. मोगान आंग सोडलें.

बा चे नदरेंत हो बदल येवपाक वेळ लागलो ना. घोवाच्या कानार ही गजाल घालपाची संद ती सोदपाक लागली.

एके सांजवेळा दादीन पडवेर सोप्यार विडयो वळपाचें सामान मांडलें. तो एक एक विडी वळपाक लागलो. ती संद सादून पत्रावळी लावपाचें निमित्त करून बा सोप्या सकयल येवन बसली. बा न आपूण जावन विशय काडलो.

"आमच्या मोगाक देमूची सोयरीक पसंत ना शी दिसता."

"पूण आजून सोयरीक खंय जाल्या? केळीच्या पानांचे कवळेंत तंबाखू भरीत दादीन विचारलें."

"पूण देमूचें नांव तरी मुखार येयलां काय ना? मागीर जालें."

"तितून किर्ते जालें? भुरगो कुळागरांतल्या सगळ्या कामांत फिशाल आसा. ते भायर शेताचें काम जाणा. मेस्तपणांतूय हात चलता. बरी जोड आसा."

दादीन एक विडी बांदून फोलिणांत उडयली.

"सगळें खरें. पूण मोगाक मानवपाक नाका?"

बा न भियेभियेतूच प्रस्न केलो. ते बरोबर दादी सोप्यार बशिल्ले कडेनूच हाल्लो.

"मोगाक तेणें पसंत केलां. मागीर मोगा नाका कित्याक म्हणटलें?"

"तें मोगाकूच कित्याक विचारी ना?"

त्या उतरार दादी कांय वेळ ओगीच रावलो. विडयो वळपी ताचो हातूय थांबलो.

भितरले कुडींत हातरुणांत तोंड रिगोवन मोगा ओगी पडिल्लें. बा आनी दादी उलयतात तें ताच्या कानार पडटालें.

"मोगा ऽऽ"

दादीच्या उल्यान तें भानार आयलें. दारांत येवन उबें रावलें.

"बाय, तुका देमूची सोयरीक नाका?" दादीन ताका नियाळीत विचारलें. मोगा रडपा दुकांर पावलें.

"सांग बाय, सांग."

"तें कितें सांगतलें? तेच्या तोंडा वयल्यान कळना?"

"म्हाका दिसता, तेचे परस तुकाच देमूची सोयरीक नाका."

दादीन बायलेचेर धेंगसो घालो.

"ना दादी, म्हाकाय नाका." मोगान बेगोबेग सांगलें.

"पूण हांगासर तुजे पसंती ना पसंतीचो प्रस्न खंय येता?"

दादीन मोगाच्या आनी बायलेच्या तोंडा कडेन पळयत विचारलें. दादीच्या प्रस्नाक जाप दिवपाचें धाडस बा क जालें ना. कांय खीण दादी ओगी रावलो. आपले भितरूच चिंतपाक लागलो. मोगाक म्हऱ्यांत आपोवण ताणें म्हळें,

"बाय, लग्न आयज ना फाल्यां तुका जावपाकूच जाय. तुका देमूची सोयरीक नाका जाल्यार दुसरो कोण पसंत बी आसा जाल्यार सांग."

"सांग बाय." बा न ताका धीर दिलो.

"बाबुराय."

मोगान एका धपक्यान सांगलें. दादीचे नदरे मुखार देड पांयार नाचपी बाबुराय उबो रावलो. कांय वेळ कोण एक उलयलो ना.

"एक रात जागरांत नाचलो म्हण पोट भरना." मुखा वयल्या कुळागरांत दाटिल्ल्या काळखांत नदर रोमीत दादी सुस्कारलो.

"तेका किर्ते हात-पांय ना तर?" बान म्हळें.

"ना कित्याक? आसा. पूण ते सारके हालोवपाक नाका? आमी कुळागरी मनशां. आमचीं कामां हाती-पांयांच्या कश्टांचीं. हो बाबुराय कामाक फाटीं. माथ्यार वजें घेतलेलो हेका कोणें पळयलो ना आनी फाटकुळेर साक मारलेलो केन्ना कोणे देखलो ना. कुदळ घेवन केळीच्या मुळांत आळें खणटना हेच्या कमरांत येता."

दादीन बाबुरायाच्या असल्या पराक्रमाची वळेरीच वाचली. मोगाकूय तें सगळें खरें दिसलें. ताका बाबुरायाचो रागूय आयलो. पूण ताचे विशींची ओड मात कणानूय उणी जाली ना.

"शिकतलो तो. ल्हान आसा आजून." बा न आजून धीर सोडूंक नासलो.

"हय दादी, शिकतलो तो." मोगान अकलेक येवन बा च्या म्हणण्याक हयकार दिलो.

"केन्ना शिकतलो? आनी सुपारी पाडटना एके माडये वयल्यान दुसरे माडयेर झोंपय घेवंक जायत तेच्यान? कुळागरी मनशाचें सगळ्यांत व्हडलें कसब तें हें. पांयांत दांडे बांदून नाचपा इतकें सोपें न्हय तें. समजलें?"

"जमतलें, तेंवूय जमतलें."

मोगान आत्मविस्वासान बाबुरायाची बाजू मांडली. दादीक खीण भर दिसलें, ह्यो गजाली बावलो-बावलेल्या लग्नाच्यो न्हू मू? पोराच्या सादेभोळेपणाची ताका तोखणायूय दिसली.

"बाय, तुजें सूख तें आमचें सूख. हांव देमूकें ना म्हण कळयतां."

"म्हज्या दादी रेऽऽ" मोगा धांवत येवन दादीच्या गळ्यांत पडलें. बापूय- धुवेचो एकामेका वयलो मोग पळोवन बा चे दोळे ओले जाले. पत्रावळी खातीर मांडिल्ल्यो खोलयो तिणें कवळ्ळ्यो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं मोगा कल्लें घेवन कुळागरांत धांवलें. जागराच्या दुसऱ्या दिसा तीं दोगांय थंय मेळिल्लीं. तीच तांगेली निमाणी भेट आशिल्ली. पावलांची सुलूस लागना फुडें उशेणाचे धडेर बशिल्लो बाबुराय उठून उबो रावलो.

"मोगा ऽऽ" ताणें उलो मारलो.

"हांगा किर्ते करता?"

"तुजी वाट पळयतां."

"सदांच हांगा येतालो?"

"हय, चुकनासताना."

आनी मागीर कितलोसोच वेळ मान सकयल घालून बाबुराय ओगीच रावलो. मागीर तोच उलोवपाक लागलो.

"मोगा, तुजें कितें घडलां?"

"घडलेलें खरें, पूण आतां ना."

"म्हणजे?"

"आतां म्हाका देमूची सोयरीक ना. तो म्हजो घोव जावचो ना."

"म्हणजे ताणें तुका मागणी घातलेली?"

"हय. पूण काल हांवें दादी आनी बा क सांगून सोडलें."

"कितें तें?"

"म्हाका देमू आवडना; तूं आवडटा."

"हांव?"

"हय."

मोगान एका दमान सगळें सांगून उडयलें. बाबुरायाच्या कानार ही गजाल केन्ना घालीन अशें ताका जाल्लें. बाबुराय आयकतूच उरलो. मोगा गोंदळ्ळें.

"बाबुराय, म्हजें कितें चुकलें रे? दादी आनी बा क सांगचे आदीं पयलीं तुका विचारपाक जाय आसलें न्हू?" मोगा काकुळटेक आयलें.

"ना मोगा, म्हजेंच चुकलें. हांवेंच तुका आदीं सांगपाचें."

ताचो हात हातांत घेत बाबुरायान म्हळ्ळें.

"कितें तें?"

"हांव तुजो मोग करता तें."

"खरेंच? तूं मोग करता म्हजो?"

"हय."

"कितलो?"

"ह्या उशेणांतल्या उदका इतलो." मोगान उशेणाचे धडे वयल्यान पट् करून उडी मारली. उशेणाच्या मुखांत केळींच्या गब्यांचो व्हडलो गुड्डो चोंदिल्लो. मोगान एका झटक्यान तो गुड्डो ओडून काडलो. ते सरशीं तुंबिल्लें उदक उडकी मारून फसफसूंक लागलें.

"मोगा, कितें करता?"

"आमच्या मोगाक वाट मेकळी करून दितां."

उदका भशेन खळखळत मोगा हांसलें आनी व्हांवत्या उदकांत थंयच नाचत रावलें.

कितलोसोच वेळ तीं दोगांय थंय वाकुळटालीं. पान खावन दांत किडिल्ल्या देमूचें मोगान सवंग करून दाखयलें आनी सिगरेट ओडीत विचित्र हांसपी देमूच्या इश्टाच्यो भगल्यो मारल्यो. बाबुराय पोट धरून हांसत रावलो.

आनी हांसतां हांसतां मोगा अवचीत थांबलें. पिंपळाच्या पानाचो सळसळ अकस्मात बंद जावचो तसो.

"कितें जालें मोगा?"

मोगाचें चिंतेस्त मुखामळ पळयत बाबुरायान ताका विचारलें.

"बाबुराय, दादी तुका कितें म्हणटा जाणा?"

"खबर आसा."

मोगा परस बाबुराय चड गंभीर जालो.

"फकत तुजो दादीच न्हूं, गांवांतले सगळे लोक तेंच उलयतात. म्हाका कुळागरांतलें काम जमना म्हण हिणसायतात. म्हजी तोखणाय जागरांतले एके राती पुरती. तुकाय तशेंच दिसता न्हू?"

"ना बाबुराय. म्हजे खातीर आख्खें वर्स म्हणजे ती एक रात. पूण-"

मोगा आडखळ्ळें. पूण बाबुरायाक सगळें खबर आसल्लें. हड्ड्यांत स्वास कोंडून निश्चेवान ताणें म्हळ्ळें,

"हांव, हांव सगळीं कामां करतलों. कुदळ घेवन खण्णी मारतलों. माथ्यार वजें घेतलों. कुळागरी मनशाचीं सगळीं कामां करतलों. अशें तितूंत मोटें कठीण कितें?"

"एके माडये वयल्यान दुसरे माडयेर झेल घेवन सुपारी पाडशी?"

"हय, हय. तेंवूय करतलों."

बाबुरायान गर्जत म्हळ्ळें आनी उशेणाचे धडे वयल्यान ताणे कुशीचे माडयेर माकडा सारकी उडी मारली. धेंपां मारीत झरझर वयर चडत रावलो.

"आतांच नाका रे."

मोगान ताच्या हाता-पांयां पडत म्हळ्ळें. पूण बाबुराय चानये भशेन वयर चडत माडयेच्या चुट्टांक वचून तेंकलो. थंयच घट रावन ताणे माडयेक झेल दिलो. माडी तशीच झेलयत रावलो. गती वाडयली आनी एका लांब झेला सरशीं अचळय दुसरे माडयेर झोपय घेतली. सकयल मोगाच्या दोळ्यांत प्राण एकठांय जाले.

दुसऱ्या दिसा पासून बाबुराय एके माडये वयल्यान दुसरे माडयेर झोपय घेवपाचो सराव करपाक लागलो. जागराचे आदीं तागेल्या दांडल्या वयल्या सवंगाच्यो तो अश्योच येसायो मारतालो.

केन्ना केन्ना माडयेच्या कवळ्यांतल्यान जागराचें गीत कुळागरांत वावुरपी लोकांच्या कानार पडटालें.

थोंटो पैया
भिंग रे लैया

खंयचे माडये वयल्यान आवाज येता तो पळोवपाक मान वयर केल्यार बाबुरायान दुसरे माडयेर झोपय घेतिल्ली आसताली.

आनी एका दिसा बाबुरायाच्या तोंडांतल्या गीताचो ताल आनी ताणें माडयेक दिल्लो

झेल, हांचो मेळ जुळ्ळो ना. बाबुराय कोंसळ्ळो. माडये वयल्यान केळीच्या चार्वटांर आनी चार्वटांतल्यान आळ्यांत. काळीज चिरपी एक किळांच कुळागरांत घुमली. ते किळांचीन केळींच्या कितल्याश्याच शित्यांचीं बोंदरां, बोंदरां जालीं.

दादी सोप्यार बसून विडी फुसकायतालो. खोकली येना आसली; पूण मुद्दामूच खांक काडटालो. बा ताच्या मुखार बसून पत्रावळी खातीर खोलयांचे देंठ मोडटाली. आपलीं उतरां भितर आड पडिल्ल्या मोगाच्या कानांर पडचीं म्हणून दादी मातसो मोट्यानूच उलयतालो.

"तरी बाबूराय बऱ्यान वाटावलो. फकत दावो पांयूच वगडावलो. धोंपरा मेरेन काप्चो पडलो."

"जीव वाटावलो तो खूब जालो. भीक मागुनूय खावं येता."

"ती गजाल भिकाऱ्यांची. कुळागरी मनशाक पांगळो जावन चलना. हात-पांय हेंच तेचें धन. आदीं पासून त्या बाबुरायाचीं लक्षणां म्हाका धडाचीं लाग नासलीं."

तोंडांत तुंबिल्लो विडयेचो धुंवर भायर सोडीत दादीन म्हळ्ळें.

"म्हजी धूव बऱ्यान सुटली."

"अखेर देवाच्या मनांत आसा तेंच घडटलें. हो मनीस आवडटा आनी हो आवडना अशें सांगून उपेग कितें? आमच्या-मनशांच्या हातीन थोडेंच आसा!"



दीस गणयत, गणयत सरले आनी एके पौशांतले राती कडेन गांवचो मांड घुमूंक लागलो. गांवच्या लोकांचीं पावलां मांडा वटयां वळूंक लागलीं.

मोगाचो दादी आनी बा नवे कपडे न्हेसून भायर सरलीं. पडवेर पासयो मारीत मोगा भायर येवपाची वाट पळयत रावलीं. आपूण अंदू जागराक येवचें ना म्हणपाचें मोगान तांकां आदींच शिटकायिल्लें. तरी लेगीत आवय-बापूय ताका फुसलायतालीं.

"बाय, मांडार जागर चलता आसतना घरांत कोण न्हिदून रावना. जागरया देवाक वायट दिसतलें."

दादीच्या म्हणण्याक बा न तेंको दिलो.

"अंदू दांडला वयलें सवंग करपी नवो मनीस. तेका पळोवचें ना?"

बा च्या उतरार दादीन बायलेक नदरेनूच दटायली. 'तो विशय काडूं नाका' अशें ताका सुचोवपाचें आसलें. दादी मुखार कांय उलयलो ना. फकत मोगा भायर सरपाची वाट पळयत रावलो.

अकस्मात मोगा भायर सरलें आनी पडवेचीं सोपणां देंवपाक लागलें.

"ह्याच कपड्यांनी?"

बा न विचारलें; पूण मोगान परती जाप केली ना आनी ताच्या पावलांची गतीय उणी जाली ना. धांवत, धांवत ताच्या फाटल्यान वचून बा न ताच्या माथ्यांत दोन फुलां

खोवपाचो यत्न केलो; पूण फुकट! सकयल पडिल्लीं फुलां उखलीत ती मोगा फाटोफाट धांवपाक लागली. पेटिल्लो लापयांव हातांत घेवन दादी झेलपडत तांच्या फाटल्यान वचपाक लागलो.

मांडा वयलें नमन सोंपिल्लें आनी एक एक सवंग येवन नाचत आशिल्लें. मोगान बा चो सांगात सोडलो आनी एका कोनशाक बायलांच्या चोम्यांत वचून बसलें.

रंगीत घुडयांची तुरमुटी-माथ्यार घेतिल्लो भरजरी भेसांतलो पार्पते मांडार येवन नाचूंक लागलो तसो मोगाच्या काळजांत धडधडो भरलो.

"आतां येतलें दांडला वयलें सवंग."

"अंदू बाबूराय ना."

"पळोवया कोण येता तो."

मोगा कुशीक बशिल्लीं बायलां बडबडटालीं.

मांडा भोंवतणी धुंवपी देमू आनी तागेलो इश्ट बायलांचे गर्दैत नदरो मोखताले. इतले गर्दैत आंग खाकडावन बशिल्लें मोगा तांचे नदरेंतल्यान सुटलें ना.

"आरे दामू, दादीलो माल आजून खपों ना. परत उतर घालुंया?"

देमूच्या इश्टान सिगरेटी धुंवर सोडीत विचारलें. त्या उतरार पानाची पीक भायर मोखीत देमून म्हळें,

"कितें उपेग? देमूचो बापूय घरा आपयतलो आनी मागीर सांगून धाडटलो- शक्य ना. आमी हांगासर धोंपराक बाशींग बांदून रावतले!"

देमून कोपर लावन इश्टाक सावध केलो. कारण दादी तांचेच वटेन येतालो.

"कितें दादी? पार्पते कितें म्हणटा?"

"बरो आसा. बरो नाचता."

दादीन देमूक पळयत. देमूच्या इश्टाक जाप दिली.

"मोगाक अंदूय जागराक हाडलें."

"तुजी इत्सा आसल्यार उलोवणीं करपाक आमी घरा येवं?"

दामून दाखय-लिपय करिनासतना प्रस्ताव मांडलो.

"घरा केन्नाय येयात. पूण उलोवणीं हांगासरुय करुं येतात. जागर कितें नाचपा-गावपा खातीरुच नासता. ह्योवूय गजाली जागरांतूच जावपाच्यो."

दादीन एक पावल मुखारुच घालें. देमूच्या इश्टान दादीक सिगरेट दिली. हातांतलें विडयेचें पोंतेर कुशीक उडोवन दादीन तागेले सिगरेटीचेर आपणाली सिगरेट पेटयली. तांगेल्या उलोवण्यांक नेट आयलोय.

बायलांचे गर्दैतल्यान मोगान भायर नदर मारली. दादी, देमू आनी तागेल्या इश्टा वांगडा उलयता ते ताणें पळयलें. ताच्या मनांत पाल चुकचुकली.

मांडार नाचपी पार्पतेचें सवंग परतलें आनी फोगोट्यांचो गडगड जालो. सगळ्यांत चड फोगोट्यो! लोकांची उमळशीक तेंगशेक पावली. सगळ्यो नदरो मांडार खिळ्ळ्यो.

दांडला वयल्या नव्या सवंगाक येवकार दिवपाक सगळे तयार रावले. मोगान स्वास दामून धरलो.

थोंटो पैया
भिंग रे लैया

ताळयांचो शिंवर जालो. नवो गडो नव्या दमान नाचत मांडार आयलो. मोगाक मना पासून दिसलें, हो दुसरो तिसरो कोणूच न्हय, म्हजो बाबुराय!

"बाबुराया परस बरो नाचता."

मोगा कुशीक बशिल्ले एके बायलेन दुसरे बायलेक म्हळें आनी मोगा भानार आयलें.

नवें सवंग मांडार आयिल्ल्यान लोकांचो बोवाळ वाडिल्लो. कांय जाणांनी आपणाले जागे बदलिल्ले. ते संदेचो फायदो घेवन मोगान थंयच्यान कूस मारली. आडसाक शें गेलें आनी काळखांत रिगलें. आपणाक कोणें पळोवंक ना हाची खात्री पट्टकूच तें काळखांतल्यान जलद गतीन चलूंक लागलें. चलतां, चलतां काळखांतल्यान धांवपाक लागलें. ताचीं पावलां कुळागरांतल्या उशेणा वाटयां पडटालीं.

सांसपीत, धडपडत मोगा उशेणा कडेन पावलें. जागरांतल्या वाद्यांचो आनी गावपाचो आवाज थंय मेरेन आयकूंक येतालो. नखेत्रांच्या चान्यांत उशेणाचे धडेर उबो रावन बाबुराय जागराच्या तालार नाचतालो.

दावो पांय कापिल्ल्यान तो खऱ्यानीशीं थोंटो जाल्लो आनी उजव्या पांयार नाचतालो.

मोगाक पळयना फुडें ताचो तोल गेलो. तो उशेणांतल्या उदकांत पडपाक आनी मोगान ताका घट धरलो. घट वेंगेंत आंवुळ्ळो. मांडा वयल्यान गिताचीं उतरां आयकूंक येतालीं.

घरा सकयल भल्ला रे बाजार
थोंट्या - पांगळ्या दिया रे आदार.



# ब्यूटीफूल लेडी

—एन्. शिवदास

जिणेची सांजवेळ वेंगावन बशिल्ले ते बायलेक हांव बरोच वेळ पळयत उरलों. आजून तिका भितर आपोवंक नाशिल्ली. दाराची करकर जायना फुडें तिची बावकी नदर थरथरत त्या दारा वटेन वळटाली. नर्स एक कोणाचेंय नांव घेताली आनी तो जावं ती भितर वताली. नर्सीन म्हाकाय भितर आपोवचो अशें म्हाका दिसतालें, तर म्हज्या सामकार बशिल्ले ते गोरेपिट्ट म्हातारेकय दिसतालें. तिची अवस्था वयर सकयल जाताली तेन्ना नदरेंत काकुळटेन भरताली.

दार उक्तें जालें, नर्सीन कोणाचें तरी नांव घेतलें आनी ती व्यक्ती भितर गेली.

आतां आनीक पंदरा-वीस मिनटां तें दार उक्तें जावपाची शक्यताय नासली. भितर दोन पेशंट आदींच आसले. म्हजें चित्त सैरभैर जालें, वाचतलो जाल्यार हातांत कांय नासलें. मन सामकेंच एकलें एकसुरें जावन त्या चार वणटीं भितर भोंवतालें. वणटीक तेकून बशिल्ल्या त्या जाणट्या नेणट्यांचेर पेणीं करीत करीत परत तें गोरेपिट्ट म्हातारेचेर येवन बसता.

म्हातारी पूण लांबरुंद सायलाची पाटी कशी. गालाक सुरकुत्यो पडिल्ल्यो, ओंठ निस्तेज आसले, दोळ्यां भोंवतणी खोल नेमां पडिल्लीं आनीं गालांचें चिवण जाल्लें, माथ्यांतले केंस व्यवस्थीत उगयिल्ले. तरी ताळये वयले पातळ केंस गोरो तकलो हय न्हय शें दाखयताले. म्हातारेन तकलेचें खरड लिपोवपाचे हर प्रयत्न केल्ले स्पश्ट कळटालें. कानूय लोंबकळटाले. कानांत वज्राच्यो वेडी, गळ्यांत नेक्लेस आनी आंगार भरजरी मोलाचो व्हिस्तीद आसलो. व्हिस्तीदा भायलें आंग म्हळ्यार सुरकुत्यांनी भरिल्ले हात. एका हाताच्या दंडाक भांगरा पट्याची सानशी घडयाळ. दुसरो दंड भांगराच्या कांकणांनी लक्ष ओडी. पांयांच्यो पोंवट्यो बावक्या घोंटा भशेन लवलवीत दिसताल्यो. पांयांची बोटां शेकेल्लीं कशीं एकामेकांचेर घट जाल्लीं. म्हातारी उणेच पंचाहत्तरा वयर आसूंक जाय, हांवें अदमास केल्लो. म्हातारेच्या त्या देहाची आवतिकाय पळोवन फाल्यां म्हजीय बी अशीच गत जातली असो विचार खीण भर म्हज्या मनांत आयलो आनी आंग शिरशिरलें. कल्पना वास्तवते परस भयंकर आसता. मनांतली ती भिरांकूळ कल्पना चड वेळ तिगली ना. म्हजें मन परत

ते म्हातारेचेर गेलें. मन वतकच, मनांतले रंग उसळून वयर आयले.

म्हातारी ती आतां जाल्या जायत. पूण तिच्या काळार ती सर्वांग सुंदर बायल आशिल्ली जावंक जाय. दोळ्यां सामकार बशिल्लो तो देह खीण भर म्हजे नदरे पार जावन मुर्तिमंत एक सुंदरी म्हजे सामकार बशिल्ल्याचो दिश्टावो म्हाका जालो आनी कितें कोण जाणां, हांव ते म्हातारेक टकटक पळोवंक लागलों; तिचे आंग प्रतिआंग कल्पनेच्या सांच्यांत घालून तयार करूंक लागलों. खीण भर हांव भाना विरयत जालों. घडये त्या वेळार थंय बशिल्ल्यांनी म्हजी ती अवस्था पळयिल्ली काय कितें तें तांकांच खबर. मात ते म्हातारेन तिच्या दाट कांचेच्या भांगरा फास्केच्या वक्लांतल्यान दिस्त पळयिल्ली. तिणें म्हज्या काळजांतले तरंग पारखिले आनी ती गालांतल्या गालांत मंद हांसली. तो हांसो तिच्या वया इतलो म्हातारोच आसलो, देखून तिच्या झडिल्ल्या दांतांक म्हज्यान पळोवंक नज जालें; ती कितें समजल्या जायत काय? श्शी, अशें घडूंक फावं नासलें. हांवें म्हजें लक्ष खंय तरी दुसरे कडेन थीर करपाचें, नाच जाल्यार हांव कदेला वयलो उठपाचों आनी भायर तरी येवपाचों. खरें म्हळ्यार दोतोराक मेळूंक आयिल्ल्यांमदीं जायतो लोक थंय बशिल्लो. त्या लोकांमदीं ते म्हातारे परस तऱ्यो बायलां-चलयो आशिल्ल्यो. पूण म्हजी नदर तांचेर गेली ना, आनी गेल्ली जाल्यार ती थारावली ना. तितल्याय लोकांमदीं ती गोरीपिट्ट म्हातारीच म्हाका थंय उठून दिसली. बावके सोबीतकाये फाटल्यान टवटवीत जीण उबी जाली. आवेमारिया द कोस्ता- नर्सीन दार उक्तें करीत दुसऱ्या पेशंटाचें नांव गर्देक लेखून काडलें, आनी ताटकन म्हजे सामकारचें कदेल रितें जालें. ती म्हातारी उठली आनी सवकास भितर सरपाक लागली. भितर सरतना नर्सीन तिका आदार दिलो. अस्तमतेक वचपी सुर्या ल्हवू ल्हवू दोंगरा आड लिपचो वो दर्यात बुडिल्ले भशेन दिसचो तशी ती दारा आड जाली आनी नर्सीन दार ओडून घेना फुडें ती नदरे भायर जाली.

ती भितर वचना फुडें हांवें हुस्क्या मेकळो सुस्कारो सोडलो. भोंवतणी नदर मारपाचो धीर म्हाका जालो ना. ओगीच चोरिल्ले वरी दिसपाक लागलें, कसलो तरी गुन्यांव केल्ल्याचें दुःख म्हज्या काळजांत रिगपाक लागलें.

बऱ्याच वेळान हांव शितिदार आयलों. आतां म्हाका सामकार बशिल्ले लोक स्पश्ट दिसपाक लागले. तिची खुर्ची रिकामीच आसली. भायल्यान जायते जाण उबे आसले, पूण कोणूच ती खुर्ची घेवपाक आयलो ना. ते खुर्चेर कोणें तरी बसचें अशें म्हाका दिसपाक लागलें आनीं हांवें दारांतल्यान भायर पळयत कोणाक तरीं खुणायलो आनी खुणेनच सांगलें, भितर बसपाक रिती खुर्ची आसा. पूण ताणेंय परत खुणेनच ना म्हळें. म्हजें नांव येवपा येवचें ना अशें चिंतून हांवेंय म्हजी खुर्ची सोडली आनी हांव भायल्यान आयलों. तसो भायर उबे आशिल्ल्यां मदीं म्हजो खास वळखीचो कोण एक नाशिल्लो. मात एक स्कुटरीक तेकून दोतोराक मेळूंक आयिल्लो मेडिकल रेप उबो आसलो. तो म्हाका वळखतालो जावये. म्हाका पळोवन तो हांसलो. ताचो हांसो म्हाका त्या वेळार खूब प्रसन्न दिसलो. म्हज्या मनांतल्या वादळाक थीर करपाक आनी म्हजें चित्त दुसरे कडेन वळोवपाक ताचो हांसो

म्हाका उपकरतलो अशें चिंतून मनांतलो सगळो खवदळ तसोच घेवन हांव ताच्या म्हऱ्यांत गेलों.

"सगले पेशंट जाले बगर आमकां एण्ट्री ना"- ताणें हांसत म्हळें.

"भितर बसतलो जाल्यार कदेल आसा"- हांवें म्हळें.

"खबर आसा, आतांच दारांतल्यान पळयलां हांवें, पूण तें कदेल तिचें."

"तिचें किदेल" ताणें म्हणना फुडे परत ती म्हज्या दोळ्यां मुखार उबी जाली. परत गेल्ले विचार परतले आनी मनाच्या उकत्या मळबांत घेरे घालूंक लागले.

"कोण ती?" नकळटां हांवें ताका प्रस्न केलो.

"जुविजाची बायल, व्हडली भाटकान्न!"

"तिका खूब जाण वळखतात न्हय?"

"एका काळार तिणें गाजयलां!"

"म्हणजे?"

"गाजयलां म्हळ्यार तिणें पुर्तुगेज गव्हर्नराक लेगीत आपल्या बोटांचेर नाचयला."

"इतली तिची तांक!"

"शी वॉज मोस्ट ब्यूटीफूल लेडी"-ताणें अशे तरेन म्हळें की तिचीं सोबितपणां ताणें खासा ताच्या दोळ्यांनी पळयिल्लीं. पूण तो तर म्हजेच पिरायेचो आशिल्लो. हांवें हांसत ताका म्हळें,

"तिची ब्यूटी स्वतः तुवें पळयिल्ले भशेन सांगता मरे तूं?"

"फामाद मरे ती! अख्ख्या मडगांवांत खबर आसा. तूं मडगांवचो न्हय, म्हणून तुका खबर ना."

"जुविजाची बायल, सोबीत-सुंदर, भाटकान्न, इतलेंय आसून तिका दोतोराक भेटपाक अशी कोन्सुलतारींत येवची पडटा! खरें म्हळ्यार दोतोराक तिच्यान तिच्या घरा व्हरूं येतालो न्हय?" म्हज्या मनांतलो प्रस्न मनांतच उरलो. उक्त्या दारांतल्यान ती भायर येताली ती हांवें पळयली आनी म्हाका न कळटां परत म्हजी तीच अवस्था जाली. हांव खप्प जालों आनी म्हज्या काळजाचे धपकप म्हाका स्पश्ट कळपाक लागलें.

दरवटो हुपतना तिचे पांय थरथरताले, हातांतली सत्री आनी पर्स सांवरीत ती हुंबरो देंवताली. कोणें तरी तिका देंवपाक आधार दिवचो अशीच तिची आवतिकाय जाल्ली. कोणें तरी येवचें आनी आपणाक सपणां देंवपाक हात दिवचो म्हण तिणें थरथरत मुखार पळयलें. हांव चलबिचल जालों. फुडें सरून तिचो हात धरचो असो विचार मनांत येता थंय आसा, ती सकयल लकता कशी दिसपाक लागली आनी फाटलो फुडलो विचार करिनासतना एका धपक्याक हांव फुडें सरलों आनी तिचो हात हातांत घेतलो. तिणें म्हाका पळयलो आनी मंद हांसत म्हळें,

"ओब्रिगाद"

"ये, येशी ये - अशें म्हणत तिका हांवें सपाट जमनीर हाडली."

तिची मोटार भायर रस्त्यार थांबल्या जातली, अशें समजून हांवें तिका म्हळें,

"मोटारा बोगलेक पायतां तुका."

"ना बाबा, म्हजी मोटार ना. हांव चोलोतूच वेतां, इगोर्जे लागीं घोर म्हुजें."

ती एकटीच आतां चलतली म्हूण हांवें तिचो हात सोडलो आनी तिका चलपाक वाट करून हांव कडेक सरलों. पावलां दोन पावलां फुडें चलून तिणें वळून म्हाका म्हळें,

"सिंज्योर, तुका मात्सो वोगोत आसल्यार तूं म्हज्या सांगता येवशीत?" तिच्या नमळायेन भरिल्ल्या उतरांनी म्हाका ना म्हणूंक जालें ना. खरें म्हळ्यार म्हजें नांव येवपाचें आसलें. म्हाका दोतोराक मेळपाचो आसलो. हांव नकळटां तिच्या सांगता तिचे चालीर सवकास चलपाक लागलों. बऱ्याच वेळान आमी एका व्हडल्या घराच्या चौकांत भितर सरलीं.

आदले मोदीचें तें व्हडलें घर, तशें येतना वतना हांवें जायतेदां पळयिल्लें. नदरेंत भरपा इतलें तें प्रशस्त घर आसलें. घराचे सामकार एका काळार व्हडली बाग फुलताली ती स्पष्ट दिसताली. फुलझांडा खातीर केली खास मांडावळ आतां पोरन्या किल्ल्याच्या अवशेशां भशेन दिसताली. बागेंतल्या झोपाळ्याच्यो सांखळ्यो कळमून झोपाळ्याच्या खांबाक घुस्पल्ल्यो. कांय वाली मात मात्सो जीव धरून आसल्यो. सगळो भकास वाठार ते म्हातारे भशेन गळपाक लागिल्लो.

सोबीत फुलांची सोबीत बाग ते बायले इतकी सोबीत आसली, हो मनांत विचार येतकच सुंदर बागो लेगीत सुंदर मनशाचेर कश्यो अवलंबून आसतात म्हणपाचें कळ्ळें.

आमी बल्कावांत पावलीं आनी भितल्ल्यान एक इस्तिदांतली काळी-सावळी बायल भायर आयली. घरांतलें किर्याद जावंक जाय. हांवें अदमास केलो.

"वोगोत जालो बाये?" किर्यादान विचारलें. तिणें संवये प्रमाणे म्हाका सदचे तिचे भाशेन म्हळें 'वेंज' आनी तिणें पुर्तुगेझ भाशेत म्हाका वेंज म्हळां ते तिच्या लक्षांत येना फुडें आपली चूक सुदारीत तिणें म्हळें,

"ये, बोस" अशें म्हणून तिवूय एके कदेलीर बसली. ती कदेल म्हळ्यार ओल्तेर खासा तिचेंच बसपाचें जावंक जाय. सालांतल्या हेर आंतीग कदेलांचेर हालिंसरा कोण बसूंक ना म्हणपाचें स्पश्ट कळटालें. वणटींचेर घरांतल्या व्हड व्हड दादल्यांचीं व्हडलीं पांयजेलां हुमकळटालीं. म्हजी नदर एका फोटवा वयल्यान, दुसऱ्या फोटवार घुंवत घुंवत एका फोटवाचेर खिळून उरली.

त्या फोटवांतली ती अप्रतीम रुपाची बायल म्हजी नदर घट धरून रावली.

"म्हगेलो फोटो तो"- म्हजी नदर त्या फोटवा वयली कशीच हालना तें तिणें पळयलें जावंये.

"ब्यूटीफुल! फॅण्टास्टीक!" हावें उत्स्फूर्त म्हळें आनी तिचे नदरेक नदर दिली. ती बरीच सुखावल्ली. तिचें मुखामळ तेय अवस्थेंत एकदम फुलून आयलें. ती इतली खोशी जाल्ली की नवी ताकद तिच्या आंगांत आयिल्ले भशेन ती आपले कदेलींतली भायर सरली

आनी धपक्याक म्हजेसरीं आयली आनी तिणें म्हजो हात धरलो आनी म्हळें,

"यो भितर, म्हज्या रुमांत यो, म्हजो आल्बम पळे."

"म्हाका कितेंशेंच जालें, हांवें म्हळें, नाका, आसूं. म्हाका वचूंक जाय, म्हजें नांव येतलें."

"नाव सिंज्योर, यें पोय, तुका हांव दोतोरागेर थिंगा बसला थंय चोयताली. तूं म्हाका पळोवन कितें चित्तालो तें हांव चिंतूंक नेणां म्हण सोमजिलो? हांव म्हातारी जाल्या. म्हजी ही बॉडी लूज जाल्या. पूण म्हुजें काळीज आजून बाबूंक ना. तें तितलेंच तोरतोरीत आसा. म्हाका म्हुजी जीण याद जाता, मात आयज तुजे नदरेतल्यांन ती परत जागी जाली. तूं कोण तोरी सोबितकायेचो मोगी जावंक जाय. तुवेंन म्हाका पळोवन कितें चिंतलां जातलें तें हांव सोमजोली. देखून तुका हांव तुका म्हुजें जिवीत, जें हांवें आल्बोमांत जतनायेन बाळगिलां, तें तुका दाखयतां. आयज तुका दिवपाक म्हुजे लागीं कांय एक ना. एका वोगतार हांगा कसल्यो सेर्वेजी फुट्टाल्यो म्हूण सांगों!"

"नाका, म्हाका कांय नाका, हांव वतां."

"तूं नेर्वोज जावं नाका, तुज्या मनाचीं चिंतना म्हाका सोमजोलीं म्हणोन." आनी तिणें म्हाका ओडलो. हांव उबो जावन मोन्यानी तिच्या वांगडा भितर तिज्या शयनगृहांत गेलों.

थंय एक शिशाचो सोबीत कोत्रायिल्लो पलंग पयलो नदरेक भरतालो. दाराचे पड्डे झिरझिरीत जाल्ले. वणटी वयलें विलोदाचें लास्ट सपर जेजूचें चित्र आनी वयर फोराक हुमकळपी झुंबर धूळ बसून खूब म्हेळो जाल्लो.

"बोस" तिणें एका बऱ्याश्या कदेला कडेन बोट दाखयलें आनी आल्मारी कडेन गेली. सवकास आल्मार उक्ती केली आनी एका कप्यांतल्यान विलोदाच्या कवरान वेश्टायिल्ले व्हडले दोन आल्बम हांतात घेवन म्हजे मुखार आयली.

"ही म्हुजी जीण अशी बांदून दोवोल्ल्या, पोळे" अशें म्हणत तिणें ते दोन जाडजूड आल्बम म्हजे मांडयेर दवरले. ते मांडये वयले विलोदान आनी परमळान पळोवपाक बरे दिसताले. चिमटे येताले तरी ते आल्बम पळेले बगर म्हज्यान रावं नज जालें. दोतोराक फाल्यां मेळचें अशें पक्कें थारावन हांवें एक आल्बम उक्तो केलो. पयल्याच पानार पुर्तुगेज उतरांनी कितें तरी बरयिलें. आल्बमाचें पयलेंच पान खूब ओडलायणें आसलें. अधाशा वरी हांवें त्या फोटवांचेर झोंपय घाली. एक एक फोटो नदरेंत भरतां, भरतां म्हजें मन इल्लें इल्लें धुंद जावपाक लागलें. खुशालभरीत जावन हांव फोटो पळयतालों तें पळोवन तिका उमेद जाली. ती आयली आनी म्हजे कदेलीक तेकून उबी रावली.

आल्बमांत तिचे सगळे तरेचे वरे बरे फोटो आसले. आंकवारपणाचे फोटो, लग्नाचे फोटो, भोंवडेचे फोटो, घरांत, बागेंत, दर्या देगेर, माडा मुळांत अशे वेगवेगळया जाग्यांनी, वेगवेगळ्या रितींनी काडिल्ले फोटो सारके घडणुकेच्या क्रमान आल्बमांत चिकटायिल्ले.

हांवें एक आल्बम पळयलो आनी तृप्त मनान सकयल दवरलो.

"आतां हो आल्वम पळय" तिणें तो दुसरो आल्बम उक्तो करून म्हज्या हातांत दिलो आनी म्हळें, हो आल्बम आयज मेरेन कोणाक दाखोवंक ना. हो म्हुजो खाजगी, सामको खाजगी आल्बम अशें म्हणून ती कदेली फाटल्यान उबी रावली.

आल्बमांतले तिचे एकोडे फोटो एका परस एक! हो पळोवं काय तो पळोवचो! अशे फोटो हांवें केन्नाच पळोवंक नासले. संवसारांतले खूब सुंदर बायलेक प्रत्यक्ष जिवीच पळयिल्ले वरी हांव ते फोटो पळोवंक लागलों. तिच्या दर एका आंगाचो तो एक खास फोटो आसलो. खंयच्या फोटवांत तिच्यो पांयांच्यो तटतटीत पोंवट्यो फोकस केल्ल्यो, तर खंय तिची फाट फोकस केल्ली. खंय तर पोटरी. आंग प्रति आंगाचे अशे खास फोटो हांवें केन्ना पळोवंक नासले. कितेंय विचारतलो जाल्यार म्हजें भान शेणिल्लें. तकलेंत सगळीत घुंगरी मांडिल्ली, फक्त त्या वेगवेगळ्यां पोजी घेतिल्ल्या तिच्या अख्ख्या देहाचीं चित्रां म्हज्या आंगांत व्हांवतात असो म्हाका भास जावपाक लागलो. आनीक एका फोटवान तर म्हाका पुराय उजो लायलो आनी म्हज्या शिरांतल्यान उज्याचो लोट येवपाक लागलो, काळजांत भर दोनपारचो रखरख लागलो आनी त्या फोटोतली ती उक्ती बायल म्हज्या दोळ्याभर सामकी जिवी जावन हाडामासान उबी जाली. दोळ्यां मुखार जनेलाचो झिरझिरीत जाळयेचो पड्डो कोणा बायलेचो शेव कसो भुरभूर करून म्हज्या मुखामळार मोरपाखांच्यो कातकुतल्यो करपाक लागलो. माथ्या वयल्या झुंबरांचीं भिंगरां वाऱ्या झोतार खण खण करून एकामेकांक आदळूंक लागलीं आनी जलतरंगाचे सूर त्या महालांत घुमूंक लागले, चिततां चिततां फोटवांतली मदमस्त सणसणीत पूर्णनारी म्हजे वेंगेंत अचळय आयली. म्हजेर अवसर आयलो. हांवें तिका घट्ट वेंग मारली आनी आशिल्ले नाशिल्ले शक्तीन अख्खें आंग लोटून दिलें.

बऱ्याच वेळान उजो पालवलो आनी भगभग निस्तारलो. उदकाचो ग्लास घेवन ती म्हज्या मुखार उबी आसली. तिच्या हातांतलो ग्लास पडून कंवच्यो जायत म्हण हांवें बेगिबेगीन ग्लास घेवन ओंठांक लायलो. वादळ शांत जाल्लें. हांवें भोंवतणी पळयलें. सगळें आसलें तश्शें आसलें. ते पिंजिल्ले दारापड्डे तशेच मोने जावन आसले. माथ्या वयलें झुंबरूय खुटे कशे घट जाल्ले आनी ती कदेला फाटल्यान तशीच उबी आसली.

म्हजी म्हाकाच लज दिसपाक लागली. त्या व्हड घरांतलें हांवें कितें चोरलां कशें म्हाका दिसपाक लागलें. बेगिबेगीन हातांतलो तो आल्बम थंयच दवरलो आनी हांव तिच्या त्या शिरंगाराच्या सालांतल्यान वारें जावन भायर सरलों. दारा कडेन पावतकच म्हज्या कानार तिचीं हय न्हय शीं दोन उतरां कानार पडलीं- 'ओब्रीगाद, ओब्रीगाद!'



# आंगोस्तर

**—जयमाला दणायत**

"कितें जालां तुमचें आज? सामके चिंतेस्त शे दिसतात?" मायेन थपथपिल्ल्या सुरांत मोगान विचारलें.

"*सगळ्यो जाणवायो तुमकां रांडलांक जाय कित्याक?*" वासुबाबान आवाजांत विखार ओतीत म्हळें. त्या उतरांनी मोगाचें भावूक काळीज चरचरलें. सळ्ळ करून ताच्या दोळ्यांतल्यान दोन दुकां सकयल देंवलीं. पूण खिणा भितर ताणें आपणाक सावरून घेतलें. वासुबाबाच्या खिन्नुटिल्ल्या तोंडा कडेन नदर वतकीच ताका ताची काकुळट दिसली.

"हांव नसत्यो जाळण्यो करतां अशें समजूं नाकात. तुमची मनःस्थिती आज सारकी ना. कितें करूं म्हणजे तुमी सदां भशेन खोशी जाल्ले दिसतले?...पद म्हणूं? पेटी वाजोवन दाखोवं?... नाचून दाखोवं?" मोगा काकुळटेक येवन विचारतालें. वासुबाबान मानेनच नकार दिलो आनी तो परतून तकलेर हात धरून बसलो. मोगाक ताची ती आवतिकाय पळोवं नज जाली. सदांचो हांसमुख, उमेदी वासुबाब आज खंय नाच्च जाल्लो. ताका कितें करचें तें समजना जालें. तरीकय धीर करून तें म्हऱ्यांत गेलें. "तकली दुखता तुमची? गुळी दिवं कसलीय?" ताणें ल्हवूच विचारलें.

"दुखता. सामकी फुटपा कडेन पावल्या!" कपलार हात मारीत निरशेल्ल्या सुरान वासुबाबान म्हळें.

"अशें म्हणूं नाकात. हांगा न्हिदात पळोवया अशे, हांव रोखडें येतां." ताका बाजेर न्हिदोवन मोगा बेगिबेगीन भितर गेलें. स्टोवार बेगिबेगीन दूद तापोवन ताणें ग्लास भरलो, साणीचेर सूंठ-मात्रा झरोवन घेतली, दोन गुळयो, उदकाचो तांबयो हातांत घेवन तें ताकतिकेन परत आयलें. वासुबाब आढ्याक दोळो लावन पडिल्लो. मोगान बेगिबेगीन ताच्या कपलाक सूंठ लायली. ताका त्यो गुळयो दिवन फोर्सान दूद पियेवंक लायलें आनी पांयांकडेन बसून तें ताचे पांय चेपूंक लागलें. सदांच मोगाचें सोबीत रूप पळोवपी वासुबाबाक ताच्या मायेस्त मनाचो आज पत्तो लागिल्लो. ताच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. मोगाचें ताचे कडेन बारीक लक्ष आशिल्लें. तें उठून ताच्या म्हऱ्यांत आयलें. पदरान ताचे दोळे पुसून ताणें ताच्या केंसांतल्यान मायेन हात भोंवडावंक सुरू केलें.

"मोगा, म्हाका क्षमा कर. हांव येदोळ फट करून तुका नसतेंच उलोवन गेलों." मोगाचो हात हातांत घेवन वासुबाबान म्हळें.

"शी, कोणाची क्षमा मागतात तुमी? म्हाका खरेंच वायट दिसूंक ना. खरें तें उलयल्यार तातूंत वायट कित्याक दिसपाचें?" ताच्या ओंठार हात दवरीत मोगान म्हळें.

"ना गो, खरेंच हांव चुकलों. म्हजी मनःस्थिती ताळ्यार ना! म्हाका कुचकुचता एके कडेन आनी हांवें खरपिलें दुसरे कडेन."

"तें सोडात म्हळ्यार! पूण खरेंच आज तुमी सारके नात. सांगपा सारकें आसल्यार सांगात न्ही म्हाका. म्हज्या हातांत आसल्यार हांवय कितेंय मदत करीन म्हणटां." मोगान मना पसून म्हळें.

"मदत? जंय मदत मेळटली म्हणपाची खात्री आशिल्ली थंय कुल्यार खोंट बसली. आतां आनी तुजे कडेन कसली मदत मागूं?" खिन्नपणान हांसत वासुबाबान म्हळें.

"अशें समजूं नाकात. तुमचें कितेंय बरें जाता जाल्यार हांव जीव लेगीत दीन. लंकेर सेतू बांदूंक एके चानयेन लेगीत आपलो वांटो घेतिल्लो हाची याद दवरची." मोगान हळूच सांगलें.

"मोगा, मोगा खरेंच कितलें बरें उलयता गो तूं! आयकून लेगीत काळीज कशें धादोस जाता. पूण जंय हात उखलून दिवपाचें, थंयच हात कसो पसरूं? ना, तें शक्यच ना." वासुबाबान परत तकलेर हात धरलो.

"अशें कितें करतात? हांगा पळयात, हे शांतादुर्गेक! उजव्या हातान ती आमकां आशिर्वाद दिता आनी दावो हात कितें तरी मागूंक फुडें केल्ले भशेन धरता. आजच न्हय, जेन्ना जेन्ना हांव हो फोटो पळयतां, तेन्ना तेन्ना सदांच हो विचार म्हज्या मनांत येता. जंय देवाक लेगीत मागूंक कांय दिसना, थंय तुमी म्हजी थोडी शी मदत घेतली म्हणून कितें जालें? सांगात, सांगात न्ही म्हाका. सोपूत आसा तुमकां."

मोगाचें हें मना पासूनचें उलोवणें आयकून वासुबाब कांय वेळ ओग्गी रावलो. मागीर ल्हवूच उठून बसलो. दोनय हातांनी तोंड लिपोवन सांगूंक लागलो, "मोगा, आज हांवें सामकें दिवाळें काडलां गो! आनीक दोन दिसांनी रीण फारीक जालें ना जाल्यार सावकार म्हज्या पसऱ्याचेर जप्ती हाडटलो आनी म्हजी दिश्फाम जातली. धंद्यांत कोणच म्हाका परतो पातयेवचो ना. कितें करचें तेंच समजना जालां! म्हज्याच मनशांक सुखी करूंक इतलें सगलें वगडायलें आनी आज तांणीच म्हाका फाट केल्या. थोडें न्हय, हजारांनी रीण आसा आज म्हज्या माथ्यार."

"रावात आं." इतलो वेळ मन लावन ताचें उलोवप आयकुपी मोगा कितें तरी निश्चेव केल्लेवरी फट् करून उठलें. वासुबाब अजापान ताका पळयत रावलो. तें आलमारी म्हन्यांत गेलें. कमराचो चावयां घोस काडून ताणें आलमार उक्ती केली. साडयांची चळत पयस काडून एक डबो उबाल्लो आनी तें परत वासुबाबा म्हन्यांत आयलें.

''हें घेयात," ताणें डबो फुडें केलो.

"कितें तें?" वासुबाबान अजापान विचारलें. मोगान मोन्यानी डबो उक्तो करून ताचे मुखार दवरीत म्हळें : "म्हजे आवयन म्हजे खातीर दवरिल्ल्यो वस्ती; आनी थोडे पयशे आसात. पळयात तुमचें कितेंय भागता जाल्यार." वासुबाबाचें तोंड अजापान उकतेंच उरलें. नदर हातांतल्या डब्यार वतकीच ताका कालची याद जाली. खात्रीच्या सगल्या जाग्यांनी तोंड फाफडून जातकीच खिन्न मनान तो घरा आयिल्लो. येतनाच बायलेन कोणा तरी कामुआवय सवती-भयणीच्या लग्नाक वचपाक नवो शालू जाय म्हणून हट्ट धरलो. केन्नाच तिडकुवपी न्हय तो वासुबाब तिडकलो. पूण तिका वयल्यान ताचोच राग आयलो. रातची ती कुडींत येतकीच ताणें तिका म्हन्यांत बसोवन सगळी गजाल सांगली आनी तिचे कडेन तिच्या वस्तींची मागणी केली. तर ती केद्यान ताच्या आंगार वड्डली "हय, हय; बऽरे आयल्यात वस्ती मागपी. तें म्हजें स्त्रीधन! भांगरान भरपा वांट्याची म्हाका लंकेची पार्वती करूंक सोदतात?"

"आगे, पूण आज मेरेन तुका कितेंच ना म्हणिल्लें आसा? तुवें मागलां तें करून दिलां. आनी आतां ह्या कठीण वेळार तुवें म्हाका मात्शी मदत केल्यार कितें जाता? हे दीस कितें अशेच उरतले? फुडें हाच्याकय दोब्राद वस्ती करून घालीन!" वासुबाबान तिका समजायल्ली.

"कांय सांगूं नाकात म्हाका. म्हजेच खातीर करतात न्हय तुमी सगळें? तुमचे भयणी कडेन मागलें? भावांक सांगलें? म्हाकाच कित्याक घोसतात?" ती फडफडूंक लागली.

"आगे, अशें कितें करता? कोणा कडेनच मागना आसतना हांव कितें पयलीं तुजे कडेन येतालों? खंयच मेळपाची आशा ना म्हणून निमाणें खात्रीचें म्हणून तुका विचारतां. तुज्या भावाक दिल्ले दोन हजार लेगीत मागून पळयलें, पूण सगळेच कानार केंस काडटात. कितें करचें?" ताणें निर्शेवन म्हळें.

"हय हय, म्हज्या भावाक दिल्ले दोन हजार परते परते वयर काडटात. आनी हरशीं वगडायतात ते? रीण जालां खंय! खंय गेले तर इतले जोडले ते पयशे? त्या कलवंताच्या हड्डयार घाल्यात जातले."

"आगे, आगे, कितें उलयता हें? ताका केन्नाय चुकून पांच पन्नास दितां तितलेंच. आनी वतां तरी खंय चड हांव? ओगीच तोंड आसा म्हणून कितेंय उलोवं नाका. फाल्यां परां पयशे फारीक करिना जाल्यार दुकान पावणेर काडटले. म्हजी आशिल्ली नाशिल्ली अब्रू जगार पडटली. तेन्ना म्हाका वांचोवपाचें आतां फकत तुज्याच हातांत आसा." वासुबाब उलयलो.

"अब्रू खंय अंब्रू! अब्रू आसल्यार मूं? बायले कडेन वस्ती मागता तेन्ना वचना दिसता अव्रू! शीः कसलो घोव मेळ्ळो रे म्हाका देवा! बायलेच्या वस्तींचेर दोळो दवरपी! त्या आंगोस्तरा हड्डयार व्हरून घालपाक दिसता जाय ह्यो वस्ती! फटवलें हांव, सामकें नागवलें." ती मोट्या मोट्यान रडूंक लागली.

"आगे, आगे, फार्स कितें करता? ल्हवू उलय. रडूं नाका. तुका खरें तें सांगलां हांवें.

मात्सो ह्या वेळार निभावन व्हर म्हाका. तुमचे खातीरच तर जोडिल्ली जोड मोडल्या आनी मुदल लेगीत खावन बसलां. ओगीच दुसऱ्याचें नांव कित्याक घेता?"

"हय हय, ताचें नांव काडल्यार काळीज जळटा तुमचें. मोठे वायट तुमी दादले. दुसऱ्यांची भर करून संवसाराक जोड मोडली म्हणून सांगतात. जशें कितें घर भरून दार ओतता हांचें. तें कांय ना, हांव दिवपार ना म्हणचे ना. जाय तें करात." ती रागान फणफणली.

"अशें? मागीर हांवूच काडून व्हरतां तर." वासुबाब तेमाक पेटलो. ताणें तिचे कडल्यान चावयो घेतकीच तिणें ताका धुकलून भायर घालो, व्हडल्यान आकांत करून दुसऱ्या दिसा सकाळीं फुडेंच कुळारा धांवली.

लग्नांत सात जल्म सोबतीचो घेतिल्लो सोपूत विसरून घोवाच्या दुख्खा वेळार घोवाक सोडून धांवपी ती धर्मपत्नी खंय आनी कसलोच जिव्हाळ्याचो संबंद नासतना फकत फोल्गा खातीर दवरिल्लें हें आंगोस्तर खंय! वासुबाब मनांतल्या मनांत तुळा करूंक लागलो.

तो ओगी रावन चिंतता तें पळोवन मोगाक वायट दिसलें. "अशे येवजूंक कितें पडल्यात? खरें सांगतां, हांतलो एक कण लेगीत हरामीचो न्हय. तुमी म्हजे जायत सावन चुकून लेगीत कोणा दुसऱ्याक दारांत उबो केलो ना हांवें."

"च्ये च्ये! तशें म्हज्या मनांत लेगीत येवंक ना मोगा. हांव येवजितालों तें वेगळेंच. आगो, खाशा बायलेचो लेगीत जाचेर विस्वास ना ताणें तुजे कडच्यान हें इतलें कशें घेवप? फाल्यां तें परत करूंक पावलों ना जाल्यार?" वासुबाबान म्हळें.

"शीः, हें कितें उलयतात तुमी? परते दिवंचे म्हणून हांव हें दितां? म्हजें आनी तुमचें कितें वांटलां? तनमनधनान हांव तुमचें जालां." मोगान सांगलें.

"मोगा, मोगा, कितलें गो तू सादें? पूण हांव हें घेना. दवर हें. फाल्यां पळयतां दुसरे भशेन कितेंय करूंक येता जाल्यार." वासुबाबान ताका समजायलें.

"च्ये च्ये. हें परत दवरूंक हांवें तें भायर काडलें ना. नाय तरी हाचो कितें उपेग? आंगार घालून मिरोवपाकच मूं? तशें मिरोवपा परस तुमचें नांव व्हड जावन तुमचें आंगोस्तर म्हणून मिरोवंकच धन्यताय दिसतली म्हाका. आनी ह्या भांगराचो तरी हाचे इतलो बरो उपयोग केन्ना जावंचो आसा? आतां हाणें भागना जाल्यार मात पंचाईत..." तें येवजीत सांगूंक लागलें, "हय, हें घर आवयन मरतना म्हज्याच नांवार केलां. तेन्ना कमी पडलें जाल्यार हें घाण दवरून पयशे काडचे."

"मोगा, मोगा, कोणें गो तुका येदें व्हडलें काळीज दिलें? इतलेंय सगळें म्हज्या हड्डयार घालून तूं खंय वतलें?" वासुबाबान ताका वेंगेंत घेवन म्हळें.

"हे पांय सोडून म्हाका आनी जागो तरी खंय आसा?" मोगान नमळिकायेन जाप केली. "आसूं तें. केदी रात जाली. आता न्हिदात पळोवया मात्शे." दिवो पालयत मोगान तो विशय थंयच सोपयलो..

मोगान दिल्ल्या पयशांचेर वासुबाब तगलो. ताणें सगळे गैरकारभार बंद करून

दुकानांत सारकें लक्ष घालें. आनी वरसा भितर तो परतो गडगडूंक लागलो. पयशांनी आनी नांवानूय! गांवांत तर येद्याश्या भुरग्याच्या तोंडांत लेगीत वासुबाबचें नांव घोळटालें- घरदार सोडून दीस-रात मोगागेर पडला म्हणून.

"हय, कोण कितें आंगोस्तरां दवरिनात? पूण अशें कितें माथ्यार घेवन भोंवनात. ह्या वासुबाबान म्हणून सामकीच लज सोडल्या."

"ना तर कितें घरादारांत लक्ष ना ताचें. फकत पयसो हाडून दिलो म्हणटकीच जालें दिसता. बायल-भुरग्यां बरोबर एक दीस लेगीत रावना!" लोकांचीं तोंडां फोंत कशी व्हांवतालीं.

"आरे वासू, तूं म्हणून सामकोच हो मरे! आरे, आमच्यो कितें भानगडी नात? ब ऽ रें मास खालें म्हणून कोण हाड गळ्यांत बांदून भोंवता हय रे? जाय जाल्यार डेली वच, पूण केन्ना? रात जातकीच. लोकांक सुलूस लायनासतना! हें रे बाबा कितें - ताळतंत्र सामकोच सोडिल्ले भशेन!" वासुबाबाले आमीग ताका उपदेस करताले. पूण हांशिल्ले भशेन करून वासुबाब तांकां कुशीन कांडटालो. मोगा आयकना म्हणून. ना जाल्यार बायले कडेन घटस्फोस्ट घेवन मोगा कडेन लग्न करतलो आसलों. पूण...." वासुबाब मनांत म्हणटालो.

पयलीं पयलीं मोगानय ताका आपल्यागेरच रावता, घरा वचना म्हणून समजावपाचो यत्न केलो. पूण वासुबाबान ताचें कितेंच आयकून घेतलें ना. उरफाटें, एक व्हडलो बंगलो बांदून ताणें मोगाकच थंय व्हरून दवरलें. सिनेमा, नाटकाक भायर खंयय वतना ताका बरोबर मोगाच लागतालें, आनी फुडें तर ताच्या भुरग्यांची शाळेंत नांवां घालतना ताणें आपलेंच नांव तांच्या नांवा फाटल्यान घाल्लें पळोवन लोकांनी खूब बकच्छायो केल्यो - आतां मोगाक कुशीक बसोवन येजमानपण करपाचें फकत उरलां अशें उलोवंक लागले. आनी तें आयकून वासुबाबानय बंगल्यार मोगाक म्हन्यांत बसोवन व्हडलो सत्यनारायण करून लोकांक तांचें म्हणणें खरें करून दाखयलें. ताच्या करण्यांनी मोगा घुस्मट्टालें. भुरग्यांक आपलें नांव दिल्लें पळोवन तर ताचें हड्डें भरून आयलें.

"हें कितें, ह्याच लोकांत रावंक जाय आमकां, अशें लोकरिती भायर वागून कशें चलत?" मोगान ताका विचारलें.

"हय. ह्या नसत्या भंयाक हांवय बळी पडिल्लों पयलीं. प्रसंगान देवान म्हाका मनशाचें म्हत्त्व दाखोवन दिलें. आपलें मनीस खंयचें तें म्हाका सामकें बरें कळ्ळां. मोगा, तूं कितेंच येवजी नाका. म्हज्या ह्या भुरग्यांक लोकांनी आंगोस्तराचीं भुरगीं म्हणून चाळोवप म्हाका पटचें ना. तांणी कितें गुन्यांव केला? हांव तांचो बापूयच मगो? मागीर म्हजें नांव घाल्यार तातूंत चूक कितें?"

"हय, पूण आंगोस्तराक केन्ना पुडव्याची सर येत? बकें बरें धवें जालें म्हणून कोण ताका हांयस म्हणिना." मोगान म्हळें.

"पुरो, पुरो तुजो उपदेस. म्हाका पुडवें नाकाच जाल्यार! कांय जाणांक आंगोस्तराचोच घोस्त- ताका कोण कितें करतलो?" वासुबाबान हांसत म्हळें.

"पुरो बाये, चडच म्हणून तुमी फटकळ उलयतात." मोगान लजेत लजेत जाप केली. ताच्या मुखकमळा वयलो तो इंद्रधनुष्याचो खेळ पळयत वासुबाब रंगून गेलो - घरादाराक-समाजाक-जगाक साप्प विसरलो.



# कुकमा आदार

—हेमा नायक

मुखावयली पिठाची गिरण बंद जाली तशें तिणें विकपा खातीर जमनीर साकार पातळायिल्लें सामान-फणयो, पोवा-लातां, माळो सगळें पोतयेंत भरलें, न्हेसण सारकें केलें आनी पेल्यान सुण्याच्या पेट्या कडेन खेळटल्या बाबल्याक, उलो मारून म्हळें,

"बाबल्या, चल या आमी घरा. तिनसांज जाली."

"राव गे. आनीक दोग जाण तरी मेळटले."

"ना रे. आतां रातीच्या ह्या वेळार कोणाक जाय बूट पालीश करून?"

पूण तो जाग्या वयलो हाल्लो ना. आनी खऱ्यानीच कांय वेळान ताच्या म्हऱ्यांत एक सूटबुटांतलो मनीस येवन उबो रावलो. बाबल्यान ताचे बूट पालीश केले आनी ताणें दिल्ले पयशे बोल्सांत उडयले. आपलें खरें जालें म्हूण ताका खोशी जाली.

"पळयलें मुगो बाय? आतां या आमी घरा" अशें म्हणून ताणें आपणालें सामान पेटयेंत घालें आनी पेट घेवन उबो रावलो. तिवूय आपणाली पोती घेवन वचपाक लागली. वाटेर बाबलो आपणाल्यो जायत्यो गजाली सांगूंक लागलो. पूण ताची एकूय गजाल तिचे मतींत गेली ना. आज दीस भर जाल्ल्या दुडवांचो हिशोब तिचे तकलेंत घोळटालो. तीं सदांच्या जाग्यार पावलीं. आंब्याच्या रुखा पोंदा फातरार बसून दिसाचो हिशोब करपाचें तांचें सदांचेंच काम आसलें.

तीं दोगांय बसलीं. कपयो मारून तिगून धरिल्ल्या आपल्या कलसांवाच्या बोल्सांतली धा-धा, पांच-पांच पैशांची चिल्लर बाबल्यान सकयल ओतली. खळ्ळ करून आवाज जालो. आपले किरवंटीक लायिल्लो पोतयेंतलो खुरदो तिणें तातूंत घालो.

"सदचे परस आज चड जाले न्हू गो बाय?" अशें म्हणून पयशे मेजपाक लागलो. बाबलो हिशेबाक हुशार. निकतेंच धावें वर्स काबार जावन इकरावें लागलां ताका. आनी चवथी पास जावन पांचवेक गेला. संवसाराचे कटकटी खातीर पयलो नंबर चुकलो ताचो. गणितांत मात शंबरांतले शंबर मार्क मेळयले बगर रावलो ना. पैशे मेजपाचे ताचे हुशारेची तिका सदांच तोखणाय दिस.

"बाय, कितें येवजिता? आज पांच रुपये जाले पळय. काल चार जाल्ले. फाल्यां धा करप. मागीर वीस, मागीर शंबर. न्हू बाय?"

ताचीं हीं उतरां आयकून ताच्या भुरगेपणाची तिका काकुळट दिसली. सगळे पयशे बोटव्यांत घालून तिणें तो बोटवो कमराक खोयलो आनी "या" म्हणून तीं चलूंक लागलीं. तिणें बाबल्याक हिशेब विचारलो,

"एक पड तांदूळ, क्वार्त च्या, क्वार्त भर साखर, आनी एक बाटली पेत्रोल,.सगळे मेळून कितले जाले?"

बाबल्यान भितल्ले भितर कोंत केलें आनी एकदम सांगलें,

"चार रुपये बारा आणे."

"तशें जाल्यार पेत्रोल अर्दीच बाटली पुरो. एक रुपयो बाप्पा खातीर दवरूंक जाय. आतां कितले जाले?"

"चार रुपये चार आणे" "तरीय थोडे उणें करुंया."

"आसूं बाय, बाप्पाक चार आणे उणे पडले म्हणून कितें घात जावचो ना."

उधारी आशिल्ल्या पसरकाराक चुकोवन तीं दुसऱ्या पसऱ्यार गेलीं. कित्याचो तरी प्रेस देंवलो जावंये. सगळे मेळून पसरकारान चारच रुपये सांगले. तिका सूऽऽ जालें. पसरकाराचे मनांतल्या मनांत उपकार मानून तीं दोगांय फुडें गेलीं. मातयेंत खेळपी तिगेली दोगांय पोरां धांवत आयलीं. तांणी तिका वेंग मारली. इतल्यांत तिका उगडास जालो. बाबल्याक इश्कोलांत वचपाक जोतें ना. आशिल्ल्यो व्हाणो सामक्यो तुटल्यात. ती चुरचुरली. तिणें बाबल्याच्या केंसांतल्यान हात भोंवडायलो. केंसय माल्ल्यार तीन म्हयने जाल्ले. जेवणा-खाणाची गरज भागयतां भागयतां दुसऱ्या गजालींचेर लक्षच वचना. तिणें ताका म्हळें,

"बाब, तुका जोतें ना मरे?"

"आसूं दी बाय. फाल्यां धा रुपया जातले तेन्ना घेवंया. फाल्यां हांव त्या सद्च्या जाग्यार बसचों ना. थंय गाडयेच्या इस्टेशना कडेन वतलों. थंय खूब गिरायकां मेळटात."

आनी तो तरतरीत भितर गेलो. तिका ताचे समजिकायेची तोखणाय दिसली. "पूण पाडपडिल्ल्या ह्या घोवान उजो लावन उडयला. त्या बेबद्याक सोऱ्या मुखार बायल-भुरगीं नाकात." घोवाचे तिडकीन ती भितर गेली.

रान्नींत उजो करून तिणें बुडकुल्यांत पेजेक शिजत उडयलें. आजून घोवाचो पत्तो नासलो.

"येतलो सुशेगाद सगळीं भुरगीं-बाळां न्हिदतकर, म्हाका धोडावंक." तिचें आंगपांग शिरशिरलें. काल मारिल्ल्या माराचे वळ आजून तिचे फाटीर आसात. तिच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. कापडाच्या पालवान तिणें म्हाणायो पुसल्यो आनी बसपा खातीर भुरग्यांक दवरल्यो.

पेजेक खतखतो येतकीर दोवलो घालून गोटो चिड्डून पळयलो. "शिजला तितलो पुरो" म्हणून रान्नी वयलो बुडकुलो काडून वेळणेंचर दवरलो. लाकडां आनी कोळशे भायर काडून तांचेर उदक शिंपडावन उजो पालयलो. सगळ्यांत पयलीं पोंदचीं कुयां गाळून तिणें घोवा खातीर वेगळीं कुशीन काडून दवरलीं आनी उरिल्लो निवोळ तिगांय भुरग्यांचे

वाटलेंत घालो. जिभे वयल्यान ओडपा खातीर एका तोराचे कुडके करून तांच्या हातार दवरलें.

"म्हजे उपास सदचेच जाल्यात. आतां संवय जाल्या म्हाका भूक सोंसपाची" ती उस्वासली.

शेंदरे बोंदर आनी गोजडेचो कुडको उडोवन तिणें तिगांय भुरग्यांक न्हिदायलीं. जमनीक आंग तेंकयले बराबर तीं थार पडलीं.

सगळे कडेन थंडसाण पातळ्ळी. भोंवतणचो काळोख तिका भेश्टावंक लागलो. घोव आयलो ना म्हूण तिका हुस्को जालो. जनेल उकतें करून ती थंय उबी रावली. आज पुनव. मळबांत चान्नें हांसतालें. उजवाडाची धवी फुल्ल चादर धर्तरेर घाल्ल्यान काळखे रातीक बरीच सोबा आयिल्ली. पूण सैमाक तोखेवपाचे आवतिकायेंत ती नासली. सदांच तिच्या संवसाराची पिरंगणी!

"पुनव जावं, उमास जावं, म्हज्या घरांतलो काळोख तसोच उरतलो. सूर्य उदेवन अस्तमतलो, तरी आमच्या घरार उजवाडाचीं किर्णां केन्नाच पडचीं नात." धा-पंदरा मिनटां ती तशीच उबी रावली. इतल्यांत "बाय, बाप्पा आयलो ना गो?" बाबल्यान न्हिदेंत कूस परतितना विचारलें.

"ना रे बाब. बेश्टोच हुस्को जाता. तूं न्हीद." ती ताच्या म्हऱ्यांत येवन बसली. तिगांय भुरग्यांची दशा पळोवन तिका रडूंक आयलें.

"खंय कितेंय जालें ना मूं?"

घोवाची याद येवन तिच्या काळजांत खप्प जालें. खीण भर तिका दिसलें, बाबल्याक उठोवन ताका सोदूंक धाडचो. पूण तिच्यान ताका उठोवंक जमना जालें. "बाबडो सुस्त न्हिदला. दीस भर काम करून पुरो जालां!" तिका ताची काकुळट दिसली. बाबल्याक आजून धड बारा वर्सां जावंक नात, पूण पयशां खातीर ताका कामाक लागचें पडलां. शिकपाची आवड आसुनूय धड शिकूंक मेळना ताका.

"पाड पडलें ह्या संवसाराचें. घोव आसून फकत कुकमाक आदार! भुरग्यांक पोसूंक जायना ताच्यान. मेळटा तो दुडू सोऱ्याक घालता. वयल्यान आमगेलेंय बुडडून घेता. फातराच्या काळजाचो! तिका घोवाची तिडक आयली."

"आतां येतलो आनी म्हाका बडयतलो."

बशिल्ले कडेन तिका लकण आयली. तिका तशी न्हीद केन्नाच सारकी मेळनासली. सदांच हुस्क्यांचो भार तिच्या माथ्यार आसतालो. "जीव लेगीत बेजारलो. उबगण आयली हे जिणेची." तिणें तकली उश्यार तेकयली. इतल्यांत धाकलो स वर्सांचो मनू न्हिदेंतूच चाळवलो. ताचे सरीं वचून ताका थापटून तिणें न्हिदायलो आनी परतून जनेला कडेन येवन उबी रावली. रात बरीच जाल्ली. चान्नें आसलें म्हूण तितलें समजना आसलें. सुणीं बेठींच भोंकतालीं. कोण तरी तिका पयसुल्यान दिश्टी पडलो. "घोव जायत काय" म्हणून बारीकसाणेन तिणें पळयलें. पूण तो शाणू आसलो. तिणें ताका उलो मारलो.

"शाणू, बाबल्याचो बाप्पा दिशिल्लो?" तो लागीं आयलो.

"बाप्पा येयलो ना? हांयें येदोळ देखला तेका... त्या फरांशिकाले गादयेर आसलेलो."

"बेश्टीच भिरांत दिसता रे म्हाका. चड पियेत जाल्यार खंयय पडपाक फाटीं ना."

"तूं न्हीद गे. निवळटकच येतलो सकाळीं." इतलें सांगून तो गेलो. कितें करचें तें तिका समजना जालें. हो घोव आसचे परस नाशिल्लोच बरें अशें तिका दिसलें. तिचें मन आडुलें-

"कित्याक घेवन बसलां तूं ह्या घोवाक? फाल्यां आयल्यार घरांत घेवची गरज ना. वचूं दी तोंड घेवन."

तिणें मनांत कसलो तरी बेत रचलो. "फाल्यां सावन घोवालें कांयच आयकुचें न्ही. तो मारपाक आयल्यार हांवूय फाटीं रावचें ना. भुरग्यांक पोसपाची म्हज्या आंगांत शक्त आसा. बाबल्याक इश्कोलांत धाडटलें. ताका व्हड करतलें. अपुर्बायेचो म्हजो बाब तो!"

बाबल्या म्हन्यांत येवन तिणें ताच्या आंगा वयल्यान हात भोंवडायलो. ताका जाग आयली. काचाबूल जावन ताणें म्हळें -

"बाय तूं जागेंच? बाप्पा येवं ना? हांव वचों तेका सोदूंक?" तिणें आतां मन निबर केल्लें. तिडकीन तिणें म्हळें, "कांयच गरज ना. जाय जाल्यार येतलो. पडला आसतलो बेबदो जावन खळयेंत बीन. मरूं दी थंयच पिडेक."

बाबलो तिच्या तोंडाक पळयत रावलो. सदांच वेळ जातकीर हुस्क्यान ताका उठोवन बापायच्या सोदाक धाडपी बाय आज अशें उलयिल्लें आयकून ताका अजाप जालें.

"बाय, तूं कितें उलयता?"

"हय बाब; तेगेलें कितलें सोंसप? पाड पडूं तेचें! तुमकां वयर काडपाची शक्त म्हाका आसा. हांव भिना."

कोंब्याचो साद आयकूंक आयलो. दीस उजवाडलो. पुनवेची रात सोंपली. बाबलो उठून उबो रावलो.

"बाय, तो बाप्पा दिसता. शाणून धरून हाडला तेका. हो पळय येता लकत, लकत." तिणें दांत किड्डिले.

"येवं दी. सोन्याची मस्ती निवळूं ना जातली."

ताका घरा लागीं सोडून शाणू गेलो. पावलां आपटीत तो दारा म्हन्यांत आयलो. एकाच खुराच्या आदारान उबें आशिल्लें तें मोडकें दार ताचे एकेच खोंटेन मोडून पडलें. ती उठून भितर गेली. कोनशाक आशिल्ली घट बरी लाकडा-बडी तिणें हातांत घेतली, पदर खोयलो आनी पडवेर येवन उबी रावली.

"पळोवया आतां कोणाक चड शक्त आसा ती." तिचेर सामको भार आयिल्लो.

बाबलो काचाबूल जावन आवय-बापायक पळयत रावलो.



# दिर्वे

—एडविन जे. एफ्. डिसौझा

आपणांक फिचार केल्ल्या जेलाकुडिच्या जनेलांतल्यान भितर सरच्या वोताच्या चोवकाक, तो लार्गी लार्गी दोन घंटे थावन पळेवन बसलेलो. ह्या दोन घंटयांनी ताच्या जिवाचो खंचोयी मासखंड हालोंक ना म्हळ्यार विशेश जावंचें ना. जेला कुडिचे फात्रा - वोणदिचेर पडचें तें वोत दोनपारांच्या साडे तीन वरांचें. दोनपरांचीं साडे -तीन वोरां ताका कांय नवीं न्हय. वोताचें चोवकाटयी नवें न्हय.

एकाच्चाणे ताच्या जेल कुडिच्या दाराचे सराळे बळान हालयिल्लो आवाज जालो. ताचे वोंठ मोटव्या हास्यांत रुंदाले. हो आवाजयी ताका नवो न्हय. ताणें दाराचे कुशींत पळेलें. एक हवालदार उबो आसल्लो.

"जेलार तुका आपयता." म्हणालो तो हवालदार. असलीं आपोवणीं त्या कैदीक सदाचींच न्हय. पूण आयच्या दिसा ह्या सर्वांक एक विशेशता आसल्ली.

तो हाळवायेत उबो जालो. हवालदारान सरोळांचे दार उकतें केलें.

"जेलारा सामकार वेताना तयार जावनच वच!" सूचन दिलें हवालदारान. "तुज्यो वस्तू आनी मुस्तायकी त्या कुडांत आसा."

कैदीन आपल्या सपाय मुखामळार हात चरयलो. जेलाच्या केलश्यान ताची हजामत केल्ली. केंस मोटवे आनी खाड तासलले. सर्व तयारीय जाल्ली. हवालदारान दाखयिल्ल्या कुडांत वचोन तो न्हेसलो. उप्रांत हवालदारासंगींच जेलाराच्या दफ्तरांत रिगलो.

पाशार जाल्ल्या पांच वर्सांनी त्या जेलाक आयिल्लो तिसरो जेलार तो. पयलेंचे दोग तांची आवदी जातच वर्ग जावन गेल्ले. तांचीं उतरां, शिकवण आनी गोरोज ताच्या कानांनी आतांयी ती धांवताली. पूण हो, आतांचो, भोव थोड्या उतरांचो मनीस. चतूर, एकेक पावटीं आपणाचीं चिंतनां वाचता म्हळ्ळे परी कैदीक भोगतालें.

जेलराची दिश्ट सूक्ष्म थरान ताचेर चरली. सामकार तयार आसल्लें दस्ताऐवज ताणें उकतें केलें. आनी कैदीचें नांव वाचलें.

"प्राय : 48 वर्सां" तो मुंदरून वाचिलागलो "अपराध : हातेरां घेवन केल्ली चोरी आनी लूट. सजा : स वर्सां." उप्रांत ताणें दस्ताऐवज धांपलें.

आपल्या हातांचीं बोटां एकामेकांक खोवटून तो कैदीक पळे लागलो. "तुज्या भल्या

वर्तना खातीर स वर्सांची सजा पांच वर्सांक देंवयल्या, ती तूं जाणाय?" तो म्हणालो. "आज तुजे सुटकेचो दीस."

कैद्याच्या मुखामळार कसलीच बदलावण जाली ना.

"चोरियेंच्या साबार अपराधां खातीर तूं बंदी जालोय तरयी तुजे निमणे चोरयेचें दिर्वे पोलिसांक सांपडोक ना म्हळ्ळें तुज्या दस्तावेजांत लिखलां." तो मार्मिक रितीर कैद्याक पळे लागलो. तुज्या भल्या वर्तनाचो उध्देश होच तर... "जेलारान भुजां हालयलीं." "हांगासर आसात तुज्यो खासगी वस्तू." जेलारान एक चील कैद्या सामकार दवरलें. "तुका कैद करताना त्यो तुजे संगीं आसलेल्यो आनी हांगासर आसा पांच वर्सांनी तुवें जेलांत केल्ल्या वावराचें भातें." हळताचो एक लाकाटो जेलारान ताका दिलो.

तो कैद्यान घेतलो, उसयलो आनी तांतलो थोडे नोट भायर काडले.

"सरकार केदाळायी तुमच्या रुणांत आसता!" जेलाराच्या उतरांनी व्यंग्य आसलेलें.

कैदी लाकाट्यांतले नोट परीक्ष करतालो. थोड्या घडितां उप्रांत ताच्या मुखामळार सैतानाचोच हांसो उदेलो.

"पांच वर्सांनी नोट बदलूंक नात!" आपलें पयलें वाक्य ताणें उचारलें ताच्या त्या दोरग जिवाक, क्रूर मुखामळाक अमानुष व्यक्तित्वाक तो ताळो एकदम नाजूक जावन आसल्लो. एका थराचो मोयपास तातूंत निशेतालो.

नोटांचो लाकाटो ताणे बोल्सांत चेपलो.

"हेर कांय?" तो जेलारा लागीं विचारि लागलो.

"वर्साच्या सुंदर काळांत तुका सुटका मेळ्ळ्या!" तो म्हणालो, कैद्याक जाप दिवन. "दशेंबर म्हयनो हो. तुजो भावार्त क्रिस्ताचो न्हयगी? एका हप्त्या भितर क्रिसमस येतलें...."

"क्रिसमस? कितल्या तारकेर?" तो आतुरायेन जेलाराच्या मेजाचेर बागालो.

"तूं नेणांय? ह्या म्हयन्याचे पंचवीस तारिकेर."

"राव राव, हेच परबे वेळार न्हयगी बाळकांक याध्र काडटात. इमाजी दवरतात.. नेकेत्रां इत्यादी?"

"व्हय!" जवाब दिली जेलारान, "बरोच शेळेलाय तूं. आमकां वेगळ्याच भावार्तचांक सहीत."

"हेर कांय?" कैद्याच्या ताळयांत विराराय आसल्ली.

"हेर कांय आसा तर सर्व तुजेंच!" जेलारान पाटीं जवाब मारली.

दशेंब्राचे वीस तारिकेर तो जेला थावन मात्र आयलो.

पांच लांब वर्सां!

प्रशांत आसलेलो सांजेचो हवा. नितळ आनी कुरकुरीत. प्रकृतिची सोबाय पळेवंची, चाकची वा संतोसाचीं दुखां गळंवची तितलीं सितिमेंतां ताचे थंय बिलकुल नातल्लीं. जेल कांय ताका नवें न्हय.

मात्र आयिल्लो तो शिदा रेल तिलदाणाक गेलो. आपल्या ठिकाणांची ताणें टिकेट

घेतली. दोन दिसांचें पथण. ताची मत भरात काम करताली. रेलच्या डब्यांत बसल्ल्या ताका जनेलाचे सरोळ पळेवन पांच वर्सांचो उगडास आयलो. ताचें मुखामळ विचित्र हास्यांत रुंदाताना आपल्या पोटाक भूक लागल्या म्हण ताका भोगलें. रेल चालू जांवचे पयलीं ताणें जेवणाची पेकेट घेतली. आपल्या लाकाट्यांतलो नोट वाटावन सुटे घेताना पांच वर्सां आदलेच नोट चालू आसात म्हण ताणें परतून खचीत केलें. उप्रांत जेवणाची पेकेट ताणें उगती केली. धंय भरशिल्लें शीत, सुकें केल्लें वांयगें आनी आंबोट तीक आंब्या लोणच्यान तो जेवलो. हळताचो धेंक उसाळताना रेल चालू जालें.

ताणें आपले मोचे निकळायले आनी पेंटाचे पाय दोडून, आपलेयी पाय कवळून तो बसलो. ह्या वेळार ताची दिश्ट ताच्या उजव्या पायाचे गांटिलागींच आसल्ल्या घायाचे मावेर बसली. ताचो उगडास पाटीं धांवलो... पांस वर्सांक पाटीं...

दशेंबर म्हयनो तो.

देशाच्या खंचागी एका जेलांत आसल्या ताका सुटका मेळोत तीन-चार मास मात्र जाल्लें. चोरिच ताचो धंदो, काम आनी जिवनाची रीत. स म्हयने जेल जाल्लें ताका. मात्र येतच - स म्हयने रजा भोगून आयिल्ले परी ताणें आपलें काम परतून चालू केलें. हेणें- तेणें धाकटयो मोट्यो चोरयो म्हणटाना तीन-चार म्हयने पाशार जाले. हे भितर ताणें मारवाड्याचेर दोळो दवरलेलो. मारवाड्याचे तिजोरेंत दुडवा नोटांचे काटच ताणें पळेल्ले. तिजोरी उगत्यो करच्यांत तो प्रवीण. ह्या मारवाड्याक लुटिजायिच म्हळ्ळो ताचो उध्देश. फकत हो उध्देश -ताचें हात म्हजे जायजाय तितलेंच. काणियांनी वाचचे परीं दुर्बळ्यांक ग्रेस्तांचें लुटून दिंवचो मनीस तो न्हय. आपूण, आपलो स्वार्थ आनी ह्या स्वार्थाक खाण जावन धन. पेल्याचें धन.

एक हिंवाळी रात पळेवन ताणें मारवाड्याच्या दुकानाक "खन्न" घालीच. मारवाड्याचो पारो मात्र न्हिदोन आसलेलो. तिजोरी उगतें करचे प्रयत्न चालू करताना, चोराच्या काळजांत वा कुडींत कुस्कूट भंय नातल्लें. आपलें सदांचें काम करच्या गुमास्तापरीं...

तिजोरी उगती जाली.

ताचो हात भितर रिगलो. पूण तितल्यार - कसलिणी कांपिण वाजली. दुकानाचे दिवे पेटले. सगळो संवसार आपले भोंवती जिवो जाल्लेपरीं ताका भोगलें. हाताक मेळल्लो दुडवा-नोटांचो दाट काट ताणें विंचलो आनी आपल्या खोमसा भितर चेपलो. उठोव धांवता म्हणताना फुडलें दार उगतें जालें आनी पान्यागार लांठी लाती भिजावन भितर आयलो.

हें सन्निवेश चोराक नवें तरयी तो घाबरलो ना. लाठियेचे दोत मार ताणें चुकयले. तिसरो ताच्या पायगांटिच्या दोन ईंचा वयर बसलो. आपणाक जखमी जाली म्हण ताका कळीत जाल्लें, पूण कितली जखमी जाली ती तक्षण कळीत जालिना. चोवथो मार ताणें आपल्या हातांनी आडायलो. लाठीच ताणें धरली. मोटवी धरली. मोटवी उरडोणी. ताच्या पायांतल्यान असहनीय दुखिचो धुंवोर चडटालो. दोळे बांदतालो. लाठी ताच्या हातांत आयली. दोन मार जगलाण्या वेगान पान्यागाराच्या तळमट्यार आनी कानपाट्यार बसले. तो मत चुकोन पडलो. चोरान हातांतली लाठी गळयली. उगतें आसलेल्या फुडल्या दारांतल्यान

तो भायर धांवलो. पूण चड मेटां न्हय. आपल्या पांयाक लोखणाचो मुदो बांधल्लेपरी ताका भोगलें. घडिभर रावोन ताणें आपल्या कलसांवाचो पांय वयर ओडलो. ताचो पांय कासाळ्याच्या मुळापरीं सुजोन येतालो.

बिगील ताका आयकालें. पाटीं पळेताना पहाऱ्यान आसचो पोलीस आपल्या सांगात्याक आपोवचो ताका दिसलो. आपली धांव ताणें प्रारंभ केली.

दूक मिसळालेलो ताचो उस्वास आवाजासांगीं दांतां इड्यांतल्यान मात्र सरतालो. थोडीं कदमां धांवोन ताणें पाटीं पळेलें. दोग पोलीस ताचे पाटलाव करताले. तो आनी तांचे मदलें अंतर घडियेंत घडी उणें जायत येतालें. ताणें परतून धांवोंक प्रयत्न केलें.

चडोन आयिल्ले दुखीन आपल्या पांयाचें हाड मोडलां म्हूण ताका खचीत जाताना तो आपल्या उजव्याक मेळळें एके काळोखी गल्लेंत रिगलो. ते गल्लेंत सादीं कुटुंबां सादे ग्रस्तेन दीस काडटात म्हूण ताका कळीत आसलेलें. धांवता धांवतां आपल्या दोळ्यांनी दुकां उदेल्लीं ताच्या गमताक आयलीं. खरस ताका येताली. दोळ्यां सामकार काजुले उबताले. कसल्याक की तो आदाळ्ळो. सासपोन पळेताना तगडाची एक गेट. लोटताना ती उगती जाली.

उबो रावोंक तो शकलो ना जाल्ल्यान, ताणें आपलो जीव धरणीरच ओडूंक प्रारंभ केलो. थोडे कोल पयस ताका एक बिडार झळकातालें. मिणिमिणी दिवोय दिसतालो. दोळे धांपुनच ताणें आपलो जीव ओडलो.

परतून कसलेंगी आपणाक आदाळल्ल्या वेळार, ताणें आपले दोळे उगते केले. कोण ताचे सरशीं उबो आसलेलो. पोलीस? ताणें दोळे उगते केले. अशीर केले. कसलेंगी ताचे सारशीं दिंबियेर आसलेलें.

ताचे दोळे काळोकाक वळसताना, ती एक दादल्याची इमाज म्हण ताका कळीत जालें, चांदन्याचो आनी नेकेत्रांचो मंद उजवाड आनी ती ताची दूख ताच्या इंद्रियांक तेज करताली.

त्या दादल्याचे बगलेंतच स्त्रीयेची एक इमाज दिंबी मारून आसलेली. परिचीत दिसलें ताका तें दृश्य. गोमटी घुंवडावन पळेतात त्या दोन इमाजीं मदें न्हिदोन आसचो बाळोक ताका दिसलो.

हूं! तो समजालो. तें दृश्य आनी दोतोर्न... जिव्या आव्या मातियेचो वास ताका आयलो. इमाजी करणाराचें बिडार तें. तेणें तो साबार पावटीं पाशार जाल्लो. आनी सुकोंक दवरल्ल्यो थरावळ इमाजी ताणें पळेयिल्ल्यो.

पूण आतां... मेटांचो आवाज लागीं सरतालो. ताची मत आदिकयी चतूर जाली. आपली दूख तो ते घडिये विसरलो.

आव्या मातियेच्यो इमाजी भितरल्यान पोकळयो आसतात म्हण ताका कळीत आसल्लें. व्हड इमाजींक पाटल्यान हळताचो बुराकयी आसतालो. ताणें आपल्या खोमसांतलो दुडवां-नोटांचो काट भायर काडलो. त्या मंद उजवाडांत शेंबरांच्या नोटांची वळख धरूक ताका

कश्ट जालेनात. मारवाड्यान एका पातळ प्लास्टीक चिलांत ते दवरलेले आनी भायल्यान रब्बराचो तीर रेवडायिल्लो.

चोर हेणे तेणे सांसपालो आनी आव्या मातियेचो हळत मुदो ताणें विंचलो. आनीकयी मोवा आसलेली माती ताणें दुडवां-नोटांच्या काटाक पातळायेन लेपली. समाधान जातच ताणें बाळकाक दिंबियेर आसलेल्या इमाजींत तो हालोंक सकाना जाल्ल्यान-हाळवायेन ओमथो घालो.

व्हय, ताणें अंदाज केल्ल्या प्रकार एक हात आनी दाट दुडवां-नोटांचो काट सहित-रिगच्या तितलो व्हड बुराक आसलेलो. ताणें आपलें दिर्वे बाळकाच्या पोटा भितर लिपयलें. मोव. आनी जिवी आव्या माती सुकोन आयिल्ल्या बाळकाच्या पोटाचे भितरले कुशीक चिडकाली. आनी सांगाताच तो दुडवां-नोटांचो काटयी. बाळकाक ताणें उदारो परतिलो. उसोवन आसलेले बाळकाचे हात हाळवायेत ताच्या तोंडाक लायले. ह्या सर्वाचें ताका गमन नासलेलें. दिर्वे लिपयतच त्या बिडाराच्या वाठारांतलो भायर सरचें जावना आसल्लें ताचें पयलें योजन. आपलो जीव ते खरकस धरणीर ओडित तो तगडाचे गेटी पर्यंत पावलो.

भायल्यान घुस्पडलेलीं मेटां ताका आयकालीं. पोलीस!

"तो हांगासरच आस!" एकलो म्हणालो.

"तूं तेणे वच, हांव हेणे वेतां!" दुसऱ्यान सूचन दिलें. मेटां दोन कुशींनी पयस गेलीं.

इमाजी करणाराच्या वाठारांत आपूण सांपडत जाल्यार "उप्रांत" आपणांक तोंद्रे जातेले म्हण जाणा आसून तो आपणाचो जीव तगड- गेटिंतल्यान भायर लोटि लागलो. आतां ताचे थांय त्राण नासलेलें.

गेटिंतल्यान तो भायर पडलो.

दोन-तीन कोल पयस चिरतच दुखिची पिंरगणी ताच्या तोंडांतली निकळोन गेली. थोड्याच घडियांनी पोलिसांच्या टॉर्चाचो उजवाड ताचेर फांकलो. मेटांचो आवाज ताचे सरशीं धांवोन आयलो. दोन बळिश्ट हात ताचे खाके पोंदाक रिगले.

ताची मत चुकली....

स वर्सांचें जेल ताका फावो जाल्लें.

लाठियेचे मार खाल्लेलो पाऱ्यागार जिणिये पर्यांत मति भ्रश्ट जाल्ल्यान ताची शिक्षा दोडी जाल्ली.

पूण आंता ती पाशार जाल्ली.

पांच वर्सां आदीं "उप्रांत" आसलेलो काळ आतां "आतां" जालेलो.

धनान लागीं लागीं वीस-पंचवीस हजार आपल्या पोटांत घेवन आसलेल्या त्या जेजु बाळकाचे सोदनेर तो भायर सरलेलो. तें धन तर आपणाक मेळात, आपूण आपलें काम सोडतलों म्हळ्ळो निश्चेवय ताणें केल्लो.

रेल ठिकाण्याक पावताना तो जेलाथावन भायर आयिल्ली तिसरी सांज उदेल्ली. ताच्या मात्यांत धाराळ इंगळ्याचो पिटो दाटल्लो आनी आंगाच्या सांदी - मुळ्यांनी भिकूण

चरताले. "खंचेंयी बदलाल्ल्यारयी रेल पयण बदलाना." साबार तेंप नंतर हगुरायेन तो चिंति लागलो.

तें शहर बदलाल्लें. मानव संचार चडल्लो. बांदपां नवीं. वाहनां चडल्लीं. सांज चडोन येताली तरयी सुडाळान चलियो आनी स्त्रीयो भोंवताल्यो. तरयी पांच वर्सां आदले परिचीत कुरू सोदून काडूंक ताका कश्ट मारलेनात.

दाखल्याक : त्या मारवाड्याचें दुकान आसल्ल्याकडेनच आसलेलें. दोन - तीन नवीं विंगां आनी दारांत लोखडाचे आडपाटे चडीत आसलेलें. मांडियेर मात एकलो तरनाटो बसलेलो. बहुश्या, पूत जाय जाय. पाऱ्यागाराचो उगडास खिणभर ताचे मतींत उदेलो. उबोन गेलो.

एक लांब स्वास ताणें सेवलो. पुरासण ताका जाल्लीं, भुकयी ताका लागिल्ली. आपल्या मट्टाचें होटेल ताणें विंचलें. थंयसर एका रातिच्या मट्टाक न्हाण, जेवाण आनी न्हिदोंक जागो मेळटालो. हून उदकान न्हातच तो जेवणाक बसलो. रुचीक रांदय, दोन उंडियो जेवतच तो चिंति लागलो. जेलांतलें आनी भायलें फरक बिलकूल ताचे मतीक आयलें ना. हुनहुनीत शीत, मासळेची आंबोट-तीक कडी आनी सुकीं केळीं ताका आनी ताच्या शिरांक प्रफुल्ल करि लागलीं.

जेवण नंतर इराकाडियेंन दांतांमुळां उस्तून उस्तून दुसऱ्या सकाळिच्या कार्यक्रमाची मांडावळ तो करि लागलो.



चिंतल्याचाकयी तडव करून तो दुसऱ्या सकाळीं उठलो. भायल्यान बाळ सुर्याचीं किर्णां धरतालीं. हिंव आसलेलें. हुनहुनीत काफी पियेतच ताच्या जिवांत हुरूप आयलो. आपलो पोरनो गरम कोट ताणें शिरकायलो आनी गोम्ट्या भोंवतीं एक मफलार रेवडायलो. ह्या मफलारांत ताचें अर्दें मुखामळ लिपोन गेलें.

होटेलाचे भायर तो आयलो. थंड तिक्ष्ण वाऱ्याक ताची कूड कांपली.

इमाजी करणाराचें बिडार आसलेली गल्ली बदलूंक नासलेली. पूण वकलां बदलाल्यांत वा ना म्हळें ताका दुबावाचें जालें. तरयी तो मुखार सरलो.

तें बिडार थंयसरच आसलेलें. तगडाची गेट नासलेली, पूण लोंकडा पाट्यांनी केलेली वोंय आसली. भायर रवोनंच ताणें दोळे बिडाराचेर आनी वाठाराचेर चरयले. एक संगत खीळ चुकोन आसचे परीं भोगलें. इमाजी करचें काम चलचे कसलेंयी खूण थंयसर दिसोन येनासलें. वकाल बदल्लां जावंयेत? पांच वर्सांनी कितेंयी साध्य आसलेलें.

तरयी...

तो भितर सरलो. बिडाराचे लागीं सरताना दोन-तीन धाकट्यो, पोरन्यो आनी खोपटे गेल्ल्यो इमाजी पळेंवक मेळ्ळयो. हूं! बिडार तेंच आनी वकालायी आसा म्हण जालें. ताणें मेटां मुखार काडलीं. सिंतिमेंताक लागोनयी पांच वर्सां आदलें दृश्य आतां ताच्या

सामकार आयलें ना.

उदकाचो आवाज ताका आयकालो. बिडाराच्या दाणयाक आसलेल्या बांयलागीं एक चली आसल्ली. हेर तर मनशां ताका दिसलींनात.

बांयचे सरशींत तो पावलो. ती चली वस्तूर धुताली.

थंड उदकाच्या चिमटयांनी तिचे रिते पांय आनी हात धोवसेल्ले. ती बागोन आसलेली जाल्ल्यान, तिच्या तरण्या स्तानांचो वयलो भाग ताका दिसतालो; तिचे लांब, काळेच केंस खांदयाचे एके कुशितल्यान देंवल्ले, तिचें गमन तिचे पडोंक नासलेलें.

"एक घोंट उदक मेळात?"

ताचो ताळो आनी सवाल आयकोन ती एकाच्चाणे नीट जाली. तकलेचे एक उडणेत तिणें आपले केंस पाटीं केले.

"हो!" म्हणाली ती, "हांव घाबरली. तुजीं मेटां पर्यांत म्हाका आयकोंक नांत."

तिच्या मुखामळार आसल्ली कळा आनी दोळ्यांनी आसल्लें मुग्धपण ताचेर कसलोयी प्रभाव घालिना जालें.

"तुका तान लागल्या तर" तिणें मुदरिलें, गेटिये कुसीन चत्रायेन पळोवन "एक घोट काफी हाडटां. हांगासरय राव."

तो चूप रावलो.

"बरोच प्रारंभ!" चिंतलें ताणें. "कोण जावंयेत ही चली? इमाजी करणाराची धूव?"

तो लागशिल्ल्या फात्राचेर बसलो. पांच मिनुटां भितर काफियेचो तांबेलर घेवन ती भायर आयली.

"दूद इल्लेंशें उणें जालें" म्हणाली ती, तांबलेर ताच्या हातांत दितच.

"तूं?"

"हांव काफी पियेल्यां!" तिणें जवाब दिली.

"बाब भायर गेला?" ताणें तिचें मुखामळ पळेनास्तानांच सवाल मारलें... थोड्या घडियांचें बांदपासी मौन.

"तूं नेणांय?" ती तणसल्ल्या ताळ्यात विचारी.

"ना."

"तूं म्हज्या बाबाचो इश्ट?"

"इमाजी करणाराक कोण वळखनांत?"

"बाब सरोन दोन वर्सां जालीं!" ती म्हणाली. "तुजें नांव कितें? तूं ताचो इश्ट?" जबाब दिनास्ताना ताणें काफियेचो तांबलेर खाली केलो.

"ताच्या इमाजीं थोंय म्हाका अभिमान आसा."

ताणें उतरां विचंली.

"तुका पळैयिल्लो उगडास म्हाका ना. हांव ताचीच धूव म्हण तुका कशें कळ्ळें?"

"पांच वर्सां आदीं" तिचीं उतरां आनी सवालां कुसीक लोटून ताणें मुंदरिलें.

"आपल्यो थोड्यो अपूर्व इमाजी ताणें म्हाका दाखयिल्ल्यो. तांचे पैकी...."

"गर्धनाच्या गोट्याच्यो व्हड इमाजी?" आतुरायेन ताळो अशीर करून तें मदेंच उलयलें. "दिंबियेर आसल्लो सां जुजे आनी आंकवार मरी तांचे मदें न्हिदोन आसचो बाळक?"

तिचीं उतरां आयकोन ताच्या काळजाच्यो उडियो चुकल्यो. हांकां पुण यी...

"जावंयेत!" तो तक्षण म्हणालो. "तांचे पैकीं त्यो इमाजियी आसलेल्यो." थोड्या वेळाक उलवणें बंद जालें.

"त्यो इमाजी बाबान केल्ल्या पैकीं भोव सुंदर तो जेजु बाळोक तुवें पळेलाय? कितलो जिवोच तो दिसता, तवळ हांव पंद्रा वर्सांची....."

"त्यो आतांयी आसात?"

"खंडीत जावन! पूण ...." तें तितल्यारच रावलें.

"पूण कितें?" ताणें उलवणें चालू दवरलें. मुख्यांश लागीं सरतालो.

"त्या इमाजीक फावो तितलो मान मेळाना" तें म्हणालें आपली दिश्ट पयस करून. "नवीकरण आमचे इगर्जमातेंत आयलां आनी आतां इमाजींक स्वायस्य ना. आमचे इगर्जेंत वर्सांक एक पावटीं पुणयी गर्धनाच्या गोट्याच्या इमाजींक परगट मान जातालो. आतां....."

"कितें आतां?"

"पाटल्या एका वर्सा थावन त्यो व्हड इमाजी कोनशाक पडल्यात!"

""तुमचेच इगर्जेंत?" ताचो ताळो बारीक कांपतालो.

"व्हय" ती म्हणाली खचितायेन. "आमचेच इगर्जे खातीर बाबान त्यो केल्ल्यो."

"इगर्जेंत! पूण नातालांचे वेळीं त्यो इमाजी दवरच्या जाग्यार कोयरा खातीर एक माळय केल्या जाल्ल्यान. बोलकावांत तांकां जागो ना ज़ाला.

"तुजो मातलाब.."

"न्हय न्हय" ती उलवनच गेली. "गर्धनाचो गोटो ते करतात पूण ल्हान ल्हान इमाजिंचो."

"आनी त्यो व्हड इमाजी?"

"साक्रिस्ती पाटल्या कुडांत आसात. कितेंयी जावं, ह्या वर्सा त्या बाळकाक..." तिचीं उतरां तितल्यारच जिरलीं. दिश्ट गेटी थंय गेली. ताणेयी तिचे दिश्टीचो पाटलाव केलो. मध्यम प्रायेची एकली स्त्री येताली,

"तुज्या परक्या लागीं हांव इतलें कित्याक उलवन रावलीं म्हण म्हाका कळाना!"

ते स्त्रीयेक पळेवन सगळेंच कालुबुलु जालें इमाजी करणाराची धूव. काफियेचो तोंबलेर ताणें तुर्तान लिपयलो.

"आतां तुवें वेचूं बरें" ताणें सूचन दिलें. तो फातरा वयलो उठलो. "बाबान केल्ल्या बाळकाचेर म्हाका खूब पातयेणी आसा." तें पुस्पुसलें. "तो तुकायी राकतलो. नातालांक

दोन दीस आस्ताना... मोजी मावशी हांगासर पांवचे फुडेंच तुवें वेचें बरें." निजायकी घुस्पडलेलें.

ताणें मेटां काडलीं.

हितलाच्या मदेगांत तो आनी ती मावशी एकामेकां उत्रालीं. तिची तिक्षण दीश्ट ताचेर चरली. खिणभर खचली. उप्रांत तिणें देगेत पळेवन थुकलें. "तरनाट्याक भूल घालून जाली, आतां प्रायवंत्ताक. नाडता दळदीर चेडूं!" तिचीं तीं कठोर उतरांच ताचे पाटी आपटालीं.

ताचेर कसलोच परिणाम जालो ना!

"आपणाक जाय ती माहेत आतां मेळ्ळ्यां!" तो आपणा इतल्याक म्हणालो. "तीं काटांत पडानांत."

गेटिंतल्यान भायर पडटाना चिंतिनासलो एक उगडास ताचे मतिक आयलो— पांच वर्सां आदले रातीं जेजू बाळकाचे उसवन आसल्ले हात मुखामळाक लागल्ले.... इगर्जेच्या वाठाराक ताणें पांच वर्सां उप्रांतच न्हय, साबार वर्सां उप्रांत रिगलें. सकाळिंचो वेळ तवळ जून जावंक नासल्लो, पूण सर्व मिसां सकाळिंच्या मट्टाक आखेरेय जाल्यांत आस्तेलीं म्हळ्ळो अंदाज ताणें केल्लो. तरयी चिंतिनासलेले चट्टवटिका इगर्जे वाठारांत ताका दिसोन आयलीं.

फिर्गजेचे तरनाटे इगर्जे वाठार सोबयताले. किर्णां-तोर्णां आनी जिगभिग झिपलां धाराळ शिंपडल्लीं. थोडे वासे पुरताले आनी थोडे त्या वास्यांक चुनो काडटाले. तोरिचे तुदियेक व्हड जयत शिमटी नेकेत्र एदोळच उमकाळतालें. थोड्या भुरग्यांनी गर्नाळींचीं शिंकळ फुटयली. उठल्ल्या आवाजाक ते नाचले. बेफिकीर हांसो. नाच आनी संतोस, नितळ हांसो. नाच आनी संतोस.

एक तेंप आसल्लो.

त्या तेंपार नातालांचें फेस्त म्हळ्यार तोयी राकतालो; हांसतालो, नाचतालो आनी संतोसतालो. पाटीं वचोंक उरडोचें आपलें शिंतिद ताणें कश्टांनी आतांच्या काळांत हाडलें.

एकलो तरनाटो ताचे सरशीं आयलो. "तूं हांगासर बेस्टोच उबो आसाय?" तो विचारी लागलो.

चोरान जवाब दिलिना. "तुका काम जाय तर, दोन दिसांक जाय पुरतें आसा!" तरनाटोच उलयलो. "इगर्ज नितळ करूंक आसा. हें वाठार सुंर्गारांक आसा; हे फिर्गजेंत हें नाताल चारित्रीक जाय जाय. तो एकाच्चाणे शून्य रितीर चोराक पळे लागलो."

"इगर्जे भितर नितळाय करूंक आसा?" चोरान विचारलें.

"व्हय....."

"इगर्जे भितर?"

"कित्याक तशें विचारताय? इगर्जे भितरल्यान म्हेळानांगी?" तो तरनाटो विचारी

लागलो. पूण त्या सवालांत दम नासल्लो. "तुका मजुरी जरूर मेळटली" मुदरून उलयलो. "हांव हांगाच्या मरियाळ सोडेलिटिचो प्रिफेक्त..."

"खंय प्रारंभ करूं?" चोरान विचारलें.

त्या हिंवांत घाम सुटता पर्यांत ताणें काम केलें. तरयी, साक्रिस्ती पाटल्या कुडाक वंचो अवकास ताका मेळोंकच ना. त्या कुडाचें दार बंद आसतालें. तें उगतें करचें व्हड काम न्हय. पूण ह्या दारा सरशिंतच एकलो प्रायवंत पाद्री दीस आनी रात म्हळ्ळेपरीं बसोन मागणें करतालो आनी इगर्जेंत इतली चटुवटिका आसलेली की, सर्वांचे दोळ चुकोवंक ताच्यान जालें ना.

एके रितीर सांगचें जाल्यार ताची कुमक सर्व तरनाट्यांक जाय पडली. हांगा ये, हें धर, तें बांद.... अशें म्हण सगळो दीस तरनाटे ताच्या पाटल्यान आसताले. नातालांचो स्पिरीत तांचे थंय चडलेलो. पूण कसलो स्पिरीत तो? दोतोर्नींत शिकलेली न्हय.

एकलो नव्या सुटा विशयांत उलयताना, दुसरे आपल्या आधुनीक न्हेसणां विशयांत बडाय सांगताले. थोडे चले - तें कशें न्हेसून आनी कितें दाखोवन येता पळे जाय – म्हळ्ळें उलवणें उलयताना चलियोयी पाटीं नासल्ल्यो. फलाण्याचे म्हाका दोन उमे मेळटले - अशें एके चलियेन उचारल्लेंयी ताणा आयकालें. ते सर्व आनी तीं सर्व.. सर्वांक ताची तात्कालीक गरज आसल्ली तरयी... असलें तसलें उलवणें उलयताना तो थंयसर नांच म्हळ्ळें परीं करतालीं.

"म्हाका कितें पडोन गेलां?" तो आपणा इतल्याक म्हणालो.

ह्या तरन्या धाकट्यां मदें कोण्यापरीं घुंवोन आसचो एकलो ते फिर्गजेचो काजितोर म्हण कळताना ताका घंट्यां आदीं आयकाल्ल्या उतरांचो उगडास आयलो.

"नवीकरण.... इगर्जमाता बदलल्या."

"इगर्ज भितरल्ल्यान म्हेळानांगी?"

दसेंब्राचे चोवीस तारकेचे सांजेर आपणें खंच्या वेळार सुरक्षितायेन साक्रिस्ती पाटल्या कुडांत रिगयेत म्हळळें ताणें खचीत करून घेतलें...

मद्यानेच्या मिसा उप्रांत सगळो जमा भायर कौजी खेळटाना मद्यानेच्या मिसा उप्रांत कोण कितें न्हेसलां आनी कितें दाखयता म्हण हेर पळेताना, मद्यानेच्या मिसा उप्रांत कोणाक कितले आनी कसले उमे मेळ्ळे म्हळळें लेक चलनासताना, मद्यानेच्या मिसा उप्रांत धाकटुल्या गर्धानाच्या गोट्यांतलो आनी साक्रिस्ती पाटल्या कुडांतलो वाळोक एकसुरो जाताना...

सर्व रस्ते इगर्जेचे कुशीनच मालवाल्लेंपरीं हारीं हारींनी लोक येवंक प्रारंभ जाल्लो. साडे-धा इकरा जाय जाय जाल्यार इगर्जेतल्या बांकांचेर जागो मेळाजाय म्हण आयिल्ल्या चलियांचेर आनी स्त्रीयांचें भिरें धाराळ आसल्लें. सुटार सोबचे दादले आनी चले कांय उणें नासल्ले.

कोयरान आपलीं गायानां प्रारंभ केल्लीं.

सोबीत सुंदर वीज-दिव्यांनी शृंगारिल्लो इगर्जेचो वांठार दोळ्यांक तोपतालो. थंयसर विशेश जमो नासलेलो; भुरगीं हेणे-तेणे धांवतालीं. वाठाराच्या पयशिल्ल्या कोनशांत थोड्यांनी उज्याचें आगटें केल्लें. भोंवतीं बसोन ते बिडी सेवताले. तांचे मदें एकसुरो जावन तोयी बसोन आसलेलो.

मरियाळ सोडेलिटिच्या प्रिफेक्तान ताका दोन दिसांनी मजुरी दिल्ली. रातिचें मीस जाले उप्रांत इगर्जे भितरलें बांक भायर व्हरूंक कुमक करिजाय म्हळळी विनंतियी केल्ली. त्या नंतर कसोलोगी बेहुरूप ताच्या जिवांत चरल्लो. कसलेंगी निर्जिवपण.

हिंव घडोन येतालें. एकाच्वाणे......

मद्यान रात, निधान रात....

फकत वर्साक एक पावटीं आयकोंक मेळचें तें सुंदर कांतार.. ज्या कांतराचीं उतरां ताळो आनी जिनोस वर्साथावन नातलांचे रातींत मिसळोन आयिल्लो - इगर्जेच्या भितरथावन, तरिब्लांतलो धूंप धुंवेचपरीं हाळवायेन उठोन आयलें.

मद्यान रात, निधान रात....

उज्याच्या आगटया सरशीं तोयी उबो जालो.

एक तेंप आसलेलो, एक काळ आसलेलो....

"ना, हांव त्या काळाक पाटीं वेचोना." तो उरडालो. बंद आसलेलीं ताचीं मेटां सुटलीं. इगर्जेचे कुशीन तो चलोंक लागलो.

तडक करून आयिल्ल्या जोम्या संगीं तोयी भितर रिगलो. आतांच्या ताच्या वर्तनांत स्वताचें स्वतंत्र उबोन गेल्लेपरीं ताका भोगलें. कसलिगी शक्त - बहुशं दैवीक शक्त ताचेर काम चलयताली. बलकांवाच्या एका मुल्यांत तो उबो जालो.

मीस सुरू जालें. चार-पांच याजाकांच सह-भेटवणी ती, सर्व ताका नवेंच. ती भास, तीं उतरां कितलीं सुडाळ आनी सोंपीं! भेटवणे पयले काणिकेचें उर्पण ताका विचित्र दिसलें. एकल्यान व्हड जैत केक हाडल्ली.

पवित्र कुमगाराचो वेळ येतान ताचे पांय हालले तरयी ताका धैर्य पावलें ना.

"हांव फावो न्हय" म्हळळो सुस्कार ताचे हेळके विणेच ताच्या तोंडांतल्यान निसारलो.

कुमगाराक लोक तीन-चार सलांनी रावताना, बलकांव मातसो खाली जालो. ताणें आपल्या दाण्याक पळेलें. कोयराचे उट्टळगे चडची सरळ निसण ताका दिसली. हे निसणेच्या इडयांतच म्हळ्ळे परीं एक ल्हान गर्धनाचो गोटो आसल्लो. कोणायचेयी गमत ह्या गर्धनाच्या गोट्याचेर आसचेपरीं ताका दिसलें ना.

कुमगार जालो. तरनाटे भायर निकाळ्ळे. भितरल्या देवस्पणाच्या आवाजाच्याकय भायल्यान जावंचो गलाटो व्हड जायत येतालो. मीस आखरेय जालें.

"बाळकाचो उमो."

सांगलें पाद्रीन. थोडो लोक रावलो आनी हेर भायर गेले. इगर्ज मुक्कालांश खाली जाली.

ताच्या खांदाक कोणेंगी थापुडलें. पाटीं पळेताना मरियाळ सोडेलिटिचो प्रिफेक्ट.

"बांक भायर व्हरूंक आसात!" तो ताच्या कानांत फुस्फुसलो.

बांक भायर वचोंक प्रारंभ जालें. निमाणो बांक भायर पावताना ताच्या कपालांतल्यान बारीक घाम सुट्टालो. एकाच्चो सर्वांचें गमत ताचे वयलें उठलें.

तो एकसुरो जाल्लो.

इगर्जेच्या सुंदर वाठारांत "नातलांची रात" प्रारंभ जाल्ली. मद्यान रात, निधान रात... इगर्जेचे दिवे पालवले. मिनी, दारां बंद करतालो.

"होच म्हजो वेळ" चिंतलें चोरान. काळकांत काळोक जावन तो इगर्जे भितर रिगलो. धा पंद्रा प्रायवंतां भितर आसलेलीं आनी कोणायचेंयी गमन ताचेर पडल्लेय परीं दिसलें ना. इगर्जेचें एक दार सोडून हेर सर्व मिनीन बंद केल्लीं. एका कुद्यां पाटल्यान तो लिपलो. भायलो गलाटो ताका आयकतालो. ध्वनिवर्धकार एकलो कसलिगी नंब्रां बोबाटतालो.

कुंद्यां पाटल्यान कुंदो जावन म्हळ्ळे परीं तो साक्रिस्ती सरशीं पावलो. साक्रिती पाटल्यान कुडाचें दार बंद आसलेलें. तो प्रायवंत पाद्री थंयसर नासल्लो. लागसार हेर कोणयी ताका झळकाले नात. बोलसांतलें कसलेंगी एक ल्हान हत्यार काडून ताणें साक्रिस्ती पाटल्या कुडाचें दार "फोडलें."

भितर रिगतानाच परन्या धुळिचो वास ताच्या नाकाक लागलो. मंद एक दिवो थंयसर जळटालो. त्या दिव्या भोंवतीं मांडल्लीं साळियांचीं जाळां विविध रंगांच्या किर्णांपरीं उजळटालीं. पर्नो सामान त्या कुडांत रास पडल्लो. दोन तीन पर्ने खुरीस, एक इमाज, सां फिलोमेनाची, तीन चार कस्तीस्लां, कदेलां आनी बांक. हांचे मदेगात त्या आसल्ल्यो —

तीन इमाजी.

दोन इमाजी दिंबियेंचेर आनी ताचें मदेंलो बाळाक. तोच बाळाकागी? पांच वर्सां आदलो बाळाक?

चत्रायेन तो लागीं सरलो. ताका पांच वर्सां पर्यांत राकयिल्लो बाळाक? ताच्या काळजाच्यो उडियो ताकाच आयकाल्यो. बाळकाच्या एकदम लागीं तो आयिल्लो.

तितल्यार—

साक्रिस्तींत कसलोगी आवाज. तो इमाजच जालो. कितलीं मिनुटां पाशार ज़ालिंगी-साक्रिस्तिंतलो आवाज पयस सरलो आनी माजवोत गेलो.

नातालांचे रातिचो आवाज ताका पयशिल्ल्यान आयकातालो. ताणें आपलें गमन परत्यान बाळकाचेर खंचयलें. बाळाक पर्यांत पावोंक तीन - चार परनीं कदेलां आड आसेल्लीं. तीं ताचें हाळवायेन देगेन दवरलीं.

आतां—

तोच आनी बाळकामदें कितेंच नासल्लें. कसलीच आडखळ नासल्ली. ताचे आनी

बाळका भितर लिपोन आसल्ल्या दिव्यां मदें कसलीच आडखळ नासल्ली. तो हांसलो. बाळका सामकार ताणे दिंबी घाली.

इमाजी करणाराचें देणें त्या बाळकांत दिसोन येतालें. जीव आसल्लो ते मातियेंत, दैवीक उजळ आसल्लो त्या दोळ्यांनी मागाची दाव आसल्ली त्या उगत्या हातांनी आनी दिर्वे आसल्लें ताच्या पोटा भितर!

बाळकाक ताणें उकल्लो. थंड आसल्लें ताचें आंग. आपले हात ताणें बाळकाचे पाटीर चलयलो.

तो पोकोळ बुराक थंयसरच आसल्लो. ताचो हात भितर रिगलो, सास्पालो....

न्हय, विचीत्र आनी वीज.. दिर्वे लिपयिल्ले मातियेचो गेटो आजूनयी बाळकाच्या पोटाक चिडकोन आसल्लो.

पांच वर्सांची ताची राकोवण फळादीक जाल्ली.

चिडकोन रावल्लो मातियेचो मुदो निकळावंक ताका थोडे त्रासच जाले. कसोयी तो मुदो निकाळळो. ताचीं बोटां त्या मुद्या भोंवतीं रेंवडालीं. दुडवा-नोटांची अट्टी त्या मुद्यांत आसल्ली. तें दिर्वे भायर काडटां म्हणतानाच....

कुडाचें दार उगतें जालें.

कुडाचें दार उगतें जालें. दाराक पाट करून आसल्ल्या ताणें आपल्या जिवाक तक्षण घट फातोर केलो. बाळकाक हातीं घेवन अर्दे दिंबियेर आसल्ले ताचे कुडिंतलो एकच एक मांसखंड हाल्लो ना. पूण ताचे हेळकेविणेंच मातियेच्या मुद्या भोंवतीं आसल्लीं ताचीं बोटां सदळ जालीं.

मातियेचो मुदो मंद आवाजा संगीं बाळकाच्या पोटांत पाटीं पडलो.

"कोण?" चलियेचो नाजूक ताळो. हेर कोणायचोयी आवाज ना. ती एकलीच आसल्ली. जाय जाय बाळकाक हाळवायेन धरणीर दवरून तो रित्या हातांनी—परिपूर्ण रित्या हातांनी—उबो जालो आनी आपल्याच हाळवायेन पाटीं घुंवलो. ती चली ताचे सामकार उबी आसल्ली. ती चली - इमाजी करणाराचीं धूव!

"तूं!" उद्गारली ती, ताची वळख धरून "हांगासर? हांगासर बाळकाक आराधना करूंक आयलाय?"

ताणें जवाब दिलिना.

तिच्या दोळ्यां खांचिंनी दुका उदेलीं.

तिच्या दोळ्या खांचिनी दुकां उदेलीं. "अभिमान म्हाका भोगता!" ती म्हणाली, दोन मेटां मुखार सरोन. आपल्या हातांत आसल्लें हळताचें चील तिणें धरणीर दवरलें "म्हज्या बाबाचेर आनी ताचे कलेचेर मोग दवरचो एकलो पुणयी आसा तो पळेवन." ताचे थावन उतरां सुटलीं नात.

"भागी आनी समाधानाचें नाताल तुका!" ती म्हणाली आपल्या उजव्या हातान ताच्या भुजाक आपडत. "परकी तूं. तुजें नांव पर्यांत हांव नेणां. तरयी कसलिगी एक

विचित्र शक्त आमकां लागीं हाडून आयल्या म्हण हांव पात्येतां. तुज थांय बाबाचें रूप हांव पळेतां!"

ह्या उतरां बराबर तिणें बाळाक सामकार दिंबी घाली. "म्हजें बाळाक!" ती म्हणाली ताच्या पांयांचो उमो घेवन. "बाबान म्हाका सांगल्लें– ह्या बाळकाचेर केदाळागी पात्येणी दवर. जिणियेंत खंचेंयी मेट काडटाना बाळकाचो उगडास कर. आयचे रातीं म्हजे जिणेचें प्रमुख मेट काडटाना तुका हांव व्हरूंक आयल्यां!" पत्यांत तिणें बाळकाचो उमो काण घेतलो.

"तुका हांव व्हरूंक आयल्या!"

तिचीं उत्रां चोराच्या कानांत आपटालीं.

"खंयसर वेताय तूं?" तो विचारि लागलो.

ती उबी जाली, तिच्या मुखामळार प्रकास आसल्लो.

"पोयर हांवें दाखयिल्ल्या वर्तांना थंय हांव पश्चाताप पावतां. तूं जाणा जालाय आस्तलोय, म्हजी मावशी..."

"हें सर्व तूं म्हाका कित्याक सांगताय?"

"हांवच नेणा" तें म्हणालें मुग्धातेन. "आमचे मदें कसलोयी गांच आसा जाल्यार तो तोच बाळक म्हण म्हाका भोगता!"

ताणें जवाब दिलिना.

"आमी हो गांव सोडून वेतांव. गुपीत पोळापळ घेतांव!" तिणें घुट फोडलो.

त्या चिलाचो मतलाब ताका आतां समजालो.

"आमी?" तो विचारि लागलो.

"म्हजो प्रेमी..." तें लजलें खीणभर.

"तरनाट्यांक भूल घालून जाली...." मावशेचीं उतरां चोराच्या कानांत गाजलीं.

"आनी थोड्याच वेळान तो हांगासर येतलो." तिणें मुंदरिलें. "बाळकाक घेवन आमी पोळापळ घेतेल्यांव. एका तेंपार आपल्या बाळकाक घेवन तें भागीवंत कुटुंब एजिप्ताक पोळापळ घेवन गेल्लें. तांकां आनी आमकां सर न्हय तरयी..."

"तर कित्याक?" तो चडपडलो. कसलिगी असहायता ताचे थंय चरोन येताली; पूण हे दुर्बलतेंत उब आसल्ली. अशें ताका भोगचें पयले पावटीं.

"परक्या....!" ती म्हणाली, हाळवायेत त्या बाळकाक उकलून, आपल्या खांदार आसल्लें शाल तिणें ताचेर घालें. दिर्वे लिपोन आसल्लो मातियेचो मुदो बाळकाच्या पोटा भितर लोळ्ळो. तो आवाज ताच्या सुक्ष्म कानांक आयकालो, पूण तिका आयकालो ना.

"आमचे लागीं धन-दिर्वे ना!" ती म्हणाली, "आमी वेच्या परकी गांवांत आमी जीवन प्रारंभ करि जाय. बाबाच्या मोगाचो आनी भरवंशाचो कुरू म्हळ्यार हो बाळक. आतांच्या नविकरणांत हाकायी जागो ना जाला. अशें जावन-"

कुडाचें दार पत्यान उगतें जालें. एकलो तरनाटो दारार उबो आसल्लो.

प्रेमी?

व्हय; आनी मरियाळ सोडेलिटिचो प्रिफेक्ट!

"देवा!" उगत्यान उद्‌गारलो चोर. "देवा" वर्सां नंतर ताच्या तोंडांतल्यान तें पवित्र उतार भायर आयिल्लें. "मोजी तूं परिक्षा करिताय? तो ते धरणीर बसलो."

"तूं हांगासर कितें करताय?" हळत ताळ्यान विचारी लागलो प्रिफेक्ट. 'तुजी मजुरी तुकां मेळोंक ना?'

चोरान आपलें मुखामळ उबारिलें.

"मजुरिच्याकय चडच म्हाका मेळ्ळां!" तो म्हणालो, तो हीं उतरां उलय नासल्लो; ताचे भितरलो स्पिरीत जिवंत जाल्लो.

"तूं ताका वळकताय?" ती विचारी लागली आपल्या प्रेमीसरशीं वचोन.

"दोन दीस पर्यांत इगर्ज शृंगारावप्यांक ताणें कुमक केल्ली. आतां आमी तुर्त करिजाय."

तिणें आपल्या पोल्यां वयलीं दुकां पुसलीं. "हांव हांगासर येताना तो दिंबियेर पडोन बाळकाचें आराधन करतालो. बाबाक तो वळकतालो खंय आनी..."

"हो बाळक तुवें व्हरी जायी?" प्रेमी विचारी लागलो मदेंच.

"व्हय!" ती म्हणाली, "कारणां हांवें विवरिल्यांत."

"पूण...."

"तो बाळक व्हरू दी!" तो म्हणालो एकाच्वाणे उबो जावन. तिची आनी प्रिफेक्टाची दीश्ट ताचेर पडली.

"तूं सर्व जाणांय?" प्रिफेक्ट विचारी लागलो दोळे अशीर करून. "तुवें ताका सर्व सांगलांय?" उप्रांत तो तिचे लागीं विचारी लागलो.

"हो, कोण हो मनीस?" आपल्या सवालांक ताणे हेंयी कुड्सिलें.

"तें तुका करजेचें न्हय!" जवाब दिली चोरान. "जाणा जाय जाय आसचें सर्व हांव जाणा. आतां तुमी तुर्त करा. नवी जीण तुमकां राकता."

घुस्पडेचीं खुणां त्या दोगांच्या मुखामळांनी उदेलीं. तिणें तो बाळक आपल्या हरद्याक दांबून धरलो. तवळ तिका तो आवाज आयकालो....

"ह्या बाळका भितर कितेंगी आसा!" ती उद्‌गारली.

चोरान आपले दोळे धांपले. आपलें शिंतीद निसरोन पाटीं वेच्या फुडें. आपली उत्रोण परिपूर्ण जावंचे फुडेंच कांय तरयी घडात म्हळ्ळ्या भंयान.....

"तें सर्व पळेवंक तुमकां उप्रांत वेळ मेळटलो!" तो म्हणालो. "आतां तुमी तुर्त करा."

तीं तयार जालीं.

"तुवें दया करून घुट सांबाळून म्हाका सवय जाल्या!" ताणे जवाब दिली.

"भागी नाताल तुका!"

"तुकायी."

आतां, तीं लागीं सरलीं.

"वेच्या फुडें ह्या बाळकाचो तूं उमो घे!" ती म्हणाली. बाळकाक उबारून धरून.

तो बागालो आनी उमाळोन थेंवच्या दुकां मदें त्या बाळकाचो उमो ताणें काण घेतलो. ताचीं दुकां बाळकाच्या पोल्यार पडलीं. मासें उकलताना बाळकाचे उगते हात ताच्या मुखामळाक लागले – दुसरे पावटीं...

तो स्पर्श जावन आसल्लो एक हुनहुनीत मोगाच्या थेंब्यापरीं. हो जावंक पावलो ताचो दुसरो, शाश्वीत बावतिज्म.

तीं गेलीं... तांचो मोग घेवन, नव्या जीवनाचे हुरूप घेवन. नातालांचें समाधान आनी बाळक घेवन.

पूण तांणी आनी त्या बाळकान ताचेखातीर पाटीं सोडल्लें दिवें अगणीत जावन आसललें.



# खोल खोल तळीं

—गजानन जोग

निक्तोच जेवण करून बडीशेप तोंडांत घोळयत तो खाटीर पडिल्लो. सांजचें ऑफिसांत वचना जाल्यार जातालें. दुसरो दीस आयतार. दोन दीस आळस करप अशें थारावन ताणें वाचतालो तें डिटेक्टीव पुस्तक मेजार दवरलें. भायर पावस पडटना उबशीर कांबरूणांत न्हिदून रावपाक खूब बरें दिसतालें.

इतल्यांत दारार वाजलें आनी उठून ताणें दार काडलें. दारांत रंगा उबो. मूळचो रानतळ्यांतलो - आतां हांगाच आसता एलायसींत. रंगाक पळोवन तो खोशी जालो. खूब पोरणो वांगडी तो. रानतळ्यांत दोगूय शेजरा शेजरा रावताले. मागीर हायस्कुलांत मेळ्ळे परते...

"आरे, दारांत कितें उबो? भितर यो मरे रंगा."

"ना, भितर येना हांव. चल्लों ऑफिसांत. मातशें चड काम आसा. एक रकाद दिवपाक आयिल्लों."

"कोणाचो कसलो रकाद? यो, बस तरी" अशें म्हणून ताणें रंगाक भितर खाटीर बसयलो.

"तुजी मामी- रानतळ्यांतली - खूब बरी ना अशें आयकलां. पयर हांव वचून आयलों. रानतळ्यांत - जमनीचें काम आसलें. थंय आयकलें."

"तूं गेल्लो मामागेर?"

"ना रे बाबा! तुज्या त्या मामागेर वचपूच म्हळ्यार म्हाका भिरांत दिसता. तू थंय आसतना लेगीत सुटना म्हणून हांव वतालों." तो हांसलो.

"हांसता कित्याक?" खरेंच, त्या घराक, त्या वाठाराकूच हांव भियेतां. आनी त्या वाठाराचो इतिहासूय तसो मोटो सो. तें आसूं. हांव वतां... तर म्हटलें, तुकां कळयल्यार बरें. तरी कळावूच जालो. कामा फुडें विसरून्च गेलों.

"सिरियस आसा?... तशी दुयेंत आसतालीच ती मदीं मदीं."

"हय, अशें तो सांगतालो आमगेर तेदुसा... बरें हांव वतां."

"आरे, च्या करुंया, बस मातसो..."

"नाका, दुसरे फावट" अशें म्हणून तो उठलो.

"बरें, हांवें वचून आयल्यार बरें शें दिसता. सी एल ॲप्लिकेशन खड्डून दितां. वतना मातशें ऑफिसांत उडय आमच्या."

"खरड तर बेगीन. आदीं कसलें ॲप्लिकेशन दिता रे तुमी? आदीं लीव घेवन मागीर ॲफ्लीकेशन दिवप उपकार केल्ल्या सारकें...."

रंगा गेलो आनी मातसो वेळ तो बसून रावलो. वरां पळयलीं. अडेच वरां जावन गेल्लीं. वचपाचें काय ना तें बेगीन थारावपाक जाय आशिल्लें. कारण तीन बसी बदली बदलीत रानगांवांत पावपाचें आनी थंयच्यान फुडें रानतळ्यांत चलून वचपाक वर देड वर लागतालें... आतां सरळ रस्तो- बिस्तो जाल सो दिसता; पूण गाडी मात थंय केन्नाच वचची ना. इन मीन तीन घरां. सादा सादाचे वाटेर. गचबंद रानांत मनशां रावतात कशीं हाचेंच ताका अजाप दिसतालें... एकदां मनांत आयलें, कित्याक वचचें आडरान गांवांत? पूण लागींचीं अशीं मनशां कोणूच उरूंक नात. हीं दोगांच उल्ल्यांत म्हटल्यार ज़ाता. खरें म्हणल्यार मामी तितलीच. आवयचो खाशा भाव मामा; पूण ताचे बद्दल केन्ना आपलेपण दिसलेंच ना. ताच्या विचित्र सभावाचो माग लेगीत लागपाक कठीण. पूण मामीची ताका लागणूक आशिल्ली. वर भर वाट वावरून शाळेंतल्यान आयले बराबर तिणें आदीं झरी कडेन बोट दाखोवन पांय धुवन येवपाक सांगचें आनी मागीर सकाळचे तांदळांचे दाटदाट भाकरेचें अर्दूक खोल्यार घालून फुड्यांत दवरचें. सुपारे येदी लोण्याची गुळी मागीर ती भाकरे कुडक्यार सोडटाली आनी कडकपणान फुड्यांत बसून रावताली. ती अशी म्हन्यांत आसतना खावपाक मातशी भिरांत कशी दिसताली. खरें म्हणल्यार तिचे बद्दलचो एक शेक सो ताका सदांच दिसतालो. पूण मामाल्या तांबड्यागुंज दोळ्यां मुखार ती खूब शी बरी दिसताली....

लोळकी शी पॅण्ट सोदून काडून ताणें चडयली. तसलोच शर्ट घालो. हातांतलें पुस्तक बॅगेंत घालें. बारीक सारीक दोन वस्तू घेतल्यो आनी न विसरतां ताणें बॅटरी बॅगेंत उडयली. थोडे पैशे बोल्सांत उडोवन ताणें खाटी पोंदा उडयल्ल्यो चामड्याच्यो व्हाणो घाल्यो आनी दाराक कुलूप आडखळावन तो भायर सरलो.

सिटी पोस्टा फुडल्या मिठायवाल्याच्या दुकाना मुखारच्यान वतना ताका मामीक श्रीखंडाच्यो वडयो आवडटात हाची लक् करून याद जाली आनी तो दुकानांत भितर सरलो. मामील्या कत्रेलांत साठाचीं पानां, म्हानां, सुरयिल्ले घरे अशें कितें किते आसतालें. केन्ना केन्ना ह्या कत्रेलांतल्यान ती असल्यो वडयो काडून दोन हातार दवरताली. आपूण लेगीत ती ल्हान भुरग्या सारकी वडयो चोखून चोखून खाताली. पूण केन्नाय चुकून खाल्यार खाणा-जेवणाची तिका अशी वान्साच नासताली. मोटी शी वान्सा आसताली तरी कसली हें देवाक खबर... दुकानांतल्यो वडयो काबार जाल्ल्यो. लागीं दुसरें दुकानूय नाशिल्लें. कितेंय तरी बांदून घेवन तो सटकलो. कारण सोदीत बसल्यार बस चुकतली आसली.

सुट्टां सुट्टां बस मेळ्ळी आनी ताका सूऽऽ जालें. फटाफटा बशींचीं कनेक्शनां मेळत जाल्यार सामको काळोख पडचे आदीं रानतळ्यांत पावं येतालें ...

...फाटीं सरिल्ले जिणेंतल्यो यादी एकेक जाग्यो जावपाक लागल्यो. घरच्यो... रानतळ्यांतल्यो.. मनशां-लागचीं, सामकीं आंतड्याचीं, पैशिल्ल्या नात्यांतलीं... तांचे तरतरांचे सभाव-चलणूक.... कांय कांय मनशां इतलीं गुढाळ... तांचें उलोवणें.... तांची चलणूक...

... कितलीय ताकतिक केल्यार मनीस पावपाचो तेन्नाच पावता अशें ताका दिसलें. तिस्काट्या वयल्यान रानगांवांत पावता म्हणसर कुट्टकाळोख जालो. सांगाताक पावस झडपूंक लागलो. वाटेर बंद पडूंक नासल्यार बस बरी बेगीन पावपाची, अशें म्हणत कंडक्टरान ताका देंवयलो. आनी ताका त्या कुट्ट काळखांत उडोवन तो खटारो खरां खरां करीत चडणेक लागलो. कंडक्टर वळखीचो आसलो; पूण यत्न करुनय ताचें नांव याद जायना जालें. सभोंवटांनी आठ-धा चिमण्यो लिकलिकताल्यो आनी गिरणकाराल्या पसऱ्यांतल्यान फकफकपी पेट्रोमॅक्साचो उजवाड बारीक मोटो जातालो. धांपपाचे तयारेंत आशिल्ल्या पसरकारान ताका बॅटरेच्यो सेली नात म्हणून सांगलें आनी "हो आनी कोण ह्या कातर वेळार परकी असामी!" असो भाव करून तो पळयत रावलो. तो गिरणकारूच, पूण ताणें आपणाक वळखूंक ना हें बरेंच जालें अशें ताका दिसलें. ना जाल्यार ताच्यो चवकशो सुरू जावपाच्यो. बॅटरेचो कमीत कमी वापर करीत तो वाट चलपाक लागलो. खाक्यांतली बॅग आनी हातांत सत्री धरून, दुसऱ्या हातांत बॅटरी घेवन चलप एक कठीण काम आसलें. नशीब म्हणजे वाटूय मातशी रुंद करून आतां रस्तो केल्लो. ना जाल्यार... ते आदले वाटेची याद जावन ताचें आंग शिरशिरलें. किरांगळी येदी वाट. रातच्या वेळार केन्ना पांयां पोंदच्यान कुशीक सरून मनीस रानांत पडत हें सांगप कठीण.

... रानतळ्यांतल्या उतरणाक लागलो तेन्ना त्या पडट्या पावसांत लेगीत ताका घाम सुटिल्लो. चलपाचे स्रम आनी काळखी एकटुकी वाट. निमाणो एकदां तो शेकानशेक पातळिल्लो वड लागलो आनी तो आतां खूबच वाडला हें रातचें लेगीत ताका समजलें. मागीर कुळागरा कुशीची ती पाज. दोनय वाटेनचीं तीं काळीं कुळकुळीत तळपां... तीच तळय... सगळें तशेंच आशिल्लें. गरादीच्या वारांवांतल्यान पडवेर ऊंच गऱ्यार अडकायिल्लो लापयांव दिसलो आनी कालूच हांगासल्ल्यान भायर सरून परतो आयलां अशें ताका दिसलें. सगळें तशेंच - तेंच. सोपणां चडून ताणें सत्री पालोवन अडकायली आनी मातसो गोदळिल्ले सारको जालो.

"यो भितर! विनू मरे तूं?" पिरपिऱ्या काळखांत तो आवाज खंयच्या सप्तपाताळांतल्यान येवचो तसो आयलो आनी ताणें कच्च करून आंग काडलें. तो घोगरो, खरखरो आवाज मामालोच हें लक्षांत आयले बराबर "सुटलों सायबा एकदांचो" अशें ताका जालें.

आदल्याच अगडबंब वोल्तेरांत मामा धोंपरांर सवकास हात भोंवडायत बशिल्लो. विनू आयला म्हणून तो उठलो लेगीत ना.

"बस. कितें खबरबात?" अशें म्हणून मामान वांका कडेन बोट दाखयलें आनी ओलेल्ल्या आंगान तो अवघडिल्ले सारको बसलो.

"मामी कशी आसा?" ताणें उलोवणें सुरू करपा खातीर विचारलें.

"आसा आजून!" घोगऱ्या आवाजांतलीं तीं उतरां आयकून ताचें काळीज धस् जालें.

"अशें कितें मामा?" ताणें मातशें तिडकीन विचारलें. पूण मामा कांयच उलयलो ना. ताणें आपलें महिग्न फुडें सुरू केलें.

ओलीं जड पावलां उखलून तो काळख्या चौकांत भितर सरलो. ताणें सांबाळून पांय घालो. कारण भितल्ली जमीन हातभर खोल आसा हाची ताका याद जाली. वणटीक तेकून बशिल्ले मामीचेर नदर वतकीच ताच्या आंगार सर्र करून कांटो उबो रावलो. धव्या फटफटीत हातां-पांयांची मामी फुड्यांत चिमणी घेवन प्रेता सारकी बशिल्ली. तिचे दोळे उक्ते आशिल्ले, पूण पातकड्यो हालय नासतना ती फुडले काळखे वणटींतल्यान आरपार पळयताली. चिमणेची जोत तितली थरथरून तिच्या जितेपणाची गवाय दिताली...

"कोण रे? कोण आयलो?" ताची सुलूस लागून तिणें विचारलें. आवाज मातसो आशिल्लो. कांकणां सारको ताच्या कानांत किणकिणलो. तिचो तो बारीक सणसणीत आवाज ताका भुरगेपणांत घेवन गेलो.

"मामी, हांव विनू आयलां- भाचो तुजो!" सरकून बसून तिणें ताका बसपाक म्हणय दिवपा खातीर हात लांबयलो आनी ताणें ती म्हणय आपूणच फुडें सरून घेतली. मांडी मोडून तिच्या फुड्यांत तो बसलो आनी तिच्या जमनीक तेकयिल्ल्या हाताक काळें लागता तें पळोवन ताणें चिमणी कुशीक केली. ती मंद शी हांसली.

"कसो आसा म्हज्या पुता? ही पळयली म्हजी अवस्था?.... चल, कपडे काड ते ओले... थंडी जायत... भिजत आयलो मरे?" तिका खोकली आयली. खण खण आवाज करून ती खांकता तें पळोवन आपलेंच काळीज कोण तरी खणटा अशें ताका जालें.

सांगाता हाडिल्ल्यो दोन चार पुडयो ताणें तिचे म्हऱ्यांत दवरल्यो. "कित्याक इतलें हाडलें रे विनू?" अशें तिणें म्हळें तेन्ना ताका वायट दिसलें. तिचे आवडीच्यो श्रीखंडाच्यो वडयो हाडिल्ल्यो जाल्यार मुद्दाम सोदून हाडल्यात हें तिका सांगूंक मेळटलें आसलें. तिचे वयलो मोग पळोवन तिका खूब बरें दिसतलें आसलें. मनांतल्या मनांत ताणें आपल्याच मुस्कटांत एक मारून घेतलें.... कित्याक आपूण इतलो निष्ठूर जालों - दोन दोन वरसां सादी वासपूस लेगीत केली ना... जाता तितलें बरेंच केलें तिणें आपलें भुरगेपणांत. तिची कडक चलणूक लेगीत बऱ्या खातीरूच नासली म्हज्या? जिणेंत हांवच एक तिका सूख दिवपाक शकतालों. ना पोटचें पोर तिका- ना कोण विचारपूस करपी सोयरो. घोव तर असो- साताजल्मांचो वैरी परवडलो...!

... तिच्या म्हऱ्यांन बसून थरथरते चिमणेच्या उजवाडांत तो तिची कर्मकाणी आयकत रावलो. दुस्माना सारक्या तिच्या घोवान- मामान हालीं हालीं तिचे कडेन एक उतर लेगीन उलोवपाचें सोडिल्लें. तशें लग्ना पासूनच तांचें फिस्कटिल्लें. ताच्या मनांत ही चली नाशिल्ली जावंये. ताचो आनीक खंय तरी जीव शिरकल्लो. तिका कांयच कळ्ळें ना. सबंद जिणेंत तिका कळ्ळीं फकत ताचीं विचित्रपणां. आठाठ दीस नाच जावप. आठाठ दीस काम जाल्यार सारकें कामूच करप. न्हीद जाल्यार न्हीदच काडत रावप. एकदां वाटचुकीन

आयिल्ल्या म्हाताऱ्याक भर दनपारच्या कडार ताणें धांवडावन घालो. एकदां ताणें पिकून तयार जाल्लें वांयगण कोयती लायनासतना म्हसरां-गोरवांक खावयलें... गुरूचरित्र वाचपाक एकदां सुरवात केली - न्हावन येवन ओलेत्यांनी तो खंय पाटार बसलो तो दोन दीस अखंड वाचीत रावलो. तिसरे दीस घुंवळ येवन थंयच देवाऱ्या मुखार पडलो. ती सावशीत करपाक गेली जाल्यार भानार येता खिणाक ताणें तामण उखलून तिच्या कपलार मारलें आनी 'भष्टकार जालो, भष्टकार जालो!' अशें म्हणून तो परतो न्हावन येवन पाटार बसलो...

"खूब रात जाली विनू..... तुजें जेवण... कशें सांगूं पोरा तुका कितेंय शिजोवन खा म्हणून...? नशीब म्हजें! इतल्या वर्सांनी तूं आयला... दोन गोटे पानार घालपाक तांक ना म्हाका...." तिका एकदम रडेंच कोसळ्ळें आनी अस्वस्थ जावन उठून तो कुडींत हेवटेन तेवटेन पासयो मारपाक लागलो. इतल्यांत पडवेर आवाज जालो म्हणून ताणें भायर येवन पळयलें. हातांतलो लापयांव बारीक करून खुंटयेक लावन एक जाणटेलो सो पुडवेंकार भितर आयलो. ते बराबर वोलतेरांतल्यान उठून भिरभिरले सारको मामा फाटले कुडींत गेलो.

"कशें आसा गो पार्वते?" खांकरुन ताणें विचारलें आनी विनून खाली केल्ल्या पाटार तो वणटीक वणकून बसलो. मामी शीतळ शी हांसली आनी हात आनी तकली हालोवन तिणें "भगवंताची वांछा!" अशें सुचीत केलें.

"पाळ उगाळून घेतलें तुवें पयरचें?" ताणें विचारलें आनी आयला तो सोयरो कोण हाचो अदमास घेत बाराबंदेचीं भितर्ल्लीं बोल्सां तो सांसपूंक लागलो. "आयज एक जालीम मात्रा हाडल्या हांवें" अशें म्हणून, ताणें कसली शी पुडी भायर काडली.

"चुलींत घाल तुजी ती मात्रा! आनी तूंय चल मस्णांत एकदांचो!" एकाएक भायल्यान मामाचो गुरगुरून आवाज आयलो. तोंडा वयली एक शीर लेगीत हालय नासतना जाणटेल्यान म्हळें -

"आतां मसण पयस ना! सगळीं वांगडाच या मसणांत! कोण हांगा रांडेचो सोदता जितो रावपाक...? कपल फुटको गांव आनी समंधा सारकीं मनशां...!"

इतल्यांत मामान एका खोल्यार घालून चार गोटे शीत मामीच्या म्हऱ्यांत हाडून आदळ्ळें आनी म्हळें,

"विनू, तूं जेवपाक यो भितर."

"चुलींत घाल तुजें तें जेवण" अशें म्हणचे शें ताका दिसलें. पूण पोटांत भुकेन कावळे कोंकताले. मोन्यानी तो रांदचे कुडींत भितर सरलो.

"पळय, तुका कितें बरें लागता.. उकडलां आपलें कितें तरी पोटाभकीक."

"मामी केन्नाच्यान उठना मामा?"

"जाले तीन चार म्हयने."

"कितें जालां? कसलें दुयेंस?"

"कर्म!"

"वखत-पाणी करूंक ना?"

"तो करता तितलें पुरो!"

"कोण ऽऽ" ताच्या गळ्यांत घांस शिरकलो.

"तो बसला तो येवन!"

"तो वळखीचो सो दिसता, पूण याद जायना!"

"सकयल्या घरांतलो तो...."

"हां हां....विसूकाका. हांव हांगा आसतना येतालो तो. नांव लक्षांत नाशिल्लें- हांवें वळखल्लों ताका...."

"तें आसूं, तूं भरपूर जेव. रातीं न्हीद पडची ना, ना जाल्यार" अशें ताका फर्मावन मामा उठलो लेगीत.

तडक उठून घरा चलूंक लागचें अशें ताका दिसलें. पूण भायर घोग्यांनी पावस पडटालो. सभोंवतणच्या रानांत मर्दी मर्दी काजुले तितले आपलो पाचवोमंद उजवाड एक लय धरून फांकारताले.

ताचे खातीर मांद्री कुबेर्द हाडून मामान पडवेर दवरलें आनी आपल्या सदच्या बांकार आपली पथारी सोडली.

तो विसूकाकाल्यो गजाली आयकत बसलो. दुर्येतपणांत मामीची विचारपूस करपी असो तो एकलोच आशिल्लो. कसलीं, कसलीं झाडपाल्याचीं वखदां हाडून विसूकाका तिका दितालो. "तिका हालीं मातसो गूण पडला आनी चार दिसांनी ती भोंवपाक लागतली." अशें ताणें विनूक सांगले आनी पावस थांबला तसो वतां, म्हणून तो उठून लापयांव झेलयत सवका सवकास दिसना सो जालो. विनूक ताचें मोटें अजाप दिसलें. अर्द वराचे वाटेर हो आतां येदे रातचो वतलो. तिची विचारपूस करपा खातीर तो सदांच अशी एक फावट मारता... आनी हो मामा, तिचो घोव, तिका साद लेगीत घाली ना. कर्तव्य म्हणून दोन वेळ अन्न हाडून तिच्या म्हऱ्यांत उडयता....

खूब वेळ ती उलयत रावली. तिका उलोवन उलोवन कितेंय जायत अशें ताका दिसलें म्हणून बळयां तिका न्हिदोवन आपलीय पथारी ताणें तिचेच कुडींत घाली आनी न्हिदेची प्रार्थना करूंक लागलो.

...मिणमिणट्या लापयांवाच्या उजवाडांत कुडींतलो काळोख चडूच भयांकूळ दिसतालो. ते कुडींत कसलो तरी वास येतालो. त्या वासान आनी त्या वातावरणान ताची न्हीद सामकीच उडली. सताड दोळ्यांनी तो कितलो सो वेळ आडवो पडून रावलो. मामी पिरंगुपाक लागली म्हणून भियेवन ताणें तिका साद घालो; पूण ती न्हिदेंत पिरंगताली. उठून तो भायर पडवेर आयलो. मामा घुरघुरले सारको घोरेतालो. बाकी सगळें शांत शांत आनी काळेंकुट्ट आशिल्लें. कुवाडें घाल्ले सारकी ती काळखी रात सभोंवार संकिल्ली आनी कितेंय तरी उत्तर सोदपाचो तो यत्न करतालो. पूण कुवाडें कितें हेंच सारकें हाताक लागपाक तयार नाशिल्लें.

कावळयांची काव काव आयकून तो जागो जालो आनी चुरचुरे दोळे उक्ते करून ताणें भायर पळयलें. निकतेंच भिणभिणटालें. मामीचो मंद मंद घोरपाचो आवाज आयकून ताका खूब बरें दिसलें. कांबरूणांत घुस्पटून आनीक मातशें गुप्प न्हिदचें अशें ताका दिसलें. पूण वयर माळयेर खुडबूड जाल्ली आयकूंक आयली. मातसो भिवन ताणें दोळे उगडले. येदे फांतोडेचो कोण हो? उठून पळोवचें अशें ताका दिसलें. पूण भिरांत दिसपाक लागली. इतल्यांत उजवाड हाल्लो आनी एक लांबचे लांब सांवळी फुडें सरकली. दोळे ताठ उक्ते दवरून तो माळयेचे लाकडी इस्कादी कडेन पळयत रावलो. इतल्यांत एका हातांत चिमणी आनी दुसऱ्या हातांत कितें तरी जड वस्त घेवन इस्काद करकरायत मामा सकयल देंवलो. ताचे दोळे उक्तेच उरले. एके विचित्र भिरांतीन ताचें काळीज कलकल्लें; पूण उत्सुकतायेन ताका ओगी रावंक दिलें ना. थोड्या वेळान तो उठलो आनी उजवाड दिसता ते कुडींत वचपाक लागलो.

मान्र्याच्या कट्टयार चिमणी दवरून मामा कितें तरी करतालो. मदल्या दरवट्यार तो धडपडलो आनी मामान फाटीं वळून पळयलें. तो येवन धीर करून मामाचे म्हऱ्यांत उबो रावलो आनी ते करणेचो ताका अर्थूच लागना जालो.

"कितें करता तुमी मामा हें?"

"दिसना? दिवली घांसून काडटां!" अशें म्हणून हातांतली दिवली मामान दाखयली. तांब्याची ती भरभक्कम बिन घुडाची दिवली घांसून चकचकीत करतालो.

"हाचो अर्थ कितें मामा? फांतोडेचेर उठून तुमी दिवली कित्याक घांसतात? बरे आसात मू तुमी?" ताणें नेटान विचारलें. मामाले करणेचो अर्थ लागप मोटें कठीण जाल्लें.

"आयक, सांगतां. आतांच म्हाका दृष्टांत जालो... ही आयज मरतली म्हणून..... फांतोडेचें सपन तें, खरें जातलेंच.... म्हणून ही दिवली तयार दवरतां." मामा हांसलो आनी ताचें आंगपांग शिरशिरलें.

"तुका खबर ना दिसता. मनीस मेले उपरांत मड्याच्या माथ्या कडेन दिवली पेटोवन दवरपाची आसता!....." अशें म्हणून तो परत हांसलो आनी खसखसून दिवलेचेर तणशी भोंवडावंक लागलो. आनीक थंय रावं नज जावन विनू धांवत पडवेर आयलो. खळ्यांत वचून केन्ना एकदां सारकें उजवाडटा हाची वाट पळोवपाक लागलो......



# मोडें मोर्तो

—के. आर. वसंतमणी

गांवांत मोर्त्याक वळ्कुचें कोण ना. जाल्यार मोडें मोर्त्याक वळकनाशिलेय कोण ना. मोर्तो खंचे गावंचो, तागेलीं आम्मा-बापा कोण, ताका प्राय कितली, यें कांय ताका कळना. बन्धु बान्धव ताका कोण ना. ताका मागीर कितें आसा? एकि रुका पेट, तांतु दोन पिंजलीं मुण्डां, एक भांगरा काम्बीचें साल, आनी एक काळें सुणें. तो खंय गेल्यारीय मागल्यान सूणे आसतलें. माथ्या मुळां पेट, पाया मुळां सुणे असि ताणे नीदेंवचें चोयल्यार, एक महाराय युद्ध जिखून नीदेता म्हणु लेखुका.

मोडें मोर्तो केदाणा मेगेले गांवांत पावला? साभार वर्सां फूडें. एक सत्तरि वर्ष फूडें जायत. गांव सगळी 'बळीक'. राम माम, बळीक लागून मेलो. मोडें काडून व्हरूक एक मनीष लार्गी जावंका. कोण मुकार येना. वेळु वता आसा. जन सग भीवनु भीवनु आसात. सांज जाता, कितें करका म्हणु आलोचन करनु राम मामाले पुतान राबीले वेळार एक तरणो मनिष येवनु पावलो. कितें मोडें घालून चोयतांय म्हणु निमगून आंगसो कुरटाक बान्दून तो मुकार आयलो.

"हांव खान्दु मारतां. मोडें घालून राबचें पाप." तो मोड्या लार्गी गेलो. तो कोण, खंचो, कोणाक कळना. कोणें की ताजे लार्गी निमगुचाक ताणें जाप दिली. "हांव एक मनिष. नांव मोर्तो हांवें हें मोडें काडचांतु तुमकां खुशी ना जाल्यार सांगाय, हांव वतां." कोण कांय उलैना देखून, मोडें मोषणांत लासून, तो सीदा देवळा तळयेंत वचून न्हालो. तळये काट्यार पडून निदेलो. फाल्लें जावंचाक उठावनु न्हावनु देवळांत पावलो. देनपारां देवळांग जेवलो. सीदा तळये काट्यार गेलो. तागेले सिता एक वण्टो सूण्याक घालून तो आनी सूणे थांगा पडून निदेलीं. कोणा लागी ताणें खबर काडूं ना. कोणय ताजे लागी उलौंवचाक गेल्यार ताणें उलौंवचें ऊणे. राम मामाले तेराव्याक ताका मंदूरी, उशें, मुण्ड सगट दान मेळें. दीस वता वता सग जन मोर्त्यालीं सांगातीं जालीं.

बळीक लागून जन साभार मरता आसात. एका लागून एक मरण जाता. एक-दोन मरण नाशीलो दिस ना. मोर्त्यांक राती दीस काम जालें. सन्तोषान ताणें एकेक मोडें काडून लाशीलें. कसलें मोडें जाल्यारीय कांयशी भय नाशिलें ताणे काडून लासिलें. ताणें मोडें

व्हरचे वेळार ताजे लागीं कोणें कांय उलौं नयें. मोडें सरियेर दवरून उज्जो दीवन जाल्यार तो उल्लेयता आसतलो. मोडें लासूचे वेळार एकेक भाग लासूचें दाखोवनु वर्णन करता आसतलो. जीवो वासो भेतूचो सब्दु हरदें भेतूचो सब्दु म्हणु सांगतलो. ताणें मोड्याक खांद मारचें आनी मोडें लासूचें चोयल्यार तो यमराय म्हणु लेखुका. मोडें लासून तळयेंत वचून न्हावुन एक नीद आसा. ते काळाक मोडें लासून मोर्तो 'मोडें मोर्तो' जालो!

मोडें लासूंक मोर्त्याक कोणेय दाम दिल्यार, तागेलो कोपु पळौंक. दुड्ड घेवना. मागशीं चोवंनाशीलें वतलो. दामाक मोडें काडूंक मोर्तो ना म्हणु सांगून तो वतालो. ताका दामु किन्याक? देवु सीत दिता. नीदेवंचाक तळये काटो आसा. न्हेसूंक जायशीं वस्त्रां आसात. मोर्डे काडून ताका दामेली जावंका नाका. तो कित्याक मोडें लासीता म्हळार ताणें सांगचें - "ह्या लोकांन कितेंच चांग आसा कि, तें मोडयां तं." मोडें कोणाक नाका, दाम सगटांक जाय. देखून ताका दाम नाका, मोडें जाय. हांसून ताणें म्हणचें - "हांव यमरायु. रायाक कित्याक दामु?" दाम घेवनु कोणाक दीवुंचाक? दाम आसा जाल्यार नीद येवुना. आतां तो सुखान निदेता! खंचे घरल्याक गेल्यारीय ताका सम्मान मेळता. हाजे पशी व्होड ताका कितें जावंका?

वर्सां एदींच वचाक मोर्त्याक देवळां सून एकि खोपी बान्दून दिली. मषणाची चाबी ताका दिली. तो आनी तागेलें सूणे खोपीयेंत पडतांत एक दीस सूण्याक पिशें लागलें म्हणु, कोणे की मारनु वेच केलें. सूण्या मोडें चोवनु आज थांय भीवं नाशीलो मोर्तो भिलो. तो जैतें रळ्ळो. कितले की वर्स तें सूणे ताजे लागी आशीलें आनी तो एकलो जालो. सूण्या मोडें काडूंक ताजें मन दुकलें. कितलीं कीं मोडीं ताणें काळ्ळ्यांत. जाल्यार सूण्या मोडें काडूंक ताज्यान जायना! मन दुकून दोळे भरून ताणें सूण्या मोडें खोपिये मागल्यान पुरलें. सूणें वचाक तो एकलो जालो. राती ताका नीद येना. नीदेवनाशीलें पळ्ळेले मोर्त्याक मन भिता. भय कितें म्हणु कळनाशीलो मोर्तो आतां खोपियेंत एकलो पडूंक भिता. नीद येना. दोन तीन दीस मोर्तो भायर कांय देवंनाशीलें राबलो. दुखान भोवंचे ताका देखून, सांगात्यानी म्हळ्ळें -"मोर्त्यान व्हरडीक करका."

दीस येदे गेले. एक, व्हरडीक केल्यार कशी म्हणु ताकाय दिसलें. गावांत चेलीयो आसात. जाल्यार मोर्त्याक एकि बायल मेळना. मोडें व्हावंचे ताका कोण चेली दीना. चेली सोदून वर्सां दोन तीन चुकून गेलीं. ताका चेली मेळ्ळी ना म्हणु दुःख ना! जाल्यार मन दुकता! ताका दिसलें - मोडें व्हावंचे माका कित्याक बायल? हांव एकलोच हांगा आयलों, एकलोच वतां!

एक दीस मोर्तो रूका पेट माथ्यार दवरून तळयेचे काट्यार पावंलो. खोपियें राबून सूणें गेलें. खोपियें राबूंक बायल मेळ्ळेलीय ना. आनी कित्याक खोंपी? तो काट्यार बेसला कित्याक म्हळ्यार ताणें सांगचें - "माका बायल ना, भुरगीं ना; कितें करूंक कि खोंपी? तांतु वारें ना. हांगा चांग वारें आसा. राती नक्षत्रां मेजून बेसल्यार मनाक आनन्दु दिसता.

खोपीयेंत राबलों, व्होडी चूकि जाली. हो काटो माका खोपीये पशी चन्द दिसता."

मोर्त्यान एक सूण्या पेट्याक घेतलो. सूणे मेळचाक ताका सन्तोष जालो. केदनाय खुशीन मोडें लसिता. ताणे तळयेचे पाडीक केळी वोयल्या, तुळसि वोयल्या. तुळसि दळ देवळांत दिता. खंचे घरल्याक कितें आसा जाल्यारीय ताका उळदीतांय. ताज्यान जायत आशिलें काम करून तो वता. मोर्तो आसवे, कोणे कांय चोवंका नाका.

वर्सां साभार जालीं. मोर्तो म्हांतारो जालो. आतां फूडेचे लेखान कूरट आयकना. आतां मोडें व्हावंचाक त्राणि ना. चमकूंक बड्डी जाय. सेजारी ताका खाण दीता देखून ताका आनी सूण्याक उपास ना. मोडें उबारूक जायना देखून ताका दुःख जाता. जाल्यारीय मोडें लासूंक तो आसा. मषणा चावी ताणें देवळां दिली. "माका आतां काडूंक त्राणि ना. मोर तांय हांव मोडें लसितां." ताजे दोळे भरले. तीन हजारा भायर मोड्यांक खान्द मारलोलो मोर्तो. आतां एक मोडें काडूंक जायना म्हळ्यार दुःख नाशिलें वचत वे? आज ताका व्होडु सन्तोष आसा. कितें म्हळ्यार, फूडें चेईवं कोण मोडें काडूंक मुकार येनाय आशिलीं. "आज, खंय कोण मेलें जाल्यार युवक मुकार सरून मोडें काडतात. मेगेले उपरांत, मोडें लासूंक कांय कष्ट जावंना. आतां मरूंक माका दुखना. माजें मोडें काडून लासूंक हांगा चेईवां आसाय," मोर्त्यान सांगुचें.

एक दीस मोडें लासून मोर्तो तळये काट्यार आयलो. कांय नज दिसता. राती जाली. सूणे भूकेन भोंकता. "पुता, आज खाण हाडूंक माज्यान नज. उलौं नाशीलें निदे." राती मोर्त्यालें सूणे व्होडान भोंकता. तें कित्याक भोंकता म्हणु कोण चोयलें ना. फालें जावंच्याक तळयेंत न्हावंचाक पावील्यान चोयल्यार, मोर्तो उठायलो ना. सूणें ताच्या पाया मूळां हालनाशीलें पडलां. लागी वचाक, मोर्तो मरून पडला! सूणेय मेलें! मोर्त्याल्या मरणा खबर आयकून तळये काट्यार जनं भरलीं. तशी कोण लागी सांगनाशीलें, कांय रीण नाशीलें बन्धु-बान्धव कोण नाशीलें मोर्तो गेलो!

मोर्त्याक लासूंक जन भरलें. राजोचीत रीतीन तागेलें मोडें काडून लासीलें. ताजे लागींच सूण्या मोडेंय पुरलें. ताका लासिले जाग्यार "समाज सेवक मोर्तो माम-मोडें मोर्तो हांगा निदेता" म्हणु बरेयली एकि शीला दवरून जनान ताका सम्मान केलो.



# अनीता

—तोमाजिन्यु कार्दोज

सांजेच्या सुमार पांच वरांचो वेळ जावन आसलो, जुजेच्या घरांत शेंकड्यांनी लोक जमलेलो. कोण रडटालो. कोण उल्लासतालो आनी कोण चुरचुरतालो. जुजेची बायल- लुईजा भुरगेपणारूच रांड जाल्ली. तिचें रडणे आनी उल्लास पळयल्यार एक खडप पर्यान विरगळटलें आसलें. तांचो एकलोच पूत, सुमार स वर्सांचो रीचार्ड, आपली मांय रडटा ती पळोवन आपूणय रडटालो. काशावांत घातलेलें जुजेचें मडें पळयल्यार आंग शिरशिरतालें. अखेरेक गांवचो पाद्र विगार आयलो निमणी मागणी करून. उल्लास आनी रडण्यामदें जुजेचो इंतेर भायर काडलो. शिमितेरींत मातयेंत लावपाक लोक इगर्जेचे वाटेन चलत गेलो.

खरेंच व्हड दुखाची घडणूक जावन आसली. लुइजाक आपलो मोगाळ घरकार ना जाल्लो; जाल्यार रीचार्ड, स वर्सांचे पिरायेरूच पाय नासलेलो जाल्लो. जुजे, लुईजा आनी तांचो पूत असो हो घराबो जरूर गरीब आसलो, तरुय तीं मायेमोगान जियेतालीं. तांचे लागीं दुड्डू, भाटां-बेसां नासलीं जायत, पूण घराब्यांत मोग आसलो, समजिकाय आसली, शांती आसली आनी धादोसपण आसलें. ह्या वातावरणाचो दिवो म्हणल्यार जुजे जावन आसलो. आनी जुजेच्या त्या अपघाती मरणान हो सुखी घराबो काळखांत शेंवटल्लो. ह्या घराब्यांत एक तुफान कशें उत्पन्न जाल्लें.

जुजेचें अपघाती मर्ण म्हणल्यार एक वीराचें मर्ण जावन आसा. ताणें आपूण मरून दुसऱ्याचो जीव राखलेलो. एके रातीं, अवचितूच ब्रागांझा भाटकाराच्या घराक उजो लागलो. ताचें पालासी सारकें घर एक उज्याचें आकटें जाल्लें. ब्रागांझा, ताची पतीण आनी सेर्वेंत घरा भायर रावन बोबो आनी हुयेली मारतालीं. ह्या रातीच्या वेळार थंय जायतो लोक एकवटलेलो. ब्रागांझा आनी ताची पतीण कोणाच्याय पांया पडटालीं, कोणाकूय घट धरतालीं, आपले एकलेच धुवेक वाटाय म्हण मागतालीं. तांची एकलीच तीन वर्सांची धूव, अनीता, त्या भिरांकूळ उज्यांत घरांत फारावन आसली. अनीता, ब्रागांझा भाटकाराची मिलाग्रीची धूव म्हणल्यार फट जावची ना. काजाराच्या सुमार बारा वर्सां उपरांत आंगवण्यांनी म्हणलेले परी, अनीता ह्या संवसारांत जल्मून आयलेलें. ब्रागांझा भाटकारान ताका माये मोगान आनी अपुर्बायेन वाडयलेलें. आनी आयज सुमार तीन वर्सांचे पिरायेर आसतना, भुरगें अनीता आपल्याच घरांत त्या निसंतन करपी उज्याच्या चपक्यांत सांपडलेलें. ताका

वाटायात म्हण ब्रागांझा भाटकार आनी ताची पतीण रडून आनी हुयेली मारून आपलीं हड्डीं धाडायतालीं.

जायतोच लोक एकटावल्ल्या मदें जुजेय आसलो. जुजे, ब्रागांझा भाटकाराचो मुंडकार जावन आसलो. ब्रागांझा भाटकार बऱ्या सभावाचो मनीस जावन आसलो. आपल्या मुंडकारांक केन्नाच दुखय नासलो. उरफाटेंच गरज पडल्यार तांकां आपलो आदार दिवंक फाटीं सर नासलो. असल्या दयाळ काळजाचो मनीस, आपले धुवेचे जिणे खातीर भीक मागता ती पळोवन, जुजेचें काळीज चुरचुरलें. हीं उतरां आयकून कांय लोक ओगीच उरले जाल्यार दुसरे लोक त्या उज्यांत वचना जावंक जुजेक आग्रो करूंक लागले. पूण ना! जुजेन निर्णय केल्लो. ताणें थंय आसलेले दोन रिकामे साक घेतले, आनी आपल्या जिवाची पर्वा करिनासताना त्या उज्याच्या यमकोंडांतल्यान, कापसापरीं हुलपल्ल्या घरांत भितर सरलो. घरा मुखार एकटवलेलो लोक सामको ओगीच जालो.

आपल्याक पेट्टा तो उजो, त्या साकाच्या आदारान, पालयत पालयत जुजे अनीताक सोदूंक लागलो. अनीता सोयरणावीण जमनीर पडलां तें ताणें पळयलें. जुजेन आनीक वेळ वगडायलो ना. तें जिवें आसा वो मेलां तें पर्यान पळय नासतना, ताका एका साकांत गुठलायलें, आपल्या हातांनी उबारून आपले खांकेंत घेतलें आनी उज्याक वाटायत-वाटायत घरांतलो भायर सरुंक यत्न करूंक लागलो. इतले म्हणसर उजो इतलो फांकारलो की, घराच्या वर्साचें मदेर आनी नळे भगभगत्या उज्यान कोसळून पडलें. भायर आसलेल्या लोकांच्यो बोबो आनी हुयेली जाल्यो. ब्रागांझा भाटकाराची पतीण शिंतिदावीण जमनीर शेंवटली.

आपल्याक भायर वचपाचें दार मेळना तें पळोवन जुजे मातसो घाबरलो. आपल्या आंगांक पेट्टा तो उजो, अदीक आनी अदीक जाता तें पळोवन तो निराशी जालो. वसऱ्यार मदेर आनी नळे कोसळून पडल्यात ते ताणें देखले. अनीताक घेवन ह्या उज्यांतल्यानूच धांव मारल्यार बऱ्याक पडटलें शें ताका दिसलें. ताणें आनीक वेळ वगडायलो ना. आपल्याय आंगाक पेट्टा त्या उज्याची पर्वा केली ना. सोयरणावीण आसलेल्या, साकांत गुटलायलेल्या अनीताक घट्ट वेंगेंत धरलें आनी त्या पेट्ट्या उज्यांतल्यान ताकतिकेन भायर येवंक लागलो. अखेरेक जुजेची उज्यान हुल्पतली कूड, आपल्या हातांनी अनीताक घेवन, घरा भायर धांवली. सगळे लोक जुजेशीं धांवले. जुजेन अनीताक ब्रागांझा भाटकाराच्या हातांत दिलें आनी आपूण सोयरणा भायर जमनीर पडलो. लोकांनी जुजेक पेटलेलो उजो पालयलो. ब्रागांझा भाटकारान आपलें मोटर भायर काडलें, अनीताक आनी जुजेक त्या मोटरांत घालीं आनी हॉस्पिटलांत व्हेलीं.

जरुय दोगांय सोयरणा भायर आसलीं, तरुय अनीताक उजो लागूंक नासलो. पूण जुजेच्या सुमार पावुण आंगाक उजो लागलेलो. दोतोरांनी सांगिल्ले प्रमाण जुजेची परिस्थिती एकदम गंभीर आसली. दिसान दीस ही परिस्थिती अदीक आनी अदीक वायट जायत गेली. आनी अखेरेक जुजे ह्या संवसाराक अंतरलो.

लुईजाच्या जिवितांत आतां व्हड संकट आयलेलें शें दिस. आपल्या पुताचो फुडार चिंतून ती देवाक शिणटाली. सोंपलेल्या जुजेक, आपलो पूत रीचार्ड, एक व्हड मनीस जाल्लो जाय आसलो. तो सदांच आपले पतिणीक सांगी. "हांव शेतांत वावर करतां जायत, पूण म्हज्या पुताक हांव व्हड आद्‌वोगाद वो दोतोर करतलों" हे आपल्या पतीचे शब्द लुईजाच्या मनांत परतून परतून येताले.

एके सकाळीं ब्रागांझा भाटकार, आपले धुवेक-अनीताक घेवन, लुईजागेर भितर सरलो. लुईजाच्या उल्लासांनी आनी रडण्यान तांचें स्वागत केलें. ब्रागांझा भाटकारान सुरू केलें.

"हांव जाणा की, म्हज्यान तुज्या जुजेक परतून दिवंक घडचें ना. पूण आपल्या घराब्या सवें कसलींय चिंतनां आसलीं जाल्यार तीं पुरीं करूंक हांव वावुरतलों. दुडवांचो आनी दुसरो कसलोय आदार तुका मेळटलोच. रीचार्डाचें सगळें शिकप हांव पळयतलों. तुमकां कितें जाय तें हांव दितलों. म्हजे धुवेक जिवी दवरून तो गेलो, तो अमर जालो." ब्रागांझा भाटकाराच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं.

ब्रागांझा भाटकाराचीं उतरां आयकून लुईजाच्या काळजाक धीर भरलो आनी ताचे उल्लास वाडले. रडकुऱ्या ताळ्यान लुईजान म्हळें. 'भाटकारा, तुका देव बरें करूं.'

अशे परीं दीस, म्हयने सरूंक सागले. ब्रागांझा भाटकाराच्या आनी लुईजाच्या घराब्या भितर सहकाराचो संबंद वाडूंक लागलो. धाकटुलें अनीता, रीचार्डागेर सदांच येवन-वचून आसलें. पयलीं पयलीं अनीताक पळयना फुडेंच रीचार्डाक तिडक मारताली. त्या अनीताक लागून आपलो बापूय आपल्याक ना जालो म्हण ताका अनीताचो राग येतालो. पूण जेन्ना अनीता त्या घरांत येवंक-वचूंक लागलें, एकमेका बरोबर खेळूंक लागलीं तेन्ना रीचार्डाचो इल्लो इल्लो राग थोडो जायत गेलो. तीं हांसून खेळून आपलें भुरगेपण सारूंक लागलीं. रीचार्ड मेडिकल कॉलेजींत दोतोरपणाचें शिकप करी. ब्रागांझ भाटकाराक तो सदांच मानान लेखतालो. दुसऱ्या अर्दान अनीता, कॉलेजाचें शिकप काबार करून, गांवच्या इंग्लेज इश्कोलांत शिकयतालें.

लुईजा आतां मातशें मातशें आपणें भोगलेलें आदलें अदृष्टी जिवीत विसरतालें, ताच्या मुखामळार केन्ना केन्नाय हांसो उदेता तो दिसून येतालो. आपलो पूत दोतोर जाता म्हूण तें एकदमूच खोशी आसलें. आपल्या घरकाराची इत्सा पुरी जाता म्हूण ताचे खोशेक शीम आनी मेर नासली.

लुईजा अनीताक आपली धूव कशीच वागयताली. अनीताय ताका आपलो सगळो आदार दितालें. तिका खोशी करूंक, तिच्या तोंडार हांसो हाडूंक अनीता सदांच वावुरतालें, रीचार्ड आनी मांयचे मदें कितेंय किजील, जावं ती दुःखी जाल्यार अनीता रीचार्डाशीं वचून, ताका समजावन, मांय कडेन माफी मागूंक लायतालें. लुईजा दुःखी जाल्ली अनीताच्यान पळोवं नजो आसलें. अनीता जायते फावट म्हण, "आंण्टी, म्हाका लागून तुवें तुज्या

तोंडावेलो हांसो ना केलो. तो हांसो, तें धादोसपण परतून तुज्या जिवितांत हाडूंक म्हजें कर्तव्य जावन आसा."

शेकीं रीचार्डाचे परिक्षेचो निकाल जाहीर जालो. रिचार्ड पयल्या वर्गान दोतोरपण पास जालो. रीचार्ड दोतोर जालो म्हण गांवचो लोक खोशी जालो. जायतो लोक ताका परबीं दिवंक घरा आयलो. ब्रागांझा भाटकारूय बरोच खोशी जाल्लो. कित्याक, आपणें जुजेच्या पुतासवें कितें पूण बरें केलें म्हण तो धादोशी आसलो. लुईजा आनी रीचार्ड ब्रागांझा भाटकारागेर गेलीं आनी ताचे उपकार आठयले.

लुईजान खालविकायेन म्हळें, "जें आयज कितें म्हज्या घराब्यासवें घडलां तें तुज्याच आदाराक लागून जावन आसा."

"हें सगळें फकत जुजे, तुज्या पतीक लागून घडलां."

ब्रागांझान फुडें म्हळें, "रीचार्ड, माय आतां जाणटी जायत वेता. तिका ह्या वेळार आदार जाय. ते खातीर तुवें काजाराचें चिंतूंक जाय." रिचार्ड हांसलो आनी त्या हांशांतल्यानूच ताणें जबाब दिलो. "अंकल, तें मागीर पळोवचें. पयलो हांव म्हज्या पांयांचेर उबो रावतां. आयज पर्यान तुज्या आदारानूच हांव फुडें गेलां."

ब्रागांझा भाटकारान, रीचार्डाच्या काजारा बाबतींत जीं उतरां उलयलोलीं तीं लुईजाच्या मनाक थार दिनासलीं. तिका दिसतालें, रीचार्ड काजार जावंचो म्हण. ह्या विचारांनी ती जेन्ना गुल्ल जाताली, तेन्ना तिचे मुखार एकूच चेडूं येतालें आनी तें म्हुणल्यार अनीता. अनीता आपली सून जाल्यार आपलो घराबो सासणाक सुखी आसतलो म्हण तिका खात्री आसली. पूण अशें घडत वो ना तो तिका दुबाव आसलो. अनीता एका भाटकाराची धूव आसली आनी तिचो हात आपल्या गरिबाच्या पुताक मेळचो ना सो तिका दिसतालो.

सदांचे परी अनीता तिका तिच्या वावरांत आदार दिवंक आयलोलें तेन्ना लुईजान अनीताक म्हळें, "अनीता हांव तुका कितें विचारूंक सोदतां." लुईजा सगळी घाबरेले परी जाली. तिका घाम आयलो. अनीतान हें पळोवन सडसडीत म्हळें. "आंण्टी, तूं कित्याक घाबरताय? विचार तूं म्हाका कितें विचारूंक सोदता पळय तें." लुईजान जिवाक घटाय घेतली आनी म्हळें, "पळय अनीता, फाटलीं सतरा अठरा वर्सां तूं म्हाका तुजी आवय कशी मानताय. तुवें म्हज्या मुखामळार हांसो हाडलाय. ते खातीर म्हाका दिसलां की तूं सदांच म्हज्या सांगाता आसत जाल्यार आमचें जिवीत सदांच सुखी जातलें शें. अनीता, हांव तुजे लागीं तूं म्हजी सून जावंक मागत जाल्यार तूं मानून घेवशी?" लुईजाचीं ही उतरां आयकून अनीता एकदम खोशी जालें आनी ताच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरना जालीं. "आंण्टी, हें तूं खरें उलयताय?"

अनीता धांवत धांवत घरा पावलें आनी वचचे वचून आपल्या पापाच्या गळ्याक घट्ट वेंग मारली. "अनीता, जालां पूण कितें? इतलें खोशी हांवें तुका केन्नाच पळोवं ना." ब्रागांझान म्हटलें.

"म्हजीं चिंतनां शातीं पावलीं! पापा, हांव लुईजा आंण्टीची सून जावन तिका धुवेचो

मोग दितोलीं आनी म्हजे खातीर तिणें जें दुःख सोंसलां, ताचेहून चड तिका हांव सूख दितेली."

अनीता खोशयेच्या नादार उलयत गेलें. ब्रागांझा भाटकारूय खोशी जालो आनी अनीताचो हात आपल्या हातांत घट्ट धरून म्हळें, "अनीता, तुजे विचार म्हान आसात. तुजे इत्से प्रमाणेच घडटा म्हण हांव एकदम खोशी जातां."

सांजेच्या वेळार जेन्ना रीचार्ड घरा परतलो, तेन्ना लुईजान ती खबर ताचे कडेन उगडली. पळे रीचार्ड, आतां तुका सरकारी हॉस्पिटलांत दोतोराची नोकरी मेळ्ळी. आतां आमचो घराबो अखंड बुनयादीर घट्ट आसा. दुसरे वटेन हांवूय आतां इल्ली इल्ली जाणटी जायत वतां. ते खातीर म्हजी खोशी आसली की तूं काजार जावन म्हाका एक सून हाडची म्हण. "अवचितूच मांयचें हें सांगणें आयकून रिचार्ड अमुरपिकोच हांसलो आनी ताणें जबाब दिलो," "मांय, हांव हें सगळें जाणां. तुजे त्रास उणे करचे खातीर हांवूय तेच नदरेन चिंततालों." पुताचीं ही उतरां आयकून मांय इतली खोशी जाली की, तिणें मर्देच म्हळें, 'बाबा, आमच्या अनीताक ह्या घरांत तूं सून म्हण हाडशी जाल्यार तुजी जीण सदांच सुखी जातली. तुका कशें दिसता?"

रीचार्ड चिंतूंक पडलो, ओगीच उरलो. मांय ताकाच पळयत उरली. रीचार्डान जबाब दिलो, "मांय, हया अनीता कडेन हांवें काजार जावंक जायना. भुरगेपणा सावन अनीता आनी हांव मोगान वाडल्यांत. भाव-भयणाच्या मोगान. ताचेविशीं काजाराचे विचार म्हाका केन्नाच येवंक ना. पूण मांय, तूं कांयच चिंती नाका, म्हज्या मनांत एक चेडूं आसा."

मांय सारकी थटकली. एकाच खिणा भितर तिचीं सगळीं सपनां पिसुडलीं. हजार विचार तिच्या मनांत आयले.

ते रातीक लुईजाक झेम पडली ना. सकाळीं उठून अनीतागेर वचून ही दुखी खबर सांगूंक तिणें येवजिलें. सकाळीं गेल्यार अनीता इश्कोलांत आसतलें म्हण चिंतून तिणें सांजे वेळार वचूंक निर्णय घेतलो.

दुसऱ्या दिसा लुईजा अनीतागेर गेली. अनीता खूब खोशी जाल्लें. ब्रागांझा भाटकारूय खोशी दिसतालो. पूण लुईजाच्या मुखामळार हांसो ना तो पळोवन अनीतान म्हळें, "आंण्टी, कितें जालां? तूं सदांचे परी दिसना." लुईजाचें तोंड रडकुरें जालें. लुईजान ब्रागांझा भाटकाराक आनी अनीताक सगळी खबर सांगली. रीचार्डाचे आपल्या काजारा वयर जे विचार आसात ते तांकां कळयले. रीचार्डाचें उतरान उतर लुईजान तांकां सांगलें.

अनीता दुःखी जालें. रीचार्ड दुसऱ्या चेडवा लागीं काजार जाता म्हण ताका धक्को बसलो. दुसऱ्या अर्दान तें सुखावलें, कित्याक रीचार्ड आनी ताचेमर्दें भाव भयणाचो मोग वसता म्हण. अनीतान म्हळें, "आंण्टी, तूं शिंतीद जावं नाका. म्हाका खात्री आसा की, रीचार्ड जें चेडूं वेंचून काडटा तें खरेंच बऱ्या गुणांचें आसतलें. आंण्टी, हांव तुजी सून कशी न्हय, पूण जाता ते परीं धूव कशी तुजी सेवा करतलीं." अनीताचीं हीं म्हॉवाळ उतरां आयकून लुईजाच्या दोळ्यांतल्यान गळगळीत दुकां व्हांवलीं. ब्रागांझा भाटकारान म्हळें,

"तुजो पूत गिन्यानान हुशार जावन आसा. ताणें जें कितें चिंतला तें बरेंच चिंतलां आसतलें. अखेरेक काजार म्हणटा तें देवूच घडोवन हाडटा न्हय!"

रीचार्डान रीटालागीं काजार जावपाक सारकें थारायलें. एक दीस रीटाक आपल्या सांगाताक घेवन, घरा हाडून आपले मांयक दाखयलें. रीटाक पळोवन लुईजा खोशी जाली. रीटा पळोवपाक खूब सुंदर आसलें आनी बऱ्या गुणांचें जावंक जाय, अशें ताचे वागणुके वयल्यान कळटालें.

रीटा मेर्ग्यूल्यांव आनी होटेन्शीया हांची एकलीच धूव जावन आसली. तेच परी लुकास तांचो एकलोच पूत जावन आसलो. दुडू, भांगर आनी गिरेस्तकाय ह्या घराब्यांत जायतीच आसली. मेर्ग्यूल्यांव एक रिटायर्ड फौजेंतलो अधिकारी जावन आसलो. फौजेंत बेस बरो वावर करून ताणें नामना जोडलेली. ताच्या काळार तो व्हड काळजीदार अधिकारी जावन आसलो. कोणाचीच तो पर्वा करी नासलो. कसल्याय संकटाक तो फुडो करी आनी आपूण जैतिवंत जातालो. पूण एकेच सुवातेर ताका सदांच हार पडटाली आनी ती म्हणल्यार आपणाले घरकान्नी समोर. घरांत तिचें उतर म्हणल्यार शेवट आसलो. घरांत तिचे शिवाय कांडी हाल नासली. एकाच धेंगश्यान ती घरांत सगळ्यांक ओगीच करताली. खरेपणीं तिचे हुकूमशाये फुडें कोणाचेंच कांयच चलनासलें. मेर्ग्यूल्यांव, जाणें वागा- शिंवाक मारलोले, तो आपले घरकान्नी समोर वोतान मेण पिगळटा, तेपरी पिगळटालो. असल्या वातावरणांत रीटा आनी लुकास वाडलोलीं.

रिटाचें काजार रीचार्डाकडेन थारले उपरांत रिटाचे मांयन ताका आपोवन व्हेलें आनी सांगलें, "रिटा, म्हजे धुवे, थोड्याच दिसांनी तूं काजार जातलें. दुसऱ्या घरांत तुवें दीस काडूंक जाय. ते खातीर सुरवातीकूच थावन तुवें चतूर रावंक जाय. हांव जेन्ना तुजे डॅडी लागीं काजार जाली, त्याच दिसा थावन हे परीं वागलीं म्हण म्हजें काजारी जिवीत, यशस्वी जालें." रिटान जबाब दिलो, "मामा, तूं ते खातीर कांयच भिये नाका. जें मांयन केलां, तें धूव करतली. कितलेंय जाल्यार तेच मांयची धूव न्हय?" "शाबास म्हजे धुवे, देवाचो आशिर्वाद तुजेर पडूं!" होर्टेन्शीयान उल्हास सोडलो.

रिचार्ड आनी रिटा हांचें काजार व्हडा दबाज्यान जालें. शेकड्यांनी लोक ह्या काजाराक हाजीर जालो. अनीतान एके भयणी परी काजरांत भाग घेतलो. घरांत सून हाडली म्हूण लुईजा धादोशी जाली.

काजाराचें वातावरण सोंपले उपरांत चालू जिविताची सुरवात जाली. काजरा उपरांत म्हयन्याचो पयलो दीस जावन आसलो. रिचार्ड सदांचे परी आपलो म्हयन्याचो पगार मांयक दिवंक वतालो. रिटा ताजेशीं आयलें आनी ते दुडू रिचार्डाच्या हातांतले आपल्या हातांत घेतले आनी म्हळें, 'रिची डार्लींग, आतां तुजी घरकान्न आसा. आतां ह्या घराची जबाबदारी म्हजेर सोड. आयच्यान हें घर हांव चलयतलें.'

"पूण रिटा....." रिचार्ड कितें म्हणूंक वतना रिटान तोंड घालें "पूण आनी बूण कांय ना. आयच्यान घराचो कारभार हांव पळयतलीं." अशें म्हणून तें काडून माय फुडें गेलें

आनी तिका सागलें, "मांय, आयच्यान घराची सगळी जबाबदारी हांव सांबाळटलीं. ज्या ज्या वस्तूंक दुड्डू जाय, ते हांव दितलीं, सगळो देसपेज हांव करतलीं. हे खातीर कांय त्रास घेवं नाका. जें हांव तुका सांगतां, तेंच कर." रिचार्ड धांवन आयलो. "रिटा, हें तूं कितें उलयता?" रिटान पदवेन जबाब दिलो, "रिचार्ड, तूं चूप राव. हांव उलयताना तूं उलोवचो ना." रिचार्ड ओगीच जाल्लो. लुईजाक आपूण सपनांत आसलेले परी जाली. रिचार्ड बायलेचो धेंगसो आयकून ओगीच जालो तें पळोवन तिच्या काळजाक धक्को बसलो. पूण तिणें कांय न्हय अशें करून म्हणलें, "हय बाय, आतां तुवेंच हें घर सांबाळूंक जाय." आनी ती आपल्या कुडांत गेली.

रिचार्डान जायतो येत्न केलो रिटाक समजावंक. पूण तें कशेंच आयकना जालें. तांची भासाभास इतली वाडली की रिटान म्हणलें, "रिचार्ड, तुवें आनी हांवें आमचो संवसार करपाक जाय, तुजे मांयक न्हय. ते खातीर हांव कितें करतां तें तुका मानवना जाल्यार हांवूच चल्लीं म्हजे मांयगेर. तूं तुजेच मांयक घेवन राव." हे शब्द आयकून रिचार्ड ओगीच जालो आनी उतरां सुटना जावन थंयच उरलो. जितले चड दीस सरूक लागले तितलें लुईजाचें दुःख वाडूंक आनी चडूंक लागलें. रिटा घरांत अशे तरेन वागूंक लागलें की रिटा आपले सासूमांयक घरांतल्या किर्यादा परी करूंक लागलें. लोकाचे लजेक लागून लुईजा बाबडी सगळें सोशीत रावली.

अनीता जायते फावट लुईजा आंण्टीक भेट दिवंक वतालें. पूण ती ताका कांयच दाखय करी नासली. अनीताक दुबाव पडलेलो, लुईजा आंण्टी आदले परी खुशाल ना म्हण. खरें फट कितें तें जाणा जावचे खातीर, रिटा आनी रिचार्ड घरांत नासलीं त्या वेळार अनीता लुईजागेर गेलें. लुईजा आंण्टी लागीं कितें घडलां तें सगळें विचारलें. अनीताक कितेंय लिपोवपाचो उपाय ना जावन लुईजान अनीताक सगळें सांगलें.

इतले म्हणसर रिचार्ड आनी रिटा घरांत आयलीं. अनीता, मांय फुड्यान बसून उलयता तें पळोवन आपलें तोंड कोळशा परी काळें-किट्ट केलें. सवस्तायेच्या उतरांनी अनीतान ही खबर रिचार्डा लागीं उगडली. रिटान आनीक वेळ केलो ना - रागीश्ट ताळ्यान म्हणलें,

"अनीता, आमच्या घरच्या झगड्यांत पडूंक तुमकां कसलोच हक्क ना. तुका तुजो रेस्पेद जाय जाल्यार तूं आतांच हांगसल्लें भायर सरून वच." हीं उतरां आयकून अनीता मातशें रावलें, रिचार्ड कितें पूण उलोवन आपले बायलेचे बेजबाबदारेचें उलोवप बंद करतलो म्हूण. पूणं रिचार्ड एक खूंट कसो उबो आसा तो पळोवन अनीतान खालतीकायेन म्हणलें, "रिटा, म्हजी चूक जाली. हांवें तुमच्या घरच्या केस्तावांत पडूंक फाव नासलें." अशें म्हणून तें घरांतलें भायर सरून गेलें.

अनीता एकदम दुःखी जाल्लें - आपल्याक घरांतलें भायर सरून वच म्हणलें म्हूण न्हय, पूण लुईजा आंण्टी दुःख सोसता म्हण. हेंच ताच्यान पळोवं नजो आसलें. आपूण लुईजा आंण्टीचें जिवीत धादोशी करूंक वावुरतलें म्हण ताणें निर्णय घेतलो. पूण तें आपूण

कशें करतलें तेंच नकळो आसलें. तें चिंतीत रावलें. कसलीच येवजण ताका येना जाली. अखेरेक एक उपाय ताका सुचलो. कोणाकूच सांग नासतना ताणें आपलो वावर गुप्तीं चालू केलो.

अनीता, जें आदीं खंयसरूय वचनासलें, तें आयज दांसाक, पिक्चराक आनी सगळ्याक वतालें. अनीता, जें केन्नाच चेड्या सांगाता आस नासलें, तें आयज एका चेड्या सांगाता सगळ्या कार्यावळीक हाजीर जाता तें देखूंक येतालें. हो नशीबवंत चेडो म्हणल्यार लुकास जावन आसलो, मेर्ग्यूल्यांव आनी हॉर्टेन्शीयाचो पूत आनी रिटाचो भाव. खरेपणी अनीता आनी लुकास मोगांत आसलीं. अदीक खरेपणी म्हणल्यार अनीता मुद्दाम लुकासाच्या मोगांत पडलेलें. लुकासूय ताचो काळजा थावन मोग करी. दोगांयनी काजार जावचेली एकामेकाक भास दिलेली.

लुकास आनी अनीता जेन्ना मोगांत आसलीं, तेन्ना तांणी एकामेकाच्या घराब्या बाबतींत बारीक खबर काडलेली.

अशींच उलयता आसतना, एक दीस अनीतान म्हणलें, "लुकास, तुजी मांय घरांत जे परी वागता तें तुका कशें दिसता? पापाय तिका भियेता खंय, आनी तुंवूंय तिचे वाटेक वचना खंय. घराब्यांत असलें वातावरण बरें काय कितें?"

लुकासान सांगलें, "आमच्या पापान सुरवातेकूच थावन चुकयलें आनी तेच खातीर आयज मामा घरांत राज चलयता. पापाकूय कांयच करूंक काळीज ना जाल्यार म्हज्यान कितें करूं येता?"

"लुकास," अनीतान फुडें म्हणलें, "मामाचे बुद्दीन आयज जें रीटान रीचार्डाचे मांयसवें केलां, ताचेर तुजें मत कितें?"

"खरें सांगूं?" लुकासान म्हणलें. "जी दारुणाय आनी अनीत म्हजे मामान रीचार्ड आनी ताचे मायसवें आडायल्या, ताचेर हांव सारको आड. गरजे शिवाय ते भांगरा सारके रिचार्डाचे मांयचें जिवीत आयज दु:खांत घालां." अनीता एका अर्दान खोशी जालें. कित्याक, लुकास बऱ्या विचारांचो भुरगो म्हण आनी दुसऱ्या अर्दान तें अजाप जाल्लें कित्याक, इतलीं वर्सां लुकासाच्या पापान आपले घरकान्नीक नीट रस्त्यार हाडूंक कांयच उपाय घेतले नात म्हण.

लुकासान अनीता बाबतींत सगळी खबर आपल्या मामाक आनी पापाक सांगली. आपूण ताचे कडेन काजार जावंक चिंतलां म्हण दाखल केलें. मामान म्हणलें, "लुकास, तुका आमी काजार करूंक सोदताय. आनी तुवें तुजे खोशयेन चेडूं सोदून काडलां. हें चेडूं आमच्या घराब्यांत सोबतलें मरे?"

"मामा, शिताफुडें मीठ कित्याक खाता?" लुकासान जबाब दिलो, "अनीता इश्कोलांत एक शिकोवपीण जावन आसा. तूं खंयसरूय वच आनी खबर काड, तसली सून ह्या घराब्याक मेळपाक भाग्य जावन आसा."

लुकासाच्या काजराची खबर रिटाच्या कानार पडली. तें धांवन धांवन येवन आपले

मांयक मेळ्ळें. अनीता आपली होनी जाता तें पळोवन ताचो जीव काचाबूल जालो.

अखेरेक व्हड दबाज्यान लुकास आनी अनीताचें काजार जालें. गांवचे तशे गांवा भायले लोक ह्या काजाराक हाजीर आसले. काजाराच्या दुसऱ्या दिसा लुकास आनी अनीता हनिमुनाक म्हण बेंगळूर गेलीं. सुमार पंदरा दिसांनी मौजेंत भोंवडी मारले उपरांत तीं परतून गोंयां आयलीं.

अनीता घरांतल्यो बारीक मोट्यो गोश्टी बारीक पळोवन तांचेर नियाळ करूक लागलें. लुकासाचो पापा अनीताची बरी अपुर्बाय करी. ताच्याहून अदीक खोलायेन अनीता आपलो मायपास पापाक दाखयतालें. दुसऱ्या अर्दान मामा जबर शी अनीताक लागीं धरिनासली. कोणाक दाखय नासतना ती अनीताक आपले हुकमे खाला हाडूंक यत्न करताली. अनीताक हें समज़्ल्ले कारणान तेंय आपले सासूमांयक चड तेंकून वचनासलें.

अवचितूच घरांतलें किरयाद आपली मांय एकदम दुयेंत आसा म्हण आपल्या गांवाक गेलें. मांय बरी जातकूच आपूण परतून येतां म्हण सांगून तें किरयाद गेलेलें. दुसरे सकाळीं, सदांचे परीं उठून, किरयाद नासलें म्हण, होर्टेन्शीयान अनीताक उलो मारलो, "अनीता, ओ अनीता" अनीता भायर आयलें, "कितें मामा?" मामान म्हणलें, "चल, कुजनांत वच आनी म्हाका च्याव करून हाड." अनीतान अडेची तिडक आपल्या मुखामळार हाड्ली आनी म्हणलें, "मामा, तुका जाय जाल्यार तूं कुजनांत वच आनी च्याव करून हाड. ह्या घरांत कोण कोणाचेंच किरयाद न्हय, समजली?" आपले सुनेचो हो जबाब आयकून तिचें पित कडलें आनी रागीश्ट ताळयान तिणें म्हणलें, "अनीता, तूं जाणा कोणा लागीं उलयता तें?" "हय" म्हणून अनीतान प्रतिपाळ केलो. होर्टेन्शीयाचो राग सारको तकलेक चडलो. हो बोवाळ जाता तो पळोवन लुकास आनी मेर्ग्यूल्यांव भायर आयले. होर्टेन्शीयान रागाच्या भरांत जबाब दिलो, "अनीता, तुजी हांव जीब तोडून काडटलीं. जाणा जा, ह्या घरांत हांव सांगतां तेंच जावंक जाय." अनीतान मस्कऱ्यो करचे खातीर व्हड हांसो सोडलो आनी म्हणलें, "आगे म्हजे सासूमांय, तूं सारकी चुकता. हया घरांत तुजे हुकूमशायेचें राज्य सोंपलें आनी आयच्यान म्हजें गुलामशायेचें राज सुरू जालें. कान उकते करून आयक, आयच्यान तूं हांव कितें सांगतां तेंच करतली. हांव ऊठ म्हणटा तेन्ना उठटली आनी हांव बस म्हणटा तेन्ना बसतली, समजली? आनीक म्हाका तुजी जाप नाका." अनीताचीं असलीं दारुण उतरां आयकून तिचें रगत आंगांत शिजूंक लागलें. दुसऱ्या अर्दान आपल्या घोवाची आनी पुताची तिका मोटीच लज जाली. कित्याक, हे तेरेचें भाशण तिका अनीतान तांचेच समोर दिल्लें. आनी दुसरो उपाय ना जावन ती लुकासा फुड्यांत गेली आनी निराशी जावन लुकासाक म्हणलें, "लुकास, पळयलें तुवें तुजे बायलेचें कर्तूप? तूं घोव मरे? आनी आपले मांयचो अशे परी अपमान करता आसतना तूं ओगोच रावलो?" "मामा" लुकासान म्हणलें, "म्हज्यान आनी कितें करूं येता? म्हज्या पापानूच जर तुका केन्नाच ओगी केली ना, जाल्यार म्हज्यान ताका कशें ओगी करूं येता?" मेर्ग्यूल्यांवान मदींच तोंड घालें, "होर्टेन्स, खरेंच ही आमकां अभिमानाची गोश्ट जावन आसा. पळय, लुकास सारको म्हजेच परी घोव

जाला आनी अनीता सारकें तुजेच परी सून जाल्या." हें आयकून होर्टेन्शीयाक अदीक तिडक आयली, "हांव पळयतलीं अनीता कितलें आसा पळय तें." अशें म्हणून ती च्याव करूंक कुजनांत गेली. मेर्ग्यूल्यांव आपले सुनेशीं गेलो, "अनीता, तुका म्हजी काळजांतली शाबासकी. जें म्हजे कडेन फाटल्या अठ्ठावीस वर्सांक करूंक घडलें ना, तें तुवें अठ्ठावीस वरांनी करून दाखयलें."

अशे परी घरांत सून आनी मांय मदें एक झूज पेटलें. अनीतान काळजांत दारुणाय हाडली आनी सुयोग मेळटा तितल्याय वेळार आपले सासुमांयक त्रासांत घालूंक लागलें. घरांतलें किरयाद नासल्या कारणान, अनीतान आपले सासुमांयक घरांतलें सगळें काम करूंक फर्मायलें. रांदचे रांदून कपडे धुवप आनी जमीन पर्यान साफ करूंक फर्मायलें. जितले फावट होर्टेन्शीया वावर करपाक तेमां करताली, तितलेय फावट अनीता म्हण, "आगे म्हुजे सासुमांय, तुका तर वावर करपाची संवय ना जाल्यार आतां संवय कर. आनी संवय करूंक सोदी ना जाल्यार हें घरूच सोडून वच."

लोकाचे लजेक होर्टेन्शीया सगळें सोसूंक लागलें. एका किरयादा परीं ताणें वावर करचो पडलो. अनीता, ती वावर करता तो कदेलीर बसून पळोवंक लागलें. एक दीस, अशेंच होर्टेन्शीया जमीन धुता आसतना रीटा भितर सरलें. आपली मामा जमीन धुता तें पळोवन तें थटकलें.

रीटाचे तकलेक राग चडलो. अनीताच्या केंसांक धरून, ओडून हाडून ताका आपल्या मामाच्या पांयांशीं शेंवटूं कशें दिसलें. त्या वेळार अनीता भायर आयलें, "कोण रीटा? केन्ना आयलां? आसा मुगो बरें?" रीटान रागान म्हणलें, "अनीता, म्हजे मामाचो भेस तुवें कितें केला? तुका रीत आसा गो?" आनीक चड उलोवंक दिवचे पयलींच अनीतान रीटाक म्हणलें. "रीटा, आमच्या घरच्या झगड्यांत पडपाचो तुका कसलोच हक ना. तुका तुजो रेस्पेद जाय जाल्यार तूं घरांतलें भायर सरून वच, ना तर तुज्या हाताक धरून तुका घरांतली धांवडायतलीं. आनीक म्हाका तुजी जाप नाका." हीं उतरां आयकून रीटा सारकें सुकलें. आपूण उलयलेल्या उतरांचो ताका उगडास आयलो. आनीक एक उतर काडी नासतना तें घरांतल्यान भायर सरून गेलें.

होर्टेन्शीयाच्या चिंतनांचेर उजवाड पडलो. आपली पाडी बुद्द आपल्याकूच भुजली म्हण तिका खात्री जाली. आपली ही चूक म्हण तिका कळून आयलें. वेळ वगडाय नासतना तीं धुवेच्या घरा गेली. ही सगळी खबर रीटाक सांगली.

रीटाक समजणी आयली. आपले वागणुके कडेन चूक आसा म्हण ताका पटलें. आपले मामान तर आपली चूक वळखून घेतली जाल्यार आपणेंय चूक वळखून घेवचीच पडली म्हण ताका खात्री जाली.

रीचार्ड घरा येना फुडे ही खबर रीटान ताका सांगली. आपली मामा आनी आपूण मांयकडेन गुन्यांव भोगसण मागतां म्हण तिणें रिचार्डाक सगळें सांगलें. रीचार्ड थटकलो. येदें परिवर्तन कशें घडलें तेंच ताका कळना जालें. लुईजा कुजनांत वावर करताली थंय

गेली आनी तिचे लागीं दोगांयनी गुन्यांव भोगसण मागली. लुईजाच्या दोळ्यांतल्यान खोशयेचीं दुकां भरलीं.

रीचार्ड, लुईजा आंण्टी, रीटा आनी होर्टेन्शीया- सगळीं खुशालकायेन, एक घराबो कसो आपल्यागेर भितर सरता तें पळोवन अनीता खोशी जालें. लुकास आनी मेग्यूल्यांवूय धादोशी जाले. लुईजा येवंचे येवन अनीताच्या पांयांशीं शेंवटलें आनी ताचे उपकार आठोवंक तिका उतरां येना जालीं. लुईजा आंण्टीक अनीतान उठयली. तें रडूंक लागलें आनी वचून होर्टेन्शीयाच्या पांयांशीं शेंवटलें, "मामा, हें म्हजें नाटक तुमच्या खोट्या विचारांक निटायेर हाडचे खातीर म्हाका करचें पडलें."

मेग्यूल्यांवान म्हणलें, "शाबास! सून आसची तर असली, अनीता सारकी!"



# आराट्ट

**—गोकुळदास प्रभु**

रामचंद्र व्हडले स्रद्धेन तें काम करतालो. सिगरेटीचीं रितीं पॅकेटां एका फाटल्यान आनी एक दवरून तो 'कोट' बांदतालो. सिनेमा थेटरा मुखावयले लायनी वरीच सिगरेटा पॅकेटां एका फाटल्यान आनी एक रावन कोटाची लांबाय वाडत आयली. तांची वळ दिवडा भशेन घुंवत, मोडत गेली. ते वळींतलीं पॅकेटां एकामेकाक लागना शें तो पळयतालो.

पूण तें जमलें ना. एक पॅकेट ताचे मुखावयले पॅकेटाक लागलेंच. आनी तें ताचे फुडले पॅकेटाक आपटलें. दर एक पॅकेट आनी एक पॅकेटाक आपडत, पाडयत गेलें. शेतांतल्यान वारें मारतना रोंपयो बागून ल्हारां जातात तशेंच पॅकेटां पडटना जातालें. सगळीं पॅकेटां उबीं दवरून निमाणच्या पॅकेटीर मनःपूर्वक हात लावन, तांचे वयल्यान तें ल्हार वचचें पळोवपांत खूब आनंद आसा. देखून रामचंद्रान तीं पॅकेटां आदले वरीच एका फाटल्यान आनी एक दवरूंक सुरू केलें.

आनी भायर, मार्गार घुमटांचो आवाज जालो - ढम-ड ढम. त्या आवाजांत कसलोय ताळ नाशिल्लो. तो आवाज घुमटार अकस्मात बडी लागिल्ल्यान जाल्लो, तें रामचंद्राक कळ्ळें. पूण ताचेर एक जाग आयली. ताका म्हत्त्वाचे ते गजालीचो उगडास जालो - आज देवळांत आराट!

त्या विचारान रामचंद्राक उमळशीक दिसली. पॅकटांचे वळी वयल्यान वचपी ल्हारांचें म्हत्त्व उणें जालें. ताचें मन गांवच्या एका कोनशा कडेन पावलें.

ताणें धांवत वचून मार्गार पळयलें. चार-पांच मनीस घुमटां घेवन वताले- आतां ते सष्टि परमाकडे वतले. थंय आनीकय जायते लोक जमतले. हथियो येतल्यो. दोन व्हडीं पांवयतले. सगळे थंय साकून देवळा कडेन वतले.

रामचंद्राल्या दोळ्यां मुखार तो देखावो व्यक्त जालो- मुखार घुमटां-पेंपारे वाजोवपी लोक. तांचे भोंवतणी गर्दी, फाटींत दोन उमथीं व्हडीं तकलेर घेवन कुणबी. तांचेय फाटीं हाथियो. हाथियांचेर केळ्यां घडय घेवन भुरगे. सगळेच मुखार सरतात...

त्या देखाव्यान रामचंद्राली उमळशीक आनिकूय वाडली. तो धांवन भितर गेलो आनी जमनीर शिंपडून पडिल्लीं सिगरेटी पॅकेटां सांबाळून दवरलीं.

आवय मागीलदारा कडेन बसून तांदूळ वेंचताली. ताणें तिका कळयलें -

"आवोय, हांव भायर वतां."

"खंय रे?"

"सष्टिपरमांत."

-सष्टिपरमांत आतां कितें घडपाचें आसा तें तिका कळटालेंच. पूण तिणें सांगलें -

"आतां थांगा वच्चें नाका. वेळु जाल्लो ना."

"जाल्लो गे. मोगटां घेवनु ते आतां गेल्ले मू."

"वोच्चोय. वेळू जाल्लो ना."

वेळाचें ताका कांयच लागनाशिल्लें. ताका जाय आशिल्लें रोखडेंच सष्टिपरमांत पावप आनी थंयची मजा पळोवप. देखून आवयक कळयना शें भायर सरून वचपाचें ताणें येवजिलें. पूण परथून येतना तिचो मार खावचो पडटलो, त्या विचारान ताचो आग्रह दामलो. तो फकत भायर वचून रस्त्या कडेन रावलो.

पयसुल्यान घुमटाचो आवाज आयलो. अदिंमदीं पेंपाऱ्यांचो साद आयकूंक येतालो. फकत साद- संगीत न्हय. हरशीं सगळ्यार शांतताय पसरिल्ली. ते शांततायेन ताची जिज्ञासा चड जाली आनी घुमटां-पेंपाऱ्यांच्या ताळबद्ध आवाजा खातीर तो वांवटेलो. वेळ जाय तितले बेगीन वचनाशिल्लो. ताका ओगीच रावंक जमना शें जालें. ताचें काळीज सष्टिपरमांतले गर्देंत भोंवतालें. ताका उडून थंय पावन दिसतालें. वेळ वाडत वता तशी ताची इत्सा तीव्र जाली आनी निमाणें तो परतून आवय कडेन गेलो-

"आवोय, वेळ जालो, हांव वतां, आं?"

-तिका ताची आवतिकाय सारकीच समजताली, देखून तिणे 'आं' केलें. तें आयकना फुडें रामचंद्रान सदरो बदल्लो आनी तो भायर धांवन गेलो. रस्त्यार पाविल्ले उप्रांतच ताचो वेग मात्सो उणो जालो. पूण तो ताकतिकेनच चलतालो.



रस्तो उजवे कडेन वळटालो आनी सष्टि परमांत पावतालो. आतां घुमटांचो साद लागिंच्यान आयकूंक येतालो. रामचंद्रालो वेग वाडलो.

ताणें वाट पळयिल्ले वरीच, दामोदरा देवळा मुखार लोक जमून राविल्ले. विशेक लोकांची गर्दी आनी दोग हाथियो. एके हाथियेर एकलो भुरगो बशिल्लो.

रामचंद्राक जिज्ञासा जाली - घुमटां कोण वाजयतात? आनी पेंपारें? तो मुखार रावपी जाणटेल्यांक धुकलून मुखार सरलो. घुमटां-पेंपारें वाजोवपी लोकां मदें भरसून राविल्ले. दोग तेग चले उमळशिकेन घुमटां वाजयताले. पूण पेंपारेंकार ओगीच राविल्लो. धोल वाजोवपीय फकत दुसऱ्या कडेन उलयत राबिल्लो. उलयतासतना पेंपारेंकारान पेंपारें उबारून तोंडा कडेन व्हरून 'पी-पी' केलें. अजून मजेचो वेळ जावंक ना म्हणपाचें रामचंद्राक कळ्ळें.

इतल्यांत कोणें तरी घोषणा केली -

"आं, मुंचूवां आयलो रे."

-व्हडीं पावलीं. आतांच पावलीं! अजून पावंक नाशिल्ल्यान पेंपारें-धोल वाजोवपी ओगीच राविल्ले दिसता.

रामचंद्रान व्हडेकारांक पळयलें आनी ताची उमळशीक खूब थंड जाली- एक व्हडें तकलेर घेवन ताचो बापूयच आयिल्लो.

बापायचे नदरेंत येना शें आंग चोरून रामचंद्र रावलो. ताका बापायचे मुखार येवंक तशें भंय कांय नाशिल्लें. पूण ताचें आनी बापयचें केन्नाय बरें पटनाशिल्लें. बापूय म्हळ्यार हाल, त्रास आनी एक वायट लक्षण. रामचंद्रान गर्देंत भरसून बापायचे नदरे भायर वचपाचो वावर केलो.

निमाणें घुमटांच्या आवाजाक एक नवो ताळ आयलो. घुमटां वाजोवंक चड जाणटेले मुखार आयले. धोलार बडी पडली. पेंपारेंकारान पेंपारें तोंडा कडेन व्हेलें. संगिताची सुरवात जाली.



सूर्य मळबाचे ताळवेर पाविल्लो. वोत रखरखतालें. पांया सकयल रस्तो चुरचुरतालो.

दोगांय हथियांचेर भुरगीं एकमेकांक वेंग मारून बशिल्लीं. हथियां मुखार रस्त्यार, व्हडीं उमथीं दवरून रामचंद्रालो बापूय आनी दुसरो कुणबी बशिल्लो.

आतां घुमटां वाजोवप्यां परस चड लोक मुखार नाचताले. घुमटां वाजोवन वाजोवन जांच्या बोटांचेर फोड आयले, तांचे कडल्यान दुसऱ्या लोकांनी घुमटां घेवन वाजयलें. चडांत चड लोक नाचूंक येताले आनी कांय वेळ नाचून दुसऱ्यांक वाट सोडटाले.

उंचायेर पाविल्ली मजा पळोवंक आतां शेंकड्यांनी लोक वाजोवप्यां कडेन, नाचप्यां भोंवतणी, रस्तो भरून राविल्ले. बायलो आनी भुरगीं रस्त्याचे दोनूय वशींच्या दुकाना मुखावयल्या सोंपणार आनी घरांच्या टेरेसार जमिल्लीं.

सगळ्यार हुमेची खरसाण आनी सोऱ्याची आंबसाण पसरिल्ली. पेंपारेंकारान एक गीत सोंपोवन इल्लें उदक पितना खंयचे काय एका नाचप्यान गायलें -

"इतल्याक केल्लेलें, जंबक्का."

सुक्क्याक केल्लेलें!

जंबक्का चेडी, चिन्नि चेडी -

जंबक्का चेडी...

-तें फकाणाचें गीत आयकून सगळेच हांसले. गर्देचो हांसो गाजेलो.

रामचंद्राल्या खांदार बापायचो हात पडलो -

"आरेय, हांगा यो. ते मुंचुवा कडेन राब. हांव एद्दे उद्दाक पीवनू येता." रामचंद्राक आपल्या खांदार कावळो हागिल्ले वरी आनी कानांत सुवो तोंपिल्ले वरी जालें. बापायची तान कसली आनी तो पियेंवंक सोदता तें उदक खंयचें, तें ताका बरे भाशेन कळटालें. देखून

ताका बापायची अवज्ञा दिसली. घांस मारपी मुयेक आमुडचे वरी ताणें भूज फाफुडलें. बापायचो हात निसरलो. पूण बापायन ताका परतून धरलो आनी मात्शे निबरसाणेन सांगलें-

"राब रे, थांगा वचूनु."

-ती आशिल्ली आज्ञा. आनी तातुंतलो राग व्हडल्या आवाजान वयर सरलो. रामचंद्राकय व्हडलो राग जालो. बापूय म्हळ्यार केन्नाय त्रास दिवपी मनीस ही चिंता बदलून आतां बापूय म्हळ्यार उपद्रवांचे पर्याय अशें ताका दिसलें. त्या त्रासा कडसून सुटूंक एकच उपाय आशिल्लो- धांवप. पांयांक तांकता तितले बेगीन धांवप. पूण धांवप म्हळ्यार हांगा साकून पयस वचप. घुमटां नाच पळोवपांतलो मजेचो नाकार करप. तें जमना. हांगाच रावंक जाय. हांगाच -

रामचंद्र व्हड्या कडेन वचून रावलो. आनी ताचो बापूय गर्देतल्यान वाट काडून भायर गेलो. रामचंद्राक बापायचे कडेन इल्लेंय लक्ष्य नाशिल्लें. ताच्या प्रपंचांत बापायक कांयच मोल नाशिल्लें. देखून जाणटेलो खंयचे वाटेन केन्ना गेलो तें ताका कळ्ळेंच ना. ताचें मन गर्दे मदल्या वाजप्यां कडेन आनी नाचप्यां कडेन आशिल्लें. बेगीन ताची कूडय थंय वळ्ळी.



पेंपारेंकार एक गीत सोंपोवन दुसरें बेगीन सुरू करनात. ते मात्सो वेळ ओगीच रावतात. इतल्यांत कोणेंय पूर्णे हिंदी वा तामीळ चित्रपटांतल्या खंयच्या काय गिताचें नांव सुचयतात आनी पेंपारेंकार तें गीत वाजयतात.

तशें एक गीत सोंपलें म्हणटकूच कोणें आनी एक गिताचें नांव सांगलें. पूण गीत सुरू करचे आदीं वाजप्यांक फुडें वचपाचो निरोप मेळ्ळो. ते मुखार सरले. तांच्या वांगडा रामचंद्रय फुडें सरलो.

फाटल्यान ताका उलो मेळ्ळो. व्हड्या कडलो तो कुणबी आपयतालो -

"रामचेंद्रा, नन्रा खंय रे?"

-बापूय सोरो पियेवंक गेला - सांगूं? - रामचंद्रान येवजिलें- नाका-

"म्हाका कळना."

"तुका कळना म्हळ्यार! तुका सांगूनच तो गेल्लोलो मुरे. कळना?"

"व्हय. कळता. सूर पिवंचाक गेला. पूरो वे?"

-रामचंद्राली उक्तेपणान आयिल्ली ती गजाल आयकून कुणब्याक अविचार जालो. रामचंद्र मुखार सरलो. ताणें परतून उलो आयकलो -

"रामचंद्रा!"

- तो चलत रावलो -

"आरे, राब रे-"

- ताणें घुंवन पळयलें -

"आरे, तुजे बापालें मुंचूव कोण रे व्होरतलें?"

"म्हाका कळना. हांवें कितें कोरूक?"

"तुज्यान काडूं नज रे?"

-म्हज्यान! - रामचंद्राक उतरां मेळळीं नात. त्या व्हड्याचो अर्द कुडको उबारूक जमना आनी तें सगळेंच तकलेर घेवन तळये कडेन पावोवंक जाय खंय!

"कितें रे चोयता?"

"म्हज्यान जमना."

"मागीर कोण काडतलो?"

"म्हाका कळना."

"तुका कळना!"- तो कुणबी निर्शेलो आनी तिडकलो -

"आरे, मोगटां मुखार दूरा पांवली. मुंचूव काणत्तिल्लें हस्ति केशी रे मुखार वोत्तल्ली?"

तें खरेंच. व्हडीं आनी हथियो थंयच आशिल्लो. पूण करपाचें कितें? व्हडें उबारूक जमचेंच ना. स फूट लांबायेचें व्हडें तें. कितलें वजन ताचें कोणाक खबर!

कुणब्याक तें समजलेंच. ताणें दुसऱ्या मनशा कडेन मागलें. पूण तोय व्हडें उबारूक तयार नाशिल्लो. कांय वेळान कुणब्यान आनीक एका चल्याक आपोवन हाडलो. त्या चल्यासयत रामचंद्रान तें व्हडें उबारलें.

व्हडें तकलेर दवरतना रामचंद्राक दिसलें की व्हड्याचें वजन येवजिल्ले परस मात्शें उणें आसा. पूण वजन आशिल्लेंच, आनी त्या वजनान ताचें धोंपर कडकडलें, तकली वांकडी जाली.



मुखार वाजपी थांबले. तांचे भोंवतणीचे लोकय थांबले. रामचंद्र त्या खिणाची वाट पळयतालो - तकले वयलें व्हडें सकयल दवरपा खातीर. तकली दुखताली. गोमटो वळटालो. पांयाखाल चुरचुरतालें.

लोक देवळा कडेन पाविल्ले. खूब फुडें तळये भायली वणत दिसताली. व्हडें ते तळयेंत उडोवपाचें आशिल्लें. पूण थंय पावचों ना. थंय पावचे आदींच मरतलों. आनी एक फावट तें व्हडें माथ्यार दवरल्यार माथें खंडीत फुट्टलें. तें व्हडें घेवन आनीक एक पावल मुखार दवरूक शकचों ना. तितलें पुरो जालां. पूरो -

सगळेंच त्या राखेसाक लागून- बापय खंय, बापय! - म्हाका हांगा त्रासांत घालून पियेवंक गेला- रांडेचो!

रामचंद्रान सोपूद केलो - तें व्हडें परत उबारपाचें ना. जमना. तितलेंच. सगळ्यांनी येवन मारल्यारय जायत. मेल्यारय बरें. पूण तें व्हडें -

वाट पळय नासतना गर्देत रोखडोच एक व्हडलो बोवाळ जालो. कोण तरी गर्देत

साकून उसळून भायर आयलो. ताचे फाटींतच आनीक एक मनीस. ते एकमेकांक थापटायताले. तांचे मदें झगडें जातालें. कांय लोक त्या दोगांयकय आडायताले.

हरशीं रामचंद्र थंय वचून कोण, कशें झगडटात तें पळयतलो आशिल्लो. पूण आतां ताका इत्सा नाशिल्ली. आपल्या त्रासांत, दुसऱ्या लोकांच्या झगडपाचे विशीं ताका कांयच दिसलें ना- झगडात- ताणें आपले भितरूच सांगलें- झगडात. एकमेकाक मारून मरात.

त्या विचारांत ताची अवस्था काळखी जाली. ताचीं सगळीं येवजणां गोंदळ्ळीं. मन मुयेल्लें.



निमाणें व्हडी तळयेंत घाली आनी रामचंद्राले तकले वयलें वजन सोंपलें. दनपार मोव जाताली. पूण वोत रखरखतालेंच. ताचो बापूय अजून परत येवंक नाशिल्लो.

रामचंद्राक आतां आदले वरीच बापायचें कांयच लागनाशिल्लें. तो एका कठीण कामांतल्यान मेकळो जाल्ल्याचे धादोसकायेन देवळा कडेन गेलो. देवळा मुखार जात्रेचें वातावरण आशिल्लें. जायतीं दुकानां उक्तीं आशिल्लीं. लोक हांगा थंय भोंवताले. पसरकार भुरग्यांची दिश्टी ओडून घेवपा खातीर ल्हान घंट्यो वाजयताले.

रामचंद्र पयस एका दुकाना कडेन वचून थंय दवरिल्ल्यो वस्ती, आनी तांचें घेवप-दिवप तेळीत रावलो. चलयो येवन कांकणां, फीत, कुकूम, माळो, असल्यो वस्ती घेताल्यो. ल्हान भुरग्यांक खेळपाची वस्त जाय आशिल्ली. रामचंद्र फकत पळयत रावलो. पळोवन, पळोवन पुरो जालें म्हणटकूच तो देवळांत रिगलो. देवळांतली व्हडली घांट सवकासायेन वाजताली. प्रदक्षिणा काडपाच्या मांटवाच्या एका कोनशाक खासा जात्रेक लागून आयिल्ल्या पेंपारें-धोल वाजोवप्यां कडल्यान संगीत येतालें.

रामचंद्र कांय वेळ तें पेंपाऱ्याचें संगीत आयकून रावलो. तें संगीत साष्टी परमांत साकून भायर सरिल्ल्या पेंपारें-धोल वाजोवप्यांच्या संगिता वरी ओडलायणें नाशिल्लें. देखून ताका हळूच त्या संगिताची उबगण जाली. ते उबगणे वयल्यान काय व्हड्याच्या वजना वयल्यान, ताका मात्शी माथ्या दूख दिसली.

तो थंय साकून देवळाची प्रदक्षिणा काडून वेगळे कडेन गेलो. प्रदक्षिण-मांटवा भायल्या उक्त्या जाग्यार त्यो हथियो राविल्ल्यो. तांणी सोंडाळेन चुडट्यो पिसडून खांवचें रामचंद्राक कौतूक दिसलें.

मागीर तो देवळाच्या रांदच्या घरा कडेन गेलो. थंय मोट्या आयदनांत शीत रांदय शिजतालें. बुरशीं कापडां न्हेसून, हुमेल्ल्या आंगाचे रांदपी हांगा थंय धांवताले. उदक विखरिल्ल्यान जमीन ओली आशिल्ली आनी पांयांक थापताली. जायते कडेन तरकारीचीं सोलां आनी कोयर शिंपडून पडिल्लो.

रामचंद्राक परतून परतून शीत-रांदय शिजोवंक दवरिल्ल्या आयदनांच्या मोटेपणाचें अजाप जालें. कोणें तातूंत देंवन रावल्यार भायर साकून दुसऱ्यांक दिसचो ना.

भट देवाची मूर्त घेवन तळयेंत बुडलो. तळयेक पुण्यताय मेळ्ळी. देवळांत खोजने फुटले. 'आराटाचो' एक मुखेल वांटो जालो.

आतां समराधना जावपाची आशिल्ली. लोक देवळा कडेन गेले. रामचंद्रालीं पावलां आपशींच ते दिकेन वळ्ळीं. दुसऱ्यां सयत तो समराधनेक बसलो.

सूर्य अस्तमते कडेन देंवतालो. वोताची हुनसाण मेल्ली. विस्कळ त्या देवळाच्या उकत्या वाऱ्यार समराधनेक बसप्यांचो उलोवपाचो आवाज बेगीन विरून गेलो. घुमटांचो, धोलाचो आनी घंटेचो आवाज चार वरांनी आयकिल्ल्या उप्रांत आतां सगळें वातावरण शांत आशिल्लें. सगळे मनीस खंयचे काय एके गजालीची वाट पळयल्ले भाशेन बशिल्ले.

रामचंद्राचे दोनय वशीं अनवळखी बशिल्ले. लागीं बसपी सगळेच जाणटेले आशिल्ले. ते उलयत बसले. ताकाय तांचे कडेन उलोवंक दिसलें ना, देखून तो ओगीच रेंवेंत चित्रां काडीत बसलो.

रांदच्या घरा कडल्यान जायते लोक धांवन आयले. तांच्या हातांत केळी पानां आशिल्लीं. तांणी तीं पानां समराधनेक बसप्यांक वांटलीं. परतून सगळेंच शांत जालें.

जायत्या वेळान रांदच्या घरा कडेन परतून बोवाळ जालो. शीत-रांदयेचीं आयदनां घेवन खूब दादले आनी भुरगे धांवन आयले. तांणी सगळ्यांक वाडूंक सुरू केलें. समराधनेक बशिल्ल्या सगळ्यांक वाडिल्ले उप्रांतय मात्सो वेळ जालो. मागीर खोजनो फुटलो आनी जेवण सुरू करपा खातीर खूण जालें.

तें आयकना फुडें सगळ्यांनी पानावयलें शीत-रांदय कालोवन भुरकायलें.

सकाळच्या खाणा उप्रांत रामचंद्र जेवंक नाशिल्लो. पूण जायतो वेळ वोतांत भोंविल्ल्यान आनी जवेणा वेळार जेवंक नाशिल्ल्यान ताची भूक सोंपिल्ली. जेवणा वेळार जेवचे परस ताका घुमटां वाजोवप्या कडलें नाचप पळोवंक जाय आशिल्लें. मागीर तकलेर व्हडें आयिल्ल्यान थंय साकून वचूंकच जालें ना. ताची भूक मेल्ली.

पूण आतां जेवणाची उंडी तोंडांत घालतना सुवाद आशिल्लोच. आनी इतलो वेळ राखून रावन खोजन्याचो संदेश पाविल्ल्यान दुसऱ्यां सयत ताणेंय शीत कालोवन भुरकटायलें.

"उद्दाक, उद्दाक"- उदक वांटपी आयले. मागप्यांक उदक दिवन ते फुडें गेले. रामचंद्र जेवत रावलो.

पयसुल्ल्यान संगिताचीं ल्हारां आयलीं, समराधनेक बसप्यांक किर्तनां आयकोवन आनी आयण्यांनी वारें घालीत खंयचे काय भजन मंडळाचे वांगडी येताले. ते लागीं पावले आनी रामचंद्रा मुखा वयल्यान गेले.

तांणी आयणे हालोवण घाल्लें वारें रामचंद्रालें तोंड परशीत गेलें. आनी अकस्मात अवचित्राची एक घडणूक जाली. भजन मंडळाच्या वांगड्यां सयत आशिल्ल्या एका चल्यान रामचंद्राक बोट दाखयलें.

"ईचेंय, एकु कुणब्या चेडो सम्रादनेक बेस्सल्ला."

- रामचंद्र कांचवेलो. तो जेवंक विसरलो. ताणें तोंड उबारून पळयलें. तो चलो

ताचेच शाळेंत शिकतालो आनी ताका वळखतालो. त्या चल्या मुखा वयले मनीस आतां रामचंद्राक पळयताले. ताचे दोनय वशीं बसपी जाणटेलेय ताका पळयताले.

रामचंद्रान तकली बागयली. दोळे पानार थिरायले. भोंवतणी कितें जाता ताची कळवीक नाशिल्ले भाशेन तो बसलो. पूण ताच्या हड्डया भितर घुमटां वाजतालीं -

आतां त्या भजन मंडळाचे वांगडी कोणय फाटींय येवन मुखार रावतलो, बागतलो, विचारतलो - "तूं कुणबी रे?" ना जाल्यार त्या प्रस्ना बगर ताचो हात म्हजे कडेन येतलो. ताच्या बोटांत म्हजो कान चिड्डतलो, हून जातलो, दुखतलो. तसो कानाक चिमटो घालून तो म्हाका उबो करतलो. हजारांनी लोक पळयतासतना तांचे मुखा वयल्यान ओडून देवळाचे भायर व्हरून धुकलतलो.

पूण भजन मंडळाच्या वांगड्यांनी त्या चल्याचें आयकून घेतलें ना - "तो बेस्सो रे प्पा. वच्चा." - तांणी सांगलें आनी ते मुखार सरले. रामचंद्राक कांयच जालें ना.

रामचंद्राक कांयच जालें ना - कांयच. ताका तोंडांतली उंडी गिळूंक जाली ना. पाना वयल्या शितांत पुरिल्लीं बोटां हालोवंक जालें ना. शीत रांदयेर थारायिल्ली नदर बदलूंक जालें ना. आतां तोंडांत आशिल्ले फातर आनी बोटां पाना वयल्या चिखलांत शिरकल्लीं. काळजा कडेन मात घुमट वाजतालें - ढम-ड-ढम...



# मूठभर माती

**—जॅस फेर्नांदीस**

पयर सांजवेळची खबर. म्हजो एकलो काळजाचो इश्ट म्हाका मेळूंक आयलो. सिरिल! जायतीं वर्सां मेरेन, तो गोंय सोडून, भायल्या गांवांत रावतालो. थंयच लग्न जावन आपलो संवसार केल्लो. म्हणटात न्हय, पोट भरता थंय संवसार!

हो खूब शिकलेलो. ताका आपल्या देशांत, आपल्या हातांनी कितेंय तरी करून दाखोवंक जाय आसलें. पूण हांगा ताच्या शिकपाचे आनी गिन्यानाचे तांकेक आनी हुशारकायेक कोणा एकल्यान चुट्टी लेगीत हालोवंक ना. जेवणार बसतल्या मुसाक आमुडटात तसो ताका आमडून घाल्लो.

तो गोंयचो भायर सरतना ताचो आवय वापूय खूब रडिल्लो. तांचो तो एकलोच भुरगो आसलेल्यान तांका तो सदांच आपल्या फुड्यांत, आपले नदरे मुखार जाय आसलो.

तो भायर गेले उपरांत आपणें केदे आशेन आपल्या पुताक शिकयलो आनी कसले दशेन आपलो पूत परदेशांत पाविल्लो तें चिंतून, चिंतून ताच्या बापायन दोळे धांपले. ताचे निमणे संस्कार म्हजोच बापूय जाल्ले वरी म्हाका-जोझेफाकूच करचे पडले.

सिरिल कांय वर्सांनी परदेसांतल्यान घरा आयलो. तेन्ना ताचे आवयचो जीव खूब खोशी जालो. सिरिलान येतना जायते दुडू हाडलेले.

सिरिलाचो बापूय पास्कू, भाटकाराचो मुंडकार आसलो. ताच्या बापायच्यान घराभोंवतणी आशिल्लो जागो केन्ना विकतो घेवंक जालें ना. हाणें तो आपल्या कश्टाच्या दुडवांनी विकतो घेतलो. आपल्या घराची दुरुस्ती केली. ताची आवय भाटकाराचें एक शेत रोयताली, तें शेतूय हाणें विकतें घेतलें. तसोच भाटकाराचो एक धाकटुलो बांद आसलो, तोय सिरिलान विकतो घेतलो. कारण त्या दोन हजार पांचशें चौखण मेत्रांच्या जाग्यार आमच्यो जायत्यो यादी आसल्यो. थंयच बसून आमी खेळटाले आनी पाखात्यो लावन सुकणीं किरांट्यो धरताले. थंयच्यान व्हांवपी व्हाळांतलें नुस्तें आमी गरोवन काडटाले. आमचे बारीक-मोटे गूट आमी थंयच उलयताले. दु:खां-सुखां आमी थंयच वांटून घेवचीं. बांदार व्हडलीं शीं फळां दिवपी झाडां नासलीं. फकत स घोंटां आंवल्यांची झाडां. तीं आदीं भाटकार पाडी नासलो. तीं घोंटां वाटसुरेच खाताले. बांदाक वाटसुऱ्याचो बांद म्हूण लोक वळखताले.

खरें म्हळ्यार तो बांद म्हाकाच विकतो घेवपाचो आसलो. म्हजो त्या बांदाचेर दोळो आसा म्हणपाचें सिरिल जाणा आसलो. आपणें भाटकारा कडेन उतर घालचे आदीं सिरिलान म्हाका ते संबंदीं विचारलें. पूण हांवेंच आपूण जावन ना म्हणलें. कारण म्हज्या चिमटीभर पगाराचेर म्हारगायेचो चपको बसतालो. चाकरी तरी कसली? साद्या कारकुनाची. म्हजो बापूय गोंयांतल्या पुर्तुगेज सरकारांत कारकून आशिल्ल्यान ताच्या मर्णा उपरांत म्हाका ती मेळिल्ली. गांवचो रेजिदोर म्हज्या बापायचो इश्ट आसलो. ताणेंच म्हजी शिफारस सरकारा कडेन केल्ली.

सिरिलाची मांय शेताची आनी बांदाची धनीण जाली, पूण तें धनीपण चलोवंक ती उरली ना. एक दिसा सिरिलाक एकसुरो उडोवन आपणाल्या घरकाराक सांगात दिवपाक ती सासणाची गेली.

ताचे आवयच्या मर्णा उपरांत गोंयांत आसापासून, म्हजे आवयन ताचे आवयचो जागो घेतलो. ताका सांबाळ्ळो, गोंयचो भायर सरून वता आसतना सिरिलान म्हजे आवयक वेंग मारली आनी दोळ्यांनी दुकां हाडून म्हळें, "मांय, हे तुजे सगले उपकार हांव कशे फारीक करूं ? जोझेफाक एक भयण आशिल्ली जाल्यार, हांव ताचो भावोजी जातलों आसलों. पूण तोय निर्भागी म्हजेच सारको एकलो एकसुरो!"

म्हजे आवयच्यान हें सोसूं नज जालें. तिच्याय दोळ्यांतल्यान घसघशीत दुकां गळ्ळीं. तिणें ताका आपले खाकेंत ओडलो, आनी ताचें तोंड पोशेत पोशेत म्हळ्ळें, "तूं ताचो भावोजी सो जावंक कित्याक सोदताय रे पुता? तूं ताचो भाव आनी म्हजो धाकटो पूत मरे शाण्या!"

कांय वेळ मेरेन आमी तिगांय जाणां एकामेकांच्या तोंडाक पळयत रडत रावलीं.

भायर सरून वचचे आदीं सिरिलान आपलें शेत एकल्या शेजाऱ्याक रोवंक दिलें आनी घर, कोणा एकल्या पयसुल्या सोयऱ्याच्या हातांत दिलें. कोण तरी मेळटा जाल्यार भाड्यान दवर म्हणून ताका सांगलें. सिरिल हरशीं तें सगळें म्हजेच आवय कडेन दिवपाचो, पूण आमचीं दोगांयचीं घरां तीस मिनटांच्या अंतराक आशिल्ल्यान तशें करपाक आमकां शक्य नासलें. शिवाय आमचें एक शेत आसलें. घरा भायर एक भाट आसलें. आमचें सगळें पळोवन ताच्याय वस्तूंचेर नदर दवरप म्हजे आवयच्यान जावचें नासलें.

सिरिल गोंय सोडून गेले उपरांत कांय तेंपान तो ताचो सोयरो आपल्या भुरग्यांक घेवन ताच्या घरांत रावंक लागलो. ही खबर एके चिटी उदेशीं हांवें सिरिलाक कळयली. ताच्या सोयऱ्यानूय ताका चीट बरयली. आपलो सोयरो आपल्या घराचो परामर्स करतलो आनी घर सांबाळटलो म्हणून चिंतून सिरिल खूब खोशी जालो. कारण ऐशीं हजार रुपया खर्च करून ताणें तें घर सारकें केल्लें.

हे गजालीक पंदरा वर्सां सरून गेलीं. ते मदीं एक फावट सिरिल गोंयां आयलो आनी एक कुस्कुटाची वस्त घेनासतना म्हजे मावशेभयणी कडेन लग्न जालो. एक दीस ताणें म्हजे मांयक फकाणांनी म्हळें, "मांय, हें पळय, हांव जिखलों! तुजो पुतूच न्हय, तर

हांव तुजे भयणीचो जांवय जालों. म्हणजे तुजोय जांवय, पूत आनी जांवय तुजोच."

खोशेयेच्या उमाळ्यांनी भरलेले ते दीस कशे आनी खंयच्यान धांवले तें मात कोणा एकल्याक कळ्ळेंच ना. सिरिल आपली दोन म्हयन्याची रजा सोपोवन परदेशाक गेलो.

आनीक कांय वर्सां गेलीं. थंय ताका एक बाबुलो आनी बाय जालें. तांच्या मोगान भरलेल्या घराब्याचो संवसार सुखान चलूंक लागलो.

ज्या दिसा गोंयच्या निळ्या मळबार नाताळाच्या म्हयन्यांत स्वतंत्रतायेचो सूर्या अभिमानान मेकळो वारो घेवंक आयलेलो, त्या वेळार ताच्या काळजांत एक आकांताची उडकी घेतली. परदेसांतल्या सगळ्या गोंयकारांक एकठावन ताणें एक पार्टी दिली.

आपल्या गोंयचेर आनी आपल्या गोंयकारांक खूब बरे दीस उदेतले अशें ताका दिसलें. गोंयांत कशें कितें चलता तें विचारून, दर पंदरा दिसांनी म्हाका ताची चीट येताली. ताचें घरभाट, शेत आनी हांव बाजूक काडलें जाल्यार ताचें गोंयांत आनीक कांयच नासलें.

एक दीस गोंयांत सरकाराचे कूळ कायदे आनी मुंडकार कायदे जाहीर जाले. त्या कायद्यान गोंयकाराचें जिवितूच बदल्लें. एकाच फारान सादारण भाटकाराक रस्त्या वयलो भिकारी केलो आनी भाटकारान काकुळटेक येवन आसरो नाशिल्ल्याक आपल्या भाटांत जागो दिवन थारो दिल्ल्या मनशाक भाटकार करून बसयलो. व्हडल्या व्हडल्या भाटकारांची गजाल वेगळी. तांणी तीं भाटां कशीं घेतलेलीं देवाक खबर! पूण कोणें एकल्यान एका मनशाचेर अन्याय केल्ल्या कारणान, ताची ख्यास्त त्या सगळ्या वर्गाक लावप हें चुकीचें.

ते कायदे जाल्लो त्या दिसाचे एके घडणेची म्हाका याद जाता. म्हज्या दोगांय मुंडकारांनी म्हजें आख्खें भाटूच पाडून नाल्ल विकले. आडसरांचो शिंवर करून मौजा मारल्यो. विचारूंक गेल्ले सुवातेर तांणी नेटान नव्या कायद्याचेर बोट दाखोवन म्हाका जाणवायो सांगून अडेचें भाटकारपण गाजयलें. मागीर हांवें पुलिसेंत कागाळ मांडून, तांच्या हातांत बेडयो घाल्यो. तांकां पुलिसेन चार दीस बंद दवरले, तांचो फाटीचो धुल फाफुडलो, तांकां विश्रांती दिली, ती दुसरी गजाल.

नव्या कायद्याचे गजालीची सिरिलाक नोंद जायना फुडें तो गोंयांत आयलो! पूण शेत रोवप्यान आनी घरांत रोवप्यान ताका ताळेंबेळें सांगून फुसलावन परत धाडलो.

एक दीस सोयऱ्याचे कचेरींत गेल्ले कडेन म्हाका त्या सोयऱ्याची मतलबपणां कळून आयलीं. तागेल्या कचेरेंतल्या एका इश्टान म्हाका ताचे अस्वडीं कांय गजाली सांगल्यो. ही खबर हांवें सिरिलाक बरयली आनी तो केन्ना येतलो हाची वाट पळयत रावलों.

हांव मदीं दिल्लीक क़ामाच्या ट्रेनिंगाक गेल्लों. थंय सुमार अडेच म्हयने उरलों. त्या काळामदें त्या सोयऱ्यान घर सारकें केलां म्हूण हांवें आयकलें. आनी हांव घरा येतकूच जेन्ना थंय पळोवंक गेलों तेन्ना तांणी त्या घराक हजारांनी रुपया खर्चून ताका सामकें आधुनीक रूप दिलां तें म्हाका कळून आयलें. हांवें ताचे लागीं चवकशी केली. आपूण कांय सिरिलाक भाडें फारीक करिना. तेखातीर तेच दुडू आपणें ताच्या घराक खर्चिल्यात म्हणून ताणें म्हाका सांगलें.

जरूय ताणें तशें सांगून सगलें पासून व्हरपाक केलें, तरुय म्हज्या फाटल्यान मातशें खोरजत रावलें. ही सगळी खबर हांवें सिरिलाक कळयली आनी बेगीन घरा आपयलो.

म्हज्या फिलीयादाचो क्रिज्म आसलो देखून हांव म्हजे घरकान्नीक घेवन पयर म्हापशां शारांत गेल्लों. आमचे फाटोफाट सिरिल आयलो. कांय कपडे एका धाकटुल्याच बॅगांत घालून, "पणजे वचून फाल्यां येतां" म्हण सांगून भायर सरून गेलो. आमी सांजवेळा घरा आयले उपरां सिरिलाची खबर म्हाका कळ्ळी. तो सांजे परतून येत काय म्हणून हांव रातच्या धा वरां मेरेन रावलों. काल सकाळीं हांव कचेरींत गेलों ना. म्हजी घरकान्नूय अचकीत सुटी काडून घरा रावली.

काल सांजे पावणे संच्या अदमासाक सिरिल आमगेर आयलो. सामको बेजार जावन. ताच्या भेसाक आनी मुखामळाक पळयतांच म्हाका खूब समजलें. कारण ताच्या दोळ्यांनी म्हाका दुकां दिसलीं. म्हाका पळयतांच ती दुकां व्हांवंक लागलीं. मोन्यांनी ताणें म्हाका घट्ट वेंग मारली आनी दोगूय रडले. म्हाका ताणें उतरांनी कितेंच सांगपाची गरज पडली ना.

खूब वेळान तो उलोवपाक लागलो. ताणें आपल्या काळजाचें तुफान म्हजे मुखार उक्तें केलें. तागेलें शेत रोवपी शेताचो धनी जाल्लो. सरकाराच्या नव्या कायद्या प्रमाण शेताचे जमनीक दर चौखण मेत्राक किम्मत थारायलेली. भाटाच्या जाग्याक चिमटीभर पयशे, मोल म्हूण फारीक करपाचे. सगळेच बराबर फारीक करतलो जाल्यार पस्तीस पयशांनी आनी विभागांनी फारीक करतलो जाल्यार साठ पयशांनी चौखण मेत्राक फारीक करपाचे. हांगा पस्तीस आनी साठ पयशांनी ताल्लो आनी पेडवो लेगीत एकेक फावटीं मेळनात, पूण मुंडकार शेतकाराक जमनी मेळटात, ना तर थोडे थोडे पयशे फारीक करपाची येवजण आसा.

कांय वर्सां आदीं तीच शेताची जमीन एका रुपयान चौखण मेत्र अशे दरेन सिरिलान घेतलेली आनी इतल्या वर्सांनी ते जमनीचें मोल ताका कितलें मेळ्ळें? मोडलेल्या पयशाचें व्याज पूण जायत काय? आयज एक शेतकार सात, आठ पसून शेताचो धनी, मुंडकार कायद्यान एका भाटकाराक एकूच शेत आसलें, ताचो धनी मुंडकार, एका शेतकाराक अमकीच शेत वो कायद्यान एकूच शेत आसुंक जाय आसलें. आनी तेंय चड शेतां आसलेल्या भाटकाराचें.

तो ताचो सोयरो, ताच्या घराचो आनी भाटाचो धनी जाल्लो. सर्वे लेगीत ताणें आपल्या नांवार करून घेतलेली. ताका ताच्याच कश्टाच्या घरांत भितर लेगीत सरूंक मेळ्ळें ना. तो गोंयांत आयला म्हणून कळटनाच, ताच्या त्या सोयऱ्यान मवाली आनी गुंड हाडून दारांत बसयलेले. तांकां पळोवन तो भियेलो. त्या वाटसुऱ्याच्या बांदाची त्या सोयऱ्यान आनी एका गुंडान आपल्या नांवार सर्वे करून घेतलेली. सर्वे प्रोमॉलगेट जावन ताचेर धनीपणाचो शिक्कोय पडलेलो. त्या सोयऱ्यान ताका आदीं सर्वेचीं कागदां धाडलेलीं, तीं

सगळीं नकली म्हूण ताका आतां समजल्लें. हे फुडें कितें करतलो जाल्यार नितिसभेचीं सोपणां झरोवपाचीं... आनी नीत म्हूण लागीं आसता? सात समिंदरां पलतडी....

अखेरेक गोंयच्या आनी देशाच्या मोगाचो पूत कायद्यान देशा भायरो जालो. आपल्याच देशांत तो परदेशी जालो....

आयज दनपारां ताणें आपल्या शेतांतली मूठ मारून माती काडली. ती एके प्लास्टीकचे पोतयेंत घाली. आपल्या शेताचे मातयेचो बागोवन उमांव घेतलो आनी भरलेल्या दोळ्यांनी सगळयांचो निरोप घेवन तो विमानांत चडलो. विमान उडलें आनी हे मातये कडचें ताचें नातें सोंपलें..... सासणाखातीर!



# वितराग

**—महाबळेश्वर सैल**

पावलीन ही वैजीण आपलो मायेस्त, अणभवी हात तुळशीच्या तट्टटिल्ल्या पोटा वयल्यान ल्हव ल्हव फिरयता आनी ताका धीर दिता. आयिल्ली वेण वयले वयर जिरय नासतना सकयल नेट कसो दिवचो हें ताका सांगता. तुळशीच्या आंगा वयल्यान वेदनांचीं ल्हारांर ल्हारां व्हांवत वतात. तें खिणाखिणाक किळांच्यो मारता. तुळशीचो हो तिसरो बाळंटेर. पूण दर खेपेक ताका खूब त्रास जाता. सुद्दसुभ्रत, लजभीड विसत्र तें हुयेली मारता.

पावलीन तुळशीच्या कमरा वयली णव वारी न्हेसणाची गुठली काडून बाजूक उडयता. एक ल्हानशें, नितळ जुनेर ताच्या कमरार घालता. ताच्या कमराक बरो गरम उदकाचो शेक दिता. साणीर कांय वखदां झरोवन तुळशीक पिवंक दिता. वयल्यान जिरें आनी ओंवो चाबूंक सांगता. नंजामुंडली बडोवन बरी मानेक, फाटी कण्याक, ताळवेर चोळटा.

तुळशीचे उतळताप चालूच आसात. पावलीन दिस्तादिस्त हात भोंवडावन ताचीं शिरंतरां धील करपाचो यत्न करता.

पावलीन ही गुणी हाताची एक वैजीण. ह्या गांवांत दोतोर ना. ना म्हळ्यार एक वैज आसा. पयलीं तो झाडपाल्याचींच वखदां दितालो. आतां गुळयो, इंजेसांवा बी दिता. पूण लोकांचो ताचेर भावार्त ना. ताचो फकत जोर, थंडी, हागोणी हाचे कडेनच संबंद हें गांवच्या लोकांनी आपसूकच थारायलां. म्हयने भरिल्ली गुरवार बायल देवाचेर आनी आपल्या गांवचे हे सेवाभावी वैजिणीचेर सगळो भार घालून दीस भरपाची वाट पळयत बिनघोर रावता.

पावलीन ही नाकादोळ्यां बरी, रंगान उजळ, चाळिशीक तेंकिल्ली बायल, पूण आंकवार. तांच्या धर्मांत कोणी लागींचो, सोयरोधायरो भायर पडल्यार दुख्ख पाळटात आनी वर्सभर काळो भेस घालतात. पूण आयज कितलिंशींच वर्सां जालीं, पावलीन काळोच भेस न्हेसता. कित्याक? हें कुवाडें कोणाकूच सुटना. तेंय फोडणिशी करिना. हे बायलेन बरो फुलांफुलांचो व्हिस्तीद ना तर साडी न्हेसल्यार ही कितली सोबीत दिसत, हें पळयतल्याच्या मनांत आयले बगर रावना. ते भायर हरशीं तें बरेंच खाश्ट, रूक्ष दिसता. पूण एक वेळा बाळांतघरांत गेलें म्हणटकीर फुलता, ताका तोंड फुट्टा आनी तें घे म्हणून उलयता.

बाळांतीक खूब धीर, आधार दिता.

तिचीं हेर भावंडां पांखां फुट्टकीर चोंयकात फापसलीं. मांयचें दायज आपल्या खांदार घेवन पावलीन एक वैजीण जालें. आयज पंदरा वर्सां जालीं, तें एकटेंच आपल्या घरांत रावता. गांवचे खंयचेय बायलेच्या पोटांत जाता ही खबर उडत, उडत येवन ताच्या कानार पडल्यार पुरो, तें खुंटये वयली पोती घेवन ताकतिकेन भायर सरता.

पावलीन एक वेळ तुळशीक सारकें चोयता. भुरगें आडवें बी आयलें ना मू? ना. तकली सारकी दाराच्या मार्गार आसा. गांचूय बरो फुलून आयला. आतां चड म्हणटा ती एका वराची खबर.

तुळशी मदींच न्हिन्नळटा. दांतओंठ चाबून किळांच मारता.

गांवच्यो तीनचार बायलो येवन बाळंतकुडींत बसल्यात. त्यो बेठेंच कितेंय चड उलयतात. पावलीनाक अधिकारान कितेंय सांगतात. पावलीनाक दिसता, ह्यो एक खेप भायर गेल्यार बरें जायत.

तुळशी आड्डता तें पळोवन एक बायल म्हणटा, "केंस दिया तोंडांत. आवाज आपसुकच बंद जातलो."

पावलीन आयकलें ना आयकलें अशें करता.

"म्हज्या सख्याचे खेपेक हांव अशेंच लजभीड सोडून आड्डूंक लागलें, तर कुळारा म्हज्या आत्यान म्हज्या तोंडांत केंस दवरलो. जीब सोमतीच मोनी जाली."

पावलीन परतें दुर्लक्ष करता.

दुसरी एक बायल गोठ्यांतल्यान गायचें दावें हाडून मुखावयले खुंटयेक बांदता. ताचें एक शेवट तुळशीच्या हातांत दिवन सांगता, "ह्या शेवटाक धरून यदनां दी, गायचें दावें हातांत आसा म्हणटकीर भिरांत ना."

पावलीनाक हीं फकाणां कशीं दिसतात. तें म्हणटा, "तारा, हें सत् न्ही. दावें ओडत यदना दिल्यार शक्त वयर वेता. सकयल फोर्स मेळना." तें दावें गुटलावन परतें खुंटयेर उडयता.

पावलीन तुळशीचे वळवळे उणे जावचे म्हणून जायते यत्न करता. तुळशी सहन जालें ना म्हणटकीर ताकाच बोचके काड्टा. ताचेरच तिडकता. पावलीनाक तांचें कांयच दिसना. हें अशें तें जायतीं वर्सां चोयत आयलां.

तुळशीचो घोव विस्राम कुडी भायर देड पांयार उबो आसा. खराखरा खाड खरपिता. विडयेर विडी ओडटा. मदींच विडये पोंत दांतांत धरून चाबता आनी ताची कोडसाण चाखता. ताचें व्हडलें चेडूं भित्रें सवणें कशें सारकें भायर भितर करीत आसा.

इतल्यांत तुळशीक एक व्हड, खोल वेण येता. ताच्यान नज जाता. ताची कूड थरथरता. धरून बशिल्ल्या पावलीनाक बदनासतना एका झटक्यांत कूस परतिता. भुरगें सकयल उतरतना अशें कूस बदलप बरें न्ही हें पावलीन जाणा.

"आग्गो तुळशी, किदें पिशेपणां करता? एकदमच फिरलें! सोंस मगो- मातशें सोंस."

इतल्यांत तुळशीक दुसरें यवन. ताच्यान सामकेंच नज जाता. कोणाकूय कोंच्चून घांस मारचो अशें दिसता. तें पावलीनाचेर घाय घालत म्हणटा, "हय गो, हय! सोंस खंय सोंस! केन्ना सोंसलां तुवें? केन्ना पिकलां तुजें पोट? सोंसता ताकाच कळटा. तूं ओग्गी राव."

कुशीक बशिल्ली एक बायल खुक्कन् हांसता आनी मागीर तोंडाक पदर लावन ओगी रावता.

हो घाय पावलीनाच्या वर्माक लागता. ज्या वादाक केन्ना तोंड फुटचेंच न्हय अशें दिसतालें, ताकाच तुळशीन खोंट मारून बुडकुलो फोडचो तशें फोडिल्लें.

तें निर्शेता, न्हिम्नळटा. खुंटिल्ले आंकरे भशेन ताचें मन बावता. स्वताचेरच चुरचुरत तें कांय वेळ ओग्गी बसता. ताका परतें परतें दिसूंक लागता, हें वैजिणीचें काम आपलें न्हय. आपणें तें करचेंच न्हय. पूण दुसऱ्या खिणाकच तें स्वताक सांवरून घेता.

रामपाराक पोटांत जावंक लागिल्लें ते दनपारां चारांक तुळशी बाळंत जाता. भुरग्याचें रडप आयकून भायर बशिल्ल्या सगळ्यांचे कान बाळंतकुडीक लागतात. वाटी वाजिल्लो आवाज आयकूंक सगळे आतूर जाल्यात. पूण बरोच वेळ जालो तरी वाटी वाजना.

विस्रामाच्यान रावं नज जाता. तो विचारता, "पावलीन, वाटी वाजली ना ती?"

वार, देठ कापतनाच पावलीन म्हणटा, "विस्रामबाब, वाटी कितें वाजयतलें? चेडूं जालां न्हय!"

हें तुळशीक तिसरें चेडूं. दामू धुसफुसता. जोराजोरान खाड वाजयत बायलेक म्हणटा, "रांड फकत पोलीराशी पिकयता. अवचित्र खंयचें!"

पावलीनाक हें आयकून तिडक मारता. तें मनांत म्हणटा, चेडूं जालें म्हळ्यार कितें मळबांतल्यान येवन ताचे होंटींत पडलें? मागीर कित्याक झक मारूंक वेता, बायलेफुड्यान? बायल वळवळटा, इतलें सगळें सोंसता तें दिश्टी पडना? आनी परतें ताकाच उलयता?

कुडींत बशिल्ल्यो बायलोय एकेक करून वचूंक लागतात. पुत्रजल्माचो सुवाळो मनोवंक बावड्यो आयिल्ल्यो. पूण तांकां हें सुतकच कशें दिसलें जावंये.

तुळशीय चेडवाक फाट करून ओग्गी न्हिदलां. चड करून तें मोन्यानीच दुकां गळयता जावंये. तुळशीक पळोवन पावलीनाक भारी वायट दिसता. भोंगू बावड्याचें! सोताचे कुडीची तरी काळजी घेयल्यार पुरो.

ह्या किण्ण, निर्शेणेच्या वातावरणांत पावलीनालो मूडच वता. उमेद साप्प मरता. पूण उरिल्लीं कामां जाग्यार उडोवंक जाय.

तें कामाक लागता. वार-देंठ व्हरून आंगणांत पावळेंत पुरता. येद्दो सो फोंड काडून दी म्हळ्यार विस्राम आयकनासतना ओग्गी न्हिदून आसा. पावलीनच फोंड मारता आनी वारदेंठ पुरता. मागीर भुरग्याक बरें धुवून, पुसून काडटा. ताका नितळ हांतुणार न्हिदयता.

तें बेगीनच न्हिदून पडटा. हेर सगळ्यांचो दुस्वास आनी त्या भुरग्याचें तें सुस्त न्हिदप पळोवन पावलीनाक कितेंशेंच दिसता.

मागीर तें तुळशीच्या कमराक बरो येट काडटा. ताका परतीं कसलीं कसलीं वखदां झरोवन पियेवंक दिता. तुळशी नाका म्हणटा, पूण तें फोर्स करून पिययता.

आपली पोती हातांत घेवन वचूंक भायर सरतना तें तुळशीक कांय सुचोवण्यो दिता. तुळशी कांय उलयना. बेठेंच हुंकारता.

भायर अर्दमर्द जळिल्ल्या ओंडक्या भशेन विस्राम न्हिदला. व्हडलें चेडूं धाकल्याक हाण्डीर घेवन नाऽच जालां. पावलीनाक दिसता, बावडें तुळशी भितर मरून पडल्यार लेगीत कोण चोवचो ना.

पावलीन घरांतल्यान भायर सरता आनी सडसडीत चांट मारता. पूण ताका दिसता, आयज दर चांट खूब जड जाल्या.

सुर्या पयस दोंगुल्ले पेल्यान धारेक तेंकला. सगळ्या वाठाराक ल्हव ल्हव काळसाण मारूंक लागल्या. निकतीच जगबूड येवन गेल्ले भशेन सगळें वातावरण थंड, खोल, उदास दिसता. सगळो वाठारच शिंयांत नागडें उबें राविल्ल्या भुरग्या भशेन बावडो जाला.

पयस व्हाळा पलतडीन आशिल्ले इगर्जीच्यो घांटी वाजिल्ल्यो आयकूंक येतात. पावलीन वळखता. आरे, ह्यो तर कोणा सभाग्याच्या मरणाच्यो घांटी. ताका सट्कन् बांदा वयल्या फरांसीकाचो उगडास जाता. सोपलो दिसता बावडो! धडधाकट चारजाण चेडे आसतना दुसऱ्याचे वासरेर कुसत पडून मेलो.

फुडें वतकीर ताका पायकालो सदू दिश्टी पड्टा. येदो सो णव-धा वर्सांचो हो नाड भुरगो चिंचे मुळांत बसून विडी ओडटा. पावलीनाक दिसता, हो जाल्लो तेन्नाच मेलो ना कित्याक? हो जल्मतना हाचे मांयक- उमाक कितलो तरास जाल्लो. तीन दीस चेंचिल्लें हेंवाळें कशें वळवळटाली. एक खेप म्हज्या दंडाक घांस लेगीत मारलो. आनी हो दळदिरो पोर असो!

वाटेर एके कडेन सुणीं जंवळटात. कांय तरनाटे, कांय भुरगीं थिंगासर कोंडाळें करून आड्डतात. पावलीनाक पळोवन मद मारिल्ले भशेन बोवाळ घालूंक लागतात.

"भियेनाका, वैजीण रेडी आहा."

पावलीन लजेन मरूंक तेंकता. ताका तिडकूय मारता. सट्कन्न ताच्या लक्षांत येता, हातुंतलीं जायतीं भुरगीं जल्मतना आपणेंच वैजीणपण केल्लें.

तें दुसरीच वाट धरता. ताच्या दुखिल्ल्या मनाक खोलायेन जाणवूंक लागता, हें वैजिणीचें काम म्हळ्यार खूब उणाक, हीन. फकत घाण उसपितां हांव. हाचे फुडें हो धंदो म्हणून करचो न्ही. नाकाच म्हाका तें. म्हजी एकट्याची खबर. कोणागेरूय वावर करून पोट भरूं येता. फाल्यां पावलीन मेलें म्हणून बायलो गुरवार जावंच्यो थांबतल्यो काय बाळंत जावंच्यो रावतल्यो! आनी लोकांक तरी खंय दिनवास आसा?

तें तनरेंतच घरा मुखार येवन उबें रावता. काळोख दाट जायत आयला. तेरेजाच्या

चेडवान येवन तिगेल्या पिलांकोंबयेक पोंजीपोंदाक धापलां. पावलीनाची सुलूस लागतकीर कोंबी "कों" करून उठटा. पिलां पिकपीक करीत आवयले होटींतल्यान भायर सरतात.

दार काडिल्लो आवाज आयकून शेजाच्र अनारीत भायर येता आनी विचारता; *"येयलें गो पावलीन? तुळशीगेर किदें जालां, बाब काय बाय?"*

तें "बाय" म्हणटा आनी घराभितर सरता. अनारीत निर्शेणेच्या सुरांत "बायच" म्हणटा.

पावलीन भितर येतकीर ताचे आवडीचें निकतेंच विल्लें माजर म्यांव म्यांव करत पांयांक घश्टूंक लागता. पावलीन ताका तशेंच पांयान कोनशाक शेंवटिता. कोनशाक ताची *गुळी. तें अजापान ओग्गी.* भितर में में करपी ताच्या दोळे फुटनाशिल्ल्या पिलांचीय पावलीनाक तशीच तिडक मारता.

तें वणटींतल्या कुरकुटांत हात घालून फस्क काड्टा आनी दिवो लायता. ताचो तांबसार उजवाड घरभर पातळटा.

ताका कित्यांतच स्वारस्य ना. चोंय बाजून देंवन येवपी काळोख हिजड्या भशेन फकत निरुत्साह पसरायता. तें वणटी वयल्या देवाच्या पांयजेला फुड्यान येवन उबें रावता. खुर्सार मारिल्ल्या जेजूची वर्सान वर्सांची मोनी व्यथा आयज जागी जाल्या आनी पावलीनाच्या अंतस्करणाक रोमल्या. *तें सामकें अधीर जावन रोजार करता :*

मारिया मांय, आंकवार मांय
नमन तुजे आंकवार होंटीक
आंकवारपणा ओंपून देवाक,
जोडलो तुवें देवा पूत
तुजी भोगणार, तुजीं दुकां,
भोगलीं तुवें जेजू कुस्तार
खुर्सार मारलो पूत ताणें,
आकांत अरिश्ट सोसलें तुवें
ताचें रगत, तुजीं दुकां,
सासणाचीं जालीं मोतीं माणकां

रोजार करतां करतां ताचें हर्डें भरून येता. ताळ्यांत हुंडको घुसपता. जेजूचे कुडीर मारिल्ल्या खिळ्यां कणकणीं व्हांवपी रगत ताचें जाता आनी थेंब्यान थेंब्यान उतरूंक लागता. कुशीक दिमी तेंकून बशिल्ल्या जेजूमायल्या दोळ्यांतल्या दुकांचे हुंडके जातात आनी ते ताच्या कानाक तेंकतात. खूब भितरल्यान ताचें मन हालता. खुर्सा वयल्या जेजूक सांसपीत, सांसपीत तें रडटा. थिंगा पांयजेलार दवरिल्ले डबेंतल्यान एक मुदी काडटा. ती मुदी आपल्या बोटांत घालून तशेंच येवन हांतुणार पडटा.

ते मुदयेक एक इतिहास आसा. डॉमनिकार तिचो मोग आशिल्लो. खूब खूब वर्सां फाटली गजाल. हे गजालेक आयज वीस वर्सां तरी जातलीं. डॉमनीक तारवटी. एक वेळ तो बोटी वयल्यान आयलो आनी ह्या शिस्ट चेडवाच्या मोगांत पडलो. वेल्यान थंड, संथ दिसपी ह्या चेडवाची मोग करपाची तांक पळोवन तो थक्क जालो. मीर्गाचें मोड कशें तें गोपांत रिगतालें. ओंठार ओंठ तेंकल्यार इंगळे रसरसताले.

लोक ताका सामकेंच हातलावणी जायनाशिल्लें आंकवार म्हणून समजतात. पूण तें स्वताक फसयना. डॉमनिका वांगडा सारिल्ले ते रातीची ताका खंत ना.

बोटीर वचचे आदले रातीक तो ताचे बरोबर राविल्लो. खरें म्हळ्यार एक दुसऱ्याच्या गोपांत आनी ओंठांत बुडून रावचे खातीर तीं लागीं आयिल्लीं. पूण हुतहुतो डॉमनिक मर्दीमर्दी आडांगीपणां करूंक लागलो. परतें परतें ताचें न्हेसण उस्तूंक लागलो. पावलीन ताचे कुशींतल्यान कडेक सरिल्लें आनी कोनशाक वचून फुरंगटून उबें राविल्लें.

डॉमनिकान ताका परतें ल्हवूच गोपांत घेयलेलें. ताचे नदरेंत नदर ओतून म्हणिल्लें, "राग येयलो गो? म्हाका पातयेना तूं? यो, अशें यो." तो ताका घेवन जेजू म्हऱ्यांत वचून उबो रावलो. तांणी जेजूचे मुर्तेच्या पांयांक हात लायलो. आपल्या बोटांतली मुदी काडून पावलीनाच्या बोटाक घाली.

"तूं जाणां, आमच्या धर्मांत काजरा परस मुदयेक चड वालोर." पावलीनाच्या शिरंतरांतल्यान जोगूल व्हांवत गेलें. तें उचांबळत डॉमनिकाच्या गोपांत रिगलें. ताच्या हड्डयार तकली दवरून आपूण तुजेंच म्हणून ताणें गवाय दिली.

ते रातीक सगळें ओपून तें ताची सोमतीच बायल जालें. काजराचो बेत मुखा वयले रजेंत थारावन डॉमनिक परतो बोटीर गेलो. एक दीस बोट आकांताच्या वाशाडांत सांपडली. माड-माड उंचायेचीं ल्हारां बोटीक आदळूंक लागलीं. शेवटा बोट सगळ्या शें-पन्नास लोकांक घेवन दरयाच्या पोंदाक गेली. अशें सांगतात, आजुनूय ती बोट एके बोरीचेर तशीच दरयांत पडून आसा. बोट दरयाच्या पोंदाक गेली आनी पावलीनाच्या बोटांतली मुदी खुरसाच्या खिळयार सासणाची टांगून उरली.

ते रातीचें प्रणयसूख यदनां जावन ताच्या जीवितांत आयिल्लें जाल्यार तें आपखोश्येन आपणायतलें आशिल्लें. मारियामांय सारकी आंकवार आवय म्हणून असुदाय जियेतलें आशिल्लें. पूण खंयचे कडेन कांयच ना जालें. मोगाची कांयच कुरू उरली ना. ही मुदी आसा, पूण ती "दिसतां मडें, येता रडें" तशी.

ताका आपल्या जिवितांतलें निरर्थकपण खोलायेन जाणवता आनी जिणेची उबगण येता. वैजिणीचो हो म्हजो धंदो खूब किर्कोळ, किंकोंत. आपणें केन्ना भोगलेंच ना, सोंसलेंच ना तें दुसऱ्यांक सोंस म्हणून सांगपाचो आपणाक कसलो आधिकार....! तुळशीन म्हळें तें फट न्हय.

जायतें पळयलां, लोकांक जाल्ले जाय आसतात फकत चेडे. चेडवां कोणाकूच नाकात. चेडूं जातकीर घरार इज्ज पडिल्ले भशेन निर्शेणी. तेन्ना आवयन भोगिल्ले ख्यास्तीची, दणदण्याची कोणाक पर्वा उरना. वैजिणीचे सेवेचें मोल उरना. अस्तुरेच्या जिविताचें फोलपण म्हाका जितलें होलमलां, तितलें आनी कोणाकूच होलमचें ना.

संवसार हो सामको सुवार्थी! "गरज सरू, वैज मरू" म्हणपी बेदिनवासी! हाचे फुडें कोणाच्या दारांत वैजीण म्हणून वचप ना. ना म्हळ्यार ना! - पावलीन थारायता.

ताका परतें रडें फुट्टा. बोटांतली मुदी सांसपीत तें रडटा. मागीर तशेंच गुंगी आयिल्ले भशेन न्हिदून रावता. ना धड न्हीद, ना धड जागेपण.

बरीच रात जाल्या. दिव्याचें तेल सोंपून तो केन्नाच पालवला. अचकीत ताचें दार वाजूंक लागता. गुंगेंत आशिल्ल्या पावलीनाक जाणवता, कोण तरी दार वाजयता. पूण ताका ओगीच दिसता, तें दार वाजोवप आपणा खातीर न्ही आनी आपल्या दारारूय न्ही.

खिणाखिणाक वाजोवप वाडत वता. ते बरोबरच 'पावलीनबाय, पावलीनबाय' अशे उले आयकूंक येतात. कोण तरी हुसक्यान, उसरपत ना जाल्लो आपयता. खोल बांयच्या पोंदाक बसून मारिल्ले उले फिरत, फिरत कानार येवन पड्चे तशे पडत रावतात. पावलीन ल्हव ल्हव जाग आयिल्ले भशेन उठटा. ऊं ऊं करीत सरकत, सरकत दारा कडेन येता.

"कोण रे, दारार कोण मारता?"

"हांव बांदावेलो गणबालो विठ्ठल. पावलीनबाय, दार उगड बेगीन. म्हजे बायलेच्या पोटांत जाता. खूब तरास जावपाक लागला. मातशें दार बेगीन उगड."

"ना विठ्ठल, हांव येना. म्हज्या जिवाक बरें ना. खऱ्यानीच हांव येना."

"अशें म्हणूं नाका, पावलीनबाय. पांयां पडटां तुज्या. भोव उपकार जातले येयल्यार."

"हांवें तुका सागलें न्हय येवचें ना म्हूण्ण."

"पूण पावलीनबाय, तूं आयली ना जाल्यार म्हजी बायल हाताक मेळची ना. म्हजीं भुरगीं उबंतर पडटलीं."

"-पूण विठ्ठल.......?"

"पावलीनबाय, पावलीनबाय.....!"

पावलीनान निश्चेवान आंवळून घेतिल्ले मनाचे धागे ल्हव ल्हव धील पडूंक लागतात. तें खीण भर तशेंच उबें रावता; ताका दिसता, ताच्यांतली वैजीण आतां ताच्या शेकातळाक उरूकच ना.

तें काळखांत तशेंच सांसपीत, सांसपीत लापयांव पेटयता. आनी वचून दार काडटा. दारार विठ्ठल उबो आसा. भायर बरें शीं आसुनूय तो घामान बुडला. पावलीनाक आपणा बरोबर यो म्हणून परतो परतो पराथता.

पावलीन थंड मनान फाटीं फिरता. खुंटये वयली पोती काडून तातूंत वखदां आनी हेर जिनस सारके आसात काय ना तें पळयता. एका हातांत लापयांव आनी दुसऱ्या हातांत पोती घेवन भायर सरता.

पावलीन नेटान पावलां उखलता. विठ्ठलाक ताच्या सांगाताक वचूंक मदीं मदीं धांवचें पडटा.

ताच्या हातांतलो लापयांव वाऱ्याचे झुळकीन मातसो भडकता आनी मागीर परतो शांत पेटूंक लागता.



# देवा, तूं पाव !

**—शशांक सीताराम**

*शाळेमुखाल्ल्यान बाजारांत वचपी सदुमाम महेशाक* दिसलो आनी महेशान अदमास केलो. शाळा सुटूंक आनीक थोडोच वेळ उरला. इतल्यांत बाईय शिकोवपाचें सोपोवन कदेलार वचून बसली. वक्त काडून मेजार दवरलें आनी ती दोळे चोळीत बसून रावली. महेशाक पयलींच सिग्नल मेळिल्लो. आतां ताची खात्रीच जाली. आतां रोखडेंच टणटण. ताणें आपली पाटी आनी पुस्तक बोटव्यांत भरलीं. बोटवो खांदाक लायलो आनी एकेका बांका वयल्यान उडी मारीत तो जनेला कडेन धांवलो. जनेलाची वयली खिळी घाली. मदली खिळी घाली. जनेल धांपलें.

"महेऽश. जाग्यार बस पळोवया पयलीं."

फाटल्यान बाईलो धेंगसो पडलो.

"वेळ जालो न्हय बाई?"

"ना, कळाव आसा अजून."

"सदुमाम पासयेक भायर सरलो बाई."

"सरू, तूं येवन बस पळोवया जाग्यार."

आपणें सांगलें म्हूण तो बसचो ना, हें बाई जाणाच आशिल्ली. तो आपलें तेंच करतलो आनी आपूण मारूंक गेल्यार तो आपणाकच नाचयतलो हेंय बाईक अणभवान खबर आशिल्लें. बाई मागीर महेशाल्यो उचापती पळयत ओगी बसून रावली. बांका वयल्यान उडयो मारीत, मारीत महेशान चारी वाटांचीं जनेलां बंद केलीं. कोनशाक दवरिल्ली घांट बडोवपाची तोणी घेवन तो बाईल्या मेजा कडेन आयलो. बाईले घडयाळींत ताणें बारीकसाणेन पळयलें.

"घंटा मारूं बाई?"

"पांच मिनटां आसात."

तो धांवत भायर घांटी कडेन धांवलो. घांटी मुळांत घांट बडोवपाचे तयारेंत रावलो.

"वेळ जातरेच सांग हां बाई."

"तूं सर भितर. म्हाका नोटीस वाचून दाखोवची आसा."

"कसली नोटीस बाई?"

दुसऱ्या दिसा संवसार पाडव्याची सुटी आशिल्ली.

बाईन नोटीस वाचून सोंपयली.

"चल रे, घंटा मार."

ताणें घंटा वाजयली. पूण तातूंत कानांत वारो भरिल्ल्या पाडकाली मस्ती नाशिल्ली.

फुटिल्ल्या घोटेरांतल्या मुयांवरी भुरगीं शाळेचे भायर धांवत सुटलीं. महेश फाटल्यान उरलो.

'बाई, फाल्यां आमकांच सुटी, काय सगल्यांक सुटी?"

"सगळ्यांकच आसा. कित्याक रे?"

"म्हगेल्या दादाकय आसतली?"

महेशान आंवडो गिळीत विचारलें. तो रडकुरो जाल्लो.

महेशालो दाद मडगांवां एके शाळेंत शिपाय आसलो. दर सुटयेच्या दिसा तो घरा येतालो. बाई तें जाणा आशिल्ली.

दादाकय सुटी आसतली म्हूण कळटरेच महेशाक पोटांत झेल चेपयिल्लेवरी जालें. पोटांत घपघपूं लागलें.

महेश जड पावलांनी शाळेचें एकेक सोपण देंवक लागलो.

सदांच शाळा बंद करच्या वेळार भितरच नाचत रावन दाराक कुलूप लायसर नाकाशेवट करपी महेश आज थंड कसो गेलो? दाराक कुलूप लायतना बाईन फाटल्यान वळून महेशाक पळयलें. हें अजाप आजच घडटालें अशें न्हय. सुटयेच्या पयल्या दिसा तो असोच नेर्व्हस जातालो. केन्ना बाईन ताचेर विचार केलो नासलो. आज मात तें तिचे तकलेंत उरलें.

आतां कितें करचें तें महेशाक कळना जालें. घरा वचपाक ताचें मन कांचवेतालें.

प्रतापमाम केन्ना केन्ना बशींत दिसता. आज दिसल्यार पळोवचो. माम मेळ्यार मामागेरच वचचें. ताचीं पावलां बाजारा वटेन पडलीं.

त्या गांवचो बाजारय सुपुल्लोच. सगळींच सात-आठ दुकानां थंय. गरजेच्यो वस्तू मेळपा सारकीं. थंयच एक देऊळ. एका अर्दान देऊळ. एका अर्दान हीं दुकानां. देवळा कुशीकच बशी थांबयतात.

महेश देवळांत येवन बाळण्यार बसलो.

कितलोसोच वेळ गेलो. बस आयलीच ना.

तो उठलो. दुकानां फुडें पडिल्लीं कागदां, शिगारा पाकिटां ताणें सासपून पळयल्लीं. दोनचार बेगडी कागदां ताका मेळ्ळीं. तीं ताणें काडून घेतलीं. रिकामी शिगारा-पाकिटां उडोवन दिलीं. ताणें पुस्तक उगडलें. तातुंतलीं घडी घालून दवरिल्लीं बेगडी-कागदां मेजलीं. सात आनी हीं चार. ताणें बोटां मोडलीं. अकरा- पुस्तक घडी घालून वोटव्यांत दवरलें.

तो परतो येवन देवळांत- बाळण्यार बसलो. पांच-स बशी वता- येता मेरेन तो बसून

रावलो. बस येतरेच तो फुडल्या दारांतल्यान चडटालो आनी फाटल्या दारांतल्यान देंवतालो. एकेय बशींत माम नाशिल्लो. महेश निर्शेलो.

आतां किते करचें?

शाळा सुट्टून तासभर जाल्लो. तो घरची वाट चलूंक लागलो.

राक्षसाक शिंगां आसतात खंय. दादाक ना कशीं? पिलो जाल्यार दाद राक्षस जाता अशें सगले लोक म्हणटात. दादाले दोळे राक्षसावरी तांबडेगुंज दिसतात खरे.

दाद आज घरा कडेन येना जाल्यार पुरो; देवा तूं पाव. दादाक आज सुटी आसना जाल्यार पुरो.

पूण दाद येतलो म्हूण ताचें हर्डे धडधडत उरलें. ताच्या दोळ्यां मुखार परत परत दादालो चेरो येतालो. दर सुटये दिसाचे रातचो.

राक्षस खुब्ब वायट खंय. सोरो पियेल्लो दाद इतलो वायट? दाद राक्षस काय?

दाद! घप्प करून फाटल्या शेनवारचो दाद ताच्या दोळ्यां मुखार आयलो. महेश न्हिदिल्लो. दारार ढाऽ ढाऽ करून खोंटी बसताल्यो. त्या आवाजान महेश जागो जाल्लो. तागेले आईन चिमणी पेटोवन दार उगडिल्लें. दादान हात मारलो ती चिमणी उडयली.... महेशाल्या आंगारच पडपाची ती. मात्शी चुकली. पडिल्ले कडेन तेल भायर येवन भगभगत उरली. महेश उबो आशिल्ले कडेनच थरथरत आसलो.

"तुका दार काडपाक इतलो कळाव कित्याक?"

तागेल्या दादान आईल्या केंसांक-शेंड्याक धरून हेवटेन तेवटेन झिडपिल्लें, आई वळवळ्ळी. तशीच धरून दादान तिका जमनीर आपटिल्ली. आनी वयल्यान आपूण पोटार मुठी घालीत राविल्लो.

"आवय गे ऽ! देवारे ऽ! मेलेंऽरे देवा ऽ!"

आवय सोंसू नज जावन बोबो मारताली. दाद मारतच आशिल्लो.

"कोणाक घेवन न्हिदिल्ली रांडे, सांग."

हांवूच न्हिदिल्लों आई कडेन. म्हाका पोटा कडेन घेवन न्हिदिल्ली ती म्हूण दाद मारता आईक? म्हजेंच चुकलें. हांवें आई कडेन न्हिदूं नज आसलें. तो आवयल्या पांयांक मिठी घालून भिवन किळांचत राविल्लो. दादान ताकाय खोंट मारली. कुशीक उडयिल्लो. आवय-पुतालो कलकल जाल्लो.

शेजारी धांवन आयिल्ले.

दादाक तांणी ओडून व्हेल्लो. दादाले दोळे राक्षसा वरी तांबडेगुंज दिसताले.

आईलें न्हेसण रक्तान भरिल्लें. खंयच घाय जाल्लो दिसना अशिल्लो.

आनी एक रात.

दादाल्या हातांत नुस्तें कापपाचो व्हडलो सुरो आसलो. दादान सुरो हातांत घेतिल्लो पळोवन आई घरा भायर धांविल्ली. दादान महेशाक एका हातांत घट्ट धरून दवरिल्लो. महेशाक कडकडो भरिल्लो.

"घरांत सर पयलीं; ना जाल्यार गळोच हाणटलों."

दाद हातांतलो सुरो नाचयतालो.

आई काळखांत लिपून बशिल्ली.

"यो मगो तें."

दादान महेशाल्या गळ्याक सुरो तेंकयलो.

"आपय, आईक आपय. ना जाल्यार कापतां गळो."

महेशाले दोळे भंयान वाटये इतले वाटकुळे जाल्ले.

आई घरांत भितर सरिल्ली.

भितर येतनाच दादान तिका हातांतलो सुरो झिडपून मारिल्लो. आईक तो भुजाक लागिल्लो. भूज रक्तान भरिल्लें. महेश किळांच मारून रडूंक लागिल्लो.

दाद परतो सुरो घेवन आईल्या आंगार धांवन गेल्लो.

महेशान ताका चरचरीत घांस काडिल्लो.

शेजारी मर्दी पडिल्ल्यान महेश त्या दिसा सुटिल्लो.

एकेक याद पोटांत झेल घालताली. मुतूंक जाल्लेवरी करताली, हड्ड्यांत खपखप घालताली.

यादी नाका म्हळ्यो तरी यादी तकलेंत येताल्योच.

आपले आनी आईले नवे नवे कपडे लासून उडयिल्ली याद.

मामान हाडून दिल्लो, नव्वो रेडिओ जमनीक मारून फोडिल्ली याद.

यादीच यादी!

थंड भिरांत. पोट कापून उडोवपी भिरांत.

महेश आपल्याच विचारांत. वाट पावलां मुळांत पडटाली.

कुशिचेच दोंगुल्लेर महेशाल्याच वर्गांतले दोन-तीन भुरगे आंब्यार फातर शेंवटिताले. रूखार बरींच पिकिल्लीं घोंटां दिसतालीं. लंव्वंट येदोळसान ते तांकां फातर मोखताले. घोंसांक फातर लागताले. घोंस हालतालो, पूण घोंटां पडना आशिल्लीं. भुजां दुखूंक लागिल्लीं. घोंटां चाळयतालीं. सोडून वचूंकय तांचें मन तयार नासलें. इतल्यांत तांकां महेश दिसलो.

"महेऽश! ये ऽ महेश!"

"महे ऽऽ श."

"सामको भेड्डो मरे हो!"

"भेड्डया ऽ! महे ऽऽ श!"

महेशाली नदर तांचेर पडली.

"वयर यो. आंबे पिकल्यात."

तो धांवतच दोंगुल्ली चडलो. घोंटां पळोवन तोय फुल्लो. रूखार चडूंक, फातर शेंवटूंक तो सदींच फुडें. ताणें फातरा फाटल्यान फातर मोखून पांच स घोंटां पाडलींच.

ते सगळे घोंटां चोखत दोंगुल्ली देंवंक लागले.

दुसरे दोंगुल्लेर धुंवराचे लोट मळबांत वतना दिसताले.

"कितलो धुकट पळय."

"तो मरे... अशोकाल्या आज्याक उज्यार दवल्ला दिसता."

"उज्यार कित्याक?"

"काल मेलो तो. आज अशोक आयलो ना पळय शाळेंत."

"हय. मेल्यार उज्यार दवरतात. व्हडलो उजो करतात. म्हगेल्या काकाक दवरिल्लो."

"तेका दुखना, लासना?"

"मेल्ल्या मनशाक दुखता?"

"उज्यार कित्याक दवरतात?"

"तो देवा कडेन पावूं नाका? लासतरेच तो देवा कडेन वता."

"धुंवर मळबांत वता. तेंतुंल्यानच तो मळबांत वता, देवा कडेन."

"आतां ह्या धुंवरांतल्यान अशोकालो आजो मळबांत वतलो?"

"तो पळय, तो वता. दिसता पळय."

"एं... मळबांत वतना तो कोणाक दिसता? पिसो मरे हो!"

"अशोकालो आजो कसो मेलो?"

"तेका देवान आफयलो."

"आतां तो केन्ना येतलो?"

"आतां येवचो ना."

"केन्नाच ना."

"ना."

आतां ते दोंगुल्ली देंवन रस्त्यार पाविल्ले.

मेल्लो मनीस परत घरा कडेन येना. म्हगेलो आजो खंय आयला? खुब्ब दीस जाले...

दाद मेल्यार? दाद केन्नाच घरा कडेन येवचो ना. देवा, तूं पाव. दादाक तूं तुजे कडेन आपोवन घे...दाद मागीर खुब्ब दीस येवचो ना. आईक-म्हाका मारचो ना.

महेश वाट चलतना 'देवा तूं पाव, देवा तूं पाव,' चो जप करीत आशिल्लो.

आई सदां देवाली पूजा करता. तेच खातीर आसतली. फाल्यां हांवूंय करतलों. खुब्ब फुलां हाडूंक जाय.

हे देवी शिर्शम्मा... देवी शिर्शम्मा भ्रुंवभ्रुवभ्रुवभ्रुव... वाटेरच म्हार्कमकाराली बायल वाजयताली. म्हार्कमकारान देवीची पेट सकयल दवरिल्ली.

"ताप थंडी बरी करायी...गांवची रोगरायी बरी करायी...."

काळो पाशाणावरी म्हार्कमकार. आंगार कुकमाचे पटे. दोळे तांबडेगुंज. हातांत येद्दें

व्हडलें चावूक. तो तें हवेंत गर्रर करून फिरयतालो आनी फडेच्च करून आंगार मारून घेतालो.

फडक फकव फट!

महेशाल्या हड्डयांत कच्च जालें.

कमराच्या पट्ट्यान दाद आईक मारतना असोच आवाज येता.

यवणमामा, यवणमामी थंडी ताप बरी करायी.. गांवची रोगरायी बरी करायी... म्हार्कमकार कितें कितें बडबडटालो. कळनाशिल्लें.

म्हार्कमकारा भोंवतणी जाणटे नेणटे उबे आसले. लोकांनी सुपांत, मीठ, मिरसांग, कोचोब घालून हाडिल्लो. तें सूप ते देवा मुखार दवरताले. देवाक पैशे घालताले.

महेश पळयत उबो आसलो. तो बागवलो. बारीकसाणेन देवाले पेटयेंत ताणें पळयलें. भितर खूब कितें कितें आशिल्लें. चांदयेचे चकचकीत हात, सुरी, काती, ल्हानशेंच एक पाळणें आनी मद्दीं कुकमान भरिल्लो देव. दोळे मोठ्ठे.

महेशान देवाक हात जोडले.

"देवा, तूंच पाव म्हाका. कितेंय कर, दादाक घरा धाडिनाका. जाय जाल्यार ताका तुजे कडेन आफोवन व्हर. केन्नाच धाडिनाका. तुका हांव आंबो दितां." ताणें बोटव्यांतल्यान आंबो भायर काडलो.

देवाक आंबो कसो दिवं? लोक दुसरेंच कितें कितें दितात. पैशे दितात. हावें तेंच दिवंक जाय. आंबो दिवन देव पावलो ना जाल्यार?

"तूं फाल्यां आमगेर यो हां."

म्हार्कमकारान तें आयकलेंच ना. महेशान तागेल्या तोंडा सामखार बागोवन परतें सांगलें. म्हार्कमकारान हयकार दिलो.

म्हार्कमकारालें भुरगें महेशाल्या आंब्या कडेन आशेन पळयत आसलें. महेशाक तिडक मारली. देवाक दिवंक जाय तो. मागीर ताका रोखडीच आईल्या उतरांची याद जाली. "देव खंयच्याय रूपान मागता."

देव म्हजे कडेन मागना मूं?

आपल्या हातांतलें घोंट ताणें त्या भुरग्याक दिलें.

महेशाली आतां खात्री जाल्ली. देव आपल्याक पावतलो.

दादाक आपणा कडेन आपोवन व्हरतलो.

उडयो मारीत तो घरा कडेन शेंवटलो.

आनी कांचवेवन आखाड्यांतच थांबलो.

आमगेर इतले लोक कित्याक जमल्यात? कितें जालें काय? रस्त्यारय लोक. घरा कडेनय लोक. मोटरसायकलीय थांबल्यात.... कोण रड्टा? आईक कितेंय जालें ना मू? दाद घरा कडेन पावलो दिसता. आईक मारलें काय? इतले लोक...

"आयो गे ऽ"

बोब घालीतच तो घरांत धांवलो.

सोप्यार पळयल्यार लोक. घरांतय लोक. आई खंय?

“आयो ऽ”

काचाबूल जावन ताणें परत बोब मारली. नदर आवयक सोदत आसली.

“आयो ऽ आयो ऽ”

आई जाप दिना. खंयच दिसना.

धव्या कपड्यांत कितें तरी गुटलावन दवरिल्लें.

हें कितें? हो कोण? आई खंय?

“आयो ऽ ऽ”

इतल्यांत ताका आई दिसली. ताचे आई भोंवतणी कंवडाळें करून खूब बायलो बशिल्ल्यो. तांकां माडयत ताणें आवयक वेंग मारली. आवय रडटाली. ती आतां आनीकय व्हडान रडूंक लागली. परत-परत, परत-परत.

तागेले आईले दोळे रडून सुजिल्ले.

दादान इतलें मारलें आईक?

महेश आईली खाडकी परती परती आपले वटेन करतालो. तशी ती ताका फुड्यांत घेवन चडच रडटाली. आई रडटा तें पळोवन महेशाकय रडूंक आयलें. तोय आवयक वेंग मारून व्हडा व्हडान रडूंक लागलो.

“आई, दाद येयिल्लो?”

महेशान रडत रडतच आईक प्रस्न केलो.

तिगेलो ओग आटापलो ना. तिगेलो हुंडको घोग्यावरी भायर पडलो. महेशाक आपणें कितें विचारलें काय दिसलें. तो भियेलो.

आवयच्या शेजराक बशिल्ले एके जाणटेलेन ताका ओडून आपल्या खाक्यांत घेतलो.

“बाबा, रडनाका हां. दाद आमकां सोडून गेलो पुता. देवान आफयलो ताका रोकडोच. दोळे पूस.”

महेशान खऱ्यानीच दोळे पुसले. खोशेचें एक ल्हार ताच्या आंगांत देंवलें.

दादाक देवान आपोवन व्हेलो? इतले बेगीन देव पावलो? दाद खंय तर?

ताका याद जाली. आज्याक देवान आपयिलो तेन्ना आज्याल्या आंगार धव्वें चादर घालून आज्याक न्हिदयिल्लो. दिवली पेटोवन दवरिल्ली. तो धव्या कपड्या पोंदचो दाद न्हय मू?

मेहशाली नदर धव्या कपड्याचेर दसली. तोंड मात्शें दिसता. तो दोळे ताणून पळयत रावलो.

“पळयता पळय कसो! बापूय न्हय!”

“समजुपाचें तरी वय? नाका गो बाये, काकुळट!”

“लागीं व्हरून दाखोवया तरी. पळोवन घेवं. मागीर केन्ना पळवूं मेळटा?”

एके बायलेन महेशाक उठयलो. मळ्या कडेन व्हेलो.

भोंवतण हळहळ्ळी. हुंदकेली.

महेश दोळे ताणून पळयत उरलो.

दादच तो. दाद खऱ्यानीच देवाघरा गेलो?

महेशाक तें फट दिसतालें. दाद मर्कीच दोळे उगडीत म्हूण भंय दिसतालो.

आजो देवाघरा गेल्लो तेन्ना, मामा, काका, आत्या, आज्जी सगळीं आशिल्लीं. आतां फक्त एक काकाच दिसता. अशें कशें?

काकान ताका आपल्या म्हऱ्यांत घेतलो. तकले वयल्यान हात भोंवडायलो.

"भोंवतणचे लोक फुतफुत्ताले."

"पिवन तर्र जाल्लो खंय."

"मोटरसायकलीचो ॲक्सिडेंट खंय."

"सदींच रफ लो. तातूंक सोरो."

"घडलें तरी खंय?"

"मडगांव. आक्यां. भाव पोलिशींत आशिल्ल्यान तरी मडें इतले बेगीन घरा हाडूं मेळ्ळें. आजून घरच्यांक-सगळ्यांक खंय खबर आसा?"

सगळे ज्राण रडकुरे जावन उबे आसात. दिवली पेटोवन दवरल्या. आज्या वेळारय अशेंच आशिल्लें. तर दाद खरोच देवा कडेन गेलो. देव पावलो! आतां दादा केन्नाच घरा कडेन येवचो ना. बडोवचो ना.

महेशान आपल्याक काकाल्या खाक्यांतल्यान सोडोवन घेतलो. तो उर्बेन, उमेदीन आवय कडेन धांवलो

आवय तोंड लिपोवन रडत आशिल्ली.

ताणें आवयल्या तोंडा वयले हात पैस केले.

"आयो.... आयो..." आपली धादोसकाय, आनंद ताका आवयक सांगन सो जाल्लो.

पूण आवय ताका वेंगेंत घेवन परती व्हडाव्हडान हुंडकेवंक लागली.

आईक पळयतां, पळयतां महेशाकय रडूंक आयलें.



# सिंड्रेलाची काणी

—जयंती नायक

निकतेंच सकाळचें सॅशन सुटिल्लें. भुरग्यांचे झुंडीचे झूंड दुर्गाच्या दोनूय दरवट्यांतल्यान भायर लोटिल्ले. कोण धांवतालो, कोण पळटालो, तर कोण आपल्याक बसींत पयलीं वयर चडूंक मेळचें म्हण, वांगडच्याच्या खोमसाक धरून फाटीं ओडटालो. सांजेच्या सेशनाचीं काचीं बुचीं पोरां तर येदो वेळ केल्ली लायन मोडून, हातांतले बोटवे आनी वॉटरबॅगां सांबाळीत क्लासींत धांवतालीं. घरा वचूंक उतावीळ जाल्ल्या व्हडल्या भुरग्यां कडेन कितल्या तरी काच्या बुच्यांची आदळआपट जाल्ली ताचो हिशेब ना. कोण आडुतालो, कोण हांसतालो, तर कोण रडटालो. सगळो वाटार कुलकुलाटान भरिल्लो.

इस्कोलाचे फाटले गेटीच्या दारांत उबें रावन एल्सा भुरग्यांची गर्दी उणी जावपाची वाट पळयतालें. वतान ताच्या आंगांतल्यान हुमे पांवळ्यो व्हांवताल्यो. भुरग्यांनी केल्ल्या 'विशाक' परती जाप करता म्हळ्यार ताचें तोंड वळून आयिल्लें.

"पाड पोडूं! मातसो वोगोत जाल्यार येशेंच भोगता! हे लुटींतल्यान तरी वचपाची माणसुकी आसा?"

एल्सा स्टाफ रूमांत भितर सरिल्लें तेन्ना, स्टाफाच्यो बाकीच्यो बाराय टिचरी हातांत डस्टरां आनी चॉक घेवन क्लासांत वचपाची वाट पळयत उब्यो आशिल्ल्यो.

हेड-मास्टर नावेलकार वेळाचे बाबतींत सामको कडक आशिल्लो. पिरियडाची बॅल जातनाच सगळ्या टिचरींनी आपआपल्या क्लासींनी हाजीर जावंकच जाय असो ताचो सगळ्यांक आदेश आशिल्लो.

बेगिबेगीन खांदाची पर्स काडून एल्सान तांतली चावी काडली आनी तें आपलो लॉकर उगडूंक लागलें.

"एल्साऽ ऽ"

भितल्ल्या डस्टराक हात घालतां घालतां एल्सान फाटीं वळून पळयलें. सकाळच्या सॅशनांतली जाणटेली मिसेस आझावेदि ताका उलो मारताली.

"एल्सा, फिलीप... फिलीप खूंय सामको.. मरणाक आसा....!"

"कि.....तें?" एल्साच्या हातांतलो डस्टर सण्ण करून सकयल पडलो.

"व्होय. आज सोकाळीं म्होजो मिस्टर तेगेर वोचोन येयलेलो. तोच सांगतालो म्हाका, तो आयची रात काडत येशी दिसना म्हुणोन."

"तूं....तूं... कित्याक तेजेर निमणी नोदोर घालून येयना एल्सा?"

"हांव?.....हांव?.....ना!"

"आतां आनीक कितें उल्लां मिसेस आझावेदि? सोगलें सोंपलें. जेन्ना वोचूंक जाय आसलेलें तेन्ना गेलें ना. आतां निमाणेंकडेन धांपलेलें पान कित्याक उगडूं?"

एल्सान एक व्हडलो हुस्कार सोडलो. काळजांत घुस्मटमार जाल्लो ताच्या. तें तशेंच लागशिल्ल्या कदेलार बसलें.

पयल्या पिरियडाची बॅल जाल्ल्यान एल्सा सोडून सगळ्यो टिचरी स्टाफ रुमांतल्यान भायर सरिल्ल्यो.

"तूं चड मतीक लावन घेनाका एल्सा. जें जेजूचे मतींत आसा तें कोणाकच चुकना. भांगरा सारको भुरगो; तेका येशें मोरण मेळूंक नाका आसलेलें! आनी मोरपाची तोरी तेजी पिराय जाल्ली? चाळीस वर्सां म्हुटल्यार कितुलीं?"

मिसेस आझावेदीच्या दोळ्यांनी दुकां भरिल्लीं. तशीच भरिल्ल्या दोळ्यांनी ती स्टाफ रुमांतल्यान भायर सरून गेल्ली.

फिलीप तिचो एका काळा वयलो 'पॅट स्टुडंट.' ताचे जिणेची जाल्ली दुर्दशा पळोवन तिजें काळीज भरिल्लें.

एल्साच्या दोळ्यांतल्यान मात एक दूक भायर सरलें ना. दोळ्यांतलीं सगलीं दुकांच आटिल्लीं.

मिसेस आझावेदि गेली तशें एल्सा उठलें. जमनीर पडिल्लो डस्टर ताणें उबारलो. हळू हळू पांय ओडीत तें 'थर्ड ए' चे क्लासींत भितर सरलें.

"गुड आफ्टरनून टिचर!"

"गुड आफ्टरनून चिल्ड्रन!"

सदचे संवये प्रमाण एल्सान भुरग्यांक जाप केली, पूण आज ताचीं उतरां तोंडांतच घुस्पून उरलीं.

उबीं राविल्ल्या भुरग्यांक हातानच बस म्हण खूण करून एल्सा आपल्या कदेलार वचून बसलें.

एल्साची तकली सणसणटाली. फाटल्या यादींनी मनांत धुमशेण कांडूंक सुरवात केल्ली. फिलीपाच्या मरणाच्या विचारान तें सामकें सतरवितर जाल्लें.

टिचरीक ओगी आसा तें पळोवन भुरग्यांक जाय तशें फावलें. तांणी बोवाळ घालूंक सुरवात केली.

एल्सा मातशें भानार आयलें. बोवाळ घालतल्या भुरग्यांचेर ताणें एक व्हडलो धेंगसो घालो.

आज एल्सा तांकां इंग्लिशीचो नवो धडो शिकोवपाचें आशिल्लें. पूण ताका दिशिल्लें

की आज आपल्याच्यान कांयच शिकोवप जावचें ना. तयार करून आयिल्लें 'लेसन' आनी 'प्लॅनींग' दोनूय आपूण विसरलां म्हणपाची ताका जाणवीक जाली.

भुरग्यांक 'कॉपी राइटींग' काडपाक सांगून एल्सान परते दोळे धांपले. कॉपी काडटा आसतना कोणें झगडूंक सुरवात केल्ली, तर कोण क्लासांतच हेवटेन तेवटेन धांवतालो. पूण तांचो कुलकुलाट एल्साच्या काना मेरेन पावच नाशिल्लो. तें आपल्याच विचारांत गुल्ल जाल्लें.

"टिचर, यू आर सीक टिचर? नॉट फिलींग वेल?" पोल्याक जाल्ल्या थंड स्पर्शान एल्सान आंग काडलें. दोळे उगडून पळय जाल्यार सरजू हातांत एक नोटबूक घेवन ताचे मुखार उबो आशिल्लो.

सरजू 'तिसरी अ' च्या वर्गांत सगळ्यांत मस्तो भुरगो. आडांगी! तितलोच लागोळो! शिकपाकूय हुशार. मस्तो आसलो तरी एल्साक तो मद्रासी भुरगो खूब आवडटालो. पूण काल मात एल्सान ताका पयले फावट ख्यास्त केल्ली. पिरियड भर ताका दिमी घालून उबो दवरिल्लो.

नॉट फिलींग वेल टिचर? म्हण कळवळून विचारतल्या सरजूक पळोवन ताचें काळीज नकळटां हाल्लें.

सरजूक ख्यास्त दिवपाचें कारणूय तशेंच घडिल्लें. काल पयल्या पिरियेडाक एक एकट्याक म्हऱ्यांत आपोवन एल्सा पयल्या दिसाचो होमवर्क तपासतालें. सदचे भशेन सरजू ताचे भोंवतणी मेजा कडेनच घुस्पतालो. आनी अचकीत एल्साच्या भुजा वयल्यान मेजा वयल्या कादेर्नाचेर बागवत सरजून ताका उलो केलो.

"टिचर ऽऽऽ"

कादेर्नाचेर घुस्पल्ली एल्साची नदर वयर सरली.

"टिचर, कोंकणींत बियांतूल म्हुटल्यार कितें टिचर?"

"बियांतूल?" एल्साचो आवाज थरथरलो.

"कित्याक जाय तुका?"

"जाय म्हाका टिचर, आमच्या शेजारच्या कोणें विचारूंक सांगलां!"

"हांव... हांव... नेणां!"

"हांव जाणां टिचर." सरजू एकदम खो खो करून हांसलो. "बियांतूल म्हुटल्यार, लग्न जायना आसलेली- तुजे भशेन!"

उतरां कानार पडलीं, तशें एल्सा रागान तांबडें जालें.

"टिचरीचीं फकाणां मारता....? येदो सुबेज जाला? दिमी मार... दिमी मार म्हुण्टा न्ही हांव पोयलीं जमनीर! आतां राव पिरियडभोर येसोच!"

.......

"टिचर, कितें जाता तुका टिचर?" एल्साक परतें विचारांत घुस्पल्लें पळोवन, सरजू भूज धरून हालयत विचारतालो.

"खूंय कितें?... कांय ना, कांय जायना म्हाका!"

एल्सा पुटपुटलें. पूण विचारांचे भोंवरेंतल्यान तें सारकें भायर येवंकूच नाशिल्लें. तें आजूनय मेळ्याक सांपडिल्लेंच आशिल्लें.

"टिचर, तुवें काल सांगलेली काणी बरोवन हाडल्या. करेक्ट करना?"

"आं. व्होय, व्होय. हाड हिंगा. करेक्ट करतां!" सरजूच्या हातांतलो कादेर्न एल्सान आपल्या हातांत घेतलो. उगडून तें वाचूंक लागलें.

पातकड्यांचें उदक लागून वक्लाचे हारशे ओले जाल्ले. हय-न्हय शीं अक्षरां एल्साच्या दोळ्यांक दिसतालीं.

"Once upon a time, there lived one beautiful girl called Cindrella....."

काणी वाचतां, वाचतां एल्साच्या तोंडार कितलेशेच रंग येताले, वताले.

पुराय काणी वाचून सोंपली आनी तें एकदम आड्डलें,

"ना! ना! ही काणी येशी न्हू! ही काणी चूक आसा!"

सरजू वांगडा क्लासींतल्या हेर भुरग्यांनी आंग काडलें. क्लासांत एके तरेची थण्डाय पातळ्ळी.

"चूक टिचर?"

"व्होय, व्होय. चूक, एकदम चूक!"

"ना टिचर, तुवें काल सांगलेली तशीच ती बरयल्या टिचर. न्ही रे विशाल?"

"शट युवर माऊथ! तुवें काणयेची सुरवात सारकी केल्या. पूण शेवटाक तूं चुकला. सिंड्रेला रूपेस्त आसता, तेका सवत आवय आसता, दोगी सवत भयणी आसतात, इतली तुजी काणी खरी आसा. फुडें तुंयें चूक केल्या. सिंड्रेलाक कोण आंज मेळना. पूण तुयें बरयलां तेशेंच रानांत गेल्ले कडेन एक राजकुंवोर मात मेळटा. ताका सिंड्रेला बरें लागता. तो तेकोडे काजार जावोंक सोदिता. तुयें सांगोलां तेसो सिंड्रेलाचो राजकुंवोर गिरेस्त न्हू. तो गोरीब दुबळो. — तो आपलो 'बर्थ डे' कोरिना. सिंड्रेलाक आपणां बराबर नाचूंक आपयना. तो आपयता सिंड्रेलाक आपल्या खोपटांत. थंय सिंड्रेलाच्या पांयाचो मोचो शेणना. शेणता तें काळीज. मोचो घेवन राजकुंवोर आपल्या चाकरांक गांवागांवांनी धाडिना. थिंगा सिंड्रेलाच्यो सवत भयणी आपणाक राजुकंवोरा कोडेन काजार जावंक मेळचें म्हुणोन तो मोचो आपलो म्हुणोन सांगिनात. मात आपले आदीं सिंड्रेलाचें काजार जातलें म्हुणोन तीं ताका तरातरांनी सतयतात. ताचें राजकुंवोरा कडेन मेळप बंद कोरतात.

तुवें बोरोयलां तेशें सिंड्रेलाचें आनी राजकुंवोराचें काजार जायना. तीं सुखान संवसार कोरिनात. सिंड्रेला....सिंड्रेला आंकवारूच उत्ता! बियांतूल जाता!..... चाळीस वर्सांचे पिरायेरूच म्हातारें जाता!.

".... आनी ताचो राजकुंवोर, तो सिंड्रेलाच्या पिकासांवान खूब्ब सोरो पियेता.

सोऱ्याच्या एका एका घोटा वांगडाच 'सिंड्रेला ऽऽऽ सिंड्रेला' म्हुणीत जिविताचे निमणे खीण मेजता."

"ना! ना! ना टिचर! सिंड्रेलाची काणी अशी न्ही टिचर! सिंड्रेलाची काणी हांवें बरयल्या तशीच आसा. म्हजे कडेन पुस्तकूय आसा सिंड्रेलाचे काणयेचें. म्हजे मम्मीनूय ती म्हाका तशीच सांगल्या टिचर!"

"तुजी मम्मी फोट उलयता!"

"ना. म्हजी मम्मी केन्नाच फट उलयना!"

"मागीर हांव फोट मात्तां?"

एल्सा आपले काबूंत नाशिल्लें. ताच्यो नाकाच्यो पुडयो फुगिल्ल्यो. ओंठ थरथरताले. दोळे तर कोणाचो वेध घेताले, कळच नाशिल्लें.

टिचर आज अशी कितें उलयता, हें चिंतून क्लासभर भुरगीं आपलें बरप थांबोवन तिच्याच तोंडा कडेन पळयतालीं.

"तूं कोणाक सांगोता रे, काणी येशी न्हू म्हुणोन? काणी येशीच, हांयें सांगल्या तेशीच!"

"ना! ना!"

"व्होय! व्होय म्हण! काणी येशीच म्हूण! सिंड्रेला बियांतूलच उरलां म्हूण! सिंड्रेलाचो राजकुंवोर मरणा धडेर आसा म्हूण!"

"ना ऽऽ!"

"ना? तूं व्होय म्हुणचो ना?"

सरजूच्या दोनूय कानसुलांचेर 'ठा ठा' करून थापटां पडलीं. आनी पडतच रावलीं.

पोल्यांचेर थापटां पडटा आसतनाय सरजू रडपाचो विसरिल्लो. भयभीत नदरेन तो टिचरी कडेन पळयत आशिल्लो.

आनी दिस्त त्याच खिणाक इस्कोलाचे मुखा वयले इगर्जीतल्यो घांटी घणघणल्यो.

"ढाण्ण ! ढाण्ण ! ढाण्ण !... ..."

सरजूच्या दोनीय पोल्यांचेर पडटले एल्साचे हात एकदम थांबले. इगर्जीच्यो घांटी ताचे तकलेंत घणघणूंक लागल्यो.

"आतां तोरी व्होय म्हण! आयक..... आयक... सिंड्रेलाचो राजकुंवोर सोपिल्ल्याची ही घांट आयक....."

एल्सा घब्ब करून सकयल पडलें. आनी क्लासभर भुरग्यांनी वांगडाच किळांच मारली,

"टिऽऽऽ च ऽऽ र ऽऽ!"

ढाण्ण ! ढाण्ण ! ढाण्ण ! इगर्जीच्यो घांटी घणघणत आशिल्ल्यो.



# कावळ्याचो स्राप

—तुकाराम शेट

धा वर्सांच्या तेपान तो पयलेच फावट आपल्या गांवघरा परततालो. तो ताच्या घरा कडेन पावले उपरान्त सत्तर पंचात्तर वर्सांच्या जाणट्या कुळवाड्यान ताच्या घराचें दार उगडून दिलें. तो म्हातारो कुळवाडी घराची निगा इतले तेप मेरेन पळयतालो जावंये. तो कुळवाडीय ताच्या बापायच्याच वयाचो आसलो. ताचे तकलेचे केंस पिकून धवेफुल्ल जाल्ले. त्या कुळवाड्याक पळोवन आपलो बापूय आयज कितलो म्हातारो दिसूं येतालो हाचो अंदाज लावपाचो ताणें यत्न केलो. पूण ताच्या बापायची नुरा अस्पश्ट आनी रेगायल्ले वरी ताचे नदरे मुखार येवपाक लागली. तो घराच्या सोप्यार बसलो तशी ताका थाकाय मेळ्ळी. ताणें एक लांबच लांब स्वास घेतलो आनी तसोच लांब उस्वास सोडलो. तेन्ना ताका खोंकलेची उबळ मारली. धा वर्सांच्या काळांत आपूण भोंवन भोंवन म्हातारो जालां अशें ताका दिसलें. ह्या काळांत तकालसीन ताचो जीव अर्दो जाल्लो. हरशीं ताची पंचेचाळीस वर्सां पिराय चड न्हय. तरी हे पिरायेच्या मानान तो जाणटो दिसतालो. दोनूय गाल पडिल्ले. कपलार मिरयांचें जाळें जाल्लें. केस खंय खंय काळशे धवशे आनी पिंगश्या कोराचे जाल्ले. सशक्त हातपांय करमेल्ल्यो बडयो कशे बारीक जाल्ले. दोनूय दोळे मात लिकलिकताले. भोंवडेंत पळोवन आयिल्ल्यान ताच्या दोळ्यांत तेज फांकारिल्लें. सोप्यार बसतां बसतांच ताणें आपली फाट आनी तकली सोप्याक तेकयली. खूब दिसांनी ताका आयज पयलेच फावट आपले मेल्ले आवयचे हुंटयेतली राखण मेळ्ळ्याची जाण जाली. घरच्या सोप्यार बसून राविल्ले कडेन ताचे नुरेचेर सुरक्षिततेची भावना घोळटाली.

गांवचे सिमे वयल्या राखणदार देंवचारा कडले पांयवाटेंतसून घरा कडेन येतना ताका खोस भोगताली. आपणें जंय ल्हानपण सारलें, त्या गांवच्या वाठाराची ओड ताका आतां अदीक अदीक लागली. इतलें भोंवलो तरीय आपल्या गांवच्या वाठाराची ओड आजून दिसताली, हे खातीर ताका अजाप दिसपाक लागलें. गांवची ओड आनी तातुंतल्यान निर्माण जाल्ले उमेदींतूच वाटे वयल्या खळखळपी व्हाळाच्या दिमी भर उदकांत देंवन तो घरा कडेन पावलो. घर पोरने मोदीचें. शिमिटाचे बगर, मातयेच्या कसान, चिऱ्यांनी फुडलें बल्कांव बांदिल्लें. बाकीचें घर मातयेच्या हातींच्या पाऱ्यांचें आसलें. आतां घर सामकेंच पोरनें जाल्लें. घराची जाय तितली उस्तवारी जाय नासली. तें बंदूच आशिल्ल्यान तें

भाटांतले नाल्ल दवरपाची कोठीच कशें दिसतालें. घराच्या चार वटयां पातळिल्ल्या भाटांतले माड मदीं मदीं मरून वा मोडून गेल्ले. कांय कडेन तर मळबांतलीं जोगलां पडून माड उबे जळून गेल्ले. त्या जळून गेल्ल्या माडांचे उबे करवे दिसताले. उरिल्ले माड जाणटे जाल्ले. पयलीं पेंडीच्या पेंडींनी नाल्ल लागपी माडाक आतां नाल्ल पातळ पिकताले. वा गाब ना धरचो तशे मदींच बोंडे गळून पडटाले. नाल्ल खावन तरी गांवांत दीस काडूं येत, असो ताका विचार भाटांत पांय दवरले बरोबर आयले बगर रावलो ना. आपल्या इतिहास संशोधनाच्या कामाक आतां सामकोच विराम दिवचो आनी उरिल्ली पिराय बाळपणच्या गांवघरा सारोवची, पिशेपणान जगभर हेडचें न्हय, असो ताच्या मनांत विचार येवन गेलो; पूण हो विचार ताच्या मनांत मात्श्या वेळा पुरतोच तिगलो.

तो पडवेच्या सोप्यार बसला आसतनाच सांजेवळ जावन गेली आनी तिनसांजचो काळोख ल्हवू ल्हवू घरांत भितर सरपाक लागलो. इतलो वगत वेळाकाळाचें भान ताका नासलें. त्या जाणट्या कुळवाड्यान आपलो लाटन पेटोवन हाडलो आनी ताच्या फुड्यांत दवरून गेलो. त्या खिणांत ताका तिनसांज जावन गेल्या म्हूण जाण जाली. तो उठलो आनी आपले फाटीक लावपाचो सामानाचो खाकी रंगाचो कपड्याचो बोटवो उगडलो. तातुंतली उदकाची बाटली आनी टॉर्च काडून तो आपल्या घरा फाटल्या व्हाळझऱ्यार गेलो. आदीं सावन पळयल्ल्या त्याच खडपाच्या मदल्यान झरो पाझरतालो आनी फुडें व्हांवत तसोच व्हाळाक मेळटालो. खडपाची माती झडून झरो पुरोवंक लागिल्लो. व्हाळय माती पडून पडून उथळ जाल्लो. झऱ्याच्या शीतळ उदकांत हातपांय, तोंड धुले उपरांत ताच्या आंगांत ताजेपण शिरशिरलें. तो मागीर टॉर्चीच्या धव्याफुल्ल उजवाडांत घरांत भितर सरलो.

घराचे पडवे वयलो आपलो बोटवो भितल्ल्या सालांत व्हरतां व्हरतांच घरा फाटल्या दोंगरार आशिल्ल्या वडा वयर रडपी हुडुकाचो आवाज ताच्या कानार पडलो. हुडुकाचें तिनसांजचें, रातचें रडप ताची आवय दुश्चिन्न मानताली. मागीर ताची आवय हुडुकाक घे ऽ म्हूण गाळी संवताली, हें ताका याद जालें. तो भितल्ल्यान कुळकुळ्ळो. हुडुकाचें रडप बरोच वेळ चलतालें. मागीर त्या मोठ्ठ्या दोळ्यांच्या हुडुकाचें रडप बंद जालें. आपल्या रूंद वाटकुळ्या दोळ्यांची नदर लावपाक तें आनीक खंय तरी उडून गेलां आसतलें अशें ताणें मानलें.

घराच्या सालांतलो काळोख त्या ल्हान लाटनान कमी जायना आसलो. लाटनाची मिणमिणती वात वयर काडून व्हड केली. ते बरोबर तांबडोच उजवाड ताच्या तोंडार फांकारलो आनी वेगवेगळे भाव ताच्या मुखामळा वयल्यान दिसपाक लागले. खाकी बोटव्यांत ताणें हात घालून पाव काडले. पाव खावन आनी उदक पियेवन ताणें वण्टी कुशिकूच आपली न्हिदपाची शेंदरी सोडली. ताका आयज परत एकटो एकटो दिसपाक लागलो. न्हिदला थंय ताका झेम पडना जाली. मध्यान्न रात जावन गेली. झेम पडची म्हूण ताणें लाटन पालयलो. उजवाड ना जालो तरी ताच्या मनांत विचारांचो खर उजवाड घोळपाचो थांबलो ना. बऱ्याच वेळा उपरान्त ताचो दोळो लागलो. दोळो लागता थंयच आसा, तो

सपनांत वथ्रेवंक लागलो. आपूण न्हिदलां थंय आपलें आख्खें घर पांख्या, पास्टा सकट कोसळून पडटा आनी नळे, वांशे, मातयेच्या वणटीं पोंदा आपूण सांपडलां आनी चिड्डून गेलां अशें आकांताचें सपन ताका पडलें. त्याच खिणांत किळांच मारून तो जागो जालो. काळखांत उठून हातरुणार बसलो. तो घामाघूम जालो. कोणें तरी ताच्या गळ्याक धरचो तशी ताची वाचाच बसली. ताणें आपल्या उश्या वयली टॉर्च सांसपिली. थरथरत टॉर्च हातांत काडली आनी पेटयली. टॉर्चीच्या उजवाडाचो झोत ताणें भोंवतणी आनी घरार घालो. घर आसा तशेंच आसलें. फस्काची काडी पेटोवन ताणें लाटनाची वात पेटयली. उजवाड आनीक व्हड केलो आनी आपले लागींच ओडून माथ्या वयर दवरलो. बरोच वगत मेरेन ताचें काळीज धडधडत आसलें. घर कोसळपी त्या सपनांतल्या धक्क्यानूच ताका फाटली याद जाली आनी हे यादींतल्यान ताचो गळो दुःखान दाटून आयलो. बिल्डिंगे पोंदा चिड्डून मेल्ल्या आपल्या बायल भुरग्यांचे यादीन ताचें काळीज धडधडत उरलें. सोसूं नज अशे यादीन काळजाक धक्को बसत रावन आपूण मरतलों अशें ताका दिसपाक लागलें. ताची बायल आनी भुरगीं ताच्या दोळ्यां सामखार जितीं हालतीं नियाळपाक लागलीं.

तो आपलो गांव सोडून शारांत रावपाक गेलो. इतिहासाच्या प्राध्यापकाचें काम बरींच वर्सां शारांतल्या नामनेच्या कॉलेजांत करतालो. तो, ताची बायल, पयलो एक चलो, दुसरी चली अशीं दोन माणकुलीं भुरगीं, असो ताचो संवसार सुखांत चलतालो. शारांतले धांवपळी कडेन लक्ष चड न दितां तो आपलो संवसार की आपूण हेच भावनेत चलतालो. संवसाराचे गोडसाणेंत ताणें आपलें इतिहासाचें संशोधन अदिकूच सोडून दिल्लें. जगांतले भग्नावशेश ह्या विशया वयलें ताचें संशोधन फिल्ड वर्क न जाल्ल्यान तशेंच उरून गेल्लें. मागीर ताणें तें सामकेंच सोडून दिलें आनी शारांत नवेच बांदिल्ले बिल्डिंगेचे तिसरे माळयेर फ्लॅट विकतो घेतलो. बिल्डिंगेंतल्या सोबीत फ्लॅटांत ताणें आपलो संवसार थाटलो. टी.व्ही., फ्रीज-अर्विल्ल्या सोयींनी सूख अदीक लागीं पाविल्लें.

एका दिसाची दुर्दैवी सांजवेळ ताका याद जाली. ते सांजवेळचो तो काम करून थकून भागून आपल्या घरच्या मनशांचे ओडीन घरा परततालो. तो लागीं पावत आयिल्लो, इतल्यांत ताणें व्हडलो आवाज आयकलो. ताच्या दोळ्यां सामखार ताचो संवसार आशिल्ली बिल्डींग कोसळटाली. तीन माळयांची बिल्डींग मातये भरवण जाल्ली. एकूच आकांत जालो. बोबो-हुयेलींनी वाठार भरलो. बिल्डिंगेंतले आठ संवसार खिणांत नानपाट जाले. सिमेंट कांक्रीटच्या कितल्याश्याच मणांच्या ओज्या खाला लोक चिड्डून गेले. ताची वाट पळयत राविल्लीं बायल-भुरगीं चिड्डून गेलीं. तो पिसो कसो थंय पावलो.

ते रातीं कांय जाणांचे जीव वाटायले; पूण तांचे हातपांय मोडून गेल्ले. संबद रात भर आनी फांतोडे मेरेन उसरपत न घेतां मडीं उस्तून काडपाचें काम चालूच आसलें. तो थतर वितर जावन उस्तून काडपाच्या कामाक लागिल्लो. दुसऱ्या दिसा स्लॅबा पोंदा चिड्डल्ल्या ताच्या बायल आनी भुरग्यांचीं मडीं सांपडलीं. फक्त कपड्यां वयल्यान तांची वळख

कळटाली. तांचे कुडीचे धाडायल्ले वरी कुडके कुडके जाल्ले. सुकिल्ल्या रगतान कुडी काळो-निळ्यो मूळ आकाराविण्यो जाल्ल्यो. त्या पार्थ्यां कुडीक पळोवन आकांतान ताका थरथरो भरलो आनी थंय सावचित ना जावन कोसळ्ळो.

आपल्या कुटुंबाच्या मरणाच्या दु:खांत तो कितलेशेच दीस मेरेन सावरूक शकलो ना. खंयसरूय भोंवप, रावप जावंक लागलें. पिशांतूर अवस्तेंतूच तो ते कांय दीस उरलो. आपल्या कामाक वचना जालो. पूण ताका कामाक यो म्हूण आपोवणें येत आसलें. ताच्या दोग इश्टांनी ताका शारांतूच बिराड करून दिलें. थंय तो कांय दीस रावलो. बिराडांतसून भायर सरना जालो. सिगार पेटोवन, पेटोवन तें ओडून सोडिल्ल्या धुंवराच्या चक्रांत तो आनीक विश्व सोदपाचो यत्न करूंक लागलो. बायल-भुरग्यांक ज्या अपघातान ना केल्लीं त्या अपघाता विशीं तो चींत चींत चिंत्तालो आनी चिंतपान ताका आपल्या हड्ड्यार कोणें तरी व्हडलें खडप दवरलां, बिल्डिंगेचे व्हडले व्हडले स्लब आपल्या फुलमोव काळजार पडल्यात आनी त्या पोंदा काळजाचें रगत रगत जालां, अशें परत परत दिसपाक लागलें. दिसाचें तर अपघाताचें चित्र ताच्या दोळ्यां सामखार येतालें. रातची न्हीद पड नासली. चिंतनां बेजार करतालीं. कांय वेळा खातीर न्हीद पडलीच जाल्यार न्हीद पडटा पडटांच ताका त्या अपघाताचीं सपनां पडपाक लागतालीं. त्या सपनांच्या धक्क्यान जागो जातालो. मागीर तर न्हीदच पडना जाली. मागीर हाचेर उपाय म्हूण इतिहासाच्या संशोधनाचें काम करचें आनी तातूंन गुरफटून रावचें अशें ताणें येवजिलें. ताणें मेजकेंच सामान-कपडे एकठांय केले आनी जगांतल्या भग्नावशेषांचेर संशोधन करपा खातीर जगभोंवडी करपाक तो तें ल्हान शार सोडून एके फांतोडेर भायर सरलो.

बोट महानगराचे लागीं पावत आयली तशें सकाळचे धुंवरेंतलें अस्पश्ट महानगर स्पश्ट दिसपाक लागलें. जगाचे भोंवडेर वचपाक ह्याच महानगरांतल्यान मळब, सागर, न्हंयो, रस्ते, रेल्वेमार्ग अश्यो तरेतरेच्यो वाटो फुटिल्ल्यो. ह्या महानगरांतल्या व्हडल्या वाचपघरांत इतिहासाचेर आपल्या विशया संबंदीं कांय वाचचें, कांय नोट्स काडच्यो अशें ताणें थारायलें. बंदरार बोटींतल्यान देंवले उपरान्त तो थेट बस धरून शारांतल्यान अभ्यासाश्रमांत गेलो. थंय रावपा खातीर आश्रमाच्या मुखेल्या कडेन आपलें नांव दिलें. आनी आपली पथारी एका उकत्या सालांत दवरली. त्या सालांत कांय जाण जाणटे, नेणटे रावताले.

बरेच म्हयने त्या महानगरांतल्या वाचपघरांत संदर्भ ग्रंथ वाचून काडले उपरान्त मागीर ताचें मन वाचपांत रमना जालें. जगार भोंवपाचें ताचें पिशें परत चाळवलें. पूण ताचें वाचपूच आनीक उरिल्लें. हें वाचले उपरान्त भुंयेर बसून मागीर ना जाल्ल्या संस्कृतींचो अभ्यास करपाचो आसलो. वाचपांत मन लागना जालें तशें त्या महानगरांत रावपूच ताका कठीण कठीण दिसपाक लागलें. थंयच्या मळबाक तेकपी इमारतींनी उकतें मळब धांपून उडयल्लें. महानगरांतले गर्देचें जिणें पळोवन आनी भोगून ताचो घुसमटमार जावपाक लागलो. पूण आपल्या अभ्यासाच्यो नोट्स् अर्दवट उरिल्ल्यो ताका नाका आसल्यो. तो

बेचैन जालो. ताचो जीव अंदून वचपाक लागलो. एक दीस सकाळीं महानगराच्या लागच्या मळबांत दुस्मानाचीं विमानां दिसलीं आनी दोनपारच्या वेळार दुस्मानाच्या विमानांक धांवडावन घालीं. पूण सांजवेळाक दुस्मानाच्या विमानाच्या भिऱ्यान महानगराचेर घुरी घालून बाँवांचो उजो घालो आनी लडायेक खर रूप आयलें. त्या बाँबाच्या माऱ्यान कांय कडेन उजो पेटलो. धा माळ्यांची एक इमारत मोडून गेली. आनी सबंद महानगर भरच्या लोकांच्या काळजांत आकांताची धडधड घाली.

ताचें मन सामकें कांचवेलें. महानगराचेर हावळ आयल्या म्हूण ताका दुःख भोगलें. ताणें आपलो बोटवो आपल्या अभ्यासाच्या नोटशींनी भरलो. सामान कवळ्ळें आनी महानगर सोडपाचें ताणें सामकेंच थारायलें. पूण नक्की खंय वचचें तें ताणें थारावंक नासलें. देशा भायर वचून सिंधू संस्कृती, ग्रीस संस्कृती अभ्यासची, उपरांत इजिप्तच्या भग्न अवशेशांचो नियाळ करचो अशें ताणें पयलीं येवजून दवरिल्लें. पूण युद्ध सुरू जाल्ल्यान देशा भायर खंयच वचपाक मेळ नासलें. पूण इजिप्ताचे पिरॅमिड, जें जगांतलें अजाप, ते आदीं पळोवचेच अशें ताणें थारायल्लें. पूण आतां त्या महाकाय पिरॅमिडची याद येतांच ताच्या जिवार चेपण दवरिल्ले सारकें जावंक लागलें. ताचे कल्पनेंतल्यो पिरॅमिडच्यो ममीज ताच्या दोळ्यां सामखार नियाळपाक लागल्यो. आनी त्या ममीजचो तोंडावळो ताका आपल्या मेल्ल्या बायल भुरग्यांवरी दिसपाक लागलो. तशें ताणें आंग काडलें आनी ताणें तो विचारच बदलपाचो यत्न केलो, आनी हे घडये तरी देशा भायर वचचेंच न्हय अशें येवजिलें. पूण महानगर सोडून वचचेंच ह्या विचारांत तो रेल्वेंत बसलो आनी आपूण खासा म्हाझुजांतल्यान सुटिल्ले भाशेन ताका जालें. ह्या झुजांत महानगर सोपतलें; अर्विल्ली संस्कृतायच ना जातली, हाचें दुःख ताका रेल्वेंत बशिल्ले कडेन अदीक किचमयत रावलें.

रेल्वेंत सेगीत देड दीस प्रवास केले उपरांत निमाण्या स्टेशनार रेल्वे थांबले बरोबर तो सकयल देंवलो. हें पांचशें वर्सां पयलींचें इतिहासीक राजपाटण आसलें. ह्या राजपाटणांत बरेच दीस काडचे आनी संशोधन करचें असो ताणें विचार केलो. ह्या वाठारांत त्यो धव्यो फुल्ल कबरीच कबरी ताची नदर ओडून घेताल्यो. ह्या कबरांतलीं बेगमची कबर नामनेची आसली. ती तर खास पळोवंकूच जाय आसली. हें इतिहासीक राजपाटण म्हणजे थडग्यांचेंच शार अशें तांकां दिसपाक लागलें. वचत थंय मेल्ल्यांक पुरिल्ले फोंड दिसताले. त्या राजपाटणांत जी लोकवस्ती आसली, तिचे परस शंबर पट चड लोक आदल्या तेंपा साकून मरून गेल्ले आसले. ह्या विचारान तर ताका धक्कोच बसलो. पांच स दीस लागून ताणें कांय सुलतानाच्यो कबरी अभ्यासल्यो. त्यो कबरीच कांय तेपान मोडटल्यो आसल्यो. कांय कबरी तर भुंये वयल्यो नाच्च जावन गेल्ल्यो. बेगमची कबर खुबूच सुंदर आनी वयर गोल घुमटाच्या वास्तूंत तिची कबर आसली. बेगमची कबर धव्याफुल्ल चांदऱ्या रंगाच्या नक्षीच्या संगमरवरी पाशाणान बांदिल्ली. वयली वास्तू तांवड्या रंगाच्या चिऱ्यांनी बांदिल्ली. तिचे वयलो चुन्याचो लेपोड गेल्ल्यान चिरे भायर दिसताले. कबर राखपाक कोणूच नामलां

जावंये. तीय उबंत पडिल्ली. बेगमेचे कबरी मुखार लांबचे-लांब पातळिल्ल्या मळार जंय थंय फातर दाळिल्ले दिसताले आनी एकेच कडेन फातरांची रासूच आसली. ते पळोवन तो काचाबूल जालो. एके व्हडले लढायेंत मेल्ल्या सैनिकांक थंय पुरल्यात म्हूण थंय बरोवन लायिल्ले एके पाटये वयल्यान कळून येतालें. फातरांचे व्हडले राशी पोदां व्हडल्या फोंडांत वशाच्या रोगान मेल्ल्या हजारा वयर लोकांक पुरिल्ले. हें पळोवन ताका दिसलें, एक व्हडली कबरूच ह्या फातरां राशीच्या जमिनी पोदां लिपल्या. हें राजपाटण म्हणजे एक व्हडलें इतिहासीक मसणूच अशी ताणें आपले डायरींत नोंद करून घेतली आनी तो त्याच राजपाटणांतल्या मोडक्या राजवाड्याक भेट दिवंक गेलो. राजवाड्याचे उरिल्ले अवशेश पळयल्यार थंय एक अयस-पयस राजवाडो आसलो हें कळटालें. राजवाड्याचो एक दशांश भागूच उभो आसलो. तो भाग कसो तरी तग धरून आसलो. भितर वचपाक लोकांक बंदी आसली. पूण थंय कोणूच फिरकनासलो. थंय राखणदार नासल्यान तो भितर सरलो. राजवाड्यांत व्हडले व्हडले राजा जावन गेल्ले. तशेंच तांच्या वंशजांनीय त्या राजवाड्यांत सुखसत्ता भोगिल्ली. पूण आतां त्या राजवाड्याची अवतिकाय जाल्ली. कुशीनच्यो चडश्यो वणटी पडिल्ल्यो. वणटी वयली कलाकुसर मातयेक मेळून गेल्ली. उरिल्लो भाग मोडपाक तेकिल्लो. कांय खांब्यांच्या आधारान आनी वणटींच्या आधारान तो उबो आसलो. तो राजवाड्यांत भितर सरले बरोबर ताका एक विचित्र वास येवपाक लागलो. सालांनी, कुडींनी काळोख दाटिल्लो. काळीं वागळां पांखां फडफडायत उडटालीं. कांय वागळां पांय वयर करून वयल्या पाख्याक हुमकळटालीं. तांच्या चीं चीं आवाजान कोणाकूय भिरांत दिसूं येताली. तो थंयच खीण भर थांबलो. घट्टाण जाल्लो तो राजवाडो ताका भुताचो राजवाडो कसो दिसपाक लागलो. इतिहासीक राजपाटणांतल्या मसणांतलो हो भुताचो राजवाडो खऱ्यानीच जाला काय किते असो ताका प्रस्न पडलो. आनी ह्या प्रस्ना सरशीं तो काय आनीक काळ थंय रावलो ना.

पांयांनी चलपाची जेन्ना ताका चड उमेद येवंक लागली, तसो तसो तो पांयांनीच भोंवपाक लागलो. एका गांवांतसून दुसऱ्या गांवांत वचपाक लागलो. एक दीस असोच चलतना वयर दोंगरार किल्लो पळयलो. दोंगराच्या तेमकार चोंय वशींनी व्हडल्या व्हडल्या खडपी चिऱ्यांनी किल्लो बांदून काडिल्लो. किल्लो बरोच आथिक दिसतालो. किल्ल्याचे हतयाच्या पांयांसारके व्हडले बुरुज पळोवन तर ताका अदीक उमेद येवंक लागली. तसो तो दोंगरार चडपाक लागलो. दोंगरार चडटना निसरून पडत तर गडगडून सकयल पडपाची भिरांत आसली. दोंगरार चडटां, चडटां ताका धांप मारपाक लागली. किल्ल्याचे लागीं पावना फुडें किल्ल्याच्यो वणटी कांय कडेन कोसळल्याच्यो ताचे नदरेक पडल्यो. चडशे बुरुज तर मोडपाच्या बेतांत आसले. दक्षीण दिकेंतले दोन तीन बुरूज मोडून गेल्ले आनी ऊंच बळीश्ट हांवेस बाळगिल्ले ते बुरुज कोसळून दोंगरा वयल्यान गडगडत फुटत सकयल पाविल्ले.

जसजशी दोंगराची चडटी निसट्‌टी जाली, तेन्ना ती चडटना घाम येवन खरस येवंक लागली. मागीर तो चडटी चड न लागत तसो वचपाक लागलो. किल्ल्यार वचपाची पांयवाट ताणें धरली. पांयवाट किल्ल्याच्या प्रवेशदारा कडेन गेल्ली. किल्ल्याच्या आर्काचो दरवटो बरोच ऊंच आसलो. तो व्हडल्या व्हडल्या लांब खडपी चिऱ्यांनी बांदिल्लो. दरवट्याचें दार केन्नातरी मोडून गेल्लें. तो उकत्या दरवट्या लागीं पावलो. ताणें वयर अर्द-वर्तुळाच्या दरवट्याक पळयलें. दरवट्याचेर रानवटी झाडां मातिल्लीं. आनी तांचीं पाळां-मुळां ताचे बांदावळींत भितर रिगिल्लीं. दरवट्याचे काळे चिरे केन्नाय निसरत अशे आसले. तो पोन्नो काळ्या चिऱ्यांचो दरवटो केन्ना मोडत हें सांगपाक जायनासलें. त्या दरवट्यांतल्यान भितर सरप म्हणजे ताका दिव्य कशें दिसपाक लागलें. दरवट्या भायलेच ताणें थोडो वगत गणयलो. पूण किल्ल्यांत भितर कितें आसा तें ताका पळोवंकूच जाय आसलें; म्हूण तो ते ओडीन धांवतूच दरवट्यांतल्यान भितर सरून फुडें गेलो. दोनूय वशींच्या वणटींच्या मदल्यान गेल्ली वाट तो चलून गेलो. थंय दोन तीन मोडकीं घरां दिश्टी पडलीं. घरा लागींच किल्ल्याचे धान्याचे कोठयेचें घर आसलें. तेंय मोडून गेल्लें. किल्ल्याच्या मदल्या भागांत गुप्त तळघर आसलें; पूण तळघराच्या दारांतूच चिरे निखळून पडिल्ल्यान भितर सरपाक मेळच नासलें. फुडें चलून गेले उपरान्त ताका देवूळ दिश्टी पडलें, तशे ताच्या मनाच्या कोळव्यातले पारवे फडफडत भायर हुबले. देवूळ कोण तरी सांबाळटालो. तो देवळांत भितर सरलो आनी ताची नदर नंदीचेर पडना फुडें हें देवूळ कैलासपती आनी मसणवासी म्हादेवाचें म्हूण ताका समजलें. देवळाच्या वयल्या भागांत कोरांथायल्लें बरेंच नक्षिकाम आसलें. पूण त्या नक्षिकामाक बारीकमोटे बुराक पडिल्ले आनी नक्षीच इबाडून गेल्ली. देवळाच्या चौकार चलत गेले उपरान्त तो गर्भकुडी कडेन पावलो. गर्भकूड उकतीच आसली. महादेवाची मूर्त आपले दोनूय दोळे बोंगे कळे कशे अर्देच मेटून आसलो. काळ्या तिकतिकीत पाशाणी फातराक धडा साकून वयर मुर्तीचो आकार आसलो. आनी मुर्तीचे लागींच योनिलिंग आसलें. ताणें म्हादेवाचे मुर्तीक बारीक नदरेन पळयलें. मुर्तीच्या दोनूय दोळ्यांचे मदीं कपलाक तिसरो दोळो कोरांथिल्लो आसलो. पूण तो अस्पश्ट दिसतालो. तिसरो दोळो धांपला काय उगडला हें कळनासलें. पूण परत परत तो पळयत राविल्ल्यान म्हादेवान आपलो दिसरो दोळो हय-न्हय सो उगडला अशें ताका दिसपाक लागले. दोळो हय-न्हय सो उगडिल्ल्यान लागचो वाठार झडपाक, नश्ट जावपाक लागला काय कितें, असो विचार ताच्या मनांत येवन गेलो. देवाक हात जोडून ताणें मनांतल्या मनांत देवाची प्रार्थना करीत म्हळें, 'देवा, योनिलिंगाच्या रुपांत आमी तुका भजतांत. तूं ह्या विश्वाची निर्मणी करपी आनी म्हजे ल्हान मती प्रमाण हांव जाणां, तूंच ह्या संवसाराचो संहार करपी. पूण देवा, तुवें घडयल्ल्या ह्या विश्वाक तूंच जावन नाखूट लावंक नाका. तुजो तिसरो दोळो उगडून जगाचो संहार करूं नाका. मागीर तो थंयच कांय वेळ शांत बसलो. तो खूब वगत देवळाच्या चौकार विचार करीत बसून रावलो. मागीर उठलो आनी परतलो. परतून येतना

तो त्या आर्काच्या दरवट्यांतल्यान भायर सरलो, तेन्ना ताच्या मनांत अशाश्वतेची जाण अदीक खोल जायत रावली. तो निखळत राविल्लो किल्लो ताचे सभोंवतणी घुंवता अशें ताका जायत रावलें.

बरींच वर्सां तो भोंवत रावलो. भोंवतां भोंवतां ताचे वाडिल्ले केंस आनी खाडाचेय केंस पिकपाक लागून धवे जाले. पयलींचो आंगलोट उरलो ना. तो बारीक जालो. गोरेपण वचून तिकतिकीत काळसरपण ताच्या आंगाचे कातींत आयलें. एक दीस भोंवतना वाटेंत ताका एक आदिवासी भेटलो. ताणें त्या आदिवासीक अजींक्य गुंफांविशीं विचारलें. मागीर त्या आदिवासीन सांगिल्ले प्रमाण माग काडीत अजिक्य गुंफां कडेन तो निर्जन, दाट झाडांच्या भिरांकूल रानांतल्यान वचपाक लागलो. रानांतल्यान वतां, वतां पाशाणी दोंगराच्या मुळसाणांत कोरांथिल्ल्यो धोली दिसल्यो.. अजिंक्य गुंफा पळोवन ताका खूब आनंद जालो. अशी खोस ताका आनीक केन्नाय जावंक नासली. ह्यो गुंफा देड-दोन हजार वर्सां पयलींच्यो आसूंक जाय असो ताणें अंदाज बांदलो. दोंगराच्या चंद्रकोर आकाराच्या भितरल्या आंगांक एके हारीन विशेक गुंफा आसल्यो. तो आथिक गुंफांचे लागीं पावलो, तश्यो दोंगरांत कांतयल्ल्यो गुंफा ताच्या दोळ्यांत बरे तरेन पडल्यो. पयलींच गुंफा आर्का आर्कांनी बांदिल्ल्यो. तांचे भायर वेगवेगळ्यो मुर्ती कोरांथिल्ल्यो. गुंफा भितर दोंगराच्या पोटांत काळ्या पाशाणाच्या फातरांत पोखरलेली. भितर अयस पयस जागो आसलो. मदीं मदीं कांय कडेन खांबे आसले आनी त्या खांब्यांक सकयल साकून वयर मैरेन नक्षिकाम केल्लें. भितर इल्लोय जागो नक्षिकामा बगर रितो नासलो. सगळ्यो गुंफा बारीक मोट्या नक्षिकामान भरून गेल्ल्यो. गुंफे भितर थंडसाण जाणवली, तसोच थोडो काळोखूय आसलो. हांगा चारपांच दीस तरी काडुंकूच जाय, अशें ताणें थारायलें. आनी पयलीं वयले वयर चार गुंफा पळोवन घेतल्यो. पांचवे गुंफे लागच्या झऱ्याचें उदक पियेवन विसव घेवपाक बसलो. मागीर कांय गुंफा सोडून फुडले मदले आनी व्हडले गुंफे कडेन गेलो. हे गुंफेंत भायर सजावट व्हडली नासली. पूण भितर अयस पयस जागो आसलो. आनी एकूय खांबो नासलो. गुंफेचे निमाणे बुद्धाची एक व्हड बसकेची पाशाणी धवी फुल्ल आसरमांडी घालून आशिल्ली ती मूर्त पळोवन तो भुल्लुसलो आनी बेगि बेगीन भितर गेलो. गुंफेच्यो वणटी आनी पांखें, माती आनी झाडपानां हांचे मिसळेन तयार केल्ल्या विंगड विंगड रंगानी रंगोवन सोबीत सुंदर हावभाव व्यक्त करपी चित्रां चित्रायल्लीं. चित्रांनी साकार केल्ल्या मनशांचे तांच्या काळजांतल्यान उदेल्ले बारीक बारीक भाव व्यक्त जाताले. तो बुद्धाचे मुर्तीच्या फुढ्यांत वचूंक लागलो, तसतसो तो मुर्तीक पळोवन भुल्लुसलो. गुंफेचे भायरसून जो उजवाड येतालो, त्या उजवाडांत मुर्तीचे नुरेर वेगवेगळे शांत, रज, तम सारके भाव दिसताले; पूण मुखेल शांत भावूच सगल्या भावां वयर जैत मेळोवन गेल्लो. आपल्याक हांगा भंया विरयत सुरक्षितता आनी शांती मेळटली अशी ताची खातरी जाली. तो प्रभावीत जावन मुर्तीक पळयतूच उरलो. उपरान्त तो विहारांत अर्द ; भितर सरलो. विहाराचे वयर खूब तडे गेल्ले आनी पांख्याच्या

रंगाचीं चाखळां गेल्लीं. कांय चित्रांय नश्ट जाल्लीं. तो बुद्धाचे मुर्तीचे फुड्यांत गेलो. आसनाधिश्ट पांयांक ताणें हात लायलो आनी मुर्तीच्या मुखामळार ताणें बारीक नदरेंतल्यान पळयलें. पळयल्यार ताचे शांत नुरेचेर एक शेकान शेक वेर गेल्या. ती वेर गेल्ली पळोवन जोगूल पडून आकांताचो धक्को बसचो तशें ताका जालें. त्या धक्क्यान तो न्हित्रळ्ळो, आपल्याक सांवरूंक शकलो ना. भुंयकांप जावन अख्खी भूंय जळून फुटून वता अशें ताका जालें. मेंदूक मारिल्ली सणसण घेवन तो फाटले फाटीं परतून गुंफे भायर आयलो. ताका आकांताचें दुःख जालें. तो भायर येवन केदो वगत भेरेल्ले दशेन ओगीच उबो रावलो. आनी मागीर कावळ्याच्या काव काव बेसूर रडपान ताचें लक्ष वेधलें. एक काळो कावळो ते गुंफे वयर बसून व्हडल्या व्हडल्यान स्राप सोडिल्ले वरी आड्डून रडटालो. मदींच तो आपली काळी चोंच ते गुंफेचेर आपटितालो. तें पळोवन ताका खूब वायट दिसलें आनी रागान ताणें ताका आमुडपाचो यत्न केलो. पूण तो थंयचो वचना जालो. परत परत येवन आपले काळे चोंचीन कर्कश आड्डत रावलो. मागीर ताणें कावळ्याक आमुडपाचें सोडून दिलें. अजिंक्य गुंफाय काळाचे भकीक पडटा म्हूण तो दुःखाची सणसण भोगीत रावलो. बुद्ध काळ, भंय आनी काळ-मरणांतल्यान कोणाकूच वांचोवंक शकलो नासलो. तशेंच तो आपल्याक देखून वांचोवंक शकलो ना, म्हूण ताच्या काळजाक दुःखाचो कांटो तोंपत रावलो.

बरींच वर्सां भोंवभोंवन तो आयज परत आपल्या गांवघरा आयलो. ताच्या मनांत वास करपी असुरक्षिततेची भावना आनी सृश्टींत गळून, मोडून, निखळून, कोसळून पडपाची भिरांत कमी जावंक नासली. प्रवासांतले त्रास, क्षीण ताचे कुडींत दाटून राविल्ले. आपल्या बालपणच्या आनी सासायेच्या गांवघरा वचचें आनी उरिल्लें जाणटेपण थंय सारचें. गांवच्या वाठाराचे सासायेंत रावचें अशें तो चित्तालो. पूण ताचो जीव ओडून काडपी, ताचो आत्मोच पिळवटून काडपी तीं सपनां आयज मेरेन ताची फाट सोडी नासलीं.

तो आपल्या घरांत शेंदरेर ओगी बसला थंय आसलो. ताचे लागीं लाटन पेटत आसलो. लाटनाचे वातीक काजळी धरपाक लागली आनी उजवाड मंद जावंक लागलो, मध्यान रात जावन केन्नाच गेल्ली. तो बशिल्ले कडेन चित्ता थंयच आसा, इतल्यांत घस घस करून, तो बशिल्लो ताचे कुशीच्या दुसऱ्या सालांत घराचे वणटीची माती पडिल्ल्याचो आवाज जालो, तशें ताच्या काळजांत कलकललें. हुंदीर माती उडयता आसतलो म्हूण टॉर्च घेवन तो दुसऱ्या सालांत गेलो. ताणें वयर सकयल टॉर्चीचो उजवाड घालून पळयलें, तर वयरसून इल्ली इल्ली माती पडून सकयल मातयेची रास जाल्या. ते मातयेचे राशी वयल्यान वयर वणटीचेर उजवाड घालो, पळयत जाल्यार पायाक सावन वयर पाडसा मेरेन वणटीक बरीच रुंद फुटोळी गेल्या. तो थंयच खुरसार खिळायल्ले वरी जालो. मणामणांच्या ओज्याच्या चेपणावरी आसा थंयच चेपून उरलो. घराच्या आपल्या निमाण्या आसऱ्याक फुटोळी गेल्या तें पळोवन, आपल्या अस्तित्वाकूच तडो गेला अशी ताका जाण जाली. तो थंयच घामेवन थरथरत उरलो. उपरान्त व्हड कश्टान मुंयेल्लेवरी थिरावल्ले आपले पांय ताणें थंयसून

उखल्ले. इतल्यांत घरा लागींच हू ऽ कू हू ऽ क करून हुडूक आड्डत रडपाक लागलें. थरथरत ताणें आपलो बोटवो कवळ्ळो आनी फाटीक लायलो. घराचें दार उकतेंच सांडून तो घरा भायर सरलो आनी लांब लांब धेंपां घालीत काळखांतच चलपाक लागलो.



# कलसांव

**—वसंत भगवंत सावंत**

रात चडटा तसो पावणेकूय नेट चडटालो. भायर आकांताचें शीं पडिल्लें. जात्रेंत भोंवतले लोक चोम्या-चोम्यांनीच भोंवताले. भोवतेक लोक माटवांत दाटी करून पावणी सोपपाची वाट पळयताले. खाज्या-मांडां मुखारची गर्दी बरीच उणी जाणवताली. चणेकार धगधगीत इंगळ्यांनी भरिल्लें मडकें आळये-पाळयेन चण्यांचे आनी भिकणांचे राशीर दवरपांत गुल्ल आसलो. फुलकान्नींनी गोजड्यो, चादरी आंगा भोंवतणी गुटलावन कुंरगुटी केल्ली. पयसुल्ल्यान गडगडेकाराच्या फोलिणाचो आवाज मात बरो आयकूंक येतालो.

केशवमामाल्या चाये दुकाना मुखारचे म्हेडीक तेकून हांव म्हजे कोणूय वांगडी जावं शाळगडी दिसतात जाल्यार पळयतालों. जात्रेचो निमाणो दीस जाल्ल्यान सगळो गांव लोटून आयिल्लो. वर्साची बेताळाची जात्रा म्हळ्यार आमची वर्सुकी उमेदीची झर कशी! पूण.... अंदू मात म्हजी उमेद मनांतूच आटिल्ली. आवयन म्हाका जात्रेच्यो तीनूय राती केशवमामाल्या चायेच्या दुकानाचेर रावपाक सांगिल्लें. खरें म्हळ्यार केशवमामाक पळयल्यारच म्हाका तिडक मारताली. फाटल्यो तिनूय राती ताणें आमकां गिदांनी कोंकावचे तशे तापोवण्यांनी सामके बोंचून काडिल्ले. जात्रेचे उमेदीन गर्दैत एक पासय मारता म्हूण सांगल्यार "तुज्या कानसुलार एक फुलयतलों" अशें म्हूण ताणें म्हाका धपकायिल्लो. शिंयाचो कुडकुडो पयस करपाक लोक चायेच्या दुकानार गर्दी करताले; ताका लागून आमकां मातूय विसव मेळनासलो. केशवमामालो भट्टीवालो आनी च्या दिवपी मानाय दोगूय मामाक फाटल्यानं गाळी घालताले, पूण तोंडार एक जाप काडी नासतना रेड्यां भाशेन काम करीत रावताले. तीन राती काम करून जाल्ल्या जागरणान म्हजे दोळे बेब्या भशेन सुजिल्ले. दोनूय पांय वळटाले. केन्ना काय आड पडून ताणून दिवं, अशें म्हाका जाल्लें.

"दिगू ऽ ये दिगू ऽऽ." भितर ग्लास दवरल्यात ते कोण तुजो बापूय धुतलो? मार रावला म्हेडीक तेकोन भाटकार कसो...! व्होशीमेर्द भितर.... धूय ते ग्लास, बश्यो पयलीं." मामान म्हजेर फोग काडिना फुडें मामालीं फुडलीं उतरां आयकूंक राव नासतना हांव फाटले वटेन येवन ग्लास धुवंक लागलों. शेळें उदक भरून दवरिल्ल्या बल्लांत हात घालपाची माणसुकी नासली. झेलाचेर दवरिल्ले भाशेन हात थंड-किरांव जाताले. परत परत धगधगते

भट्ट मुखार उबें रावन हात शेकोवचे पडटाले. तीन रातीं दोन ग्लास फुटल्यात म्हणून हांवें दोन खोंटोय खाल्ल्यो. म्हाका सामको उबग आयिल्लो.

सगळे ग्लास, बश्यो थंयच आपटून जात्रेंत भरसुचो आनी माटवांत इश्टां वांगडा बसून नाटक पळोवचें शें म्हाका दिसतालें. पूण, आवय म्हजेर तापय काडीत म्हूण हांव पळून वचपाचें धाडस करी नासलों.

वर्सान वर्स केशवमामा जात्रेक चायेचें दुकान लायतालो; पूण तो म्हगेलो मामा म्हणून म्हाका खबरच नासली. तागेलो धंदोच खंय जात्रांनी भोंवपाचो. एक एक करून गांवागांवांतल्या सगळ्याच जात्रांनी तो चाये दुकान घालतालो. ह्या-त्या राटावळीं मुखार ताका खंयच्याच वर्सा आमगेर येवंक फाव नासलें खंय; पूण अंदू मात जात्रेच्या पयल्याच दिसा ताका आमगेर पळोवन आनी तो म्हगेलो मामा म्हणपाचें समजतकीर म्हाका सामकें अजाप जालें आनी जात्रेक दुकान लायता तो म्हगेलो मामा हें वांगडच्यांक सांगपाक हांवें वाड्यार धांव मारली.

हांव परत घरा कडेन आयलों तेन्ना केशवमामा देवळा कडेन वचपाक भायर सरिल्लो. मामान हाडिल्ली पिपीरमिटांची पुडी म्हज्या हातार दवरून आवयन म्हाका म्हळें,

"दिगू, मामान तुका कल्सांवाक कुडको दितां म्हूण सांगलां."

"खरेंच!" हांवें म्हजें कुल्यार पिनिल्लें कलसांव सासपीत म्हळें.

"हय, पूण तुवें तागेलें एक काम करचें पडटलें."

"कसलें काम?" हांवें उमळशिकेन विचारलें.

"मामाल्या चाये माणावयले दोग मानाय दुयेंत म्हूण येवंक पावूं नात खंय; जात्रेच्यो तीनूय राती तुवें तागेल्या मांडार काम करपाचें." आवयन म्हाका फुसलायत म्हळें.

"ना...ना.... हांव ना....! म्हाका जात्रेक भोंवोंक जाय!"

"शाण्या... तुका हांव अंदू कपडे शिवोंक पावूं ना. भोकार पिनलेली मुस्तायकी घालून तूं जात्रेक भोंवतलो? वांगडचे हांसचे नात तुका? आनी जात्रा किदें रे? वर्सान वर्स आसाच. अंदू तुवें मांडार काम केलें जाल्यार तुका कल्सांव मात शिंवोन मेळटलें."

आवयक कितें जाप दिवची तें म्हाका कळना जालें. म्हज्या केंसांत हात भोंवडायत तिणें म्हळें, "पळय, तूं चल मामाल्या मांडार, हांवें सांगलां मामाक तूं येतलोच म्हणोन. सांबाळून मात काम कर; तुगेलो मामा मात्सो एके शिरेचो. तागेलें पाशेंस रोकडेंच कडटा. तो पिकार बी जायत जाल्यार तूं निर्शेवंक नाका. रातचीं जागरणां करून करून ताका राग सांबाळून घेवपाची शक्त उरूंक ना."

हांवें तकली हालोवन आवयचें सांगणें मानून घेतलें.

तिणें म्हळें, "जाणा मरे, तुगेल्या मामाल्यो राटावळी चड; हागेलें हाडून ताका दी, तागेलें हाडून हाका पावय, हाका नागय, ताका पांयां पडोन निभय, असल्योच भानगडी चड तागेल्यो. पैश्यां मुखार आपल्या-परक्यांक कोणाक वळख नाशिल्लो मनीस तो. इतकीं वर्सां जात्रेक मांड घालता, पूण एक दीसय ताका भयणीगेर येवंक फावलें ना. अंदू मात

आयला... मानाय नात म्हूण... भाच्याक घाण्याक लावपाक." आवयच्या दोळ्यांत दुकां भळभळ्ळीं. ती कितें म्हणटा तें म्हाका तेन्ना सारकें कळूंक नासलें; पूण मामाल्या चायेच्या दुकानार दोन राती काम करिना फुडें केशवमामा म्हळ्यार कसलो मनीस तें हांवें बेस बरें पारखिल्लें. च्या शिजोवन उरिल्लो पालो परत वापरलो ना जाल्यार भट्टीवाल्याक तो सामको तापोवन काडटालो. एक शेर दुदाचे तो आपल्या हातान दोन शेर करतालो. च्या करतालो ती दळाची न्ही. इल्ली शी साखर चड पडली जाल्यार भट्टीवाल्याच्या भोकार पडलीच खोंट. लोक बोब मारताले; पूण मामा निर्लज्ज कसो हांसत रावतालो. जात्रेक आनी कोणालेंच चायेचें दुकान नाशिल्ल्यान मामाल्याच दुकानार गर्दी पडटाली. आनी मामा सगळें मनीसपण सोडून म्हणटात तसो आपलो धंदो चलयतालो. ताचो तो सभाव, नश्टी वृत्ती आनी पाडीं कर्तुपां पळोवन ताच्या तोंडार नदर घालची म्हळ्यार म्हाका शिसारी येताली. भर गिरायका हुजीर ताचीं कुतां काडून ताचें काम सोडून वचचें अशें म्हाका खिणाखिणाक दिसतालें; पूण आवयलीं उतरां दोळ्यां मुखार रावतालीं आनी म्हगेलें तोंड आनी पांय खिळावताले.

ग्लास, बश्यो धुतां धुतां म्हजे कान पावणी आयकताले. "निमाणो, देवा पांयां कडलो फुलां झेलो... एकवीस रुपयाऽऽ तिसरी खेपऽऽ साऽ वोसाऽऽऽ." पावणीकारान निमाणी पावणी सा केली आनी म्हाका, भट्टीवाल्याक आनी च्या दिवपी मानायाक मात सूऽऽ जालें. खिणाभरयांत दुकानांतली गर्दी उणी जाली. नाटक पळोवपाक सगळेच माटवांत धांवले. घडयाळी वयलीं वरां पळोवन मामा तिडकलो. "चेडयेचे हे कमिटी मेंबरऽऽ पयशे व्हरपाक पटी घेवन येतात बरे. आनी साडे बारा जावचे पयलींच नाटकां सुरू. साडेबारांक नाटकां सुरू केल्यार आमी गिरायक कसलें बाये मडसरेचें करपाचें?"

मामा पिंरजळटा तें पळोवन म्हाका खरेंच बरें दिसलें. असल्या मनशाचेर आयुश्यभर पिरंगणीच पडूं, अशें हांवें मनांत म्हळें. भट्टीवाल्यान बरीऽशी केल्ली च्या एका ग्लासांत घालून म्हाका दिली आनी मामाक कळ नासतना पिये म्हूण म्हाका दोळ्यांनी खुणायलो.

मामा गल्ल्यांतल्यो नोटी मेजपांत गुल्ल आसलो. हांव एके खुर्चेर बसून तो नोटी मेजता तें पळोवपाक लागलों. विसांच्यो, धांच्यो, पांचांच्यो, दोनाच्यो कितल्योश्योच नोटी गल्ल्यांत भरिल्ल्यो. निथू लावन मेजता आसतना तो मदींच म्हजेर धेंगसलो.

"तूं किदें पळयता रे? चल-वोस्स, सगळे ग्लास धूय, मांडून दवर आनी मेज कितके उरल्यात, कितके फोडल्यात ते." हांवें सगळे ग्लास आनी बश्यो धुवन, मेजून दवरल्यो आनी भट्टे कडेन येवन हात शेकोवंक लागलों. हातांतल्यो नोटी परत एकदां मेजून जातकीर मामान म्हाका उलो मारलो. म्हाका दिसलें, तो आतां म्हाका कलसांवा कपड्याक पयशे दितलो. हांव गल्ल्या कडेन पावतकीर मामान "तूं मात्सो बस हांगा" म्हणत म्हाका गल्ल्यार बसयलो आनी ट्रंकाचें कुलूप काडून पयशे दवरपाक लागलो. गल्ल्यार बशिल्ले कडेन म्हाका कितकी खोस जाली जाणां! हांव गल्ल्यार बशिल्लो म्हज्या वांगड्यांनी पळोवचें अशें म्हाका दिसतालें; पूण वळखीचो कोणूच नदरेक येनासलो.

गल्ल्यांतल्यो सगळ्यो नोटी मामान व्हेल्यो तरी भितर मोड भरिल्ली. इतले मोडचे पयशे हांवें देवळांतल्या ताटांत सुद्दां केन्नाच पळोवंक नासले. हांवें मोडींत हात घालो आनी सगळी मोड खळखळायली. त्या आवाजान म्हजें आंग शिरशिरलें. हांवें म्हज्या पोशांत येता तितली मोड घेवन उबारून खळ-खळ करून परत भितर सोडली. तीन राती काम केल्ल्याचें जागरण, त्रास सगळें नाच् जाल्ले भाशेन म्हाका दिसलें.

पयलो अंक सोपतकीर चौग-पांच जाण च्या पिवंक आयले. हांवें झेतार कांपीण मारून तांगेले पयशे विचारले. तांणी दिल्ली नोट घेवन उरिल्ले पयशे तांकां परत दिले.

"सारकें काडलां मरे, बील?" मामान भितरल्यान विचारलें.

"हय-हय." हांवें नेटार म्हळें.

"सितारामऽऽ" भट्टीवाल्याक उलो मारून मामान म्हळें, "फाल्यां, परां कामरखंडा जात्रेक- काल्याक, जाणा मरे? तिसरो अंक सोपतकीर सगळें सामान बांदून दवरून, मागीरच न्हिदपाचें - किदें रे? फांतोडेचेर पीकप येतली, माटोव बी मोडून रोकडेंच वचपाचें. आयकलां मरे?"

सितारामान हय य म्हळें ना आनी ना य म्हळें ना.

"आयकूंक येना रे?" हांवें मामाच्या झेतार सितारामाक तापयलो. सितारामान म्हजेर रागान अशी एक नदर घुंवडायली, तो आतां म्हाका उबारून भट्टेंत उडयतलो अशें म्हाक खीण भर दिसलें.

मामा चोपडेर हिशोब बरोवपांत गुल्ल आसलो. हांवें जाता तितलीं चार आण्यांचीं आनी आठ आण्यांचीं नाणीं वेगळीं काडलीं आनी मेजार एकार एक दवरून दाळ केलो. हांव गल्ल्यार बशिल्लो खंयच्यान तरी पळोवन, म्हजे दोग शाळगडी चाच्या दुकाना लागीं येवन म्हाका शूक-शूक करपाक लागले.

हांवें झेतार तांकां पळयत म्हळें, "ओ भिकू, ओ नारायण, किदें रे?"

"कांय ना", तांणी म्हळें.

"च्या पितले तुमी?" हांवें विचारलें.

ताणीं हय म्हणून तकली हालयली.

"सिताराम, हांगा दोन बऱ्यो श्यो च्या दी." झेतार ऑर्डर करीत मेजा वयली काम्पीण वाजोवपाक मुखार केल्लो हात दाळून दवरिल्ल्या पयश्यांक लागलो आनी सगळी मोड खळ्ळ् करून सकयल पडली. इतको वेळ म्हजो कारभार पळोवंक नाशिल्लो मामा सट्ट करून उठलो आनी सकयल पडिल्ले पयशे पुंजावन ताणें गल्ल्यांत घाले. म्हाका कुशीक काडून म्हजीं सगलीं बोल्सां तपासलीं, आनी म्हज्या कानाक पिवळ घालीत म्हळें, "तुज्या बापायली जोड म्हणोन समजलो काय किदें रे तूं? पयश्यां कडेन खेळ करता? मात्सो गल्ल्यार बसयल्यार पयश्यांची ऊब चडली तुकां? व्होशीमोरऽऽ हांगासल्लो, कुशीन सर." मामान म्हाका धुकलून कुशीक काडलो.

नारायण आनी भिकू भिवन भायर सरून गेले. म्हज्या आंगाक रागान उजो पेटिल्ले भाशेन जालो. एक कदेल उबारून मामाच्या खड्डयार घालून ताचें तिवळ व्हांवोवचें अशें म्हाका खीण भर दिसलें.

"म्हगेल्या कल्सांवां कपड्याचे पयशे दी" हांवें रागान म्हळें.

"आं... पयशे... फाल्यां सकाळीं तुगेले आवय कडेन दितां." मामान म्हळें.

"फाल्यां ना... म्हाका आयज जाय, आतां."

"आतां जाल्यार तुज्या कानसुलार थापट मात दितां." अशें म्हणून मामान म्हजेर ठोऽऽ करून एक थापट फुलयलें. जागरणान झेमिल्ल्या म्हज्या दोळ्यां मुखार काळोख आयिल्ले भाशेन जालो. ते भिरकेंत हांव नाटकाच्या माटवांत वचून बसलों. नाटक केन्ना सोपलें कोण जाणां! दनपरां आवयन येवन म्हाका उठयलो तेन्ना हांव जागो जालों. चौग-पांच जाण भुरगे माटवांत न्हिदिल्ले आसले.

"मामान दिले तुका कल्सांवां कुडक्याचे पयशे?" आवयन म्हज्या कानांत विचारलें.

"ना.... तुजे कडेन दिता म्हणटालो मगे तो; तुजे कडेन दिवंक ना तर?" हांवें विचारलें.

आवयन ना म्हणून तकली हालयली.

हांवें मामाल्या चायेच्या दुकाना वटेन तकली घुंवडायली. सगळें सामान घेवन मामा केन्ना गेल्लो कोण जाणा! माटोव-बिटोव थंय कांयच नासलें. गोबरान भरिल्ली एक उज्याची भट्टी सोडल्यार, रातीं थंय दुकान आसलें म्हणपाची कसलीच कुरू दिस नासली.

"सामको फटींग तो मामा!" हांवें रडकुऱ्या तोंडान म्हळें.

"तागेल्या राटावळीं मुखार तुजी याद घडये उरली ना जायत ताका," आवयन म्हळें आनी ती चलूंक लागली.

मामाल्या चायेच्या दुकानाचे सुवातीर नदर घाली नासतना, म्हगेलें कुल्यार पिनिल्लें कलसांव सांबाळीत हांवूय तिचे फाटोफाट चलत रावलों.



# सावळी

—ज्योती कुंकळकार

अकस्मात फाटसून म्हज्या गळ्यांत हाताचो विळखो पडलो. खीण भर हांव चक्रावन गेलें. हातांचो विळखो निखिलाचो, म्हज्या पुताचो आसलो. पूण त्या विळख्यान म्हाका निखिलाच्या बापायची - सुधीराची याद करून दिली.

"आई, आयज वचपाचें न्हय?" निखिलान तोंड म्हज्या काना कडेन हाडून विचारलें.

"खंय रे? खंय वचपाचें?" हांवें लटीक वैतागान कशें म्हळें.

"अशें कितें करता आई? दर वर्सा रिजल्ट जाले बरोबर दुसऱ्याच दिसा आमी वाचपाचीं पुस्तकां हाडूंक वतात न्हय गे? काल म्हजो रिजल्ट जालो ना?"

"खरेंच मरे! पूण आजून म्हजीं घरांतलीं कामांच सोपूंक नात पळय." हांवें म्हळें.

ताका हांव कशें सांगतलें, आयज सोमार म्हणून! अमेरिकेच्यान सुधीराचें पत्र काल मेरेन पावंक ना. आयज येतलेंच. भायर सरप म्हळ्यार पोस्टमन येवचे पयलीं वचचें पडलें. मागीर तें पत्र रूसून बसचें ना म्हज्या मेजाचेर?

"अशें कितें करता आई?" रडवो सूर लायलो ताणें.

"वच गे सूनबाय, पुताचें मन मोडूं नाका." कोनशाक बशिल्ले मांयन वाती वळटां-वळटां म्हाका सांगलें.

"बरें बाबा या." हांवें निखिलाक उतर दिलें. म्हजे हात सडसडीत चपात्यो लाटपाक लागलें. पूण मन मातशें निर्शेलें. दर वर्सा पुस्तकां विकतीं हाडपाक वचपाचो क्रम कशें काय विसरलें हांव! म्हजें मन चुटपुटलें. भूतकाळांतल्यो बारीक सारीक गजालीय परत-परत याद जावपाक लागल्यो.

राजा-राणयेच्या काणयांनी गुल्ल जावन वचपी इल्लो सो निखिल म्हज्या दोळ्यां मुखार आयलो. मातशें शॉपिंगाक गेलें जाल्यार नवीं-नवीं पुस्तकां विकतीं घेवपाचो ताचो हट्ट. पुस्तक... पुस्तक... आनी पुस्तक... बापूय आनी पूत दोगूय सारकेच. एकेच माळेचे मणी. सुधीर पुस्तकां घेवपाक गेलो म्हणजे हाची रड, आपल्याकूय घे म्हणून.

"तुजे बाबा पुस्तकांतल्यान पयलीं भायर सरूं दी, मागीर तुका पुस्तकां घेवया." अशें म्हणत केन्ना केन्ना हांव धेंगशेतालें.

"दिव्या, बापायचो राग भुरग्याचेर कित्याक काडटा गो?" सुधीर मिस्कीलपणान म्हाका म्हणटालो.

उपरांत सुधीरान एक उपाय सोदून काडलो आनी निखिलाक समजायलो.

"हें पळय राजा, दर वर्सा परिक्षेचो रिजल्ट लागतकच दुसऱ्याच दिसा पुस्तकांच्या दुकानाचेर वचपाचें आनी तुका जाय तितलीं पुस्तकां घेवपाचीं. अशीं मदीं-मदीं घेवपाचीं ना. अशें केल्यार तुजे आवयच्यो तापोवण्यो म्हाकाय खावपाक नाका आनी तुकाय नाका."

निखिलान बापायलें म्हणणें मोटे खोशयेन मान्य केल्लें आनी माकडावरी उडयो मारीत भायर गेल्लो. हांव मात बापायचें आनी पुताचें नाटक पळयत उरिल्लें. सुधीर म्हज्या फाटल्यान येवन ताणें म्हज्या गळ्यांत आपले हात केन्ना घाले तें म्हाका कळ्ळेंच ना.

"दिव्या, आमी ह्याच पुस्तकांनी लागीं आयिल्लीं न्हय?" ताणें आपलो पोलो म्हज्या पोल्याचेर दवरिल्लो.

म्हजें मन आनीक फाटल्यान गेलें. बडोद्याची युनिव्हर्सिटी याद जाली. हांव आनी सुधीर सिनियर बी. ए. क आशिल्लीं तेन्ना अभ्यासा वांगडा हेर पुस्तकां वाचपाचें दोगांकूय खूब पिशें. ते खातीर आमचो बरोच सो वेळ लायब्ररींत वतालो. थंयच आमची वळख जाली. इश्टागत जमली आनी प्रीतय फुल्ली.

जशें जशें हांव सुधीराचे लागीं वचपाक लागलें, तशी तशी म्हाका ताचे अर्थीक परिस्थितीची, ताचे असामान्य बुद्धीची, असीम म्हत्त्वाकांक्षेची कल्पना येवपाक लागली. ते प्रमाण हांवे म्हज्या वागपाचें धोरण दवरलें. बी.ए.चे परिक्षेंत सुधीरान फाटल्या धा वर्सांचो रिकॉर्ड मोडलो आनी युनिव्हर्सिटींत तो पयलो आयलो. तो एम.ए करपाक लागलो. हांवें मात बी.ए. जाले बरोबर चटकन् बी.एड्. करून शिक्षिकेचो पेशा पत्करलो. एम.ए.कय ताणें दोळे दिपकावपी यश मेळयलें. ते उपरांत आमचें लग्न जालें.

पूण ताचें अभ्यासाचें पिशें चालूच आशिल्लें. एका नांवाजत्या कॉलेजांत ताणें लेक्चरर म्हूण नोकरी धरली. एक व्यासंगी आनी कुशल प्रॉफेसर म्हणून नामना जोडली. म्हाका ताचो मोटो अभिमान दिसतालो. म्हजी मास्तरकी आनी संवसार दोनूय चालूच आशिल्लें. शेवटाक खूब वर्सां मनांत आशिल्लें सुधीराचें सपन खरें थारपाचो योग आयलो. ताका अमेरिकेंत नॉर्थ ईस्टर्न युनिव्हर्सिटींत ॲडमिशन मेळ्ळें आनी हांगासर भारतांत एज्युकेशन लिव्ह घेवन तो अमेरिकेक गेलो.

घडये आयज येवपाच्या सुधीराच्या पत्रा वयल्यान ताची थिसीस केन्ना सोंपतली ताची स्पश्ट कल्पना म्हाका मेळटली.

हुनहुनीत चपातेचो म्हाका चुरको लागलो आनी हांव भानार आयलें. हालिंसरा एक शीण सो, एक थकवो सो म्हाका जाणवतालो. म्हाका कळना आसलें, हो शीण शारिरीक काय मानसीक! मागीर दिसतालें, हो शीण शारिरीक आनी मानसीकय बी.

सुधीराच्या हावेसां बरोबर धांवतां धांवतां हांव सामकें थकून वतालें. ताचो हावेस पुराय करपाक आनी सुशेग मेळपा खातीर, संवसार-रथाचीं चक्रां हांवूच सांबाळटालें.

संवसाराचो अर्थीक भार तर म्हजेरूच. संवसारांतल्या बारीक-सारीक अडचणीं कडेन एकट्याकच झुजचें पडटालें आनी निखिलाकूय सांबाळटालें- सामकें दोळ्यांत तेल घालून.

बरोच वेळ हांव तशेंच बसून रावलें. फाटले कांय दीस म्हाका संवसारांत दादल्याच्या आधाराची, सहवासाची गरज शी भासूंक लागिल्ली. सगळे निर्णय सुधीरान आपल्या मना प्रमाण घेवचे आनी हांवें फकत ताचे बरोबर सावळे सारकें रावचें असो एक नवोच ध्यास हालीं म्हाका लागिल्लो. आयच्या ताच्या पत्रा वयल्यान तो केन्ना परत येतलो हाचोय अदमास बांदूं येतलो.

हालीं म्हाका कितें जाल्लें कोण जाणा! सुधीर येतकच पळयतलो, अशें म्हणून घरांतलीं कितलींशींच कामां तशींच पडून दवरिल्लीं. घराक रंग दिवपाचो आशिल्लो. व्ही.सी.आर. घेवपाचो, रांदचे कुडींत थोडी सुदारणा करपाची आशिल्ली. एक ना दोन. आयज मेरेन घरांत बायलांचें राज्य आशिल्लें. मांय आनी हांव. सुधीर सगल्या गजालीं पासून अलिप्त उरिल्लो.

'पोस्टमन' ह्या आवाजान हांव भानार आयलें. सदांचोच निळो ॲरोग्रॅम पळोवन हांव विरगळून गेलें. नवे व्हंकलेचे उमळशिकेन हांवें तें पत्र फोडलें. केन्ना वाचूं अशें म्हज्या दोळ्यांक जाल्लें. पत्रा वयल्यान झरझर धांवपी म्हजी नदर मदींच आडखळ्ळी. सुधीरान बरयिल्लें-

'पी.एच.डी. खातीर म्हाका जे गाईड आसात, तांकां अकस्मात एका कॉन्फरन्सा खातीर लंडनाक वचचें पडलें आनी म्हजें थिसिसचें काम लांबणेर पडलें. म्हाका परत येवपाक आनीक चार म्हयने कळाव जातलो.

"म्हाका कळटा राणी, हांव तुजो अंत पळयतां. पूण आयजवेर म्हाका सांबाळून घेतलो तसोच घे आनी निमाणी एकूच परवानगी हांसत-मुखान दी."

म्हज्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. सुधीरान बरयिल्ले चार म्हयने चार युगां सारखे दिसले.

"या मगे आई?" निखिलाच्या उल्यान म्हाका जाग आयली.

"हय, या रे. तयारी करतां हांव."

"तूं भायर सर. हांव फुडें वचून रिक्षा पळयतां." निखिल इतलें सांगून भायर सरलो.

हांवें यांत्रिकपणान सगळें आवरलें. सुधीराचें येवप चार म्हयने लांबलें. म्हणटकच हो घराचो भार आनीक चार म्हयने एकटेन ओडपाचें वांट्याक आयिल्लें.

म्हाका ओगीच धाप लागिल्ले भशेन दिसलें. तशेंच हांव भायर सरलें. मांयक सांगून घरा भायर पावल घालें. मुखार पळय जाल्यार निखिल रिक्षा घेवन येता. ताणें रिक्षा थारायली आनी भरभर पावलां घालीत तो म्हजे वटेन येवपाक लागलो. म्हाका ओगीच वीस वर्सां पयलींच्या सुधीराची याद जाली. आमी दोगांय रिक्षांत बसलीं.

हांवें नकळटना ताचे कडेन पळयलें. आनी हांव एकदम अजापलें.

आरे! हाच्या तोंडा वयली कंवळीक खंय गेली! हांव मनांत विचार करूंक लागलें.

ताच्या ओंठा वयली काळी रेग म्हाका स्पश्ट दिसताली. म्हाका नव्यानूच याद जाल्ले भशेन जाली. येता त्या वर्सा तो इकरावेक बसतलो. म्हज्यांतली आवय खंय तरी सुखावली. ताच्या कपड्यां कडेन लक्ष गेलें. ताणें लांब पँट आनी लांब हातांचो शर्ट घाल्लो. लांबूय बरोच जाल्लो.

नकळटना दर वर्साचो पुस्तक हाडपाचो सुवाळो म्हाका याद जालो. फाटल्या वर्सा लेगीत हांवें जावन रिक्षा केल्ली. हाताक धरून आदीं ताका बसयिल्लो आनी तो बसतकच ताचो हात धरून हांव बशिल्लें.

चिंततां-चिंततां आमची रिक्षा पुस्तकांच्या दुकाना मुखार थांबली. आमी दुकानांत भितर सरलीं. खंयचीं पुस्तकां घेवचीं हाचो हांव विचार करतालें. इतल्यांत निखिलान फटाफट चार-पांच सुंदर पुस्तकांचीं नांवां सांगलीं. निखिल झराझर पुस्तकां वेंचीत आशिल्लो. आतां ताका आदले वरी भुतां-खेतांची आनी राजा-राणयेच्या पुस्तकांची आवड नाशिल्ली. तांकां ताणें हातूय लायलो ना. एक दोन विज्ञान कथांचीं पुस्तकां ताणें घेवपा खातीर कुशीक काडलीं. त्या विशया वयले ताचे खास अशे आवडीचे बरोवपी आसले.

मागीर ताणें बायलां संबंदीचीं पुस्तकां रचून दवरिल्ल्या रॅका कडेन आपलीं पावलां वळयलीं. हांव ताका चत्रायेन पळयत ताचे फाटोफाट गेलें. खूब शीं पुस्तकां चाळून ताणें एक पुस्तक वेंचून काडलें. आनी म्हज्या हातांत दित म्हळें, "आई, ही तुका म्हजी भेट."

हांवें पुस्तकाचें नांव वाचून पुस्तक चाळ्ळें. चाळिशी उपरांतच्या बायलांची मानसीक भलायकी हाची शास्त्रीय चिकित्सा करून बायलांक मार्गदर्शन करपी अशें तें पुस्तक आसलें. हांव तोखणायेन पुस्तक दोनूय हातांनी पोशेत रावलें. इतले म्हणसर ताणें दुसरें एक पुस्तक काडून म्हज्या हातांत दिलें आनी म्हळें, "हें बाबा खातीर."

काडिल्ल्या पुस्तकाचें मोल तो चत्रायेन पळयतालो. काडिल्लीं पुस्तकां ताणें कावंटराचेर हाडून दवरलीं. दुकानदार बील बसोवपाक लागलो.

"आमकां डिस्कावंट दियात आं. दर वर्सा पुस्तकां व्हरतात आमी."

दुकानदाराक ताच्या वेव्हारीकपणाचें कवतूक दिसलें. मिशयांनी हांसत ताणें डिस्कावंट दिल्ल्याचें मानेनूच सांगलें. बिलाचे पयशे निखिलानूच फारीक केले. हांव ओगीच रावलें.

आमी दोगांय दुकानांतल्यान भायर सरलीं. सदच्या हॉटेलांत गेलीं. ताचे आवडीचें आइस्क्रीम मागोवचें असो हांव विचार करतालें. इतल्यांत निखिलान हांसून ऑर्डर दिली.

"दोन प्लेट बटाटवडे." आनी म्हजे कडेन पळयत हांसत सांगपाक लागलो, "आई, कालूच उरिल्ले स्कॉलरशिपीचे पयशे आयले. ते खातीर हे फावटीं पुस्तकांचे पयशे हांवेंच फारीक केले. आनी आतां उरिल्ल्या पयशांची बटाटवड्यांची पार्टी. आई, म्हाका खबर आसा, ह्या हॉटेलांतले बटाटवडे तुका खूब आवडटात. पूण हांव जाणां, तुजे खातीर तूं केन्ना मागची ना. बाबा हांगा आसतना तूं मागयताली न्हय?"

म्हाका भडभडून आयलें. हांव अजापान म्हज्या अकस्मात वाडिल्ल्या पुता कडेन पळयत रावलें.

"आरे, केदो व्हडलो जालो तूं! इतले दीस हें म्हज्या लक्षांत कशें आयलें ना!" पूण उतरां काळजांतूच विरलीं. सवकासायेन हांव रूच काडीत बटाटवडे खायत रावलें.

आमी स्टॉपार आयलीं. थंय बरीच गर्दी जाल्ली. गच्च भरिल्ली बस आयली. निखिलान पयलीं म्हाका चडयलें. मागीर आपूण चडलो. म्हजे भोंवतणी हाताचो कडेकोट करून उबो रावलो. म्हाका कोणाचो इल्लोय त्रास जावचो ना हाची ताणें खात्री करून घेतली. हांवें मान वयर केली. म्हज्या लक्षांत आयलें, म्हजी तकली हाच्या खांदाक लागता.

अकस्मात मना वयलो भार खुबूच उणो जाल्ले भाशेन दिसलें. आमचो स्टॉप आयलो तशीं आमी देंवलीं.

चलतां-चलतां निखिलान विचारलें, "आई, बाबा केन्ना येतलो गे?"

"ताचो मुक्काम आनीक चार म्हयन्यांनी वाडलो."

"मागीर आई, म्हाका दिसता, आजयेक आमीच स्पेशालिस्टाक दाखयिल्ली बरी. बाबाची आनीक वाट पळोवची न्हय. आजूच डॉक्टराची अपॉयंटमेंट घेतां आनी हांवूच व्हरतां आजयेक. बाबाची स्कुटरूय सारकी स्टार्ट जायना. काल पळयली हांवें. तिवूय गॅरेजींत दितां."

"आरे, पूण तुका स्कुटर चलोवंक खंय येता?" हांवें चटकन् विचारलें.

"आगे, म्हाका येना जालें म्हणून कितें जालें? मॅकानिकांक हांगा आपोवन व्हरपाक लायतां. आनी घराकूय रंग दिवया. आतां तर सुटी आसा. बाबा येतकच सगळें घर कशें नवेंच!"

निखिल भराभर निर्णय घेत आशिल्लो. आनी म्हजें मन सुखावत आशिल्लें. आरे, हो व्हडलो जालो! हाच्या आधाराची खात्री बाळगुपा इतलो व्हडलो जालो!

रातचें सैल मनान हांवें ॲरोग्राम फुडें ओडलो आनी सुधीराक मना पासून बरयलें.

"सुधीर, सवकासायेन थिसीस पूर्ण कर. चार म्हयने म्हळ्यार चड न्हय राजा. अशेच वतले......"



# वळख

**चंद्रकांत शांताराम केणी** (26-11-1934) : हांचो जल्म गोंयच्या कांसावले गांवांत जालो. गोंयच्या स्वातंत्र्यपूर्व काळांत मुंबय आकाशवाणीचेर संपादकीय विभागांत काम केलें. मागीर दिल्लींत आचार्य काकासायब कालेलकरांच्या सहवासांत रावले. थंय 'गोवा इन्फॉर्मेशन सेंटर' चलोवन गोंय मुक्ती लढ्याच्या वावरांत भाग घेतलो. गोंयमुक्ती उपरांत गोंयांत येवन पत्रकारिता आपणायली. 1963 पासून 'राष्ट्रमत' ह्या मराठी दैनिकाचे संपादक. 'सुनापरान्त' ह्या कोंकणी दैनिकाचेय पयले संपादक. कोंकणी बरोबर मराठी, इंग्लीश, हिंदी ह्याय भासांनी लेखन केलां. कोंकणीचे भाशीक आनी साहित्यीक चळवळीचे एक मुखेली. देशाच्या भोवतेक भागांत प्रवास केला. नेपाळ, बांगला देश, पाकिस्तान, कुवेत, थायलंड, संयुक्त अरब अमिरात आदि देशांनी भोंवडी करून आयल्यात.

मूळ पिंड कथाकाराचो. सुमार दोनशां वयर कथा बरयल्यात. 'कथिका' नांवाचो कथाप्रकार कोंकणींत रूढ केला. आयजवेर 'धर्तरी अजून जियेताली', 'आशाढ पावळी', 'अळमी', 'व्हंकल पावणी', 'कथिका', 'जंय वता थंय', 'मेघमल्हार' हे कथासंग्रह आनी पांच कादंबऱ्यो पुस्तक रुपान उजवाडाक आयल्यात. एक मराठी कथासंग्रह प्रकाशित जाला. दोन ललित निबंद संग्रह. एक समिक्षे वयलें पुस्तक उजवाडा आयलां. ते भायर 'भुंयचांफीं', 'कोंकणी कथा' हे प्रतिनिधीक कथासंग्रह तांणी संपादीत केल्यात. कांय कथा-कांदबऱ्यांचे कोंकणींत अणकार केल्यात. तांगेल्या 'व्हंकल पावणी' कथासंग्रहा खातीर तांकां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार (1989) लाभला. ते भायर गोवा कला अकादमी, डॉ. टी. एम. पै फाउंडेशन, मणिपाल हांचे पुरस्कार लाभल्यात.

**अ. ना. म्हांबरो** (4-10-1938) : हांचो जल्म रायबंदर, गोंय हांगासर जालो. शिकप गोंय आनी मुंबयंत जालें. नोकरीच्या निमतान मुंबयंत वास्तव्य. कथे वांगडा ललित निबंद, नाटक हे साहित्य प्रकार हाताळल्यात. 'पणजी आतां म्हातारी जाल्या' हो कथासंग्रह उजवाडा आयला आनी ताका साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार (1987) लाभला. 'प्रसादाफूल' आनी 'स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा' हे प्रतिनिधीक कथासंग्रह संपादीत केल्यात. एक ललित निबंध संग्रह, एक नाटक आनी एक बालसाहित्या वयलें पुस्तक उजवाडा आयलां. बाल साहित्य आनी कथासंग्रहा खातीर कला अकादमीचे राज्य पुरस्कार फाव जाल्यात.

**अच्युत धारेश्वर तोटेकार** (30-10-1932) : हांचो जल्म गोंयांतल्या अंत्रुज म्हालांतल्या नगर प्रियोळ गांवांक एका वैदिक घराब्यांत जाल्ो. चरितार्था खातीर पुजारीपण आनी बागायती हे व्यवसाय आपणायले.

1959 वर्सा मुंबय रेडियो खातीर नाटकुलें बरोवन लेखनाक आरंभ केलो. मुंबय आनी पणजी आकाशवाणी खातीर नाटकुलीं, कथा, उलोवपां हांचें विपुल प्रमाणांत लेखन केलां. .

गोंय सुटके उपरांत कथा लेखनाक सुरवात केली. तांगेलो 'चैत्रांगण' हो कथासंग्रह प्रसिद्ध जाला.

**प्रो. शांताराम अनंत हेदो** (11-4-1912 / 22-11-1992) : हांचो जल्म गोंयच्या फोंडें तालुक्यांतल्या शिरोडें गांवांत जालो. शिकप मराठी आनी पुर्तुगेज भाशेंतल्यान जालें. पयलीं शिक्षक आनी मागीर शिक्षण अधिकारी जावन ते नोकरेंतल्यान निवृत्त जाले. तांणी कोंकणी बरोबर मराठी आनी पुर्तुगेज भाशेंतल्यान लेखन केलां. खलील जिब्रानच्या 'मॅडमन' चो तांणी पुर्तुगेजींत अणकार केला. शिक्षण विशया कडेन संबंदीत एक मराठी पुस्तक प्रकाशीत जालां. कोंकणींत 'घरपुरुस' हो कथासंग्रह उजवाडा आयला. तेच प्रमाण एक गांधी चरित्र. एक पुर्तुगेज नाटकाचो अणकार आनी एक बालसाहित्याचें पुस्तक उजवाडा आयलां. ते भायर कथांचीं दोन पुस्तकां उजवाडा येवपाचीं आसात. तांणी एक 'कोंकणी-कोंकणी कोश' रचला. तांगेल्या पुस्तकांक कला अकादेमी सारक्या संस्थाचे राज्य पुरस्कार लाभल्यात.

**दामोदर यशवंत मावजो** (1-8-1944) : हांचो जल्म गोंयांतल्या माजोड्डें गांवांत जालो. तांचें शिकप गोंय आनी मुंबय हांगासर जालें. कॉमर्स शाखेची पदवी जोडले उपरांत तांणी आपणालो पारंपरीक किराणा मालाचे विक्रेचो व्यवसाय आपणायलो. तांणी युरोप आनी कुवेतची भोंवडी केल्या. कोंकणी राजभास चळवळींत (1985) तांणी मोलादीक वावर केला.

'गांथन', 'जागरणां', 'रुमडफूल' अशे कथासंग्रह उजवाडा आयल्यात. एक नवलिका, आनी बाल साहित्याचीं दोन पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. तांगेली 'कार्मेलीन' ही गाजिल्ली कादंबरी, तिका साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार (1983) लाभला. तांचे कथेचेर लघुफिल्म जालां. तेच बरोबर तांणी ल्हान पड्ड्यावयल्या फिल्माखातीर पटकथा-संवादाची रचना केल्या. तांगेल्या रचनांक कला अकादेमीचेय पुरस्कार लाभल्यात.

**शीला तुकाराम कोळंबकार** - लग्ना आदल्यो शीला मर्तो नायक, (1945) : हांचो जल्म गोंयच्या पणजी शारांत जालो. तांचें शिकप गोंयांत जालें. गोंयांत कांय काळ तांणी

शिकोवपी म्हण काम केलें आनी लग्ना उपरांत मुंबय स्थायीक जाल्यो.

तांगेलो 'ओली सांज' कथासंग्रह, आनी 'भूंयचांफीं' हो व्यक्तिचित्रांचो संग्रह उजवाडा आयला. ते भायर तांणी कांय नाटकलीं बरयल्यांत.

**मीना सुरेश काकोडकार** - आदल्यो मीना दुर्गा गायतोंडे (1944) : हांगेलो जल्म गोंयांतल्या काणकोण तालुक्यांतल्या पाळोळें गांवांत जालो. शिकप गोंयांत आनी मुंबयंत. सरकारी खात्यांत नोकरी. 'दोंगर चंवल्ला' आनी 'सपनफुलां' हे दोन कथासंग्रह उजवाडा आयल्यात. कांय प्रयोगक्षम अशीं नाटकुलीं बरयल्यांत. 'सपनफुलां' कथा संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार (1991) लाभला. ते भायर डॉ. टी. एम्. ए. पै फाउंडेशन पुरस्कार, कुळागर पुरस्कार, कला अकादेमी पुरस्कार आदि भौमान तांकां लाभल्यात.

**दत्ता श्रीपाद नायक** (1-2-1940) : हांचो जल्म दिवचल गांवांत जालो. शिकप गोंयांत आनी पुणें हांगासर जालें. ते व्यवसायान इंजिनियर आसात. कोंकणी राजभास चळवळींत (1985) ते सक्रीय रितीन वावुरल्यात.

कोंकणी बरोबर मराठींतूय कथालेखन केलां. तांगेलो 'एक आशिल्लो सोंसो' हो कथासंग्रह उजवाडा आयला. ते भायर एक नाटक, एक एकांकी संग्रह अशीं पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. तांगेली 'हुंवार' ही कादंबरी महाराष्ट्रांत पानशेत धरण फुटलें ते घटनेचे पार्श्वभुंयेचेर आसा आनी कोंकणी कादंबरी क्षेत्रांत ती म्हत्त्वाची भर आसा.

तांकां कला अकादेमीचो राज्य साहित्य पुरस्कार लाभला.

**डॉ. ऑलिव्हीज्यु गॉमिश्** (1943) : हांचो जल्म गोंयच्या सांत इस्तेव्हांव जुंव्यार जालो. शिकप गोंय, पुणें आनी कर्नाटक, तशेंच शिवाजी विद्यापिठांतल्यान जालें. 1969 वर्सा आय.ए.एस. ची परिक्षा पास जावन अ. कलेक्टर धरून ऍड. कमिशनर मेरेन केंद्र सरकाराचे उंचले सेवेंत सोलापूर, रत्नागिरी, नाशीक, दिल्ली, आनी गोंयांत वावुरल्यात. सद्याक गोंय विद्यापिठांत कोंकणीचे प्रोफेसर आनी विभागाचे मुखेली आसात. तांणी कॅनडा, फ्रान्स, पुर्तुगाल असो विदेशांत फेलोशिपो मेळोवन प्रवास केला.

कोंकणी बरोबर इंग्लीशींतल्यान लेखन केलां. तांगेलो 'मन वोडटा वोडना' हो कथासंग्रह, एक चरित्र, दोन बालसाहित्याचीं पुस्तकां, एक कविता संग्रह उजवाडा आयला. तांणी अणकाराचो मोलादीक वावर केला. कालिदास, जॉर्ज ऑरवेल, खलिल जिब्रान, फेर्नांदु पेसोअ, हेनरिक इब्सेन, कालदेर्सिन, देला बार्का, गॅर्रा ज्युंकेयरु आदि नामनेच्या देशी आनी विदेशी साहित्यिकांच्या अभिजात कलाकृतींचे कोंकणींत आनी इंग्लीशींत अणकार करून ते पुस्तक रुपान उजवाडा आयल्यात.

तांकां कला अकादेमीचे गोंय राज्यपुरस्कार आनी साहित्य अकादेमी राष्ट्रीक पुरस्कार लाभल्यात.

**पुंडलीक नारायण नायक** (21-4-1952) : हांचो जल्म गोंयच्या वळवय गांवांत जालो. शाळेंत शिक्षक म्हण काम केले उपरांत ते पणजी आकाशवाणीचेर सहसंपादक, सहाय्यक संपादक म्हूण वावुरले आनी नोकरी सोडून आपणाक पूर्ण वेळ लेखनाक ओंपून घेतलें. गोंयचे राजभास चळवळीचें (1985) तांणी यशस्वी रितीन फुडारपण केलें.

कोंकणी बरोबर मराठींतूय लेखन केलां. तांगेले 'मुठय', 'पिशांतर' आनी 'अर्दूक' अशे तीन कथा संग्रह उजवाडा आयल्यात. एक कविता संग्रह, तीन कादंबऱ्यो, तीन बालसाहित्याचीं पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. नाटकां आनी एकांकीच्या मळा वयलें तांगेलें योगदान इतिहासीक स्वरुपाचें आसा. तीन एकांकी संग्रह आनी आयजवेर रंगमाचयेर येवन पुस्तक रुपान प्रगट जाल्लीं चवदा नाटकां पुस्तक रुपान उजवाडाक आयल्यांत.

कोंकणींत आनी मराठींत तांणी ल्हान तशेंच पूर्ण स्वरुपाच्या टेलिफिल्मा खातीर पटकथा, संवाद, आनी गितां रचल्यांत.

तांगेल्या 'चौरंग' एकांकी संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार (1984) लाभला. ते भायर तांगेल्या नाटकांक आकाशवाणी पुरस्कार आनी आंतरराष्ट्रीय पॅटर्स ऑस्ट्रेलियन ॲवार्ड फाव जालां.

**एन. शिवदास** (शिवदास सोनू नायक) (17-3-1949): हांचो जल्म गोंयांतल्या फोंडें तालुक्यांत नागेशी गांवांत जालो. व्यवसायान शिक्षक. गोंयच्या देवळांतलो वेगळेचार, शेतकारां वयलो अन्याय आदि समाजीक प्रस्नांक चळवळीचें स्वरूप दिवन वावुरपी लेखक. कोंकणी आनी मराठी वर्तमानपत्रांनी नेमान वेगवेगळ्या विशयांचेर स्तंभलेखन करता. कोंकणी राजभास चळवळींत (1985) मोलाचो वावर केला.

'गळसरी' हो कथासंग्रह उजवाडा आयला. ते भायर एक कादंबरी, दोन नाटकां, एक बालनवलिका पुस्तक रुपान उजवाडा आयल्यांत.

तांच्या साहित्यकृतींक कला अकादमीचे राज्यपुरस्कार लाभल्यात.

**जयमाला नारायण दणायत**: ह्यो लग्ना आदल्यो जयमाला दामोदर प्रभू चोडणेकार. (17-12-1947) : तांचो जल्म गोंयांत जांबावले गांवांत जालो. गोंयांत शिकप घेवन तांणी बँकेंत नोकरी केली आनी लग्ना उपरांत नौकरी सोडून मुंबय स्थायीक जाल्यो. थंय मुंबय आकाशवाणीच्यो वृत्तनिवेदिका म्हूण काम केलें.

'कवासो' हो कथासंग्रह प्रसिद्ध जाला. ते भायर भुरग्यां खातीर बरयिल्ल्या नाटकुल्यांचें एक पुस्तक आनी एक ललित निबंद संग्रह उजवाडा आयला.

तांकां कला अकादमीचो राज्य साहित्य पुरस्कार लाभला.

**हेमा पुंडलीक नायक**, पूर्वाश्रमीच्यो हेमा अनंत धुमटकार, (6-5-1952) : हांचो जल्म गोंयांत मडगांव शारांत जालो. वीस वर्सां बँकेंत नोकरी करून तांणी नोकरी सोडली. कोंकणी साहित्याच्या मळार खासा बायलां खातीर 'चित्रंगी' नेमाळें चलोवन, बायलांचे मेळावे आयोजीत करून तांगेलीं प्रातिनिधीक आनी स्वतंत्र साहित्य रचनांचीं पुस्तकां उजवाडा हाडपाचो म्हत्त्वपूर्ण वावर तांणीं केलो. कोंकणींतली एक प्रकाशिका आनी चित्रपट निर्माती आशिल्ले हे लेखिकेचो 'पसय' हो कथासंग्रह ते भायर एक कादंबरी, एक निबंधसंग्रह, एक एकांकी संग्रह, एक नाटक आनी दोन संपादीत केल्लीं पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत.

**एडविन जोसेफ फ्रान्सीस डिसौझा** (14-6-1948) : हांचो जल्म कर्नाटक राज्यांतल्या दक्षिण कॅनरा भागांतल्या मंगळूर शारांत जालो. मुळावें आनी पदवी मेरेनचें शिकप मंगळुरांत जालें. सोळा वर्सां कुवेताक तांत्रीक विक्री अधिकारी म्हूण वावुरले उपरांत ते देशांत येवन स्थायीक जाले. सध्याक ते पूर्ण वेळ लेखन करतात आनी कांय साहित्यीक नेमाळ्यांचें संपादन करून कॉलेजांनी कोंकणी विशयाचे व्याख्याते म्हूण वावुरतात. तांणी युरोप, मिडल ईस्ट, फार ईस्ट असो परदेश प्रवास केला.

पिरायेच्या इकराव्या वर्सा तांणी लेखनाक आरंभ केलो. आयजवेर तांगेल्यो सव्वीस कादंबऱ्यो पुस्तक रुपान प्रगट जाल्यात. तातुंतल्यो भौतेकांच्यो तिसऱ्यो आवृत्त्यो भायर सरल्यात. तांगेली एक कादंबरी कन्नड भाशेंत अणकारीत जाल्या. फाटल्या 26 वर्सांत तांणी सुमार पन्नास कथा बरयल्यात. तांगेलो 'तरणीं किरणां' कथा संग्रह उजवाडा आयला.

तांगेल्या पुस्तकांक टी. एम्. ए. पै फाउंडेशन, मणिपाल, तशेंच मंगळूरच्या आनी गोंयच्या संस्थांचे साहित्य पुरस्कार लाभल्यात.

**गजानन रघुनाथ जोग** (1-10-1952) : हांचो जल्म गोंयांत साकोर्डे हांगासर जालो. बी.ए. (ऑनर्स) आनी एल. एल. बी. मेरेनचें शिकप केलां. बँकेंत नोकरी करता.

कथां बरोबर कविता आनी विनोद लेखन केलां. 'रूद्र' आनी 'सोद' हे कथा संग्रह आनी एक बालसाहित्या वयलें पुस्तक उजवाडा आयलां. मराठींतूय कथालेखन केलां.

**प्रोफेसर के. आर. वसंतमणी** (12-9-1941) : हांचो जल्म केरळ राज्यांत तोरबूर गांवांत जालो. ऊर्जातंत्राचो प्रोफेसर. मलयाळम भाशेंत कांय पाठयपुस्तकांची रचना केल्या. ते भायर इंग्लीश भाशेंतूय बरयतात.

कोंकणी कथांचो संग्रह 'भांगरा दांत' ह्या नांवान उजवाडा आयला.

**तोमाजिञ्यु कार्दोज** (24-4-1946) : हांचो जल्म गोंयांतल्या चोंबुर्पे गांवांत जालो. विद्यालयांत शिक्षक आनी सुपरवायझर म्हूण ते वावुरले. बार्देश तालुक्यांतल्या कांदोळे गांवचे सरपंच

म्हूण ते जायतीं वरसां वावुरले. गोंयांत 'पंचायत राज्य' चळवळींत ते सक्रीय आसात. 1994 वर्सा गोंय राज्याचे आठवे विधानसभेर ते आमदार म्हूण वेंचून आयले आनी सभापती जाले. 1985 वर्साचे राजभास चळवळींत तांचो म्हत्त्वाचो वांटो आसा. गोंयच्या 'तियात्र' ह्या लोकनाट्याक आशय आनी तंत्राचे नदरेन, भारतीय आधुनिक रंगमाचये कडेन व्हरपाचो मोलादीक वावर तांणी केलो. तेच प्रमाण 'मांडो' आनी 'कांतार' ह्या लोकगीत प्रकारांक प्रतिष्ठा मेळोवन दिली.

'झेलो' हो तांगेल्या कथांचो संग्रह उजवाडा आयला. ते भायर इकरा तियात्राचीं पुस्तकां, एक कविता संग्रह, एक एकांक़ी संग्रह तशेंच मांडो आनी कांताराचीं पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. तांकां कला अकादेमीचे राज्य थरा वयले साहित्यीक पुरस्कार लाभल्यात.

**गोकुळदास प्रभु** (18-12-1954) : हांचो जल्म केरळ राज्यांत कोचीन हांगासल्ल्या वेरळाय मट्टांचेर हांगासर जालो. मुळावें शिकप मलयाळम भाशेंतल्यान जालें. एम.ए.चें शिकप तमीळनाडूंत जालें. सद्याक कर्नाटकांत बँकेंत नोकरी करता. कोंकणी बरोबर मलयाळम, तमीळ, कन्नड, हिंदी आनी इंग्लीश भासो येतात.

'अंतरआयामी' हो कथा संग्रह आनी 'पृथवे नमः' ही नवलिका उजवाडा आयल्या. एक कथासंग्रह आनी एक एकांकी संग्रह प्रकाशनाचे वाटेर आसात. तांणी मलयाळी कथांचे तशेंच एम. टी. वासुदेवन नायर हांचे कांदबरीचो कोंकणी अणकार केला. 'अंतरआयामी' कथा संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार (1994) लाभला. ते भायर डॉ. टी. एम. ए. पै. फाउंडेशन पुरस्कार मेळ्ळा.

**जॅस फेर्नांदीस** (6-9-1941) : हांचो जल्म गोंयांत काणकोण म्हालांतल्या पाळोळें गांवांत जालो. मुळावें शिकप पुर्तुगेज भाशेंतल्यान आनी उपरांत पदवी मेरेनचें शिकप इंग्लीश भाशेंतल्यान जालें. पुर्तुगेज मुळावी शिक्षक, सर्वेयलांस इन्स्पेक्टर म्हूण काम केले उपरांत सद्या ते सरकारी भलायकी खात्यांत सेनिटरी इन्स्पेक्टर म्हूण वावुरतात.

कोंकणींत कवी म्हूण नामना आशिल्ल्या ह्या बरोवप्याचो एक कविता संग्रह आनी 'पुनरजीवन' नांवाचो एक कथा संग्रह उजवाडा आयला. ते भायर तांणी तियात्र, एकांकी, एकपात्री खेळ हांचें लेखन केलां.

**महाबळेश्वर दत्ता सैल** (14-4-1945) : हांचो जल्म कर्नाटक राज्यांत कारवार जिल्ह्यांतल्या माजाळी गांवांत जालो. सतरा वर्सांचे पिरायेचेर ते भारतीय फौजेंत भरती जाले. 1963 वर्सा ते संयुक्त राष्ट्र संघाचे वतीन इस्रायल-इजिप्त हांचे मदल्या तंट्यांत शांतिसैनिक म्हूण पॅलेस्टायनांत वावुरले. तशेंच 1965 च्या भारत-पाक हांचे मदल्या झुजांत हुसेनिवाला सेक्टरांत.तांणी वांटो घेतलो. उपरांत ते केंद्रीय पोस्ट खात्यांत आयले. सद्याक गोंयांत

पोस्टमास्टर म्हूण वावुरतात.

'पलतडचें तारूं' आनी 'तरंगां' अशे दोन कथा संग्रह प्रकाशीत जाल्यात. ते भायर चार मराठी नाटकां उजवाडा आयल्यांत. तांगेल्या 'तरंगां' कथासंग्रहाक साहित्य अकादेमी पुरस्कार (1994) लाभला. ते भायर तांकां गोंय सरकारच्या कला अकादमीचे साहित्य पुरस्कार लाभल्यात.

**शशांक सीताराम शिरोडकार** (3-8-1953 / 29-12-1994) : हांचो जल्म मार्शे, काणकोण हांगासर जालो. कॅन्सराचे पिडेन ते अकाली ह्या संवसाराक अंतरले. तांणी बी.एस्.सी. मेरेन शिकप केलें. आनी ते शिक्षक आशिल्ले.

कथां बरोबर तांणी कांय एकांकी बरयल्यात. रंगमाचयेर अभिनय करप आनी रेखाटनां काडपांत तांचो हात चलतालो. तांगेलो 'नबत' हो कथासंग्रह आनी 'प्रश्न' हो एकांकी संग्रह उजवाडा आयला. 'परीघ' हो दुसरो कथासंग्रह रोखडोच उजवाडा येवपाचो आसा.

**जयंती नामदेव नायक** (6-8-1962) : हांचो जल्म, गोंयांत आमोणें-केपें हांगासर जालो. पदवी शिक्षणा उपरांत तांणी लोकवेदाचो पोस्ट ग्रॅज्युएट डिप्लोमा कोर्स केला. सद्याक 'गोवा कोंकणी अकादेमी'च्या लोकवेद विभागांत संशोधन सहाय्यक म्हूण वावर करतात.

लोकवेदा वयलीं स पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत, तातूंत 'आमोणें एक लोकजीण' हो म्हत्त्वाचो ग्रंथ आसा. 'गर्जन' हो कथासंग्रह उजवाडा आयला.

**तुकाराम रामा शेट** (31-7-1952) : हांचो जल्म गोंयांत फोंडें म्हालांतल्या वळवय गांवांत जालो. केंद्र सरकाराच्या दूरसंचार खात्यांत काम करता.

'बालगीत निकेतन' संस्थे वरवीं गोंयांत व्यापक प्रमाणांत भुरग्यांच्या लोकवेदाचेर आधारीत 'बालमेळ' घेता, ऑडिओ कॅसेटची निर्मिती करता. 'कोंकण टायम्स' नांवाच्या साहित्यीक नेमाळ्याचे संपादक.

एक कादंबरी प्रसिद्ध जाल्या. कांय एकांकी बरयल्यात.

**वसंत भगवंत सावंत** (23-3-1960) : हांचो जल्म गोंयच्या सांवड्डें गांवांत जालो. सरकारी नोकरी करता. तरुण पिळग्रेंतल्या ह्या नवोदीत कथाकाराचो 'निवलकाणयो' हो कथासंग्रह आनी बालसाहित्याचें एक पुस्तक उजवाडा आयलां.

कला अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार लाभला. कथेच्या विशया प्रमाण वातावरण निर्मिती करपाचें कसब बरें जमता. दुर्बळ, शोषीत समाजांतले ताण-तणाव, समाजीक जाणिवेंतल्यान यशस्वीपणान मांडटा.

**ज्योती अवधूत कुंकळकार**- आदल्यो ज्योती सुभा प्रभू (14-11-1962) : हांचो जल्म, गोंयांत काणकोण म्हालांत जालो. सरकारी शेतकी खात्यांत नोकरी करता. कोंकणी, मराठी रंगमंच आनी चित्रपट क्षेत्रांत अभिनय, दिग्दर्शन आनी निर्मिती क्षेत्रांत वावुरता. पणजी दूरदर्शन च्यो मान्यताप्राप्त निवेदिका. कोंकणींत आनी मराठींत बरयता. 'चित्रांतलें वादळ' हो कोंकणी कथासंग्रह, जाल्यार 'ओला पदर' हो मराठी कथासंग्रह पुस्तकरुपान उजवाडा आयला. ते भायर एक पटकथेचें पुस्तक प्रसिद्ध जालां. मराठी अभिनेत्रींच्या मुलाखतींचेर आधारीत एक पुस्तक प्रकाशनाचे वाटेर आसा.

स्थानीक संस्थांचे साहित्यीक पुरस्कार लाभल्यात.



Lasertypeset at Omega Enterprises, Margao-403 601
and printed at Shivam Offset Press, New Delhi-110 028

1930 च्या अदमासक भारतीय काणी आनी युरोपियन शॉर्ट स्टोरी हांचो संगम जावन लघुकथेचो जल्म जालो. युरोपियन शॉर्ट स्टोरीची प्रेरणा हेर भारतीय भासांक इंग्लाशींतल्यान लाबली, जाल्यार कोंकणी भाशेक ती पुर्तुगेज आनी फ्रेंच भाशेंतल्यान लाबली. सुमार सत्तर वर्सां पयलीं जल्माक आयिल्ली कोंकणी लघुकथा संख्येन वाडल्या तशी गुणांनीय वाडल्या. गोंयचे सुटके उपरांतचें 1970-80 हें दसक म्हळ्यार कोंकणी कथेचो वैभवाचो काळ. नवे जाणिवेचे, नवे संवेदनेचे कथाकार ह्या काळांत मुखार आयले. विशय आनी आशयान कोंकणी कथा समृद्ध जाली. कोंकणी कथा गोंय, कर्नाटक, केरळ आनी गोंयांभायर रावपी कथाकारानी सातत्यान लेखन करून बळिश्ट केल्या. ह्याच कथाविश्वांतल्यो वैशिश्ट्यपूर्ण अश्यो पंचवीस कथा हांगासर वेंचून काडल्यात. कोंकणी कथा आयज राष्ट्रीक थराचेर हेर भासांचे पंगतीक अधिकारान आनी पूर्ण सामर्थ्यासयत बसता. आपणाले खाशेलेपण तिगोवन दवरून ती वैश्विक थराचेर हेर कथांकडेन आपणालें नातें जोडून गतिशील आनी प्रयोगशील आसा.

ह्या प्रतिनिधिक कथा संग्रहाचें संकलन आनी संपादन केल्ले पुंडलीक नारायण नायक हे कोंकणीतले एक म्हत्वपूर्ण साहित्यकार आसात. गोंयचे राजभास चळवळीचें (1985) ताणी यशस्वीपणान फुडारपण केलें. कोंकणीत प्रादेशीक साहित्याचो आरंभ तांगेल्या रचनांतल्यान जालो आनी 1970 च्या दशका उपरांत तो, एकूण कोंकणी साहित्याचो प्रमुख स्वर जालो. अच्छेव (नवलकथा), खण खण माती (नाटक), मुठय ह्यो तांच्यो कांय नामनेच्यो साहित्यकृती. तांच्या साहित्य कृतींक आकाशवाणी, राज्य कला अकादमी, साहित्य अकादमी (1984) पुरस्कार आनी आंतर राष्ट्रीय पेटर्स ऑस्ट्रेलियन ॲवार्ड फाव जाला.

*मुखेलपृष्ठ* : 'इमेजीस् ऑव्ह गोवा'
*चित्रकार* : लक्ष्मण पै

ISBN-81-237-2357-1




नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया

समकालीन कोंकणी लघुकथा
संपादक : पुंडलीक नारायण नायक
नॅ. बु. ट्र.